**प्रकाशक** / बिम्ब प्रकाशन, 'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४.
**दूरध्वनी** / (०८३२) २४३८३५५.
**प्रकाशन क्र.** / **१३६. अक्षर जुळणी** / बिम्ब प्रकाशन.
**छापणावळ** / इम्प्रेशन्स - बेळगांव.

**पयली आवृत्ती** / मार्च २०१८.
**मुखपृश्ठ** / गिरिश नंदा बोरकार
**सपन** (नवलिका) नं. ध. बोरकार
Sapan (Novel) *by* ***N. D. Borkar***
**मोल** : रु. २००/-




**ISBN :** 978-93-85654-24-4

ज्या घराब्यांनी
शेतां हेंच आपलें जिवीत मानलें
आनी आपलो घाम व्हारोवन
जमनी पिकयल्यो
त्या सगळ्या शेतकारांक...

**भौ. नंदा धर्मा बोरकार**
**हांचें हेर प्रकाशीत साहित्य**

१. पोको (कादंबरी-२००४)
२. मम्मी (नाटक-२००६)
3. वावराडी (नाटक-२००६)
४. समर्पण (कादंबरी-२००७)
५. गोंदू (कादंबरी-२००९)
६. कुळागरांतलो सर्गानंद (कादंबरी-२००९)
७. बावकें (कादंबरी-२०१3)
८. यादींतलीं माणकां मोतयां (ललित-२०१४)
९. आंकवार (ललित-२०१७)

# गोंयकारांक नवी दिका ,
# नवें सपन दाखोवपी सपन नवला

पोको, समर्पण, गोंदू आनी बावर्के ह्या चार नवलकथां उपरांत नंदाबाब ध. बोरकार हांची सपन ही पांचवी नवला वाचप्यांचे भेटेक येता ही खोशेची गजाल आसा. कित्याक तांची प्रतिभा आजून फुलता-फळटा हें तांचे साहित्यीक निर्मणेर्चे नदरेंत भरऽ सारकें खोसदिणें लक्षण आसा.

नवलकथा किंवा नवला हो साहित्य प्रकार हेर साहित्य प्रकारां मदलो लेखका मुखार आव्हानां दवरपी एक साहित्य प्रकार. कोंकणी साहित्यांत कविता संग्रहांचें पीक उपाट येता. त्या मानान नवला हो साहित्यप्रकार व्हडा प्रमाणांत केळयल्लो दिसना. नवलकथाकारांक व्यक्ती व्यक्ती मदले संबंद, समाज आनी समाज मन हांची खोलायेन नियाळणी करची पडटा. तेच परी नवलकथे मदल्या प्रत्येक पात्राच्या अंतर्मनांत खोल रिगून तांचेर भाश्य करचें पडटा. एके दिश्टीन तो समाजांतल्या घडणुकांचो भाश्यकार आसता. आपल्या भाश्यांतल्यान तो समाजाक विचार करपाक लायता, ताका नवी दिशा आनी दिश्टी दिवन तो समाजांत परिवर्तन घडोवन हाडपाक शकता.

यशस्वी नवलकथा लेखकाक सदांच चिंतनशील आनी प्रयत्नशील आसचें पडटा. ताका साहित्य अभ्यासाचो व्यासंग सातत्यान करचो पडटा. नंदाबाब हे हाडाचे शिक्षक आशिल्ल्यान ताणीं साहित्याचो खोलायेन अभ्यास केल्लो दिश्टी पडटा. कोंकणी वांगडाच ताणीं मराठी

आनी हिंदी भाशांतल्यो साहित्यकृती अभ्यासल्यात हें तांच्या साहित्यांतल्यान प्रतीत जाता.

सपन ही तांची नवला हांवें आदीं बिम्ब मासिकांत खिरस्ती खिरस्तीनी अदीं मदीं वाचिल्ली. पूण तिचें हातबरप मेळटकच ती हांवें परतून वाचतना, ती म्हाका हातांतल्यान खाला दवरची अशें दितलें ना, इतली मनओडलायणी ती उतरल्या. गोंयच्या बदलतल्या समाजीक रुपाचेर आनी तिच्या मुखार उप्राशिल्ल्या अनेक प्रस्नांचेर बेतिल्ली एक बरीऽ नवलकथा वाचिल्ल्याची म्हाका खोस भोगली. आमच्या समजांतल्यो रितीरविसो, वैगुण्यां, विसंगती, श्रध्दा आनी कुडड्यो श्रध्दा, समज-गैरसमज, व्यक्तींच्यो व्यथा-वेदना, दंतकथा-मिथकां ह्या सगळ्यां आंगांचेर समर्थपणान उजवाड घालपांत नंदाबाब यशस्वी जाल्यात. गांव म्हणलो म्हणटकीच गजाली ह्यो आयल्योच. ह्यो गजाली नंदाबाबान आपले आगळे वेगळे शैलीन आनी व्हड उमेदीन वाचकांक सांगल्यात.

सपन नवला ही आगशे सयभोंवतणी रावतल्या दोन अशिक्षीत पूण संस्कारी आनी भावार्थी क्रिस्तांव घराब्यांची कथाः सिमांव ताची घरकान्न नातलू, पूत लोरसू ,तेचपरी नातलूचो भाव आलसूबा आनी ताची धूव गुलू (ग्लोरिया) हांची ती कथा. सुटके उपरांतच्या गोंयांतल्या नेटान बदलपी फाटभुंयेचेर हे नवलकथेचें कथानक घडटा.

नंदाबाबान हे नवलकथेंत गोंयच्या प्रसन्न सैमाचीं, रुखावळींचीं, फुलां-फळांचीं, रानफळांचीं सोबीत वर्णनां केल्ल्यान काणी वाचनीय जाल्या. गुलूचें शिक्षण सैमाच्या सांगातान जाल्ल्यान तांचें व्यक्तीत्व कशें फुलून आयलां, हें उर्के जाता. हाचे उरफाटें नातलू लोरसूक व्हड मनीस करपाच्या हावेसाक लागून ताका पयस पणजेंतल्या इंग्लीश माध्यमाचे शाळेंत घालून, ताका सैमा पासून तोडिल्ल्यान, तांचें शेकी कशें लुकसाण जाता हें लेखकान दाखयलां. आयज पालक आपल्या भुरग्यांक तांच्या ल्हानपणासावनूच इंग्लीश माध्यमांचे शाळेंत कोंबून

तांची सृजनशक्ती इबाडटात हें वाचकांच्या लक्षांत आयले बगर रावचें ना. नंदाबाब गुलूच्या घरा लागसारच्या विशाल वडार्चे सोबीत वर्णन करुन, वड हें गुलूचें व्हड विद्यापीठ आसलें हें सांगून पालकांक खऱ्या शिक्षणाविशीं विचार करपाक लायतात. गोंयचे समाज जिर्णेत ल्हवू ल्हवू, आमचे नकळयां सुमारा भायर बदल घडत आसात हांच्यो साबार देखी नंदाबाबान दिल्यात. आगऱ्यांनी आगर सोडल्यात, काम करपाक गोंयकार मानाय आनी कामेऱ्यां मेळनात, गोंयकार तरणाटे कश्टाचो वावर करपाक लजेतात. पूण हातूंतली व्हड विसंगती म्हणल्यार हाचे परसय हलकीं कामां हेच गोंयकार परदेसांत दुडवां पासत करतात हाची जाणविकाय वाचप्यांक करुन दितात. काळचक्राच्या ओगांत गोंयकारांचे विचारसरर्णेत जाल्लो बदल नंदाबाबान प्रभावीपणान दाखयला. हाची एक देखः दादीचें डॅडी आनी आतीचें आण्टी जालां.

गोंयांत आदल्या काळांत घोळणुकेंत आशिल्ल्या साबार पुर्तूगेज उतरांचो नंदाबाबान सहजतायेन उपेग केल्ल्यान त्या काळांतले वातावरण निर्मणेक आधार दिला. वादीव, आखांज्यार, सीरीस, काबासांव, देर्शेत, फोत्त, बेसांव, रेस्पेद, ओर्द इत्यादी उतरां चडशीं क्रिस्तांव घराब्यांनी आजूनय घोळटात आनी तीं साहित्यांत वापरल्यार कोंकणी भाशेची गिरेस्तकाय वाडटली. तीं पुर्तूगेज उतरां म्हणून ती आमी कडेक दवरपाक जायनात.

हे नवल काणयेंत नंदाबाबान चित्रायल्ल्यो व्यक्ती सामक्यो जित्यो जिव्यो टट्ट्टीत दिसतात. आपल्या पात्रांच्या अंतर्मनांत ते खोल रिगून तांचे भितर समरस जाल्ल्यानच तांचें चित्रावप वाचप्यांक भावता. तांचे कोंकणीची शैली सादी, सोंपी, व्हांवती तर आसाच, पूण तांणी आपल्या पात्रांचे बोली भाशेचो प्रभावी उपेग केल्ल्यान तांच्या उतरांक गांवगिऱ्या वांठाराच्या जिवितांतलो रंग भरला. गोंयचे मातयेचो परमळ खिणाखिणाक नवलकाणयेभर पातळ्ळा.

नंदाबाबान आपल्या गांवच्या क्रिस्तांव भावांच्या घराब्यांची,

तांचे बोलीची, देवासांवाची आनी चालचलणुकेची बारीकसाणेन नियाळणी केल्या. ते तांच्या समाजांत खूब घोळिल्ल्यान त्या लोकांची बोली भास तांचे वरीच उलयतात आनी बरयतात. ही बोली भास हे नवलकाणयेची एक म्हत्वाची विशेशताय आसा.

लोरसू आनी ताची मामेभयण गुलू पयलेच पावट इगर्जेंत देवाच्या आल्तारा मुखार मेळटात. लेखक ही भेट वर्णितना बरयतातः एकामेकाक पळोवन तीं दोगांय अजापीत जालीं. तांकां दिसलें, देवानूच तांची आपल्या सामकाराक भेट घडोवन हाडल्या.

लोरसू हूंय रे तूं! हांव तुहां सोऽगल्या सोदतां. आनी तूं इंगा दिमी मारुन आहा?- गुलून कागाळे सुरान प्रस्न केलो.

इंगा दिमी माल्ना जाल्यार हूंय मात्तलों? इंगा दिमी माल्ली देखून तुजी भेट घडोवन हाडली देआन. हार्ये एका जाण्टेल्या कोडल्यान मुगो, एक गोजाल आयकोल्या गो!- लोरसू

होईऽ...कोहली गोजाल आयकोल्या रे तुवें? माहांय सांग रे. गुलून उत्सुकतायेन कान फांकारले.

तो जाण्टेलो म्हुण्ट मुगो, शेणललीं गोरवां हूंय कोरंबोले तोल्याकोर्डे गावताय. हार्ये चिंतलें, आमजेलें गुलू शेणलां तें माहां मेवले बोगोर कोर्हेच घारा वोसपा ना. देखून, तें माहां हुयी आहल्यार इंगा येवन मेवतोर्ले. देव तेहा इंगा येवन माहां मेवपाक मोत दितोलो. म्हुजो देवाचेर चोड भावार्थ. देखून हार्ये दिमी घालून देआकोर्डे मागलें की, हे देआ, म्हुर्जे ग्लोरिया- मोगार्चे गुलू शेणलां. तें हुयी आहलें जाल्यार, तेहा हाडून म्हुज्या सामकाराक उर्बे कोर! देव माहां पावलो आनी तूं माहां गावर्ले आतां माहां कोवर्ले, कावजांत सावन मागतोल्याक देव केन्नाच दिनासतोना रावोंना.

तुहां जार्ये तें दिर्ले मुरे देआनू, चोल या आतां इंगार्चीं. दुसरे मिसा ओगोत जालो. दुसरें मीस पादकूर सांगतोलो हूंय. तो येवपा ओगोत जालो. हो पादकूर हूंय चोड खोर आहा. आमर्चे हे भासेन

इगोर्जेंत उलोवप तेहा मानवचें ना.

आतां मीस सुरु जावपाचो वगत जालो. पादकूर आल्तारार येवन आपले तयारेक लागलो. भायर उबे आशिल्ले भक्त आतां एकेक करुन सभायरांतल्या बाकांचेर येवन बसूंक लागले. इल्ली इल्ली गर्दी वाडूंक लागली. गर्दी वाडली तरी इंगर्जेंतली शांतताय मातय भंगनासली.

गुलू, माहां इंगाचो भायर वोसोन-सो दिसोना. इंगाच दिमी मारुन रावचो सो दिसता. लोरसू गुलूच्या कानांत फुतफुतलो.

तूं राव रे, हांव वोयतां.

आमी दोगांय रावया गो.

ना रे बाबा, दादी हुस्केतोलो.

आमी ओहे कोरुया, दुसरेंय मीस आयकोया. पादकूर बोरोऽ शेरमांव सांगता हुंय- लोरसू.

ही बोली भास वाचतां वाचतां वाचपीय हे कथेंत गुल्ल जावन आपलेशींच ही भास उलोवपाक लागता इतलीं तीं ताचे संवकळेचीं जातात.

नंदाबाबान गोंयांत सद्या झपाट्यान जायत आशिल्ल्या शारीकरणाचे प्रक्रियेकडेन आनी तातूंतल्यान जावपी नश्ट्या परिणामांचेर आमचे लक्ष वेधून येवन सपन नवलेचो परिणामकारक शेवट केला. हे नवलेंत इंग्लंडाक राबितो करपी लोरसूचो एक इश्ट आपल्या गोंयकार सांगात्यांक किंवाट्यान सांगताः तुमी सोगले आपआपलीं कामां सोडून हिंगा येयल्याय आनी थिंगा तुमचीं कामां सांबावपाक गोंयां भायले लोक येवन भोल्ल्याय. गाडेकार, नुस्तेकार, फोवां- फुलां विकपाचे सोगले धोंदे आतां गोंयां भायल्या लोकांकोडे जेल्याय.

कांय लोकांनी भायल्यान येवन बारीक बारीक धोंदे कोरुन जोमिनी येवन व्होडलीं व्होडलीं यरां बांदल्यांय. कांय जाणांनी-गोंया भायर

जेलेल्यांनी सोबीत घरां बांदून भायल्यांक भाड्याक दिल्यांय, आनी आपूण खोपटांनी रावताय. आनी तुमी? तुमी हें सोगलें जाणां जावन लेगीत, सोगलें कोवोन लेगीत गोऱ्यांची गुलामी कोत्ताय थू तुमचे ओकलेक!

आरे पापयांनो, तुमी हिंगा येवन दुड्डू जोडटलेय. गोंयांत वोसोन व्होडलीं घरां बांदतोलेय. तुमी दुड्डू हिंगाचे व्होत्तोले आनी शेतां पुरोवन घरां बांदतोलेय. पूण म्होज्या भावांनो, फुडें तुमचेर ओहलो ओगोत येवपाचो आहा, शेतां रोवपाक तुमहां एक वेंतभोर जोमीन मेवपाक कुस्तार जातोलें. उपाशीं मोरपाचो ओगोत येतोलो तुमचेर. तेन्ना म्होज्या भावांनो गोंयां वोसाय आनी शेतां-भाटांचो सांबाव कोराय. गोंयकारपोण सांबावाय.

तोर्हें जाल्यार तूं कित्याक येयला रे हिंगा! गर्देतल्यान एक किंवाट्याचो आवाज.

व्हडली चूक जाली बाड्या. ती आतां सुदरोवंक सोदतां. नाहां माहां हें इंग्लोंड आनी माहां हिंगाची गिरेस्तकाय. हांव चोल्लों गोंयां.

गोंयच्या ह्या दुखण्याचेर नंदाबाबान अचूक बोट दवरलां आनी सगळ्या गोंयकारांक शारीकरण आनी गोंयकारांच्या परदेशगमनाक लागून उप्रासपी संकश्टांचेर लक्ष वेधलां आनी ताचेर उपाय सुचयला. गोंयकार नागरीक आनी राजकरणी तांचे हे शिटकावणेन शाणे जायत काय?

नंदाबाबाक एक लक्षणीय नवले पासत परबीं फावतात. तांची सर्जनशक्ती हे पिरायेंत लेगीत कार्यक्षम आसा म्हणून तांची विचार धारा आनी प्रतिभा चैतन्यशील आसा. ती गोंयकार तरणाट्यांक स्फुर्ती दीत रावूं ही आस्त हांव परगटायतां. नंदाबाबाक ईश्वर उपाट आयुश्य दिवं अशी प्रार्थना करतां

**- सुरेश गुंड्डू आमोणकार**

गुरू-कुंज म्हापसा.

**मार्गशीर्ष** म्हयनो सरून आत्तांच पौष लागिल्लो. राती शिंयांच्यो आशिल्ल्यो. कितलेंय जड पांगरूण माथ्यावेल्यान घेवन, मनीस तातूंत मुंगरून रावलो तरी न्हीद ताका कशीच लागीं करिनाशिल्ली.

म्हाताऱ्यांचें तर विचारूंच नाका. सुर्वेक न्हीद लागता. लागता म्हणल्यार, वाट मेळटा त्या बुराकांतल्यान आनी खांचींतल्यान, शीं भितर घुसून, तांच्या सुक्या हाडांक धोंसल्या बगर कशेंच ओगी रावचेंना रांडूल!

साठी हुपिल्ल्या सिमांवाचेंय हांगा तशेंच घडलां. शिंयांचें आनी ताचें कशेंच पटना. बल्कावांत वण्टीक तेंकून घाल्ल्या कानाप्याचेर गुटली करून न्हिदला. एकेवटेच्यान ताका दाट फट्याची भरपूर ऊब मेळटा. पूण दुसरेवटेन वण्टीच्या बुराकांनी पयस-पयस लिपून बशिल्ले भिकूण धांवून येवन रगत घेवन पळटाले. तांचीं हीं कुकर्मां न्हिदेभारार मध्यान मेरेन चलतालीं. उपरांत मात तो कोंबो साद घाली मेरेन, फांतोडेची वाट पळेत, हांतरूणार तळमळत रावतालो. तो मेरेन भिकुणांचीं पोटां जड जातालीं आनी ते शांत पडटाले. सिमांवाकूय मात्सो दोळो लागतालो.

इतले म्हणसर अकस्मात कोंबो साद घालतालो. ताच्या फाटल्यान रुखावेलीं सुकणीं खडबडीत जागीं जातालीं. करांदाय करूंक लागतालीं. तांकां दिसतालें, उठूंक उशीर जाल्ल्यान ह्या संवसाराचें आतां ह्सिपाभायलें लुकसाण जावपाचें आसा. घडये जग बुडूंकूय शकता.

ताका लागून हातरूणार लोळत पडिल्ल्या आळशांनी उठून कामाक लागचें, हो तांचे करांदायेचो मुखेल हेत आसता जावंये!

सिमांव हो बऱ्या काळजाचो, आनी पवित्र मनाचो देवभक्त शेतकार. जेजूचेर ताचो खूब मोग. जेजू ताच्या काळजांत घट्ट रिगला. थंयच्यान तो ताका कामां करपाचो आदेश दिता, ताचे लागणुकेची याद करून दिता. ताच्यांतली आळसाय पयस करून ताका कामाक लायता.

सिमांव धर्तरिचो पूत. अशिक्षीत आसुनूय खूब कितें जाणां. आपल्या काळजांत बशिल्ल्या जेजूची मोगाळ भास तो जाणां. तेच परी फांतोडेर नेमान उठून, कश्टकाऱ्यांक जागोवन, तांकां कामाक लावपी सुकण्यांची भासूय ताका होलमता.

आतां तो झाडांवेल्या सुकण्यांचो आदेश मानून, खर शिंयांची पर्वा करिनासतना शेतांत वचपाचे तयारेन रावला.

भायर सरचे पयलीं ताका इल्ली हुनहुनीत खुटी च्या घेनशी दिसली. ताणें दाराकडे वचून कुडींत न्हिदिल्ले सुनेक उलो म''रलो–

''बाय गुलू!'' सुनेचें नांव ग्लोरिया. पूण सिमांव तिका अपुरबायेन गुलू म्हणटालो. धुवेवरी माया करतालो तो तिचेर. ग्लोरियाय आपल्या सासुपायक मातूय पातयेनासलें. खूब काळजी घेतालें तें ताची. आपल्या मांवाचो आवाज आयकून तें खिणांत जागें जालें आनी सडसडीत धांवून दाराकडे आयलें. वासरेवेलो बल्ब पेटयलो आनी आकांज्यार (नर्व्हस) जावन आपल्या मांवाच्या चेऱ्याकडे पळेत रावलें.

''पाय, कितें जालें!'' काचाबूल जावन ग्लोरियान आपल्या सासुपायक प्रस्न केलो.

''कांय ना गो बाय. आयज भायर इल्लें चोडूच शीं पोडलां. कोहेंच सोसूं जायना. हुनहुनीत इल्लो चायेघोट पोटांत जेलेलो जाल्यार चोड बोरें जातोलें आहलें.''

हें आयकून ग्लोरियाच्या काळजांत चर्र जालें. हे आदीं इतले सकाळीं उठून सिमांवान आपले सुनेकडे च्या केन्नाच मागूंक नासली. ताका केन्ना केन्नाय मागचीशी दिसताली. पूण आपल्या पासत सुनेक त्रास नाका, फांतोडेर तिची न्हिदमोड जावंची न्हय अशें ताका दिसतालें. आनी इत्सा मारून तो शेतांत वतालो.

''हांव तुकां च्याव करून दितां पाय. पूण तूं इतले सोकाडीं शेतां देवों नाहां. तूं बोरो ना पाय. तुजे दोडे सुजल्याय आनी तोंड बावलां. हात कोडकोडटाय. पांयें थोरथोरताय. च्याव पियेवन मात्सो सुशेगाद न्हिद पोवया.'' अशें म्हणून ग्लोरियान दोळे चोळीत कुजनांत धांव मारली.

हुनहुनीत च्या सिमांवाच्या ताळ्यांत देंवली. सिमांवाक तरतरी आयली. शीं खंयचे खंय पळून गेल्लेवरी ताका दिसलें.

ताणें आनी वगत केलो ना. शेतांत काम करतना घालपाचें ताचेकडे खाशेलें अशें एक मोटवें काल्सांव आशिल्लें. तें ताणें आंगार चडोवन काश्टी लिपयली. तरी काश्टेचें एक पोंत काल्सांवांतल्यान भायर लांबतालें. पूण ताका ताची पर्वा नाशिल्ली. ताणें माथ्याक कानटोपीय चडयली. हातांत बॅटरेदिवो घेवन, तो पिकपिकायत सिमांव शेता दिकेन रस्तीन चलूंक लागलो. बांदावेल्यान चलतासतना सिमांव दिसनासलो. पूण ताका वाट दाखोवपी एक व्हडलो काजुलो धर्तरिवेल्यान चलता, असो पळेतल्याक भास मात जातालो. दिव्याची बॅटरी मंद जाल्ल्यान उजवाड तांबशेल्लो आनी ताका लागून त्या उजवाडाक काजुल्याची चमक आयिल्ली.

२

सिमांव शेतांत गेलो. लाद्रांव–सिमांवालो सुणो ताका अर्दे वाटेर सोडून परत आयलो. येवन तो सदांभशेन साकाट्यार गुठली करून पडलो. हो साकाटो खास ताच्या खातीरच आशिल्लो. पुराय उजवाड जावंचे आदीं, साकाटो ना सोडपाची ओर्द आशिल्ली ताका सिमांवाची.

ग्लोरिया काजार जावन घरांत येत मेरेन हें अशेंच चलतालें. ग्लोरियाक फांतोडेर लाद्रांवाचे सुवादीन करून सिमांव शेतांत वतालो. कोण्णाक सांगिनासतना. आनी आतां तर तो सुनेची चडच काळजी घेतालो. ती शिकिल्ली. ताका शेतकामाची आनी हेर कश्टांची सवंय ना. आपल्या वांगडा सक्काळीं उठल्यार तिची न्हिदमोड जातली, तिका त्रास जातले. अशें घडचें न्हय म्हुण काळजी घेतालो सिमांव ग्लोरियाची!

आपल्या धनयाक पावन येतकच लाद्रांवान साकाट्याचेर आपली शेपडी सोडून ताणून दिलें.

ग्लोरिया हातरूणार वचून पडलें खरें, पूण ताका न्हिद लागली ना. उजवाडाची वाट पळेत तळमळत रावलें तें हातरुणाचेर. भायर–भितर खर शीं आसुनूय, कितलेच फावट आंगावेलें पांगरूण भायर मारून, परत परत आंगार घेतालें तें. असले तळमळे तें पयलेच फावट भोगतालें. आपल्या सासुपायची जाल्ली वायट स्थिती ताका अस्वस्थ करताली. ताचे थरथरते हात–पांय, पडिल्लो चेरो आनी केन्नाच करूंक नाशिल्ली चायेघोंटाची याचना, ह्या सगळ्याचें चित्र ताच्या दोळ्यां आड कशेंच जायनासलें. ह्या चित्रान ग्लोरियाच्या मनांत खर भंय निर्माण केलो. ताका दिसतालें, आपलो सासुपाय आतां खूब थकला. पिकिल्लें पान तें. केन्ना गळत सांगूं येता? ताका कितेंय जालें जाल्यार आपूण एकटें पडटलें, ह्या विचारांनी तें चडच खंती जालें.

तशें पळोवंक गेल्यार, ग्लोरियाक भिवपाचें कसलेंच कारण नाशिल्लें. लोकांचे दिश्टीन तें खूब गरीब आशिल्लें. ताचो घोव गरीब आवय–बापायलो पूत. सिमांव गरीब. कारण तो शेतकार. शेतकार म्हणल्यार काश्टेकार. काश्टेकाराक एका तेंपार गोंयांत व्हडलो मान आसतालो. कारण ताची काश्टी सदांच पुडव्या परस, वाल्या परस आनी काल्सांवां परस उजू आसताली. कारण ती पेजाद आसताली. ह्या पेजाद काश्टेच्या बळग्यान, गोंयच्या शेतकारांनी, दोंगरकारांनी, खारव्यांनीं, रेंदेरांनी आनी पाडेल्यांनी गोंय जिवंत दवरिल्लें. सिमांव ह्या सगळ्या कश्टकाऱ्यांचो प्रतिनिधी आशिल्लो. तो आयज काश्टी मारिनासलो. तरी ताका आपल्या पूर्वजांचो अभिमान आशिल्लो. कारण ताच्या पूर्वजांल्यो काश्ट्यो भायल्यान कितल्योय म्हेळ्ळ्यो दिसल्यो, तरी तातुंतल्यान समाजाक पवित्रतायेचें दर्शन घडटालें. तेन्नाचो समाज काश्टेकारांक जितलो पातयेतालो, तांच्या उतरांचेर जितलो विस्वास दवरतालो, तितलो विस्वास तो भाटकारांचेर –पांढरपेशांचेर दवरूंक कांचवेतालो. कारण कांय भाटकार भायल्यान कितलेय नितळ आनी पवित्र दिसले तरी तांचीं काळजां काळीं आनी कुसकीं आसपाची शक्यताय आसता, अशें ताका ताचो अणभव सांगतालो. ताकाच लागून सिमांवाल्या भुरगेपणांतलो समाज कश्टकाऱ्यांक आनी शेतकाऱ्यांक मान दितालो, भाटकारांक आनी झेतकारांक न्हय!

ह्या सताची जाणविकाय ग्लोरियाक आशिल्ली. आपल्या सासुपायच्या सांगातान जाल्ली ताका ती. हाकाच लागून शिटूक आनी धाडसी ग्लोरिया आपल्या सासुपायच्या आदारान भंयाविरयत जीण सारतालें.

ही गजाल सिमांवल्या म्हातारपणाची. ताचो पूत काजार जावन भायर जोडीक गेला. ताणें आपल्या म्हाताऱ्या बापायच्या सांगाताक गुलूक दवरलां. नातलू, सिमांवली घरकान्न आतां ह्या संवसाराक अंतरलां.

३

**ना**तलू सिमांवाली घरकान्न. अशिक्षीत आशिल्ल्या कारणान, खूब मोग करतालीं तीं एकामेकाचेर. मात काजाराक खूब वर्सां जावनूय तांकां भुरगें नाशिल्लें. घरांत पाळणें केन्ना हालतलें हाची वाट पळेत आशिल्लीं तीं दोगांय. आपल्याक भुरगें जावंचें म्हुण गोंयच्या आनी गोंयां भायल्या सायबांक आनी सायबिणींक आंगोवण्यो केल्यो, भेटो दिल्यो, खुर्सां मुखार सदांच वाती लायल्यो.

नातलूच्या पोटांत गर्भ वाडूंक लागलो. सिमांवाल्या घराचेर उजवाड पडलो. नातलूक आतां खंय दवरूं खंय नाका अशें जालें सिमांवाक! नातलुल्या तोंडांतलीं गोड उतरां सिमांवाल्या कानार पडनाफुडें, निर्शेल्लो सिमांव खिणांत ताजेलो. ताणें देवाचे मनापसून उपकार मानले.

''नातलू, देव पावलो गो आमहां.'' सिमांवान खुशालभरीत जावन आपलें मन उक्तायलें.

''देव पावलाचू आनी कित्याक पावचो ना, आमी कोहलें पातोक केलां रे सिमांव?''

''सोदांच देवाक भियेवन दीस काडल्याय आमी. कोणाक वायट उतोर केन्ना दिलें ना आनी कोणाकोडल्यान केन्ना झेहलेंयना. हें देवाक फोबोर ना, देव न्हिदला गो नातलू?''

''देव न्हिदों ना. तो दोये धापून सोगलें पोयता. तोहें नाहलें जाल्यार आमहां हे सुखा दीस पोवंक मेवताहले?'' – नातलू.

''हांवूय तेंच म्हुण्टां.'' – सिमांव.

''आमी बाबाक नांव कितें दवरया रे सिमांव?'' नातलून खोशेन प्रस्न केलो.

''तुहां कोहें कोवलें, आमजेर बाबाच जातोलो म्होणोन. आनी बाय जालें जाल्यार..?'' सिमांवान दुबाव उक्तायलो.

''शेर्त बाबाच जातोलो. गोंयें सायबाच्यान तोर!''

''आतां तूं म्होण्टा जाल्यार जावंदी बाबा. पूण माहां मुगो, बाय जाय आहलें.'' सिमांवान आपली इत्सा उलोवन दाखयली.

''हेर देवां हांव सांगों नोको. पूण म्हुजो मुरे सांत लॉरेन्साचेर चोड भावार्थ. तुहां म्होणोन सांगतां. एक वोर्स हाटीं मुरे, माहां एक सोपोन पोडलें रे. सोपनांत मुरे, माहां एक दादलो दिसलो. दादल्या हातीं मुरे, एक खुरीस आहलो आनी तेजे तोकले भोंवतोणी मुरे, उजवाडूच उजवाड!''

हें आयकना फुडें भावार्थी सिमांवान थंयच्या थंयच दिमी मारली. आखाण्यान कपलाक आनी हड्ड्याक खुरीस काडलो.

''आप्पाय, ही गोजाल तूं माहां आतां सांगोंक रावलां गो नातलू. एक वोर्स जालें मुगो, तुहां सोपोन पोडल्यार. आनी एका वर्सान तुज्या पोटांत बाबा जाता? देव विसोल्लो कित गो!''

''वासिमोर! देव केदना विसोत्ता आनी चुकता हुई? तूंच चुकला आसतलो!'' नातलून मुमुरखें हांसून म्हणलें.

''तें भोंगो. हाल्यां दोतोराजेर या मुगो?''

''कित्या रे?'

''पोट दाखोवंक.''

''कोणाचें?''

''आनी कोणाचें, तुजेंच. बाबू आहा तुज्या पोटांत. आनी पोट हांव म्होजें दाखोवं दोतोराकू? तुमी बायलां मुगो, ओहींच. भुरगें पोटांत आहलें म्होण्टोच खोशेन पिशीं जाताय. कितें उलोवं कितें नाहां, ओहें जाता तुमहां.''

खरें म्हणल्यार हांगा आतां नातलू परस चड सिमांवूच खुशालभरीत जाल्लो. जाण्टेपणांत आपल्या घरांत भुरगें खेळटलें, हाची आस सोडून दिल्ली ताणें. जगूंक जाय म्हुण कशीबशी चैतन्याविरयत जीण जगतालो सिमांव आनी नातलू ताका फाव तसो वांगोड दितालें.

गरीब जावं ना तर धनी. एकसुरें जिवीत कोणाकूच मानना. मनशा वांगडा मनशां नासलीं जाल्यार, मनशाक घर-दार, सरभोंवतण आनी वाठार खावंक येता कसो दिसता. ताका लागून मनशाक मनशां पयसावलीं तर तो सुण्या-माजरांकडें, गोरवां-वासरांकडें ना तर झाडां-पेडांकडें इश्टागत करपाचो प्रयत्न करता.

नातलू-सिमांवाचेंय तशेंच जाल्लें. तांकां भुरगेंबाळ नासलें म्हुण कितें जालें! शेजाऱ्यां पाजाऱ्यां पयसावलीं तरी कांय बिगडनाशिल्लें तांचें. नातलूच्या सांगाताक कुकडां आसात, दुकरां आसात. तांकां राखपाक मोगाळ सुणो आसा. ह्या सगळ्या मोनजातीचेर नातलूचो चड मोग! दुकरांक आनी कुकडांक ताणें वेगवेगळे घूड केल्यात. तेय लांब-रूंद सगळ्याक वारें घोळटा तसले. खांच-बुराक नाशिल्ले. भायली जिवावळ घुडांनी भितर सरची न्हय आनी पोसक्या जिवांक कोणापसून त्रास घडचे न्हय, हाची काळजी घेतालें नातलू.

हिन्दू आयाव बायलो आमोरेर देवा मुखार वात लायतात, पण्टी पेटयतात. धुपाटणें पेटोवन तें घरभर भोंवडायतात. हेत हो की धुंवरा वासान घरांतलीं किमसां, जळारी आनी रगतचोखपी जिवावळ उडून पयस पळची!

हेच देखीन नातलूय तेंच करतालें. हातांत धुपाटणें घेवन आमोरेर घराचो कोनशान कोनसो भोंवतालें. उपरांत तीं धुपाटणीं घुडाक तेंकून दवरतालें. तातूंत आनी इल्लो धूप फाफडून ताका सुपान वारें घालतालें. अशें केल्ल्यान नातलुल्या घरा भोंवतणचें सगळें वातावरण पवित्र जातालें.

मोनजात, ती मागीर दुकरां आसूं, कुकडां आसूं, गाय-गोरवां आसूं ना तर रेडे-पाडे आसूं, सगळ्यांक मन आसता. ताका लागून एक मन दुसऱ्या मनाक वळखता, एकामेकाचो

मोग करूंक लागता. मोनजातीन मनशाचेर, आपल्या धनयाचेर केल्लो मोग तर इतलो खर आनी पवित्र आसता कीं खंयचीय मोनजात, खंयच्याय वगतार आपल्या उपकारकर्त्याच्या रक्षणाक तत्पर आसता आनी आपलें प्राणार्पण करपाक लेगीत फाटीं-फुडें पळेना.

हाका म्हणटात ईश्वर करणी. ईश्वराची नदर सदांच प्राणीमात्राच्या वायट-बऱ्या करण्यांचेर आसता. जाच्यो करण्यो बऱ्यो, ताचेर देव सदांच प्रसन्न! नातलू-सिमांव इगर्जेंत वतात, कुमसार जातात आनी मनापसून जेजूची आनी सायबीणमांयची प्रार्थना करतात.

तो देवासांव करताच, सारकें मना पसून करता. पूण हें देवासांव फोर्मालदाद म्हणून करपाचें, हेंय तो जाणां.

खरेलें देवासांव म्हणल्यार पेल्याचो मोग करप, मोनजातीची सेवा करप, झाडापेडांची राखण करप आनी हाती-पायांच्या कश्टांनी रोजी मेळोवप. सदांच नितळ मनान आनी कश्टांनीं जिवीत सारतल्याचेर देव बेसांव घालता, हो सिमांव-नातलूचो भावार्थ!

जशें कर्म, तशें फळ हो देवाचो न्याय अशें सिमांव मानता. आपल्या जिवितांत आपल्या कडल्यान कसलेंय पातक घडिल्लें जाल्यार, इतल्या जाण्टेपणांत देव आमकां भुरगें दिवपाची येवजण करून, आमच्या घराक उजवाड घालचो नासलो, अशें चिंततालो सिमांव.

४

**इ**तलीं वर्सां भुरगें-बाळ नासतना नातलू-सिमांवान दीस काडले. खावंक-जेवंक खूब आशिल्लें तांचेकडेन. पूण खातलो कोण नाशिल्लो. ज्या भाटाचो तो मुंडकार आशिल्लो, त्या भाटांत आंबे-पणस घेऽ म्हुण आशिल्ले. पिके भारार आंबे झडून भाटभर पातळटाले. शेजारी-पाजारी आनी तांचीं भुरगीं आंबे पुंजावन व्हरतालीं. पूण सिमांव आनी नातलू कोणा आड एक उतर भायर काडिनासलीं. ल्हान भुरग्यांक तर तीं आपूण जावन आंबे पुंजावन दितालीं. पूण त्या भुरग्यांक नातलून पुंजावन दिल्ले आयते आंबे मानवनासले. तांकां दिसतालें, खर वारो येवंचो, आंबे झडचे, ते काडून घेवपाक सगळ्या भुरग्यांनी वांगडाच धांवचें. पडिल्ल्या आंब्यांचेर झोपय मारची. जाच्या हाताक आंबो लागता, ताणें हात वयर करून जैत मनोवचें. ह्या जैताची गोडसाण पिक्या आंब्या परस उजू आसताली, त्या भुरग्यांक!

करतां करतां निरागस भुरग्यांचें हें गुपीत नातलूच्या लक्षांत आयलें. ताणें भुरग्यांक आयते आंबे दिवपाचें सोडून दिलें. आयते आंबे मेळिल्ल्यान भुरगीं निर्शेतात. तांकां उडयां वांगडा हुयेल्यो मारूंक मेळनांत. आड्ड्यो मारूंक मेळनांत. धोपरां फोडून घेतिल्ल्याचो आनंद मेळना ही गजाल नातलूच्या लक्षांत आयली आनी ताणें भुरग्यामदें ना पडपाचें थारायलें.

वगत दनपारचो आशिल्लो. वारो सुसाट्याचो व्हांवतालो. मदें-मदें ताका इतलो मद मारतालो, की तो खंयच्यान तरी नेटान येतालो आनी झाडापेडांक झोडपून फुडें खंयतरी वचून लिपून बसतालो. खंय वतालो, ताका आनी देवाकूच खबर!

हेवटेन हांगा-थंय उबी आशिल्ले रुखावळीक इल्ली उसंत मेळटाली. रूख बागयल्ली तकली वयर काडून, तापिल्ल्या शेतां-मळांचेर नदर मारताले. रखरखांत सांपडिल्ल्या भुयेंची त्या रुखांक काकुळट दिसताली. ताणीं मस्त्या वाऱ्याची सुलूस घेतली. मस्तो वारो पयस गेला आनी बळहीण वारो विशाळ रुखांच्या ताळयांनी घुस्पला ही गजाल त्या रुखांच्या लक्षांत आयली. तांकां दिसलें, ताळयांनी घुस्पल्ल्या वाऱ्याचो इल्लो उपेग करून घेतल्यार बरो.

रुखांनी आपल्या पांचव्याचार पानांच्या ताळयांचे आयणे केले. हे आयणे वयर-सकयल हालोवन, तापिल्ले धतरिक थंडसाण हाडपाचो इल्लो प्रयत्न करून पळेलो.

पूण शक्तीशाली वाऱ्याच्या दुतांक ही गजाल मानवली ना. ताणीं आपल्या धनयांचे, म्हणल्यार शक्तीशाली वाऱ्याचे कान फुंकले. वारो फुरफुरलो. ताणें दयाळ रुखांचेर खर हल्लो केलो. ताकदवान वाऱ्यान सगळ्या रुखांक खिणांत झोडपून काडले. वाऱ्याक दिसलें की हे रूख आपल्या कार्यांत आडमेळें हाडटात. आपलो अधिकार हातासूं पळेतात. हांकां बुध्द शिकोवंकूच जाय.

वताचो रखरख, मदें-मदें वाऱ्याचो सळसळ आनी सान भुरग्यांच्यो हुयेल्यो आनी किळांच्यो नातलूच्या कानाक आनी मनाक सुखायताल्यो. नातलूक दिसलें, वता कडार घरांत पडून रावचे परस थोडो वेळ सैमखेळ पळेल्यार बरो.

नातलूच्या मनांत मुजरत सैमखेळ पळोवपाचे विचार हे आदीं केन्नाच आयले नात. कारण ताका आपल्याक भुरगें नाशिल्ल्याची खंत भोगताली. कित्यांतूच तें आतां व्हडलोसो रस घेनाशिल्लें. पूण आतां मात ताच्या फाटीं-फुडें आशेचीं किरणां पासयो मारतालीं. ताच्या पोटांतल्या भुरग्यान ताका नवें जिवीत जगपाची ओड लायिल्ली. फाटल्या काळांत तें खंयीं बसऽ, खंयीं न्हीदऽ, कितेंय खायी, कितेंय पियी, कितेंय

आनी कशेंय उलयी. आपल्या वांगड्यांकडे कशेंय वागऽ अशें करतालें. ताच्या भायर-भितरल्या वागण्याक कसलेंच ताळतंत्र म्हुण नाशिल्लें.

पूण आतां ताच्या जिवितांत इल्लें इल्लें परिवर्तन घडटालें. ताच्या पोटांत ताच्या रक्तामांसाचो गुळो मानवी आकार घेतालो. इतलो तेंप दुख्खी-कश्टी आशिल्ले आपले आवयक तो सांगतालो-

'मांय, हे फुडें तूं भियेंव नाहां जे. तुहां सुखी कोरपा पासोत सुखांनी भोल्लेलो पांटुलो माथ्यार झेवन चोलोंक लागलां. वाटेर आहां. तूं कांयच भियों नाहां. थोड्याच दिसांनीं हांव तुजे लागीं येवन सेवोंक लागतलों.'

हीं उतरां नातलुल्या पोटांतल्यान आयकूंक येनासलीं. नातलूक तो भास जातालो. जातात असले भास गुरवार बायलांक केन्ना-केन्नाय! चड करून पयले फावट गुरवार आशिल्ली बायल उमेदीन भरिल्ली आसता. म्हर्‍यांत कोण ना तें पळोवन पोटांतल्या भुरग्याकडें आपल्याक जाय तसो संवाद सादता.

नातलू अशिक्षीत आशिल्लें. तरी तें सुशिक्षीत आवयभशेन आपल्या पोटांतल्या भुरग्याची काळजी घेतालें. चलतासतना, भोंवतासतना, बसतासतना, उट्टासतना ताचें शिंतीद आपल्या पोटाचेर चड आसतालें.

इतलेंच न्हय, तर आपल्या जेवणा-खाणाचीय तें मुजरत काळजी घेतालें. नुस्तेपास्तें, शाकभाजी, फळफळावळ - हें ताका आवडूं वा ना आवडूं - आपल्या पोटांतल्या भुरग्या खातीर मुजरत खातालें.

पयलीं तें कितें खावं कितें नाका तें दोतोराक विचारतालें. उपरांत दोतोर सांगता तें खरें वो खोटें तें जाणोवन घेवपाक पादविगाराक विचारतालें.

इगर्जेंतल्या पादविगाराचो सल्लो घेतलेबगर कसल्याच कामा खातीर पावल फुडें घालिनासलीं सिमांव आनी नातलू!

येदो वेळ सैमाचो खेळ पळेत, माडाक तेंकून गणयत आशिल्लें नातलू आतां मात्शें थकलें. थंयच्यान तें भेंडार हात धरून लकत लकत वासरेर आयलें. थंय वण्टीक तेंकून आशिल्ल्या कानाप्यार बसलें.

हरशीं ह्या कानाप्याचेर सट करून नातलू बसना. शेतांत सावन येतकच सिमांव बसता त्या कानाप्याचेर सदांच एक मांदरी आनी उशाकडे घडी करून दवरिल्लें फटकुल आसता. ते भायर एक पिंजको तुवालोय आसता. घामान भिजिल्लें तोंड आनी गरज पडल्यार आंग पुसपा खातीर!

केन्ना केन्नाय नातलूक आनी सिमांवाक एकठांय बसून चकाटां मारपाची कूय मारता. असल्या वगतार सिमांवाक दिसता की नातलून येवन आपले कुशीक कानाप्याचेर बसचें. पूण नातलूक तें मानवना. तशें बसपाक ताका लज दिसता.

आयज मात विपरीत घडलें. नातलू आपूण जावन आपल्या कानाप्याचेर बसलां, हें सिमांवाच्या लक्षांत आयलें. हे घडयेक तो जेवन चुडटांमाचयेर अर्दकुटें मल्ल उडोवन ताचेर आड पडिल्लो. व्हांवतो वारो ताच्या सगळ्या आंगाक खातकुतल्यो करतालो. ह्यो खातकुतल्यो सिमांवाक सुखदिण्यो लागताल्यो. ताकाच लागून तो दनपारचो घर सोडून चुडटांमाचयेर येवन पडटालो. असल्या वगतार कोणेंय ताच्या म्हऱ्यांत येवन बोवाळ केल्यार तो चाळवतालो. पूण दनपारच्या कडावेलो भुरग्यांचो बोवाळ मात सिमांवाक सुखदिणो लागतालो.

नातलूक आपल्या कानाप्यार बशिल्लें पळोवन सिमांव अजापीत जालो. आपूण सपनांत आशिल्ल्याचो ताका भास जालो. तो चुट्टां माचावेलो सरपटत देंवलो आनी दोळे चोळीत आपल्या घरा दिकेन, धांवते गतीन चलत रावलो. कानाप्याक तेंकून, नातलू म्हऱ्यांत तो अशे तरेन उबो रावलो की नातलून ताका येवकार दिवन म्हऱ्यांत बस म्हणचें. पूण नातलून तशें केलेंना. तें अचळय फाटीं सरकलें. ताणें आपल्या दोनूय हातांचेर आख्खे कुडिचो पेज घालो आनी तें फाटल्यान लवंडलें.

नीट बशिल्ल्या नातलून अशें करप म्हणल्यार, ती सिमांवाक आपल्या म्हऱ्यांत बस म्हणपाची नातलूची कुरू आशिल्ली. सिमांव आतां अनमन नासतना नातलू म्हऱ्यांत बसलो.

मोगाचे बाबतींत जग कितलेंय सुदरलें जाल्यार, ती सुदरण नातलू–सिमांवाकडे अजून पावुंनासली. नातलू – सिमांव उक्त्या मळार वावुरपी शेतकारां. तांच्या मदें मीनाखणींनी, कारखान्यांनी, सरकारी कचेऱ्यांनी बी घडटा तसलें मोगा प्रदर्शन घडनासलें. असल्या मोगाचो केन्ना फोग जायत, हाचो नेम नासता. चडशा भूंयपुतांचो मोग पवित्र, घट्ट आनी सांसणाचो आसता.

नातलू आनी सिमांवाचो मोग असलेच तरेचो आशिल्लो.

''नातलू, आयज वाव चोड्डूच व्हांवता, ना गो!'' सिमांवान आंग शिरशिरल्या भशेन करून म्हणलें.

''व्होय रे, माहांय तोहेंच दिसता. ओहलो आरो माहां जाल्यार केन्नाच आपडों ना.'' नातलून अशें म्हणत कापडा पालोव पुरायेन आंगार ओडून घेतलो.

''ओहें कोहें म्होण्टाय गो तूं नातलू. ओहल्या ओगतार ओहलें आरें सोदांच व्हांवता. देव मुगो, ते ते ओगतार तें तें सोगलें घोडोवन हाडटा. पूण मुगो, आमहां तें गोमोना गो नातलू!''

सिमांवान आपलें तत्वगिन्यान बायले मुखार मांडलें.

''कोवोना कित्याक, सोगलें कोवता. पूण तें सजमोन झेवपाक आमहां ओगोत हूंय मेवता रे? सोदांच काम-काम-काम! फांतोडेर कोंब्या सादार कामा लागपाचें आनी आमोरेर थांबपाचें.'' नातलून एके कुशीवेलें आंग दुसरे कुशीर वळयत म्हणलें.

''तूं सांगता तें सारकें गो नातलू. देआन आमच्या नोशिबांत सूख म्होण्टाय तें घालुंकूच ना. ना जाल्यार कोलवा, कालांगूट आनी गोंयच्या हेर वेळांचेर वोसोन पोळे गो व्होडले-व्होडले गिरेस्त आनी तेंगेल्यो गोऱ्यो-गोऱ्यो बायलो नागड्यो जावन भायर-भितोर आरें झेताय. तेंचे तें सोगलें पोडेन-पोडेन-शें दिसता.''

हें आयकून नातलू चवताळ्ळें. ताणें सिमांवाचेर एक धुमको घालो आनी आइडेलें.

''लोज दिसोना तुहां चेडयेच्या, हें माहां सांगोंक? तुहां गिरेस्तांल्यो नागड्यो बायलो पोडोवंक बोऱ्यो दिसताई? केन्ना जेलो रे तूं पोडोवंक तेंहां?''

नातलूच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हावंक लागलीं.

''हांव वोसोंना गो तेंहां पोवंक.'' सिमांवान रडकुरो जावन जाप दिली.

''तोहें जाल्यार, तुहां कोह्यो दिसल्यो रे त्यो नागड्यो बायलो?'' नातलून दोळे पुसीत प्रस्न केलो.

''तो मोनू ना गो?''

''कोण मोनू?''

''धोनू भाटकारालो चोलो गो!''

''तेजें कितें जालें?''

''तेणें दिली माहां नागड्या बायलां फोबोर. तो मुगो, गाडी झेवन सोद्दां दर्यादिगांचेर पासोयो मात्ता. मेवता तो माहां केन्ना केन्नाय, बाजोरांत.''

''तो चलो, तुहांऽ मेवलो? आब्बा! आनी कोण मेवलोना हूंय तेका नागड्या बायलां फोबरो आयकोंकूऽ.'' अशें म्हणन नातलून सिमांवाचेर आनीक एक धुमको घालून सिमांवावेलो खोटो राग उक्तायलो.

खरें म्हणल्यार सिमांव नितळ मनाचो. ताका पचपचीत आनी पोजड्यो गजाली मात्तूय मानवनाशिल्ल्यो. पूण म्हऱ्यांत येवन कोणूय कित्याकितेंय उलयलो जाल्यार तो तरी कितें करतलो?

ह्या संवसारांत कांय असलेय बी मनीस आसतात, की तांच्या मनांतल्यो गजाली आयकुपाक तांकां मनशांची गरज आसता. सिमांवसारके भावार्थी लोक तांकां बळी पडटात.

''नातलू, त्यो गोजाली तूं सोडून दी गो आतां. आमी आमच्या संवसाराचें पोवया. इतले दीस आमी निर्शेवन-निर्शेवन काडले. हे फुडें आमी आमचो संवसार फुलोवया. आहाय आमचे गांठीक चार पोयशे. बोरें-बोरें हावया जेवया मौजा मारुया.''

खरें म्हणल्यार सिमांवान सांगीसर नातलू ओगी रावुनाशिल्लें. हेवटेन ताका दीस गेल्ले आनी तेवटेन ताणें आपल्या जिवाची काळजी घेवपाक सुरवात केली. शेतांत काम करून करून सुकिल्ल्या नातलूच्या आंगार आतां घसघशीत मांस चडिल्लें. पयलीं ताच्या दोंकल्याचीं हाडां दिसतालीं. पोंवट्यो हाडांक तेंकिल्ल्यो. कुले सुकिल्ले. नाक फुडें आयिल्लें. दोळे भितर गेल्ले. कमराक बाग आयिल्लेवरी दिसताली ताच्या.

असले स्थितींत तें शेतांत काम करतां करतां ताठ उबें रावलेंच जाल्यार, हात बागयल्लें बुजगावणें कशें दिसतालें.

पूण आतां तें सुटपाचें आशिल्ल्यान, ताणें शेतांत वचपाचें बंद केल्लें. ताका लागून घरांतूच पडून राविल्ल्यान, ताका कसलीच तकालस पडनासली. सिमांवूय ताका कसलेंच काम पडूंक दी नासलो. वेळांतलो वेळ काडून घरांतलें रांदप-कांडप, झाडप-धुंवप आनी उदक लेगीत भरपाचें काम तो स्वता करतालो. गुरवारपणांत बायलेक सुखी दवरप ही आपली लागणूक जावन आसा अशें तो मानतालो.

५

ल्हानां सदांच व्हडांचे देखीन चलपाचे प्रयत्न करतात. गांवांतलीं भाटकारां उंची-उंची न्हेसणां न्हेसतात. जोतीं आनी सेंडलां घाल्या बगर पांय भायर काडिनांत. ओंठ तांबडे केल्या बगर आनी पोल्यांक पोव थापल्या बगर लोकांक तोंड दाखयनांत. पूण शेतकारांक तें जमना. कितलो म्हुण पोव थापतलीं तोंडाक? आनी थापलोय जाल्यार शेतांत देवना फुडें घामा लोटान तो व्हांवन वता. ताका लागून चडशो कश्टी बायलो पोव मारून शेतांत देवपाचे भानगडींत पडनांत आनी देंवल्योच जाल्यार हेर बायलो तांकां चित्रेलां-पेत्रेलां म्हणून चाळयतात.

नातलू शेतकान्न आसलें. अशिक्षीत आसलें. तरी तें हुशार आसलें. ताची निरिक्षण शक्त प्रभावी आसली.

एक दीस ताणें शेतांत वतासतना एके गुरवार भाटकान्नीक पळेली. भेंडार हात धरून लकत लकत बल्कावांत पासयो मारताली ती. पावलां मेरेन मॅक्सी घाल्ली तिणें.

नातलून भाटकान्नील्या पोशाकाचो बरोऽ नियाळ केलो. भाटकान्नीलें पोट बरेंच फुडें आयिल्लें. नातलून चिंतलें, आपुणूय गुरूवार आसां. भाटकान्नील्या पोटाभशेन आपलेंय पोट वाडटलें. सैल मॅक्शींत पोट बरें उरता म्हुण भाटकान्न मॅक्सी न्हेसता. तेन्ना आपणेंय सिमांवाक सांगून मॅक्सीची एक जोडी हाडल्यार बरी.

आनी ताणें ती अनमन नासतना हाडून घेतलीय बी!

नातलू आतां संवये खातीर मॅक्सी घालूंक लागलें. सदांच शेतांतलें कामेरें जावन भोंवपी नातलू आतां भाटकान्नी भशेन मॅडम जावन भोंवूंक लागलें. नातलूंत अकस्मात जाल्लो बदल पळोवन गांवांतलीं हेर शेतकारां ताचीं टिंगल करूंक लागलीं. मेळत तेन्ना ताका पळोवन मुमुरक्यां हांसूंक लागलीं. पूण नातलूक ताचें कोंत नासलें आनी ताणें लोकांचें कोंत कित्याक म्हुण करचें? ताणें केल्ले सगळे नखरे ताच्या घोवाक मानवताले. घोवानूच ताका सांगिल्लें जाय तें करूंक. आपल्या घोवाच्या मनाचो थाव घेवन नातलू आतां चडूच मेकळपणान वागूंक लागिल्लें.

चडश्यो किरिस्तांव अस्तुऱ्यो फुलां माळिनांत. नातलूय माळिनासलें. पूण आतां तें पोरसांतल्या शेंवत्या-आबोल्यांच्यो फांतयो घालून आंबाड्यार माळूंक लागलें. तशें करून ताच्या जिवाक खूब बरें दिसतालें.

नातलू आंबाड्याक शेंडो म्हणटालें.

नातलूले नखरे पळोवन सिमांवूय दिशीं दिशीं चडूच फुलूंक लागलो. शेंवत्या-मोगऱ्यांनी भरिल्ल्या नातलूल्या शेंड्याक पळोवन सिमांव खोशेन भरतालो. नातलूच्या फाटल्या फुडल्यान पासयो मारून तो बेटोच मुरगट्टालो. मेक्शी न्हेसिल्ल्यान आपली बायल आतां व्हडली जाल्या, ती शेतकान्न उरूंक ना अशें सिमांवाक दिसतालें. सिमांवाक अशेंय दिसतालें, की सगळो काम-धंदो सोडून चडांत चड वेळ नातलूचे बगलेक बसचें. आपल्या फुडाराविशींची भासाभास करची.

ती संद ताका आतां आयतीच मेळिल्ली. नातलू म्हऱ्यांत, कानाप्याचेर बशिल्लो आसतना आतां आपले विचार नातलूक उलोवन दाखोवंचे अशें येवजून तो नातलू म्हऱ्यांत बसून उलोवंक लागलो-

''नातलू, आनी थोड्या दिसांनी आमजेर बाबा ना तोर बाय जावपा आहा, हें शेर्त मुगो!'' अशें म्हणून सिमांवान खुशी उक्तायली.

''तू सारको आहा मुरे तोकलेनू? पोत्तें पोत्तें एकूच उलोयता मुरे तूं!'' नातलून आपलो लटको राग उक्तावन, कोरें करून सिमांवाचेर नदर मारली. असल्या वगतार नातलूल्या चेऱ्यावयली सुंदरकाय इल्ली चडूच परजळूं लागली. ताका दिसलें, नातलूक अचळय ओडून गोपांत घेवचें. नातलूकूय तेंच जाय आशिल्लें. पूण सिमांवान तशें केलेंना. कारण भाटांत अजुनूय लागसाराक सानुलीं पोरां बोवाळटालीं. ताणीं पळेल्लें जाल्यार, सिमांव अंकल नातलू आंटीचो मोग कोत्ता म्हुण गांवभर फामाद करतलीं आसलीं.

ताणीं वेंतभर पयस रावन फुडाराच्यो गजाली चालूच दवरल्यो –

''जाणा मुरे सिमांव, आमजेर, थोड्याच दिसांनीं बाबा ना तोर बाय जावपा आहा. तें कोणूय जावं. हांव म्होज्या भुरग्यांक शेतांत मात कोहेंच धाडपा ना आं!''

नातलून अपुरबायेन आपल्या पोटाचेर हात ओडलो आनी ताचो उमो घेतलो.

''तोहें जाल्यार आमचें कोहें जातोलें गो नातलू? आमजे शेतां कोण रोयतलो?'' सिमांवान तोंड येदेंऽ केलें.

''तीं शेतां पोडों पाड रे! इतलो तेंप शेतां रोवन कितें मेवलां आमहां. फोकोत पोटाभाणें मात भोल्लां.''

''तूं सांगता तें सारकें गो नातलू. पूण पोटाभाणें भोरल्या बोगोर जीव झेवन भोंवतोलीं कोहीं गो आमी!'' सिमांव खरेली गजाल उलोवन गेलो.

''शेनी नाय रे, शेनी तांदूव जेवपाचे.''

''छे! तें सुरय शीत आमहां कोता येवपा गो? पोटां पावतोकोच नाच जाता. आमहां सोवोंय जाल्या उकड्या तांदवां शिताची. केन्नवा तांदवां शीत पोटां जेलेंना जाल्यार बारा जावंचे आदीं, हात-पायां थोरथोरो मात्ता मुगो.''

''थोरथोरो मात्ता, आब्बा! तूं गांवां एकटोऽ आहा कितरे. त्या कोहण्यांक पोय रे, कोहे फुल्ल्याय ते सुरोय शीत जेवनू. तूं उकड्या तांदवां शीत जेवन बोकडो कोहो जाला.''

''आमच्या गांआंत कोहणे शेतकार हुंय आहाय गो.'' सिमांव पिरंगलो.

''कोहणे ना ते ना. किरिस्तांव पूण आहाय मुरे? सोगलीं शेतां पाड उडोवन लोंडोनांत धांवल्याय. आमीऽ आहाय हिंगां पिशीं कोहीं. भुरगीं-बावां नाहलीं देखून काडले दीस शेताक वेंग मारून. देवा कुरपेन हांव बोरे भासेन सुंहल्यार पुरो. एक तोर हांव म्होज्या भुरग्याक दोतोर कोत्तेलीं, ना तोर भायर धाडून व्होडलो मुनीस कोत्तेलीं. तूं मुरे हाल्यां इंग्लीश इस्कॉलां वोसोन आतांऽ के. जी.क नांव बोरोवन दवर.''

६

सैमाच्या नेमाप्रमाण ते ते वेळार तें तें घडून येता. मनीस सैमाच्या नेमा आड गेल्यार ताचे वायट परिणाम ताका भोगचे पडटात आनी सैमूय सट्ट करून जिवांच्या हिता आड वचना.

आतां फाल्गून म्हयनो लागिल्लो. शिगम्याचे दीस सुरू जाल्ले. लागसारच्या दोंगरा वयल्यो काजू फोकांनीं, बिब्यांनीं, पांचव्याचार तुरमणानी आनी तांबड्या-हळदुव्या मुट्ट्यांनी भारावन गेल्लो.

गांव शेता-भाटांचो. तरी ल्हान-ल्हान दोंगुल्ल्यांनी जोडिल्लो. काजू झोपांनीं नटिल्ल्यो ह्यो दोंगुल्ल्यो, हुसके गोंडे माळून शिगमो सोबयताल्यो.

हेर गांव कसोय आसूं, पूण सिमांवल्या ताब्यांत आशिल्लें दोंगुल्लेसयत शेत-भाट सैमीक गिरेस्तकायेन समृध्द आशिल्लें.

सिमांव शेता-भाटाचो आनी दोंगराचोय धनी नासलो. तरी दीस-रात कश्ट करून आख्खें भाट आपलेंच मानून रसरशीत करून दवरिल्लें ताणें.

गिमाळ्यांत ताच्या मुखार एक व्हडलो प्रस्न आशिल्लो. तो म्हणल्यार उदकाचो. घराभोंवतण पांचवीचार दवरपा खातीर बांयचें उदक ओडटालो. बांय सुकली म्हणटकीर कळशांनी खंयचेंय तरी भायलें उदक हाडून फळझाडांची राखण करतालोच. फळ-फूल झाडां म्हणल्यार ताचीं भुरगीं कशीं!

ताच्या शेताचो प्रस्न ताका व्हडलो-सो सतायनासलो. शेत रेताळ आशिल्ल्यान, गर्भांत वर्सभर उदकाचो सांठो आसतालो. शेतांत होंडे मारून दवरिल्ले आसताले. माया म्हयन्यांत लेगीत चार खोरीं माती काडून वयर मारल्यार घसघशीत उदक मेळटालें.

उदक मेळटालें अशें हे खातीर म्हणपाचें, की एका तेंपार शेतां-भाटांतले उदका सांठे, कश्टकारांचे पांयें धुवंक तत्पर आसताले. आतां ते मनशांच्या आवाजानूच खिणांत आटून वतात.

ही गजाल सिमांवचे बाबतींत न्हय तर हेर शेतकारांचे बाबतींत.

जे सुवातेर सिमांवाच्या पावलांनी धर्तरी तरतरताली, तीच आयज हेरांच्या पावलांचो आवाज आयकून थरथरताली आनी कलकलताली.

सिमांव गांवांतल्या शेतां-भाटांच्या आपल्या वांट्याचो राखणदार आशिल्लो. गांवांक लागून आशिल्ल्या दोंगराच्या वांट्याचोय तो ताबेदार आशिल्लो. आपल्या कश्टांनी शेत-भाट फुलोवप-फळोवप सिमांवच्या हातांत आशिल्लें. पूण दोंगराचें कितें? दोंगरार

गिमांत उदक खंयच्यान हाडटलो आशिल्लो तो? दोंगर शिंपून पीक काडप ताच्या हातांत नाशिल्लें. तरी ताच्या वांट्याचो दोंगर देव शिंपतालो. सारेंय देवूच घालतालो. ताका लागून हेर गांवकारांले दोंगर जेन्ना झेमताले, जळवा खातीर झाडां कापिल्ल्यान बोडके जाताले, तेन्ना रखरखत्या वतांत लेगीत सिमांवालो दोंगर पालेवन ताजो टवटवीत जातालो.

हे वर्सा तर सिमांवालें पालसण चडच फुलिल्लें. तरेकतरेच्या बुटक्या झाडांक पालय फुटिल्ल्यान तीं, नटून थटून, लजेन मान खाला घालून, व्हंकलो कश्यो उब्यो राविल्ल्याचो भास जातालो.

पालसण सोंपलें म्हणटकच लागताली ती सिमांवांली मठी आनी तिचो सोबीत परीसर. हो परीसर म्हणल्यार धर्तरिवेलो सर्गूच कसो! सैमान हांगा तरेक तरेचीं झाडां रुजयल्यांत, वाडयल्यांत, फुलयल्यांत, सजयल्यांत आनी फळयल्यांतय बी.

हांगा काफयेचीं बुटकीं झाडां फुलपाचे तयारेन कोणाची तरी वाट पळेतात. कांय जाणां आपल्या आंगावेलीं पानां झडोवन कळेल्यांत, तर बरींच-शीं पुराय फुलून आपल्या धव्याफुल्ल फुलांभारान पिशीं कशीं हांसतात.

थोड्याच दिसांनीं पावसाळो लागपाचो आसता तेन्ना आपलीं पिशेपणां सोडून तीं फळटात, जुनेतात आनी फुडें फळां पिकोवन आपलो कार्यकाळ पुराय करून एकदांचीं मेकळीं जातात.

सिमांवल्या घरा लागसाराक एक-दोन जगमी झाडांय आसात. माया म्हयन्यांत सैमाच्या आदेशान तांकांय फुलचींच पडटात. आंगभर पांचव्या पांचव्या पानां वांगडा ह्यो जगमिणीय फुलांनी खचाखच भरिल्ल्यो आसतात. ज्येश्ठ म्हयन्यांत तांकां सानुलीं फळुलां धरतात. आशाढ-शिरवाण म्हयन्यांत तीं मोटीं जावन जुनेतात आनी आश्विनात तीं पिकून आपलें जिवीतकार्य तात्पुरतें सोंपोवन फुडले तयारेक लागतात.

जी गजाल जगमिणीची, तीच चुन्निणींची आनी काण्णिनींचीय बी! सगळ्यांचें कार्य एकूच, फुलपाचें आनी फळपाचें. मात कार्यकाळ मात्सो वेगळो. चुन्निणी चैत्रांतूच आपलें कार्य सोंपोवन मेकळ्यो जातात. कारण, ह्यो वांकड्या काट्यांच्यो चुन्निणी सदांच उतावळ्यो आसतात. त्यो जाता तितल्या वेगीं पाखलिणी जल्माक घालतात. ह्यो पाखलिणी म्हणल्यार धवीं-धवीं चुन्नां. ह्या चुन्नांक पिकतकच गोरसो आनी शेंदुरी रंग फाव जाता. ह्या रंगाक लागून चुन्निणीचें झाड हें गोऱ्या हुमल्यांक आपलेंच तेर्र-शें दिसता आनी कोणाचोच परवानो घेनासतना थंय ते घोंटेर बांदतात. तरी त्या हुमल्याचें कोंत करिनासतना सुकणी चुन्नां खावन फस्त करताच.

अशे तरेन, चुन्नांचें ते वर्साचें जिवीतकार्य केन्ना सोंपता, हाचो कोणाक पत्तोच लागना.

आनी काण्णिनी? त्यो तर खापरिणी! सुर्वेक तांबसो-पांचवो रंग घेवन आयिल्लीं हीं काण्णुलां, पिकच्या वेळार काळींकिट्ट रूप धारण करतात. चुन्नाभशेन हीं पिकतकच रोखडींच नश्ट जायनात. माया म्हयनो सोंपलो तरी, एक तर तीं आपले जल्मदाते मातेक चिकटून रावतात, ना तर सुकून गळून पडटात. जगपाची कितलीय आस बाळगून रावलीं तरी तांकां केन्ना ना केन्ना आपलें जिवितकार्य सोंपोवचेंच पडटा.

खरें म्हणल्यार कणेर आनी चुन्नीण हीं दोनूय कांटयारीं झाडां. पूण तांच्या फळपाचो वेळ मात एक न्हय. कणेरां कार्तिकांत पिकतात आनी चुन्नां चैत्रांत. पिकिल्ल्या कणेरांचो रंग काळो, तर चुन्नांचो धवो. चुन्नीणीचीं पानां मात्शीं लांबट-रूंदट तर कणेरीचीं मोटवीं आनी वांटकुळीं. कणेरांच्यो बियो घट्ट तर चुन्नांच्यो मोव. तरी ह्या दोनूय कांटयाऱ्या झाडांचें कार्य एक, आनी तें म्हणल्यार कसलोच भेद-भाव करिनासतना सजीवांक जगोवप, तांचें पोशण करप.

हांतलीं कांय तरेचीं रानफळां, गांवांपसून, मनशांपसून पयस वसतात. कारण तांचें रोवप मुजरत मनशांकडसून जायना. तें देवाकडसून जाता. तांकां सारेंय देवूच घालता. ताका लागून त्या रानफळांचेर मनशांचो कसलोच अधिकार आसना. देवान तीं रानफळां किडी-मूयां खातीर, सवण्या पिपुशां पासत मुजरत निर्मिल्लीं आसतात. पिकल्या उपरांत तांचेर मनीसजातीची धाड पडची न्हय म्हूण, झाडांच्या सर्वांगार देवान कांट्यांची रचणूक केल्ली आसता. कांट्यांच्या सांगाताक हुमले आनी हुरणां आपापल्या घोटेरांनी बसून, सैमदेवतेच्या आदेशा प्रमाण फळांची राखण करतात.

रानफळांचे बाबतींत हुमल्यांक आनी हुरणांक पुरायेन खबर आसता, की मनीसजात ही आपली दुस्मान. केन्ना ना केन्ना आपल्याचेर घुरी घालतलीच. ताका लागून चुन्नीणीवेले हुमले आनी काण्णिनी वयलीं हुरणां सदांच सादूर रावन लडायेक सज्ज आसतात. चड करून तांची मोख काश्टेकार आनी वालेकार आसता. तांच्या मदल्या एकल्यान तरी फळाक हात घालो, तर चड करून हुरणां खिणांत चाळवतात आनी दुस्मानाचेर तुटून पडटात. पिसावलेले हुमले आनी तिडकल्लीं हुरणां आपल्या दुस्मानाचेर अशे तरेन हल्लो करतात, की तांकां इल्लो तरी वगत मेळ्ळो जाल्यार तांणीं काश्टीवाल्याचो ताबो घेतलो म्हूण समजुचें. आनी एकदां ताबो घेतलो रे घेतलो, मागीर तांकां रान मेकळें! काश्टेंतलो आनी वाल्याभितरलो अचूक मोलादीक म्हाल सोडून काडून ताका घास मारतकच मनशाक दिसता, आंगावेलें थंयच सोडून नग्नावस्थेंत पळ काडचो.

बायलां मात साडी न्हेसून हुरणांचे वाटेक चडशीं वचनात आनी गेलींच जाल्यार, तांची गत कितें जातली, हाची कल्पनाच केल्ली बरी.

अजापाची गजाल म्हणल्यार, सजीवांचे राखणे खातीर, तांकां जगोवपा खातीर, ईश्वरान फाव तशी येवजण करून दवरल्या. ते पासत ताणें आपली कल्पना वापरल्याच. ते भायर सताचो आनी विविधतायेचोय आदार घेतला. तशें नासलें जाल्यार दोंगराचेर वर्सूयभर चुन्नां-काण्णांच खावन जगचें पडटलें आशिल्लें. गीम-पावस सदांकाळ आंबे-पणसांच्या वासान आख्खो गांव आनी दोंगर घमघमून वचपाचो. हेर फळांक आपलें अस्तित्व दाखोवपाची संदूच मेळची नासली. तेंच-तेंच खावन प्राणीमात्र उबगतले आशिल्ले.

पूण हांगा तशें घडनासलें. कांय फळांचो आडवाद सोडलो जाल्यार, ते-ते वेळारूच तीं-तीं फळां पिकतालीं. शीं पडलें अगर आंबे-काजू चंवरनासले. आंबे चड करून डिसेंबरांत फुलताले, जानेराक कणेताले, मार्चाक तोरेताले, एप्रिलांत जुनेताले आनी चड करून मायांत पिकून झडटाले आनी जर ते पावसांत उरले, तर किडेतात, सिगरेतात आनी चव सोडून बसतात. खावपाचे लायकेचे उरनात.

जी गजाल आंब्यांची, तीच हेर फळांचीय बी! शीं आनी गरमेचो लाव घेवन, सिमांवाल्या ताब्यांतली दोंगुल्ली आनी तिचें पालसण फळां-फुलांनी भारावन वतालें.

दोंगुल्लेचेर काजू, पणस, आंबे, भिरंडां बी आसतालींच, ते भायर जांबळांसयत सगळ्या तरेचीं रानफळां आपूण-आपूण म्हूण मिरयतालीं. तांकां पळोवनूच सजीवांच्या पोटाक थाकाय मेळटाली आनी तांचो जीव धादोशी जातालो.

सिमांव कश्टकरी आनी अशिक्षीत आशिल्लो खरो, पूण तो रसीक आनी व्हडलो कलाकारूय आशिल्लो. आपल्या घराची सरभोंवतण सुंदर, रेखीव आनी सुसोबीत सदांकाळ उरची अशें सिमांवाक दिसतालें. ते पासत ताणें मुजरत गुलमोहर, चाफे, चमेल्यो बी ह्या सारकीं फूल रुखावळ वाडयल्ली!

इतलें करुनूय सिमांव थांबू नासलो. आपली घर भोंवतण ताणें गुलाब, सदाफुली, शब्दुली तरेक तरेच्यो शेंवत्यो-आबोल्यो बी लावन सजयल्ली. तीं फुलझाडां ते-ते वेळार कळेतालीं आनी फुलतालीं.

फुलां वांगडाच तरेक तरेचीं सवणीं आनी जिवाणीं हांगा बिनधास्त वावुरतालीं. कोणाक कोणाचोच हांगा भंय म्हूण नासलो. गांवांभायर खंयी तरी, पोटाभुकेन वणवणपी कोले रात जातांच सिमांवाले दोंगुल्लेर घुसताले. हेरांल्या घुडांतल्यो कोंबयो खाताले,

पूण सिमांवल्या एका कुकडाक दोळे उक्ते करून पळेनासले. सिमांवाले कोंबे फांतोडेर साद घालताले आनी कोले दोंगुल्ली सोडून, हुयेली मारून पळ काडटाले.

सिमांवागेर भुरगींबाळां आनी खातींपितीं नाशिल्ल्यान ताणें फाव तितली संपत गांठावन दवरिल्ली. ताचेकडेन पयसोआडको, भांगरांशिंगरां आशिल्लीं, पूण सिमांवचे दिश्टीन असले संपत्तेक कांयच मोल नाशिल्लें. नातलूच्या मनांत कितेंय घोळू पूण सिमांवाचो मात आपल्या ताब्यांतले दोंगुल्लेचेर आनी शेतांचेर चड जीव आशिल्लो. आपल्या वाडवडिलांनी, व्हडा कश्टांनीं आयज मेरेन सांबाळून दवरिल्ली सैमीक संपत, हे फुडेंय राखून दवरूंक ताका वारसाची गरज आशिल्ली आनी त्याच वारसाची तो व्हडा उमेदीन वाट पळेतालो.

७

आतां नोव्हेंबर सोंपून डिसेंबर लागिल्लो. दिसान दीस सैमांतली थंडी इल्ली इल्ली वाडत आशिल्ली. फांत्या पारार मळब थेंब्यांनी रडटालें. मळबांतलीं धवशीं कुपां खाला देवन शेताचें पांगरूण जाल्लीं. शेताधडेवेली आनी शेतापसून पयस आशिल्ली रुखावळ, चड करून सकाळचीं आठ मेरेन धुक्यांत बुडून आसताली. उपरांत मात सुर्याम्हाराज ल्हवू ल्हवू वयर येवन, आपल्या किरणांनी सैमदेवतेक सुकोवन–पुसून काडटालो. तेन्ना दंव थांबतालो, धुकें पयसावतालें आनी शीं इल्लें इल्लें करून पळून नाच्च जातालें. हो दंवान ओलेल्लो, धुक्यान कापशेल्लो वाठार सुर्याच्या प्रसन्न हांशान भांगराळून वतालो.

सुर्याचो हो भांगराळो हांसो गांवांतल्या नवशिक्षीत बाबू लोकांक उपभोगूंक मेळटालो. पूण फांतोडेर शेतांत देंवन कश्टपी शेतकारांक ताचें चडशें सोयरसुतक लागनासलें. हे बाबतींत आडवाद आशिल्लो तो फकत सिमांवचो. सिमांव झिळमिळट्यार शेतांत देंवतालो तो बद्द पेजेक घरा येतालो. वाट संवकळीची आशिल्ल्यान, घरा येतना सिमांवाक पांयांकडें नदर मारीत चलपाची गरज पडनासली. ताच्या बदलाक तो रुखावळीच्यो भांगराळ्यो तेमक्यो नियाळीत चलतालो. काळखांतल्यान वयर सरतां सरतां, सुर्यदिवान स्वआंगांतलो सुवर्णरस रुखतेमक्यांचेर शिंपडावन, वाठारांतले वट्ट रूख सुवर्णमय करून सोडटालो.

सिमांवाक हो देखावो पळेन–पळेनसो दिसतालो. पूण तो ह्या दिसांनीं वाटेर गणयनासतना घरा वतालो. कारण ताका नातलूचो हुसको जातालो. नातलूले सुटपाचे दीस लागीं पाविल्ले. तें केन्ना सुटत हाचो नेम नाशिल्लो. ताका लागून सिमांवचें शिंतीद

नातलूचेर आसतालें. तशें ताणें नातलूच्या आदाराक आपले मावस भयणीक हाडून घरांत दवरिल्ली. पुणून ती मात्शी कुड्डी आशिल्ली. नाका परस मोतीं जड थारताली सिमांवाक! तरी कोणूच नाशिल्ल्या परस नात्या-गोत्यांतल्या कुड्ड्या-भयऱ्यांचो उपेग करून घेवचोच पडटा मनशांक अडे अडचणेच्या वेळार.

सिमांवची मावसभयण साश्टीकान्न. नांव कातारीन. सभावान मायेस्त, कुड्डी आसली तरी उलोवप भेऱ्यांभशेन मोटयान. फुडले दोन दांत पडल्यात तरी बिनधास्त हांसताली. भुरगेपणांत सावन तिचेर पुर्तुगेज संस्कृतायेचो प्रभाव. गरीब आसली म्हूण कितें जालें, आंगार कापडाफाळी केन्नाच उडोवची ना. व्हिस्तीद घालुनूच भायर-भितर वावुरताली. कितलोय म्हेळो आनी पिंजको जाल्यार उपकारता. पूण व्हिस्तीद सोडची ना. ताका लागून गांवांतले आनी तिच्या वाड्यावेले लोक तिका व्हिस्तिदकान्न म्हणटाले. मावशेपरस तिका कोणेंय माना म्हणलें जाल्यार ती खोशेन भरताली, तांतले तातूंत व्हडलें माना ना तर बाय!

आयज सिमांव सदांभशेन झिळमिळट्यार शेतांत गेलो. ह्या दिसांनी घरा येवंक कळाव करूं नाका, अशें ताका नातलून सांगून दवरिल्लें.

सिमांव गेल्या उपरांत कातारीनान पेजेक बुडकुलो चुलीर दवरलो. ताणें रातीकडेंच तांदूळ आसडून आनी वेंचून दवरूंक लायिल्ले सिमांवाक.

पेजेक खतखतो ये म्हणसर कातारीन चुलीकडें बसून रावलें. पेज शिजली ती पळोवन, कातारीन कुडकुडत वचून आपल्या बिछान्यार गोजडी पांगरून पडलें आनी खिणांत घोरेवंक लागलें.

नातलूक मात आयज फांतोडे सावन कशीच झेम लागली ना. भायर कडक शीं आसून लेगीत गरमे दिसां तळमळे लागिल्ले ताका. ताका दिशिल्लें, सिमांवाक शेतांत धाडचो न्हय, पूण काटूक नातलू धीर धरून तशेंच पडून रावलें.

नातलू केन्ना केन्नाय बरें ना जातालें. जोरान फणफणटालें. दोतोराक दाखयनासतना, फार्मासेंतलें वखद हाडिनासतना, कसायबिसाय घेवन जोर आंगार काडपाची संवंय आशिल्ली ताका. तकली उसळप, आंग फडप, तोंडाक रूच ना जावप असल्या दुखण्याचो अणभव आसलो नातलूक. पूण हे भोग सामके नवे आसले ताका. अकस्मात पोटांत सणसणें मारप, काळजांत कलकलप, फुगासांव जावप ह्या सारक्यो गजाली नातलूक भिवयताल्यो. तरी देवाच्यो म्हणा वो सैमाच्यो म्हणा मदीं मदीं वेगळ्योच करण्यो घडटाल्यो. मदींच दुखणें पयस जावन ताका मदेंच बरें दिसतालें.

आतांय तशेंच घडलें. दीस उदेवन जसो जसो उजवाड चारूय वाटांनीं फाकूं लागलो, सुर्या किरणां मेळत त्या वाटांनीं नातलूले मठयेंत घुसून, नातलूल्या सर्वांगाक स्पर्श करूंक लागलीं. हो स्पर्शखेळ हेर दिसांनींय घडटालो. पूण आयज तो नातलूक इल्लो चडच जाणवलो. ह्या ईश्वरदत्त किरणस्पर्शान नातलू सुखावलें आनी ताका खिणभराक दोळो लागलो. पूण ताचें हें सूख चड वगत तिगलें ना. अकस्मात ताच्या पोटांत धसको बशिल्लेवरी भोगलें ताका. तें फटफटीत जागें जालें. पोटांतली कळ ताच्यान सोसूंक जायना जावन ताणें एकूच कर्कश किळांच मारली – ''माँय जे, मोत्तां जे! धांवाय रे कोणूय तोरी! सिमांवाक आपोयाय रे!'' अशें म्हणून नातलू आपले दोनूय हात फाटल्यान जमनीक तेंकोवन पोट फुडें काडून व्हडल्यान बोबो मारूंक लागलें.

ताची बोब आयकून कातारीनाक जाग आयली. तें सांसपत उठलें. ताणें धडपडत उबें रावपाचो येत्न केलो. ताणें आकांतान म्हणलें, ''बाये, नातलू, कितें जालें गो. सुडोलें कितगो बाये! देवा सायबा, कोण आहाय रे भायल्यानु, धांवाय रे, पावाय रे! सिमांव येयलो ना रे? सामको येण्णो येसो. बायले म्हूण तेक कांयींऽ पोडलो ना.''

हें आयकना फुडें नातलून आनी एक रस्तीन किळांच मारली. हात–पांयें फांकारून, पोट वाऱ्यार सोडून तें धतरिर उदारें पडलें.

नातलूली आतांची किळांच चड खर आशिल्ली. ती आयकून घरापसून बरेंच पयस आशिल्लें मोगरू खोपटेंतल्यान भायर आयलें. ताणें चिंतलें, ही किळांच नातलूचीच आसूंक जाय. ताणें आनी वगत केलो ना. आंबीली बुडकुलो तसोच रांदनीर सोडून ताणें सिमांवाल्या घरा दिकेन एकूच धांव मारली. धांपेत, खर्शेत घराकडे पाव जाल्यार कितें पळेतलें! घरांत दोगांच आसात, नातलू आनी कातारीन. नातलू मडें कशें पडून आसा. तें मेलां काय जितें आसा तें कळना. कातारिनान थोडीच बोब मारली, ताचे ताकती प्रमाण. तरी ताचो ताळो बसला. ताका लागून तें उलयता काय रडटा, हें समजूंक वाट नाशिल्ली.

मोगरू धिटायेची बायल. तरी नातलूची स्थिती पळोवन ताचेर आकांत आयलो. कितें करचें तें कांयच समजना जालें ताका. ताच्या मुखार आतां एकूच उपाय आशिल्लो आनी तो म्हणल्यार किंवाट्यान बोब मारून लोकांक आपोवपाचो आनी मोगरून सगळें सोडून तेंच केलें. पयलीं तें बोबो मारीत लागसारच्या घरांनी गेलें. पळेल्यार सगळीं दारां बंद आसात. घरकारां शेतांनीं गेल्यांत. तो वेळच आशिल्लो रोप्यांक उदक घालपाचो.

लागसारच्या घरांनी कोण ना तें पळोवन, मोगरू तशेंच आइडेत फुडें गेलें आतां मात ताचे यत्न फळाक आयले. ताच्यो आइड्यो सालूच्या कानार पडल्यो. सालू वायंग्यांचें

पाटें माथ्यार घेवन शेतांतल्यान घरा येतालो. ताणें पाटें थंयच आपटीलें. धांवून मोगरू म्हऱ्यांत आयलो.

मोगरूक सालूच्या रुपान देवूच दिसलो.

''सालूबाबा, सालूबाबा, माझ्या वांगडा मात्सो नातलूगेर यो रे!'' मोगरून काकुळटेन विनयलें.

''कितें जालां गो मोगरू, ओहें आकांज्यार कित्याक जालां?'' सालून मोगरूक भियेत भियेत प्रस्न केलो.

''सालूबाबा, तूं मात्सो माझ्या वांगडा यो पळोवया. सगळें सांगोंक म्हाका आतां वोगोत ना.'' अशें म्हणून मोगरू सालूच्या हाताक धरून नेटान ओडूंक लागलें. सालूक तें मानवलें ना. तो काचाबूल जालो. तो मोगरूचेर ताणशेलो–

''कोहलीं पिशेपोणां कोत्ता गो मोगरू! हो आमजेलो तियात्र कोणेंय चोयलो जाल्यार कित्यें म्होण्टोलो गो आमहां.''अशें म्हणून मोगरूल्या हातांतलो हात झटकून फाटीं काडलो.

सालूली ही करणी मोगरूक मानवली ना. तें चाळवलें. सालूलो आपल्याविशीं कितेंय तरी गैरसमज जाला अशें नितळ मनाच्या मोगरुच्या लक्षांत आयलें. ते भायर, माडाच्या कळवांत बसून गुपचूप सूर काडपाच्या कामांत दंग आशिल्ल्या रेंदेराच्या लक्षांत आयलें, सालू आनी मोगरू हांचे मदें उक्तो–उक्तो मोग चल्ला जावंये! रेंदेराचीय चूक नाशिल्ली. असले तरेचे मोग पळोवपाची ताका संवंय आशिल्ली. खूबशा तरणाट्यांच्या मोगाचो रिकॉर्ड रेंदेरांकडे आसतालो आदल्या तेंपार. जंय जंय रेंदेर उरल्यात, थंय थंय आतांय असल्यो गजाली पळोवंक मेळटात.

रेदेरांचें एक बरें आसता. ते आसतात पाद्री सारके. भक्त पाद्रींकडे कुमसार जातात. पूण पाद्री भक्तांलीं पातकां आपलेकडे गुपीत दवरून देवभक्तांक सुदरपाची संद दिता.

रेंदेरांचेंय तशेंच आसता. मोग्यांनीं भाटांतल्या खंयच्याय एका झाडामुंदांत बसून चोरयां केल्लो मोग रेंदेर माडा कळवांत बसून पळेता. पूण तें गुपीत तो आपलेकडेंच दवरता. एक मात, तो मोग्यांचें गुपीत आपल्याक खबर आसा हें मोग्यांक दाखोवन दिवपाक, सगळें पळोवन जातकच निमणे वगतार मोटयान कुलो घालता. हो कुलो मोग्यांक दाखोवन दिवपाक की, तुमचें गुपीत आपणाक खबर आसा, पूण आपूण तें आपल्याकडेंच दवरतलों.

पूण मोगरूचे बाबतींत रेंदेरान जें पळेल्लें तें खोटें आशिल्लें. सगळ्यांच्याच गैरसमजांतल्यान निर्माण जाल्लें.

मोगरून सुर्वेकच नातलूची गजाल सालूक सांगिल्ली जाल्यार, अशें जावंक पावचें नाशिल्लें. मोगरूक आतां आपली चूक कळ्ळी. आतां ताणें कळाव करिनासतना नातलूची सगळी गजाल सालूक सांगली. मोगरूलें सांगणें पुराय आयकनासतना आपूण बेटोच नाचलों हाचें ताका पिकासांव जालें.

सालू सिमांवाचो इश्ट. तशें पळोवंक गेल्यार गांवांतले चडशे सगळेच शेतकार आनी हेर लोक सिमांवाले इश्ट आशिल्ले. आपल्या एका इश्टाची बायल अडचणींत आसा आनी आपूण तिचे मजतीक धांवून वचचें सोडून, मोगरू वांगडा गरजे भायली भासाभास करीत रावलां हाची सालूक लज जाली.

ताणें माडावयल्या रेंदेराक उलो मारलो. ताका सकयल देंवपाक खूण केली. रेंदेर काती आनी मोगें कळवांतूच सोडून खाला देंवलो. ताकाय आतां प्रसंगाची गंभिरताय कळून आयली.

मोगरू सालूक आनी रेंदेराक घेवन सिमांवगेर गेलें. पळे जाल्यार एक-दोन दादले आनी तीन-चार बायलो दारांत बसून आसात. तांचे चेरे चिंतेस्त आसात. एक बायल नातलू म्हऱ्यांत बसून ताका थातारता. ती गांवांतली नामनेची वैजीण आशिल्ली.

कशी पावली ती वैजीण अकस्मात? तें जालें अशें, मोगरू बोबो-हुयेली मारीत हांगा थंय भोंवतासतना फाटल्यान रोकडोच सिमांव आयलो. सकाळीं शेतांत वचूंक भायर सरला तेन्ना ताका नातलूची स्थिती बरीऽ लागूं नाशिल्ली. तो शेतांत गेल्लो खरो, पूण ताचें शिंतीद घराकडेन आशिल्लें. ताका दिसतालें आपूण घराकडेन नासलों आनी नातलूच्या पोटांत दुखूंक लागलें जाल्यार? दोतोरांनी सांगून दवरलां, नातलू जाण्टेपणांत गुरवार जालां. कोम्प्लिकासांव जावंक शकता. तरी भिवपाची गरज ना. पेशंटाक एकटी मात सोडूं नाकात.

सिमांवालें घर अडचणेचे सुवातेर आशिल्लें. दारांत गाडी पावनासली. नातलू इस्पितळांत रावंक तयार नासलें. ताचो गांवचे वैजिणीचेर भावार्थ. ताका लागून सिमांव एक सारको गांवांतले वैजिणीकडें संपर्क दवरून आशिल्लो.

आयज ताणें चिंतलें, नातलू सुटऽमेरेन वैजिणीक ताच्या म्हऱ्यांत हाडून दवरची. ताणें शेतांतलें काम जाता तितलें वेगीं आटापून घेतलें. झपाझप पावलां मारीत वैजिणीगेर वचून तो तिका घेवन आयलो.

आतां सकाळ टळून गेल्ली. सुर्या बरोच वयर येवन मळबांत चकचकतालो. सक्काळीं फुडें शेतांत देविल्ले शेतकामती घरा येताले. सिमांव वैजिणीक घेवन येता तें कोणाचे तरी एकल्याचे नदरेक पडलें. ही गजाल सिमांवाल्या इश्टमित्रांक बऱ्याची आशिल्ली आनी दुख्खाचीय बी. ही गजाल एकान दुसऱ्याक सांगली आनी दुसऱ्यान तिसऱ्याक. करतां करतां सिमांवाल्या दारांत दादल्या-बायलांची गर्दी वाडली. चार मनशां एकठांय जालीं म्हणटकच तांच्या तकल्यांनी तरेक तरेचे विचार उप्रासतात. कोण 'अ' म्हणल्यार कोण 'ब' म्हणटा. कोण कितेंय म्हणूं, पूण सगळ्यांचें देवाकडे एकूच मागणें आशिल्लें, की नातलू एकदांचें बरे भशेन सुटूं. भुरगें गेल्यार वचूं पूण नातलू सगळ्यांक जाय आशिल्लें.

तशें पळोवंक गेल्यार हो प्रसंग भिवपाचो नाशिल्लो. गांवांत इस्पितळांत वचनासतना जायत्यो बायलो बाळंत जाताल्यो. गांवच्या लोकांचो, देवाचेर आनी दोतोरांचेर भावार्त नाशिल्लो, पूण गांवचे वैजिणीचेर आशिल्लो. वैजिणीन आपल्या हातांत घेतिल्ली केस आयज लेगीत फेल अशी जावंक नाशिल्ली.

पूण आयज वैजिण गडबडली. तिचो स्वतावेलो विश्वास आतां केन्नाच उडून गेल्लो. आतां केस देवाकडें सोंपयले बगर दुसरो पर्याय नाशिल्लो तिचेकडेन.

''बाबा सिमांव!'' वैजिणीन धीर सोडून उलो मारलो.

''कितें जे वोयजिणमांय! म्होजें नातलू बोरें आहा मिजे?'' ताणें भियेत भियेत प्रस्न केलो. ताच्या हाता-पायांक कडकडो भरलो.

''ओहो धीर सोडूं नाहा रे बाबा. देवाचेर पातियेवन राव. सोगलें बोरें जातोलें.'' वैजीण हें सगळें काचाबूल जावन उलयताली.

''बाबा सिमांव, आल्तारार देवाफुडें आती लाय बाबा! भाटांतल्या खुर्साकूय आती पेटोवन यो.''

सिमांवान आल्तारावेले सायबिणमांय मुखार वाती पेटयल्यो. एका इश्टाक खुर्साक वाती पेटोवंक धाडलो. हांगा सगळ्यांनी दिमयो घालून रोजार करूंक कोमेस केलें.

येदोवेळ कसलीच हालचाल करिनासतना निपचीत पडून आशिल्ल्या नातलूच्या कानार प्रार्थनेचे सूर आदळ्ळे आनी तें शिंतिदार आयलें. ताणें एकार एक अशो तीन किंळच्यो मारल्यो आनी चवथी किंळांच मारचे पयलीं भुरग्यान ट्यॉंव केलें. तें करुनूच तें थांबलें ना. 'हुंगा हुंगा' करून ताणें आख्खें घर माथ्यार घेतलें. वैजिणीच्या अणभवा प्रमाण ही बरी खूण आशिल्ली. तिणें कपलाक आनी हड्ड्याक खुरीस काडून देवाचे

उपकार मानले. तिणें सिमांवाक बाबा जाला म्हणपाचें जाहीर केलें. सिमांवाल्या घरा–दाराचेर उजवाड पडलो तो पडलोच, ते भायर सिमांवान तीन माराण पेटोवन, आपल्याक पूत जाला म्हूण गांवाक आनी सैमाक गवाय दिली.

सिमांवाक पूत जालो आनी आख्खो गांव खोशेलो. सिमांवालो पूत गांवाचें बरें करतलो म्हूण गांव खुशालकायेन भरूंक नाशिल्लो. गांवांतल्या हेर पुतांनीं गांवांत आयज मेरेन कितें उजवाड घाला, हें लोक जाणा आशिल्लो. सिमांवलो पूत, सिमांवा सारको सज्जन जातलो काय हेरांभशेन गूंड जातलो, हें फुडलो काळूच थारावपाचो आशिल्लो. एक मात खरें, आयज गांवकार खोशेन भरल्यात ते नातलू–सिमांवच्या जोडप्याचे पुण्यायेन.

८

केन्ना केन्नाय शेतकारांक आनी हेर कश्ट्यांक आपणें मध्यमवर्गियां भशेन समाजांत वावुरचेंशें दिसता. मध्यम वर्गांतले लोक देशेंत. ते रावतात मोट्या आनी नितळ घरांनीं. घरांचे वाशे कितलेय पोकळ आसूं मागीर! ह्या लोकांचें खावप–जेवप रुच्चीक आनी दर्जेदार. न्हेसप–पांगरप झेतार. तांचें काम उखलापें. घाम केन्ना गळोवंचे नांत. दिसांतल्यान एकदां तरी न्हातलेच. तांचें उलोवप गोड आनी शिस्तीचें. उलयतना, मनांतली कोडसाण जनाक दाखोवचे नांत. आपूण हेरां परस व्हडले, हें दाखोवपाक मदें–मदें इंग्लेज मारतले. ताका लागून सिमांव सारक्या लोकांचो आडवाद सोडल्यार गरिबांकूय दिसता की आपणेंय बाय–बाबूंची जीण जगची.

नातलूचेंय आतां तशेंच जालां. सांत लॉरेंसान ताका लोरसूच्या रुपान पूत दिला. ताका लागून आतां ताचे खोशेक शीम उरूंक ना. पयलीं ताच्या घरा–दाराचेर चड वेळ किण्ण पडिल्लें आसतालें. शेजारीपाजारी आनी गांवांतले लोक तांच्या घराक पायें दिनाशिल्ले, असल्यांतली गजाल मात न्हय. नातलू–सिमांवांलीं चार गोड उतरां कानार पडलींना जाल्यार, गांवच्या लोकांक सुशेग लागनासलो. ताका लागून वेळांत वेळ काडून, कोण ना कोण आत्रेपयऱ्यान सिमांवचे मठयेक पायें लायतालेच.

सिमांवाक दिसतालें, गांवांतल्या लोकांची आपल्याकडे ओड आसा. फकत किरिस्तांवच न्हय, हिन्दूय आपल्याक मानतात. तांचो हो आपलेविशींचो – आपल्या घराब्याविशींचो मोग सासणाचो तिगून उरचो, अशें ताका मनापसून दिसतालें. ताका लागून ताणें चिंतलें. आपूण सामकोच कफल्लक ना. चार पयशे गांठीक बांदून आसां.

कोणाक खावंक ते? तेन्ना सांठयल्ल्या दुडवांतलो कांय वांटो मदें-मदें इश्ट-मित्रांचे ताळे ओले करपाक खर्च केल्यार खंयच्यान वायट? एक दीस ताणें नातलूक म्हणलें-

''जाणां मुगो नातलू, हांव तुहां कितें सांगोंक सोदतां गो!''

''कितें सांगोंक सोदता रे, सांग वेगयां. तूं कित्येंय सांगों कोमेस कोत्ता आनी रोकडो विसोत्ता.'' नातलून लाडांत येवन म्हणलें.

''व्होय गो. तूं सांगता तें होरें.''

''सांग आतां कितें सांगोंक सोदता पोय तें!'' नातलू मात्शें ताणशेलें. घोवाविशींचो मोग उक्तावपाची रीत आशिल्ली ती ताची.

''जाणा मुगो नातलू, आमी ह्या वर्सा लादाइन्य व्हडा दबाज्यान मनोवया.'' सिमांवान आपली नविदाद उलोवन दाखयली.

''व्हडा दोबाज्यान म्होणोन आनी कोही रे. पोयर आमी कोणाक कितें उणें केलां रे?'' नातलून उत्सूकतायेन प्रस्न केलो.

''ना गो. हेरां पोरोस आमची लादाइन्य सोदांच बोरी जाता.''

''जातोलीच. ती थोड्याच लोकां पासोत आसता न्हो रे! फोकोत आड्यावोयलेच लोक येताय.'' नातलून खंत उक्तायली.

''हे फुडें मुगो, आख्ख्या गांवांक आपोवया. कितलोय देस्पेज जावं दी.''

''व्होय, व्होय. इगोर्जेच्या पाद्रींकूय आपोवया.'' नातलू फुल्लें. पाद्री फक्त व्हडल्या मनशांगेर येतात, अशें ताचें मत्त.

''गाआंत आमचे हिन्दू भावूय आहाय. खूब मोग कोत्ताय ते आमचेर. एका निमतान वर्सांतल्यान एकदां तोरी तेंचेय पायें लागोंदी आमच्या घाराक.''

''गांवांतोल्या सोगल्यांक सांगोया. पूण सोयऱ्यांक मात नाका आं!''-सिमांव.

''सोयऱ्यांक नाहां? कित्या रे. तेंहां आयट दिसचें ना?''

''दिसों आयट दिसल्यार. तीं सागवादी झेवन येताय. बेसांवांक म्होणोन दुडवां पाकिटां दिताय. तुहां मानोवता गो तें?'' सिमांव निर्शेलो.

''ना रे. माहांय साप्प मानवोना. पूण सोयऱ्यांक रिते हात हालोयत भोल्लेल्या घरांत भितोर सोरपाक पुटवोना.''

''तोहें जाल्यार सोयऱ्यांक सांगचें न्हो मुगो?'' -सिमांव.

''सांगचें न्हो कित्याक, सांगोया. पूण तीं कित्ये दिताय तें आमी जितीं आसतोनाच फारीक कोरुया.'' -नातलू.

सिमांव आनी नातलू बऱ्या आनी उदार मनाचीं आसलीं. तांकां मनशांचो मोग आसलो, दुडवांचो न्हय.

तांच्या मता प्रमाण आतां ताणीं वर्सूकी लादाइन्य व्हडा उमेदीन करपाची थारायली. खरें म्हणल्यार सिमांवाली ही नावां पुरतीच लादाइन्य आशिल्ली. सिमांवान आनी नातलून ताका गांवच्या रासवळ फेस्ताचें स्वरूप दिल्लें. लादाइन्येक आठ दीस आसात म्हणल्यार तीं दोगांय तयारेक लागिल्लीं. सुर्वेक तांणीं आमंत्रणां दिलीं. तींय जोडप्यान वचून. तीं शेतकारां जालीं म्हूण कितें जालें? फेस्ताचीं आमंत्रणां देशेंत रोपांतूच दिवंक जाय. ताणें आलमारींतलें फेर्राद कालसांव भायर काडून फाफुडलें. तो बूट केन्नाय चडयतालो. फात मारपाक ताका आवडनासलें. तरी तो कोणाच्याय मरणाक वचपाक काळो फात मारले बगर भायर सरनासलो. फाता वांगडा ताका बूट चडोवचेच पडटाले. ताकाच लागून ताका आयज मेरेन बूट घालून चलपाची संवय आशिल्ली.

ताणें आदले दिसा पोन्ने बूट भायर काडले. पळे जाल्यार बूट बरे आसात. दोरे मात लांब आशिल्ले ते तुटून मोटवे जाल्यात. मेयांचीय गत सारकी ना. मदें-मदें मात्शे कुसकुसल्यात. हरशीं बरे आसात, पूण बोटांकडें मात्शे बुराक जाल्यात.

सिमांवाक दिशिल्लें, बूट आनी सगळें नवें घेवचें. तरी ताणें चिंतलें, गांव भोंवपाक व्हडलींशीं जाल्यार दोन वरां लागतलीं. उपरांत नवेताल्ल बूट खंयींतरी पडून उरतले.

ताणें कितें केलें, एक ल्हान-शी पिशवी सोदून काडली. तातूंत बूट आनी मेय-दोरे भल्ले आनी बद्द-बाजारांतल्या चंद्रू चामराकडें गेलो.

चंद्रून सिमांवाक हुनहुनीत येवकार दिलो. बसपाक लाकडाची बाकेन फुडें केली. आनी कित्याक करचो ना? सिमांवान ताका कितलेच फावट आपल्या शेतांतलो मुळो आनी तांबडी भाजी फुकट खावयल्या.

चंद्रून आस्थेन सिमांवल्या हातांतली पिशवी घेतली. बूट भायर काडले. पळे जाल्यार बुटांची चडशी शिवण सुटल्या. चंद्रून सगळी शिवण उसयली आनी दोनूय बूट नव्यान शिंवून काडले.

चंद्रूक गिरायकाकडें बडबडपाची संवय आसा. पूण सिमांवकडे मात ताणें काम जायसर एक उतर भायर काडलें ना. काम करतासतना उलयल्यार कामाचेर शिंतीद उरना. काम इबाडपाची शक्यताय आसता आनी सिमांव इरमांव तर चंद्रूक देव कसो. देवाचे पुजेंत खंड पडून कशें चलत?

चंद्रून बुटांचे शिवणेक खास असो घट्ट दोरो वापरलो. इल्ली दाटूच पालीस सारयली. खास अशा फाड्यान बूट घासून काडले. जीव ओतून चकचकीत केल्लो बुटां जोडो चंद्रून सिमांवा मुखार दवरलो.

''इरमांव, जाले तुजे बूट तयार. आतां सांग, इतले दिसांनीं मोचे-शे भायर काडले!'' चंद्रून वक्लांतल्यान सिमांवाचेर मुजरत नदर मारीत म्हणलें.

''तें माजीर सांगतां. पोयलीं तुजे दुडू कितले, तें सांग.''

''दुडू, कसले दुडू?'' चंद्रून उसण्या रागान सिमांवचेर नदर मारली.

''ओहें कोरें कोरून कितें पोयता रे? हे मोचे शिंवोन दिल्याय तेजे दुडू नाहांय?'' - सिमांव.

''तुजेकडल्यान दुडू घेवन म्हाका पातकाचो धनी करता रे पापया?''

''तूं पातकाचो धोनी कोहो जातोलोय रे? काम करूंक ना तुये? पोट ना रे तुहां?'' सिमांव रितीचें आनी कायद्याचें उलयलो.

''पोटां कोणाक ना रे सिमांव इरमांव? तीं मोनजातीकूय आसतात. पूण पोटाक लागोन मनशान आपलें मनीसपण सोडल्यार जाता? तुयें म्हाझेर खूब उपकार केल्यात. हांव ते विसरों ना. म्हाझीं बायल-भुरगीं जेन्ना जेन्ना उपाशीं पडल्यांत तेन्ना तेन्ना तुयें पायल्यांनी आनी कुडवांनी भात म्हाझ्या दारांत पावोयलां. बदलाक केन्ना कितेंच घेतलें ना तुयें आयज लेगीत. आतां म्हाका आयती संद मेळ्ळ्या तुज्या उपकाराक पडपाची. ती हांव कशी वगडांव? खरें म्हणल्यार म्हाका पयशांची गरज आसा. सकाळीं पसून मेळिल्लें हें पयलेंच गिरायक. तरी हांव तुजेकडल्यान ह्या कामाचें मोल घेवचो ना आनी तूंय तें घेवपाक म्हाका फोर्स करून पातकाचो धनी करूं नाका.'' अशें म्हणून चंद्रून सिमांवच्या पांयांक वेंग मारली.

''चोंद्रू-बा, सोड म्हाझे पांयें! हांव तुहां इंफेर्नाचीं दारां उक्तीं करून दिना. म्होजे कोडल्यान दुडू झेहल्यार जोर तुहां पाप लागतोलेंशें दिसता, तोर तूं झेंव नाहां. पूण म्हाहां बोरें दिसोंक जायें म्होणोन एकूच कोर, आमजेर लादाइन्य जावपाची आहा, तूं घोच्च्यांक सोगल्यांक झेवन यो. जेवणाकूच यो रे! भियों नाहां, बाटोत बा म्होणोन. हिंदवां पासोत हिन्दू कुजनेर सांगोन दवल्ला. तो मोटोन आनी कोंबो रांदतोलो.''

सिमांवान वर्सूकी लादाइन्य सुरू केली आनी फुडेंय ती तशीच चालू उरली.

सिमांव आतां मोच्यां पार घेवन घरा गेलो. दुसरे दिसा तो पांयांक मोचे चडोवन गांवभर भोंवपाचो आसलो. वांगडा साडी न्हेसून नातलूय आसतलें. ताका लागून तांणी

भितरल्यान खिळी घाली. सालांत जोडप्यान चलपाची येसाय मारली. नातलून मुजरत ह्या नव्या दबाज्या पासत उंच खोटांच्यो व्हाणो विकत्यो घेतिल्ल्यो. नातलू आयताराचें मिसाक वतासतना व्हाणो घालतालें. पूण त्यो साद्यो आसताल्यो. साडीय सादीच आसताली. ताका लागून चलतना दचकपाची गरज नासताली. ते भायर नातलू एक शेतकान्न आशिल्ली. तेन्ना देवाचे भेटेक वचून पाद्रीचो शेरमांव आयकुपाक नट्टटेपट्टे करपाची कसली गरज?

सिमांवांकय तशेंच दिसतालें.

पूण आतां आदलो काळ नाशिल्लो. नातलू आतां पुराय बदल्लेलें. गांठीचो पयसो ताका मानार करतालो.

नातलूक दिसतालें, आपणें बाय-माडाम बी तशें कितेंय जावंचें. माडामी भशेन चलचें. माडामी भशेन वागचें. सिमांवानूय बाब जावंचो. पुराय गांवच्या लोकांनीं ताका बाबा म्हणचो!

नातलू आनी सिमांव व्हडलीं मनशां जावपा खातीर सगळी रात न्हिदलीं ना. नातलू तर येसाय मारतां मारतां साडयेक घुसपून कितले फावट जमनीर पडलें. सिमांवाकय नवशे मोचे सतावंक लागले. तरी त्या जिद्दी जोडप्यान हार कशीच खाली ना.

दुसरे दिसा तीं व्हडा उमेदीन आमंत्रणां दिवपाक जोडप्यान गांवभर भोंवलीं. गांवांतल्या समेस्तांनीं तांकां हुनहुनीत येवकार दिलो. आपल्यागेर आयिल्ल्या व्हडल्या सोयऱ्यांक दितात पळे तसो!

कांय हिन्दू बायलांनीं तर नातलूच्या कपलाक लावन होंटी भरली.

आतां सिमांवली वर्सुकी लादाइन्यीची तयारी सुरू जाली. दीस, म्हयनो थारलो. गांवांतल्या सगळ्या लोकांच्या मनांत हो दीस घर करून रावलो. गांवांतले सगळे ल्हान व्हड ह्या दिसाची वाट आतुरतायेन पळोवंक लागले. गांवचे इगर्जेच्या फेस्तापरस सिमांवली लादाइन्य गांवांत वाजूंक गाजूंक लागली.

हेर लोकूय गांवांत येन्ना-तेन्ना, आपले ताकती प्रमाण लादाइन्य करताले. पूण सिमांवले लादाइन्येक कोणाचीच लागनासली. लादाइन्येक एकठांय जावपी लोक अशिक्षीत आसताले खरे, पूण थंय पुराय शांतताय आनी सभ्यताय नंदताली. बेबद्यांक तर थंयचे पवित्र सुवातेर थारो नासतालोच. तरी बेबदे आनी हेर व्यसनी लोक येवन सुवाळ्याक वांटो घेताले. हें सगळें घडटालें देवाच्या मोगा परस, देवाचे भक्तिपरस चड नातलू सिमांवचे ओडीक लागून.

समाजांत अशे खूबशे लोक आसतात, की तांकां समाजा खातीर कितें ना कितें करून चमकचें-शें दिसता. आपलें अस्तित्व दाखोवचें-शें दिसता. ह्या प्रकारांत धनकोच आसतात अशें न्हय. गरिबांकय फुरफुरी मारता. हातूंत नातलू-सिमांवूय आस्पावतात अशें म्हणूंक हरकत ना.

खरें म्हणल्यार सिमांवाक देवाचो अर्थ समजता. देवाक प्रसन्न करून घेवपाक लादाइन्य सारके सुवाळे घडोवन हाडपाची गरज आसता, अशें तो मानिनासलो. तरी जनसेवा तीच ईश्वरसेवा, अशें सिमांवचें मत्त आशिल्लें.

हिन्दू इश्टांचे संगतीन सिमांवाक आनीकय कांय गजाली खबर आशिल्ल्यो. 'साधु-संत येती घरा, तोची दिवाळी दसरा.' ही गजाल ताणें आपलो इश्ट दत्ता कडल्यान समजून घेतिल्ली. सिमांवाक असल्यो गजाली जगपाक बळगें दिताल्यो.

नातलूचें मात तशें नाशिल्लें. तें चंचल मनाचें आशिल्लें. सुर्वेक कसलोय सुवाळो घडोवन हाडपाक फुलतालें. पूण उपरांत हातांत घेतिल्ल्या कार्यांतलो रस सुकून वचून नातलू निरस जातालें.

आतांय ताचें तशेंच जालां. व्हडा उमेदीन सुरू केल्ली वर्सुकी लादाइन्य आतां दिशीं दिशीं शेळेत गेली आनी उरली ती फकत फर्मालदाद!

मनशाच्या जिवितांत केन्ना सुकती-भरती येत, हें कोणाच्यान सांगूं जायना. भुरग्याची आस सोडून बशिल्ल्या नातलूक आतां पूत जालो. देवाचे कृपेन ताका गुरवारपण आयिल्लें. पूण पूत वो धूव जावप हें ताच्या हातांत नाशिल्लें.

नातलूक पूत जाय आशिल्लो. पूण देव जें कितें दिता, तें व्हडा उमेदीन मानून घेवपाची ताची तयारी आशिल्ली.

अशें आसलें, तरी कुइडो मागता एक दोळो आनी देव दिता दोन, असल्यांतली गजाल घडली. नातलूचें मन पळोवन देवान ताका धन दिलें. सदांकाळ ताच्या काळशेल्ल्या सांवटेल्ल्या जिवितांत उजवाडाचीं किरणां फांकायलीं. हे संदीचो ताणें आतां पुराय लाव घेवपाचें चिंतलें. ताणें आतां आपल्या कामा-धंद्याकडे, घोवाकडे इतलेंच न्हय, तर देवाकडे लेगीत लक्ष दिवपाचें सोडून दिलें.

ताणें आपल्या घोवाक सांगलें, ''जाणां मुरे सिमांव, देआन आमहां आतां गिरेस्तकाय आनी सोवोस्तकाय दोनूय दिल्यांय. हो बाबा आमची सोगल्यांत व्होडली गिरेस्तकाय. हे फुडें हांव म्होज्या बाबाक सोडून कोहल्याच कामाक हात घालपाचें ना. तूं, तुजो दोंगोर, शेतभाट सोगलें सांबाव तुहां जायें जाल्यार.''

नातलूचीं हीं उतरां आयकून सिमांवच्या काळजांत कच्च जालें. शेतां–भाटां सांबाळप म्हणल्यार कश्ट काडप. आनी कश्ट काडपाक मनशाकडें इत्साशक्त आसची पडटा. जुवानपणांत सिमांव–नातलूच्या कुडींनीं ताकत आशिल्ली आनी हे ताकतीच्या आदारार घोव–बायलेची इत्साशकत उबी आशिल्ली आनी हेच शकतीच्या आदारान तांणीं शेतां–भाटांत सर्ग निर्मणी केल्ली. एक सैमीक ताकत उबी केल्ली.

नातलू सिमांवालो संवसार कोणालीय दिश्ट लागपा सारकोच चलतालो. आपापले ताकती प्रमाण चलयतालीं तीं आपलो संवसारगाडो. गिमांत शेतांत शाक–भाजी रोवन ताची मशागत करप हें नातलूचें काम आशिल्लें. पावसांत शेत रोवप, नण्णी काडप, शेतकापणी करप हें काम नातलूचें आसतालें. शेत मळप, झाडां–पेडांचेर चडून फळां बी तोडपा सारकीं कामां सिमांव करतालो. घोव–बायलेचीं कामां वांटून गेल्ल्यान, सगळीं कामां अडचण विरयत चलतालीं तांचीं.

पूण आतां फुडली वाट मात शेंकऱ्यांची आनी कांट्या–खुट्यांची दिसूंक लागिल्ली सिमांवांक. दिशीं–दिशीं ताची बळिश्ट कूड सुकत वताशी दिसताली. फाटीकणो एकसारको बागवत आशिल्लो. म्हातारपण फाटल्या फुडल्यान पासयो मारीत आसतालें. सिमांवाली ही दशा पळोवन दोंगराच्या पालसणावेलीं फळझाडां उदासेन झेमूंक लागिल्लीं. हेर रुखावळींकय दिसूंक लागलें आसतलें, आपलो धनी आतां ल्हवू–ल्हवू मरणा धडेक तेंकत आसा. ताका कितेंय जालें तर ताच्या फाटल्यान आमची धडगत आसची ना. अशें चिंतून सिमांवच्या संगतींतली सगळी रुखावळ धास्तेली. तांच्या आंगाच्यो साली इल्ल्यो इल्ल्यो आवळूंक लागल्यो. पांचव्या पानांचें परिवर्तन हळदुवशांत जावंक लागलें. आख्खी रुखावळ अवकळेंत सांपडून तिका पानगळ लागली. जी गत हेर वाठारांची जाल्या, तीच सिमांवाल्या शेतां–भाटांची जातली, असले आसार सिमांवाक दिसूंक लागले.

सिमांवाक पूत जाला तो पळोवन तो खुशालकायेन भरिल्लो. ताका दिशिल्लें, देवाचे कृपेन आपल्याक वारस मेळ्ळा. आपल्याकडे देवान आनी कायद्यान खूब कितें दिलां तें सगळें आपल्या वारसाकडे सोंपोवन, ताका एक नितीधैर्य आशिल्लो, बरो प्रामाणीक शेतकार घडोवपाची इत्सा आशिल्ली सिमांवाची. पूण नातलून आडमेळें घाल्ल्यान सिमांवचें सपन पुरायपणान भंगलें. कितें घडटा तें घडूं, नातलू कितें करता तें करूं, ताचें मन दुखोवचें न्हय म्हूण सिमांव आपसूक कुशीक रावलो.

तरी आपल्या जिवांत जीव आसा म्हणसर आपूण कश्टांची फाट सोडचो ना हाचो ताणें निश्चेव केलो.

बाबाक जल्म दिलो आनी नातलू सगळें विसरलें. आपूण एका तेंपार शेतकान्न आशिल्लें. घोवा वांगडा दीस–रात घाम गळोवन जियेतालें, हाचो ताका पुरायेन विसर पडलो. तेन्ना तें मातयेच्या वासान फुलतालें.

रातीकडे, कापडाक – जुनेराक दशिल्ल्या चिखलाचो वास नाकांत गेलोना जाल्यार, ताका कसोच दोळो लागनासलो. आनी आतां? आतां आपलो घोव चिखल रेब्याचे दाग घेवन म्हऱ्यांत आयल्यार राक्षीणीचो अवतार घेवन ताका पयस धांवडायतालें.

एकदीस नातलू बाबाक न्हाणोवन–बिणोवन आंगाक पोव थापतालें. सिमांव हांसत–हांसत म्हऱ्यांत आयलो. ताका दिसलें, बाबाक उकलून खांदार घेवंचो. ताणें आपल्या आंगाचेर नदर मारली. आंग म्हेळें आसूं वो नासूं, नातलूच्या दोळ्यांक उदक लावंक ताणें, आपलें पुराय आंग तुवाल्यान पुसून घेतलें. तुवालो खंय तरी फेंकून गुड्ड्याक मारलो. भियेत–भियेत नातलू म्हऱ्यांत येवन ताणें म्हणलें, ''नातलू, हांव मात्सो बाबाक धोत्तां गो.''

''नाहां.''

''कित्याकू?''

''तुज्या आंगाक घामाचो वास मात्ता.''

''मात्तोलोच. हांव शेतकार मुगो. शेतकाराच्या आंगाक घामाचो वास माल्लोना जाल्यार आनी कोहलो चेराचो मात्तोलो?'' सिमांव आडखळनासतना मनांतलें उलोवन गेलो.

''हे फुडें बाबाक धोत्तोलो जाल्यार तुहां न्हावन–धुवन, चेर–पोव मारून येवचो पडटलो.'' नातलू तिडकलें.

सिमांवाक नातलूलें उलोवप साप्प मानवलें ना. तें न्हावन यो म्हण्टा तें बरें आसा. पूण न्हाल्या उपरांत चेर आनी पोव मारून यो म्हणप ही अतिताय जाली.

सिमांव हरशीं सट्ट करून कोणाचेर तापपी न्हय. पूण आतां तो आपलो राग काबूंत दवरूंक शकलो ना. आपली बायल आपल्याच भुरग्यांक हात लावंक दिना, वेंगेंत घेवंक दिना म्हणचे कितें? कोण समजता ही सोताक? जल्मभर चिखलांत लोळून आयिल्ली ही शेतकान्न, खिणाक भाटकान्न जाली? चेर–पोव मारून, पांयार पांय उडोवन, ते हालयत बसपाचें काम भाटकारांचें आनी व्हडल्या गिरेस्तांचें, आमचें न्हय. आमचो चेर म्हणल्यार शेण, पोव म्हणल्यार धुल्ल!

आमचो हो देस कृशिकारांचो, शेतकारांचो. शेतां–भाटांनीं, दोंगरांनीं आनी खणींनीं फातर फोडपी मानाय–कामेऱ्यांचो. हे सगळे कश्टकार जर फाल्यां तोंडाक पोव थापून

राबले, तर देसांतलीं सगळीं शेतां-भाटां नश्ट जावन, उरतले ते चेर-पोवाचे कारखाने. मनीसजातीक बुजगावणीं करून सोडपी!

ही गजाल सिमांवाक कळटाली. व्हडलीं-व्हडलीं बुकां वाचून न्हय, तर सोताचे अकलेन.

सिमांवाक दिसतालें, जें सत ताका कळ्ळां तें नातलूचे तकलेंत ओतचें. पूण नातलूची तकलीच अशी आशिल्ली, की सगळ्या संवसारांतलें गिन्यान एक वगत ते तकलेंत रिगत, पूण सिमांवाल्या शाणेपणांक तो घोव आशिल्ल्या कारणान नातलूचे तकलेचीं दारां बंद जातालीं. संवसारांतलीं चडशीं बायलां तीं मागीर शिक्षीत आसूं ना तर अशिक्षीत, आपल्या घोवापरस इल्लीं चड शार्णीच आसतात. तशीं तीं आसुंकूच जाय, असो तांचो अव्यक्त हट्ट आसता.

हें जागतीक सत लक्षांत घेवन, सिमांवान नातलूविशींचो आपलो राग मनांतल्या मनांत जिरयलो.

ताणें आतां आपले मोगाळ बायलेक सांगलें, ''बाय नातलू, बाबाक खांदार आनी वेंगेंत घेवन पासोयो माच्च्योशो दिसता गो माहां, पूण तुजीं कोंदिसांवां माहां कोता येवपाचीं ना गो! हांव शेतकार. एका शेतकाराक पोव मारून भुरग्याक धोरोप कोहेंच कोता येवपा ना. हांव तुहां जाय तितलीं पोवा लातां, तेला बाहल्यो हाडून दितां. तुहां जाये तोही बाबाची कुयदाद झे. हांव तेजेर म्होजी सावळी लेगीत पोडो दिवपा ना.''

नातलून सिमांवालें म्हणणें काना-मनार घेतलें ना. बाबाक वेंगेंत घेवन, गालांचे उमे घेत, ले-ले-ले-ले करीत तें घोवापसून पयस गेलें.

## ९

**आ**वय भुरग्यांची कुयदाद बरी घेता. भुरग्यांचेर सुसंस्कार आवयकडल्यानूच घडटात असो कांय शिक्षितांचो समज आसता. तांचे दिश्टीन तो योग्य आसूंक शकता. कारण हे लोक हुशार आशिल्ल्या कारणान आपले पुरतो, आपली सोय जाता तसलो, आपलें जिवीत सुखी जाता तसलो समाज घडोवन तातूंत गुरफटून रावतात.

आपणेंच विणिल्ल्या जाळ्यांत एकदां ते गुरफटून उरले, म्हणटकच तांकां सहजतायेन भायर पडप शक्य जायना.

ह्या समाजाची जाळवणदार चड करून बायलमनीस आसता. ही बायलमनीस कुटुंबाची सर्वेसर्वा आसता. हिकाच घरकान्नीची पदवी कुटुंबाकडल्यान फाव जाता. ही जाळवणदार

जर कुटूंब चलोवपाक सक्षम आसली, कुटुंबप्रिय आसली तर ती आपल्या कुटुंबाचें भांगर करून सोडटा.

पूण संवसारांतल्यो सगळ्योच बायलो सारक्यो आसनात. खूबशो बायलो आपल्याक मेळिल्ल्या अधिकाराचो दुरूपेग करतात आनी तशें घडचें म्हूण त्यो आपल्या हक्काच्या घोवाक अधिकारां पसून पयस दवरतात.

हांगाय नातलूचे बाबतींत तशेंच कितें घडलांशें दिसता. खरें म्हणल्यार नातलूचो सिमांवाचेर चड मोग! नातलू सिमांवा बगर जगुंकूच शकना. नवजात शिशुचेर सिमांवचो देमायज मोग आसा हेंय नातलू जाणां. तरी नातलू आपल्या भुरग्याचेर सिमांवची सावळी लेगीत पडूंक दिना. कारण ताका दिसता आपूण बायल, भुरग्यांचें सगळें कितें करपाचें आसता तें बायलेनच करपाचें आसता आनी चड करून आवयन.

खरें म्हणल्यार असले विचार मनांत हाडप चुकीचें. आवयन जरी भुरग्याक जल्म दिलो, तरी ताचें संगोपन करपाची जापसालदारकी फकत आवयची आसूंक फावना! ती बापायचीय तितलीच आसूंक जाय. आवयन भुरग्यांचेर एकतर्फी केल्ले संस्कार फुडाराक घातक जावं येतात. कारण आवय जी संस्कृताय घेवन फुडें येता, ती कुटुंबाक, समाजाक आनी पर्यायान देशाक घातक थारपाची शक्यताय आसता.

भुरग्याचेर संस्कार हे कुटुंबान घडोवपाचे आसतात. आनी कुटुंब म्हणल्यार आवय बापूय, आजो–आजी, काका–काकी बी हांचो आसपाव आशिल्ल्या वांगड्यांचो चोंबो. आदल्या तेंपार असलीं कुटुंबां आसतालीं. हीं कुटुंबां, आपले फुडले पिळगेक सुसंस्कृत घडोवपाची मोख घेवन फुडें चलतालीं. ते पासत तीं स्वता सुसंस्कृत आसपाची काळजी घेतालीं.

पूण आतां तो तेंप फाटीं पडला. आतां कुटूंब म्हणल्यार आवय–बापूय आनी भुरगीं. तींय एक–दोन. अर्थात हीं भुरगीं वाडूंक जाय तीं आवय–बापायच्या प्रभावा खाला. ताका लागून आवय–बापायले वायट–बरे गूण तांच्या भुरग्यांत आस्पावल्ले आसतले, अशें समाज गृहीत धरून चलता. आनी ताकाच लागून, भुरग्यांतले वायट–बरे गूण लक्षांत घेवन, 'ते आवयची ती धूव', 'त्या बापायचो तो पूत' असलीं उलोवपां समाजांत घोळिल्लीं अजून आयकूंक येतात.

म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार विद्वानाचे दिश्टीन, 'संस्कार' ह्या उतराची परिभास कितेंय आसूं. पूण बारकायेन विचार करूंक गेल्यार अशें दिसून येता की संस्कार म्हणल्यार संवंय. मनशाक ल्हानपणांत सावन चिकटून आशिल्ल्यो संवंयो वायट–बऱ्यो

आसूंक शकतात. मनशाच्या पदरांत बऱ्यो संवंयो आसल्यो जाल्यार, निरक्षर मनीस लेगीत सुसंस्कृत घडूं शकता.

सिमांव अशिक्षीत आशिल्लो. निरक्षर म्हणल्यारय अतिताय जावंची न्हय.

नातलूय तेच दर्जाचें आशिल्लें. पूण सिमांव जितलो सुसंस्कृत आशिल्लो, तितलें नातलू दिसनासलें. तें आशिल्लें बऱ्या मनाचें, पूण ताच्यो संवंयो पाड्यो. त्या संवंयांक लागून, बऱ्या मनाचें नातलू आपल्या घोवाक केन्ना-केन्ना मोगान 'चेडयेचो' म्हणटा. हाचे वेल्यान दिसून येता, की ताचो भुरगो व्हड जातकच तें ताका चेडयेचो म्हूण उलो मारूंक फाटीं सरचें ना.

पूण सिमांवचें तशें नाशिल्लें. ताच्या तोंडांतल्यान असलीं वायट उतरां केन्नाच भायर पडनासलीं. नातलू आपल्या घोवाक चेडयेचो म्हणटालें, तेन्ना सिमांवक हांसूंक येतालें. कारण ही गाळ सिमांवा वांगडा नातलूकय लागताली. तेच परी, फाल्यां नातलून आपल्या पुताक जर चेडयेचो म्हणलें, तर तें स्वताक चेडी म्हणून घेतलें, हाची कल्पना लेगीत ताका आसची ना.

हाका लागून, एक सत आमच्या दोळ्यां मुखार येता, की नातलून आपल्या भुरग्याक, बापाय पसून पयस दवरून व्हड चूक केल्या.

## १०

**जें** नातलू एका तेंपार शेताक सर्वस्व मानतालें, तेंच नातलू आतां सगळें सोडून बाबाक व्हडलो मनीस करपाचीं सपनां पळोवंक लागलें. व्हडलो मनीस म्हणचे भाटकाराल्या बाबाभशेन. भाटकाराल्या बाबाक जें कितें खावयतात, जें कितें न्हेसयतात, जे तरेन न्हाणयतात आनी जे तरेचीं खेळणीं-बिळणीं हाडून दितात तेच परी आपल्या बाबाकय सगळें हाडून दिवचें अशें नातलूक दिसतालें.

पूण ताचे मुखार एक अडचण आशिल्ली. व्हडल्या मनशांल्या भुरग्यांची सेवा कशी करतात हें तें नकळ आशिल्लें. कारण आयज मेरेनच्या ताच्या जिविताचो कार्यकाळ शेतकामां करपांतच सोंपलो. ताका शेतांतलीं सगळीं कामां बेसबरीं कळटालीं. ते भायर घरांतलीं गरजे पुरतीं कामां करपाक ताचो हात धरपी त्या गांवांत कोण नासलो. ताका शेणी थापूंक कळटाल्यो, जळोव फोडूंक कळटालो. शेणान जमीन सारोवंक कळटाली. उकड्या तांदळांच्यो भाकऱ्यो थापून कयलार भाजूंक तें फिशाल आशिल्लें. कुळीद

भाजून पिठी करून खावंक ताका खूब आवडटाली. नाशण्या आंबली वांगडा मानशेवेल्या सुंगटां सुकें खावंक ताची जीब सामकी हुळहुळटाली.

हें सगळें खाण–जेवण नातलू–सिमांवाचे संवकळीचें, रुचीचें आनी आरोग्यदायक आशिल्लें. असलें जेवण घेतिल्ल्यान दोतोर सदांच नातलू–सिमांवपसून पयस रावताले.

ही गजाल नातलू–सिमांवचीच न्हय, गांवांतल्या हेर सगळ्या तरेच्या कश्टकारांची आशिल्ली. गांवांतले सगळे कश्टकारी भुरग्यांक जल्म दिताले, पूण तांची पोसवण मात सैमाकडल्यान जाताली. शेतकारांलीं भुरगीं आवयचें आनी गाय–म्हशीचें दूद पिवन बळिश्ट जातालीं आनी व्हडल्यांलीं–गिरेस्तांलीं भुरगीं दब्यांतलें दूद पिवन शक्तिहीन, बलबलीत जातालीं.

अशें आसतना आमचें नातलूबाय, हातचें सोडून पळत्याच्या फाटल्यान लागूंक सोदतालें. पूण ती गजाल ताच्या लक्षांत ये नासली.

नातलूक आनीक एक गजाल सतायताली. तें आपल्या पुताक व्हडलो मनीस करपाक सोदतालें, पूण सुरवात कशी करची हें ताका कळनासलें. कोणूय व्हडलो जातलो जाल्यार व्हडांमदें मिसळून रावपाची गरज आसता. पूण नातलू शेतकान्न. शेतकान्नीच्या भुरग्यांक खंयची भाटकान्न आपल्या भुरग्यां वांगडा वावरूंक दीत?

पूण नातलू लेचेंपेचें नाशिल्लें. ताची तकली आतां मात्सी चड गतीन चलूंक लागली. ताका गांवांतले भाटकान्नीची याद जाली. नातलू सुटलें तेच दिसांनी ती भाटकान्नय सुटिल्ली. तिकाय चलोच जाल्लो. ही भाटकान्न नांवा पुरती भाटकान्न नाशिल्ली. गिरेस्त कुटुंबांतली आशिल्ली ती. नातलू तिच्या अनुकरणानूच गुरवारपणांत मॅक्सी घालून भोंवतालें. तिची नक्कल तें पुरायेन करतालें.

भाटकान्नीन आपल्या भुरग्याचे सेवेक खास अशें एक सर्वंट दवरिल्लें. सर्वंट कसलें, नर्सच म्हणल्यार जाता. नर्सीचो कोर्स बी तसो करूं नाशिल्लो ताणें. मॅट्रीक पास जाल्लें. ते भायर हुशारकाय पदराक आशिल्ली.

नातलून चिंतलें, भाटकान्नीकडें सलगी करपाचो प्रयत्न करचे परस तिच्या सर्वंटाकडे इश्टागत केल्ली बरी. तें सोंपें पडटलें.

भाटकाराल्या विशाळ आनी भव्य घराभोंवतणी सोबीत जारदीन आशिल्लें. घराफाटल्यान चिकू, पेरां, आदमां, डाळिंबां, जांब बी तरेक तरेचीं फळझाडां शांतपणान उबीं रावन वाठाराक थंडसाण दितालीं. गिरेस्तकायेचें प्रदर्शन घडयतालीं.

घराफुडो तरेक तरेच्या रंगयाळ्या आनी सुगंधीत फुलांनी भारावन गेल्लो. सांजवेळां भाटकाराल्या कुटुंबाक, जारदीनात बसून थंड वारो खावंक मेळचो म्हूण, मदें–मदें

सुसोबीत बांक शिस्तबध्द मांडून दवरिल्ले. पुराय जारदीनांत भुरग्यांक भोंवडावपा खातीर बाबागाडयांचे मार्ग तयार केल्ले. गांवगिरो वाठार आसुनय, दोन-तीन भाटकारांल्या घरांक लागून, गांवांक शाराची देशेंतकाय फाव जाल्ली.

एकदीस भाटकान्नीलें सर्वंट, बाबागाडी धुकलीत सांजवेळा जारदीनांत पासयो मारतालें. नातलू सर्वंटाचेर पाळत दवरून आशिल्लें. केन्ना तें सर्वंट दिसतलें आनी ताचेकडें आपूण केन्ना उलयतलें अशें जाल्लें नातलूक.

सर्वंट आतां बाबागाडी धुकलीत धुकलीत जारदीनाच्या दरवंट्याकडें पावलें. दरवंटो बंद आशिल्ल्यान, नातलून सर्वंटाक भायल्यान 'छुत्-छुत्' केलें. एक गावंढळ साड्येकान्न बायल एके व्हिस्तीदकान्न माडामीक 'छुत्-छुत्' करता म्हणचे कितें! सर्वंट चाळवलें. नातलूक पळोवन पळोंवनाशें करून तें तशेंच फुडें गेलें. नातलूचेर आयलो आकांत. ताणें चिंतलें, चलून आयिल्ली संद कशीच वगडावंक फावना. ताणें 'छुत्-छुत्' करपाचें सोडून, रस्तीन टॅप-टॅप करून टाळयो पेटल्यो.

आतां मात सर्वंट चवताळ्ळें. नातलू अशेंच टाळयो पेटीत रावलें जाल्यार ताका म्हारग पडपाचें! हे आदीं एक-दोन वेळां, जेमून - ताच्या मोगीन दरवंट्याकडें येवन टाळयो पेटलेल्यो. आतां ह्या फुडे कोणा कोणेंय दरवंट्याकडें येवन अशेंच 'छुत्-छुत्, टॅप-टॅप' केलें जाल्यार, आपल्याक म्हारग पडूं येता, अशें चिंतून ताणें बाबासयत बाबागाडी थंयच सोडून दिली, आनी धांवून नातलू म्हऱ्यांत आयलें.

''व्हॉट मॅन, व्हाय आर यू क्लॅपींग ऍट मी, सो लाऊडली.'' सर्वंट इंग्लिशीन खेकसलें.

नातलूक सर्वंटालें उलोवप समजलें ना. तरी मॅन हे उतराचो अर्थ ताका खबर आशिल्लो. आपले केंस कापिल्ले नासतनाय एक केंसकापें सर्वंट आपल्याक दादलो म्हणटा, हें आयकून नातलूक खूब राग आयलो. पूण करतलें कितें? वेळप्रसंगार 'कोणाकूय कामा पुरतो मामा' हो करचोच पडटा. गावंढळ आसुनूय इतलें समजपाचें तारतम्य नातलूक निश्चीत आशिल्लें.

''बाय, माहां तुकोडे कित्यें उलोवंक जाय आहलें.'' नातलून काकुळटेक येवन म्हणलें.

''बट् आय हॅव नो टायम टू टॉक टू यू.''

सर्वंटाक कोंकणी उत्तम येताली. नातलू आनी तें सर्वंट एकेच मातयेंतल्यान वयर आयिल्लीं. पूण सर्वंट इंग्लिशिंतल्यान मॅट्रीक पास जावन, नकली मॅडम जाल्ली आनी

नातलू नाइलाजान कोंकणी उलयतालें. तरी 'मॅन' 'टायम' असल्या उतरांचो अर्थ ताका समजतालो. ताकाच लागून ताणें सर्वंटाक म्हणलें, ''बाय हांव जाणां गो, तुहां टायम मेवना पोये तो. तूं व्होडलें मोनीस. तुज्या तोंडावोयल्यानूच कोवता बाये, तूं गिरेस्तांजेर जोल्मोलां म्होणोन.''

सर्वंट इंग्लिश शिकलें म्हूण कितें जालें, देवान ताका थोडी तरी सैमीक अक्कल दिल्ली. ही गावंढळ आपल्याक बनोवंक सोदता, तेन्ना हिचेकडें चड सलगी करी नासतना तिका वेगीं आवियार केल्ली बरी. ते वटेन बाबागाडयेंतल्या बाबान मोट्यान क्यांऽऽव केलें. ह्या क्यांवन सर्वंटाक कोंकणीची याद करून दिली. कारण तें 'क्यांव' बाबान कोंकणींतल्यानूच केल्लें जावंये!

सर्वंटान नातलूक थंयच सोडलें आनी बाबा म्हऱ्यांत एकूच धांव मारली. बाबाक खांदार घेवन 'ओगू ओगू' करतां म्हणसर नातलून धांवून वचून ताची फाट धरलीच.

सर्वंटाच्या तोंडांतल्यान भायर पडिल्लें 'ओगू' हें उतर आयकून नातलू सामकें चाट पडलें. तें सर्वंटाचे फाटीकडें तोंड 'आं' करून केदो वेळ पळेत रावलें. उपरांत मनांतले मनांत तें पुटपुटलें.

'हांऽऽ... हेका कोंहणी येता तोर! 'ओगू' हें कोहणी उलोवप. आमजेली सोऽगली शेजाऱ्यां, 'हागू' आनी 'ओगू' म्होण्टाय.'

''बाय, तुहां कोंहणी येता गो? 'ओगू ओगू' हें कोंहणी उतोर मुगो. माहां ओहलीं कोंहणीं 'हागू–ओगू' उतरां आयकोंक बोरेंऽ दिसता.''

सर्वंटान नातलूक दोळे मोटे करून, रागान पळोवन म्हणलें, ''तूं कॉण जे, आनी मोज्या फाहल्यान कित्याक लागल्या? तुहां भितर येवपाक परमिशन कोणें दिलें?''

सर्वंटान आपलें खरेलें रूप दाखयलें. ताणें चिंतलें, हे गावंढळ बायलेक एकदांची वाटेक लायतलें जाल्यार इंग्लीश कोताक येवपाची ना, कोंकणीनूच उलोवचें पडटलें. ताणें आतां आपली कोंकानी स्टार्ट केली – ''आण्टी, तुजें मुजेलागीं कोहलें काम आहलें? मात्सें वोगयां सांग. माहां बाबाक न्हिदोवंक जावो.'' सर्वंटान आपली अडचण सांगली.

''हांव मुगो बाये, नातलू. म्होज्या घोवाचें नांव सिमांव. शेतकारां बाये आमी. आयज मेरेन हाडां झोरोयत जियेल्यांय. ह्या संवसारांत येवन कोहलेंच सूख म्होणोन भोगूं मेवलें ना. हायें म्हज्या घोआक मुंहलें, सिमांव, पुरो रे आतां कोश्ट काडल्याय ते! जोडून–जोडून कोणाक दोवोत्तोलीं? भुरगें ना बाव. तोर हो कितें सांगता होबोर आहा? आपूण हूंय शेतकार म्होणोन जोल्मलां, शेतकार म्होणोनूच मोत्तोलों.

पूण आतां मुगो बाये, देआक आमची काकूट दिसली. तेणें आमहां जाण्टेपोणांत एक बाबा दिलो. सामको ओहलोच. गोरो मात ना. पायचे भोसेन जाला गो बाये तो.''

अशें म्हणून नातलू तोंडार पदर धरून 'खूक्क' करून हांसलें.

''तो जावं कोणाय भोसेन. आतां हांव कितें कोरूं तें सांग.'' सर्वंटान उबगल्ल्या भसेन केलें.

''हांव मुगो बाये, म्हुजे बाबाक व्हडलो मुनीस कोरूंक सोदतां. शेतकार इतलो मात नाहां.''

''तूं कोही कोत्तोली जे तेहा व्होडलो मुनीसु, तो व्हडलो आपशां जातोलो. आमचो बाबा पोये, एक सारको वाडत आहा.'' अशें म्हणून सर्वंटान बाबाचें नाक कुच्यु-कुच्यु म्हणत हालयलें.

''हे बाबाची सिरीस कोरूंक तूं आहा न्हो गो बाये! तूं तेजी सिरीस कोत्ता म्होणोन तो आडला आनी फुल्ला. म्हुजो बाबा सामको शिल्लो जाला. देखून हायें चिंतलें, म्हुज्या बाबाकूय तुजें आरें लागल्यार बोरें. तोय फुलतोलो.

तूं दिसांतल्यान एकू वोर दी. हांव म्हुज्या बाबाक झेवन तूं सांगता थिंगा येतां. तूं तेहा बोरीं-बोरीं, आसाचीं तेलां लाय, न्हाणोय, बोरें-बोरें हावोय, बोरीं-बोरीं कापडां न्हेसोय. कितलोय दुडू लागों, म्हुजो बाबा राजकुंवोर दिसोंनी!

आनी एक कोर बाये. म्हुज्या बाबाच्या कानार कोहणीं उतरां मात पोडों दिवं नाहां. तेकोडें इंग्लिसूच उलय. ल्हानपोणांत सावन, इंग्लिस उलयताय ते व्होडले मुनीस जाताय हूंय.''

सर्वंटान नातलूचें उलोवप एका कानान आयकलें आनी दुसरे कानान सोडून दिलें. मात तें वेव्हारी आशिल्लें. ताणें चिंतलें. हें गावंढळ आपल्या बाबाक व्हडलो मनीस करूंक सोदता. चार पयशे मेळटात जाल्यार करूंक कितें जालां, व्हडलो मनीस!

''हें पोय आण्टी, हांव तुजे बाबाक व्होडलो मुनीस कोत्तां. आमच्या हे भाटकोराल्या बाबा ओहलोच कोत्तां व्हडलो मनीस. पूण आण्टी एक, दुडू मात इल्ले चोडूच दिवंचे पोडटोले. येदे व्होडल्या भाटकोरालें सर्वोंट हांव. एके शेतकान्नीले बाबाक व्होडलो मुनीस कोरोप, हीं फोकोणांचीं कामां जे आण्टी?''

सर्वंट आपणाक आण्टी म्हण्टा तें पळोवन नातलूक भितरले भितर खातकुतल्यो जावंक लागल्यो. हे आदीं नातलूक सट करून आण्टी कोण म्हणनासलो. आनी आतां एका भाटकारालें, येदें व्हडलें सर्वंट ताका आण्टी म्हणटालें!

नातलून चिंतलें. बाय रितीचें आसा. दुसऱ्यांक रेस्पेद दिता. हें बाबाक बरी देख शिकोवन व्हडलो मनीस करतलें, हातूंत इल्लोय दुबाव ना.

नातलू सर्वंटाक पटोवपाक तयारेनूच आयिल्लें. ताणें किरवटेचें नोटां बंडल काडून हांसत, मुरगटत सर्वंटाच्या हातांत चोंदलें.

सर्वंटान बंडल काडून अचळय पर्सेंत सोडलें. नोटां मेजूंक ताचेकडें आतां वेळ नाशिल्लो. खुशालभरीत जावन ताणें बाबागाडी धुकल्ली. बरेंच फुडें पावतकीर 'बाय आण्टी' म्हणून ताणें नातलूक टाटा केलें.

नातलूक हें सगळें नवें आशिल्लें. 'बाय-बाय, टा-टा' आयकून नातलू खिणांत बदलून गेल्लें. ताका आतां आपूण स्वता व्हडलें मनीस जालां अशें दिसूंक लागलें. ताच्या मनांत आतां अशेय विचार घोळूंक लागले, की ताच्या बाबान ताका मम्मी म्हणचें.

सर्वंटान नातलूल्या बाबाक व्हडलो मनीस करपाची हमी घेतली. खरें म्हणल्यार भाटकाराल्या बाबाक घटमूट आनी व्हडलो मनीस करपाचें काम सर्वंट करी नासलें. तें बाबाची आवय करताली. सर्वंटाचें काम आशिल्लें फकत ताच्या मॅडमीचो-बाबाचे आवयचो-आदेश पाळपाचें. तेलां लाय, वखदां झरय, फार्माशेंतलीं टॉनिकां हाडून तीं केन्ना आनी कितले प्रमाणांत भरय, बाबाक कशे तरेन हालय-धोलय, हांसय-खेळय आनी खंयचेच परिस्थितींत आपल्या भुरग्याचेर दुख्खा सावळी पडची न्हय, हाची काळजी भाटकान्न सर्वंटाकडल्यान काम करून घेतना घेताली. ह्या कामांत तकली भाटकान्नीची चलताली आनी हात सर्वंटाचे! हांगा सर्वंटाचे तकलेचो उपेग मात लेगीत जायनासलो.

पूण आतां मात सर्वंट सादूर जालें. कारण नातलूल्या भुरग्याक व्हडलो मनीस करपाची जापसालदारकी ताणें घेतिल्ली. ते खातीर ताका भरपूर पयसो मेळपाचो आशिल्लो.

सर्वंटान आतां आपले मालकिणीची नक्कल करपाचें थारायलें. मालकीण आपल्या भुरग्याक जें-जें कितें करता, तें-तें जशाचें तशें नातलूच्या भुरग्याक आतां मेळूंक लागलें. कपडे-लत्ते, खाण-जेवण, टॉनिकां-बिनिकां, खेळणीं-बिळणीं, सगळें-सगळें आतां लोरसूक मेळूंक लागिल्लें. सर्वंट आपले मालकिणी कडल्यान शिकतालें आनी ताची नक्कल नातलूल्या घरा वचून लोरसू मुखार करतालें. ह्या नकली वावराची सुलूस ताणें कोण्णाक लागूंक दिली ना.

आयज आमच्या देशांत - चड करून गोंयांत शिक्षक-शिक्षिको जावप सोंपें जालां. एकदां कोणूय आपघोशीत शिक्षक जालो रे जालो, ताका आपोआप देवपण प्राप्त जाता.

पूण हें देवपण जेन्ना फकत नांवाचें थारता, तेन्ना शिकपी भुरग्यांचें आनी पर्यायान राष्ट्राचें खूब लुकसाण जावंक पावता.

आयज आमच्या देशांत शिक्षणाच्या मळार नातलूचेंच राज्य चलता. नातलूंनी शिक्षणाचे बाबतींत उलोवपाचें आनी सिमांवांनी – नातलूंच्या घोवांनी – सगळें मोन्यांनी आयकुपाचें.

नातलून आतां आपल्या काळजाच्या कुडक्याक, एका सर्वंटाक 'टिच्योर' मानून ताचे सुवादीन केलो. आपूण आनाडी, आपल्याक शिक्षणाचें कांय कळना, आपल्या पुताचें सगळें बरें–वायट 'टिच्योर' पळोवन घेतली. फुडाराक आपलो पूत इस्कोलांत शिकूंक बी लागलो म्हणटकीर फकत टिचर सांगता थंय बोट मारपाची वेवस्था करून दवरली नातलून.

बोट खंय मारचें तें सर्वंटान सांगचें आनी नातलून तें दोळे धांपून मारचें, अशी सर्वंटाची येवजण आशिल्ली.

११

लोरसू आतां शुक्लपक्षांतल्या चंद्रिमावरी दिशीं–माशीं वाडत गेलो. नातलू ताका कितेंच उणें पडूंक दिनासलें. भाटकान्नील्या बाबाक भाटकान्न जें–जें भरयता आनी खावयता, तें–तें सगळें 'तिच्योरी'चे सांगणेन नातलू आपल्या बाबा खातीर फयदो करून दितालें.

ही 'तिच्योर' म्हणल्यार भाटकान्नीलें सर्वंट. नातलू ताका 'तिच्योर' म्हण्टालें. केन्ना केन्नाय तें विसरतालें आनी तिच्योर म्हणचे सुवातेर तिचेर म्हणटालें आनी चिचेरय बी!

टिचरीन आतां आपले सोयीप्रमाण वेळापत्रक तयार केलें. भाटकान्नीलो बाबा सांजवेळचो चार ते पांच मेरेन न्हिदतालो. टिचरीन हो वगत नातलूल्या बाबाक दिलो.

'तिच्योर' आपल्या बाबाक शिकोवंक आपल्या घरा येता तें पळोवन नातलू आतां खुशालकायेन भरलें. तिचेरी खातीर ताणें आतां एक खास असो रूम बांदून काडलो. तिचेरीन तो सजोवन–धजोवन घेतलो. तातूंत एक सोबीत कदेल आनी मेजूय मांडून घेतलें. लोरसूकूय ताका फावता तसलें कदेल करून घेतलें. खेळण्यांतले घोडे, बावले, गाडयो बी तिच्योरीन आदींच हाडून घेतिल्ल्यो. आतां ए, बी, सी चें पुस्तक, नोटबूक आनी पेन–पेन्सील अशें खूब कितें हाडून भरिल्लें. मागीर ताचो उपेग जावं ना जाल्यार जावं नाका.

तशें पळोवंक गेल्यार लोरसू अजून शिकपाचो जावंक नाशिल्लो. पूण सर्वंटाक आपूण कोणाय भशेन टिचर जावंक जाय आशिल्ली. एकदां लोरसू के.जी.क गेलो म्हणटकीर सर्वंटाक टिचर जावपाची संद मेळची नाशिल्ली. ताणें आपली येवजण नातलूक सांगली.

''मावशे, हांव तुहां कितें सांगोंक सोदतां.''

''सांग गो बाये तुहां जाय तें. पूण...''

''पूण कितें मावशे...''

''माहां मावशी म्होणो नाहां गो बाये. आतां गाआंत कोण कोणाक मावशी म्होणोना.'' नातलून मात्सें लजून म्हणलें.

''माजीरू, कित्यें म्होणों तोर तुहां.'' सर्वंटान कपलाक मिरयो घालून प्रस्न केलो.

''तूं भाटकान्नीक कितें म्हुण्टा?'' नातलू आदोवगाद कशें उलयलें.

''हांव तियेक मॅडम म्हुण्टां. तुहांय म्होणो?''

''मुहल्यार कितें जालें, हांव तुहां पाग दिना?''

''ती इंग्लेज शिकल्या देखून हांव तियेक मॅडम म्हुण्टां. तूं कितें शिकलां?'' – सर्वंट.

''शिकलेल्यांकूच मॅडम म्हुण्टाई, आनी दुडवांकारांक म्होण्णाई?'' नातलू दुडवां नेटार उलयलें. सर्वंटाक नातलूक मॅडम म्हणिल्लें नाका आशिल्लें. ताका स्वता टिचर जावन नातलू कडल्यान मॅडम म्हणून घेतिल्लें जाय आशिल्लें. ताणें नातलू मुखार एक तडजोड केली–

''नातलूबाय, तुहां मावशे सुवातेर आण्टी मुहल्यार जाता? व्हडलीं मनशां मावशेक आण्टीच म्हुण्टाय. आमजेली भाटकान्नूय आपले मावशेक आण्टीच म्हुण्टा.'' सर्वंटान सांगतना खोस उक्तायली.

''ओहें, तोहें जाल्यार जाल्यार बोरें आहा. म्होण माहां आण्टी.'' नातलून खोस उक्तायली.

''फोकोत आण्टी न्होय, नातलू आण्टी माडाम.''

''आण्टी आनी माडामूय? तोहें जाल्यार एकदोम बोरें!''– नातलू.

''आनी एक गोजाल सांगतां तुहां, नातलू आण्टी मॅडाम!'' सर्वंट.

''सोगलें एके फावटीन म्होणों नाहां गो. एकूच फावट आण्टी, जाल्यार आण्टी म्होण, मॅडोम जाल्यार मॅडोम.'' नातलून उबगल्ल्या भशेन केलें.

''ओहें, तोहें जाल्यार बोरें आहा. हांव तुहां आण्टीच म्होण्टां.''

''म्होण गो बाय तुहां जाय तें. पूण एक मात कोर, म्होज्या बाबाक माहां माम्मी म्होणोंक शिकोय.''

''तें हांव कोत्तां. तूं कांय भियों नाहां. तूं मात माहां मॅडमूच म्होण.'' सर्वंटान नातलूक पराथलें.

अशे तरेन नातलू आनी सर्वंटा मदें तडजोडीचीं उलोवणीं जालीं. नातलून सर्वंटाक मॅडम म्हणपाचें. लोरसून नातलूक मम्मी म्हणपाक शिकोवचें. नातलून स्वताक आण्टी म्हणून घेवचें अशें थारलें.

सर्वंटीचें आनी नातलूचें आतां खूब जमतालें. दोगांय एकाच गांवचीं. मात तांचे वाडे वेगळे आशिल्ले. नातलू शेतकान्न आनी सर्वंट झेतकान्न. तशें पळोवंक गेल्यार सर्वंटूय शेतकान्नूच आशिल्ली. तिचे आवय-बापूय शेत रोयतालो. पूण येणावळ नातलू इतली नाशिल्ली. तरी सर्वंटाच्या मांय-पायक मान-रेस्पेद आशिल्लो तितलो नातलू-सिमांवाक नाशिल्लो. ताका दोन कारणां आशिल्लीं. एक कारण सर्वंटाचो व्हडलो भाव शिकून पाद्री जाल्लो, सर्वंट इंग्लिशीन मॅट्रीक शिकून भाटकान्नीलें सर्वंट जाल्लें, आनी आतां तें टिचर जावपाचे वाटेर आशिल्लें.

हांगा एक गजाल लक्षांत घेवंक जाय की सर्वंट जर इंग्लीश शिकुंनाशिल्लें, तर तें भाटकान्नीली वावराडी जावपाचें! आमच्या राज्यांत सर्वंटांक जितलो मान, तितलो वावराड्यांक आसना. ताका लागून आयज वावराड्यांलीं भुरगीं भरपूर पगार दिल्यार लेगीत वावराड्यो जावंक तयार आसनात. खरें म्हणल्यार सर्वंट आनी वावराडी हातूंत फकत उतरांचो फरक.

भाटकान्नीगेर घरांतलें काम करपाक एक वावराडी आशिल्ली. नांव सकें.

सकें गांवांत इंग्लीश स्कूल आसुनूय इंग्लीश शिकूंक पावलेंना. शिकूंक नासून बऱ्याक पावलें म्हणपाचें. शिकिल्लें जाल्यार जोडिल्ली जोड लीपस्टीक, सेंडलां आनी बसीकूच पावची नाशिल्ली.

हांगा सकें वावराडी जावन सर्वंटा परस बरें आशिल्लें. जी भाटकान्न सर्वंटाक म्हयन्याक एक हजार पगार दिताली, तीच भाटकान्न सक्याक वावराडी म्हूण देड हजार दिताली. कारण गांवांत इंग्लीश शिकिल्लीं सर्वंटां खूब मेळटालीं, पूण वावराड्यो मेळनाशिल्ल्यो.

सकें इंग्लीश शिकूंक नाशिल्लें खरें, पूण चार यत्ता मराठी शिकिल्लें. मराठी शिकतां-शिकतां ताचे मजतीक संत तुकाराम म्हाराज आयलो. हो संत आपल्या एका अभंगांत

म्हणटा, 'ल्हानपण दे गा देवा, मुंगी साखरेचा रवा.' अर्थांत संत तुकाराम म्हाराज मनशाक शिकवण दिता, की मनशान ल्हानपणान वागल्यार ताका गोड खावंक मेळटा, ताचें कल्याण जाता.

सकें भाटकान्नीकडें ल्हानपणान वागतालें. ताका लागून तें भाटकान्नीक खूब आवडटालें. भाटकान्न ताका आपल्या वांगडा हांगा-थंय व्हरताली. इश्टिणी भशेन वागताली ती सक्याकडें.

हाच्या उरफाटें भाटकान्न सर्वंटापसून जाता तितली पयस रावताली. हाचें कारण सर्वंट झेतकान्न आशिल्लें. तें आपले भसेन वोंठांक लिपस्टीक लायता तें भाटकान्नीक मानवना आशिल्लें. सर्वंटाल्या टुकटुकी सेंडलांचो तर भाटकान्नीक खूब राग येतालो.

सकें शिटूक आशिल्लें. भाटकान्नीकडें कशें वागूंक जाय तें जाणां आशिल्लें. ताका लागून मागनासतनाच भाटकान्नी कडल्यान ताच्या पदरांत खूब कितें पडटालें. वर्सांतल्यान दोन तरी नवे चुडीदार भाटकान्नी कडल्यान सक्याक मेळटाले. ते भायर भाटकान्न, आपले भयणीले मात्से पोन्ने जाल्ले मोलादीक चुडीदार सक्याक हाडून दिताली.

इतलेंच न्हय, घरांत कितें शिजता-करपता तें सक्याक घरा व्हरूंक मेळटालें. वावराडेंत जें आपलेपण आसता, तें सर्वंटांत आसना, हेंय तितलेंच खरें!

१२

**स**र्वंटाक आतां हरवें सोडून पिकें मेळिल्लें. ताचें टिचर जावपाचें सपन आतां पुरायेच्या मार्गार आशिल्लें. लोरसू असलो स्टुडंट आनी नातलू असलें पालक ताच्या कब्जांत आयतींच सांपडिल्लीं. ते भायर आदाराक भाटकान्न आशिल्लीच. ती आपल्या भुरग्याक कितें-कितें करता, तें लक्षांत घेवन, ताचो प्रयोग लोरसूचेर करपाचो उद्देग ताणें आपणायलो.

लोरसू जल्माक येनाफुडें नातलू ताका आपलें दूद दितालें. सर्वंटान ताका तें बंद करूंक लावन दब्या दूद स्टार्ट करूंक लायलें. कारण सर्वंटाली मॅडम, म्हणल्यार भाटकान्न, आपलें दूद दी नासली. ती फिगर मेंटेन करताली. ते भायर भुरग्याक दूद दिल्यार आवयो अशक्त जातात, अशें कोणें तरी तिचे तकलेंत भरून दिल्लें.

नातलू आपल्या भुरग्याक ताचे वाडीप्रमाण, सैमीक खाण-जेवण दितालें. दूद, नासण्याचें सत्व, तांदळाचें तिजण, उकड्या तांदळांची पेज, कायलोळ्यो, पातोळ्यो,

पोळे बी करून दितालें. लोरसू हें सगळें आवडीन खातालो. बड शेतकाराची आशिल्ल्यान, ताका तें सगळें पचतालें. तें खावन तो गुटगुटीत आनी तिकतिकीत जाल्लो. सैमीक शक्त आनी ताकत आयिल्ली ताच्या वांट्याक. पूण हें सगळें घडटा आसतना मदेंच आडमेळें येतालें. सर्वंट मदेंच येवन तें बंद करूंक लायतालें आनी म्हणटालें, ''नातलू आण्टी, माहां सांगोनासतोना तुयें ओहें कोहें केलें?''

''कितें केलां गो हायें?'' अशें म्हणून नातलू मागीर चवताळटालें.

''तूं माहां सांगोनासतोना बाबाक कित्या कित्येंय हावयता? आनी कित्येंय जालें जाल्यार तेहा?'' सर्वंट संतापलें.

''कांय जायना. आमी शेतकारां मुगो बाये. आमजेल्या भुरग्यांक आमी हेंच हावोयताय.'' नातलून बिलूऽ जावन जाप दिली.

''ओहलेंच हावयताई? तोहें जाल्यार तुजो बाबा व्होडलो मुनीस कोहो जातोलो जे नातलू आंटी? आतां हे फुडें ओहलें पोजडें हाण माहां सांगले बोगोर दिंवनाहां. व्होडलीं मुनशां ओहलें हाण हायनाय!'' सर्वंटान व्हडले मनशालें व्हडपण गायलें.

कोणाकूय दिसतलें, भाटकान्नीलें सर्वंट इंग्लिश शिकून व्हडलें मनीस जालां. तें बरीं-बरीं ड्रेसां घालता, वोंठ तांबडे करता, आंगार चेर मारता, पांयांक मोलादीक सेंडेलां घालता, आपूण इंग्लिश शिकलां म्हूण दाखोवपाक मदें मदें इंग्लिश मारता, अशें आसतना तें कोंकणी उलयतना 'ओहें-कोहें' कशें करता?

सर्वंट इंग्लिश उलयलें तरी कोंकणी ताची निजाची आसली. सर्वंटाचो आनी नातलूचो भेस एक नाशिल्लो. पूण तांची भास एक आशिल्ली. ती उलोवन तांकां एके तरेची धादोसकाय भोगताली. दोगांकूय एके तरेचें सूख भोगयताली.

शेतकारांची एक खाशेली अशी सुखदिणी संस्कृताय आसता. वोतांत काम करतां -करतां तांकां तान लागली जाल्यार, पोशांनी उदक पिवप सुखदिणें लागता तांकां. शेतां-भाटांत खणटां-खणटां मदेंच भूक लागली जाल्यार झाडामुंदांत बसून वाटलीभर पेज जेवपांत जें सूख मेळटा शेतकाराक, तसलें सूख मेजार बसून पुलाव खावप्याक मेळप भोव कठीण!

हें सूख एका तेंपार नातलून भोगलां. सिमांव अजून भोगता. पूण फुडें लोरसूक तें भोगूंक मेळतशें दिसना. कारण सर्वंटाच्या आदारान नातलू लोरसूक व्हडलो मनीस करूंक सोदता. लोरसूक व्हडलो मनीस करपाचें काम आतां नेटान सुरू जाल्लें. एक दोतोर आपलें वखद सारकें म्हूण केन्ना केन्ना दुसऱ्या दोतोरालें वखद बंद करूंक

लायता, तेच परी सर्वंटान नातलूलें घरावें जेवण बंद करूंक लायलें. ते सुवातेर ताणें बदाम, तातयां, पिज्जा, पुलाव आनी तसलेच तरेचीं म्हारग आनी उंचेलीं खाणां लोरसूक दिवंक लायलीं. हीं खाणां हाडूंक आनी करूंक नातलूक जमनाशिल्लें. ते पासत नातलू सर्वंटाक पणजे धाडून जाय तें सामान–टॉणिकां, व्हिटामिनां हाडून घेतालें.

नातलूल्यो कोंबड्यो घुडांत आडबरयांच तातयां घालताल्यो. तागेल्या पोरसांत तरेक तरेचीं फळां पिकतालीं, नातलूक दिसतालें, घरचीं तातयां आनी फळां आपल्या बाबाक खावोवचीं. पूण सर्वंटाक तें नाका आशिल्लें. ताच्या कोंतान घरचें खाण पोट फुगरें आसतालें. ताची मॅडम आपल्या बाबाक काश्मीराचीं आपोलां आनी गोंयांभायल्यान संत्रां–मुसुंब्यो हाडून खावयताली. अशें आसतना सर्वंट नातलूल्या बाबाक गांवठी खाण कशें भरयतलें? असल्यांनी तो व्हडलो मनीस कसो जातलो?

१३

**अ**शे तरेन, नातलूच्या तोंडाक पानां पुसून सर्वंटान आपली मॅडमगिरी चलयली. हे फुडें मात ताका ती चालू दवरप शक्य नाशिल्लें. कारण लोरसू आतां के. जी. क वचपाचो जाल्लो. ज्या अर्थान भाटकान्नील्या बाबाक पणजे के. जी. स्कुलांत धाडपाची तयारी चलताली, ते अर्थान लोरसूकूय स्कुलाक धाडपाची जापसालदारकी सर्वंटाची आशिल्ली.

एक दीस तें खुशालभरीत जावन नातलू मुखार उबें रावलें.

''नातलू आण्टी!''

''कितें म्हुण्टा बाये.''

''तुहां एक खोशेची होबोर आहा.''

''खोशेची होबोर, ती आनी कोहली बाये?'' नातलून अजापीत जावन तोंड उकतें केलें.

''भाटकान्न आपल्या बाबाक पोणजे स्कुलाक घालता.''

''पोणजे, पोणजे शें गो बाये. आमच्या गाआंत इस्कॉल ना तोरु? काय बोरें पाद्रींलें इस्कॉल आहा, माद्रींलेंय आहा आनी पोणजे गो बाये कित्याकू?'' – नातलू.

''नातलू आण्टी, भाटकान्नीलो घराबो व्होडल्या मुनशांचो. व्होडलीं मुनशां आपल्या भुरग्यांक व्होडले मुनीस कोरूंक पोणजेच धाडटाय.'' हें आयकून नातलू चिंतूंक पडलें.

भाटकान्नीलो चेडो पोणजे आनी म्हुजो बाबा पाद्रीजेर कित्याकू, मोकोडे दुडू नायी? कितलेय दुडू भायर काडचे पोडल्यार कोता येता. हांवूंय म्होजे बाबाक व्होडलो मुनीस कोरपाक पोणजेच धाडटोलीं.

''नातलू आण्टी कितें चिंतिता जे ? ''– सर्वंट.

''हांव आनी कितें चिंतू! आमच्याय बाबाक पोणजे घालुया मुगो?''

''तें हांव कितें सांगों, दुडू मोडटली तूं.'' सर्वंटान आंग फाफुडलें.

''तोहें जाल्यार तूं होबोर काडटा मुगो?''

''कोहली!''

''बाबाक पोणजे इस्कोलाक घालूंक कितें करूंक जाय पोय ती!''

''ती सोगली होबोर काडल्या जे हांयें. तूं कांय भियों नाहां. तें सोगलें हांव पोवोन झेतां. तूं फोकोत दुडवांचेंच पोय.''

सर्वंट शिटूक आशिल्लें. नातलू लोरसूक इस्कॉलाक पणजे घालतलेंच, हाची ताका पुराय खात्री आशिल्ली. ताका लागून भाटकान्न आपल्या बाबाक खंय इस्कॉलाक घालता, इस्कॉलाचें नांव कितें, तें खंय पडटा, युनिफॉर्म कसले तरेचें वापरतात, इस्कॉलाचो प्रिन्सिपल कोण, इस्कॉल पालकां कडल्यान डोनेशन घेता काय ना, थंय येवपा–वचपाची वेवस्था आसा काय ना, हाची पुरायेन चवकशी केल्ली सर्वंटान!

पणजेचें सन फ्लावर प्रायमरी स्कुल म्हणल्यार फामाद. हांगाचें सगळेंच उच्च दर्जाचें. टिचरी उच्च दर्जाच्यो. भुरग्यांलें शिकप खयीं पावूं, पूण शिकवप उच्च दर्जाचें, इंग्लिश सोडून हेर खंयचीच भास उलोवंक मनाय आशिल्ली त्या स्कुलांत.

ह्या स्कुलांतल्या भुरग्यांलीं बॅगां स्पेशल. बॅगांनी भरून व्हरपाचे नोटबूक स्पेशल. ड्रॉइंगबूक स्पेशल. खास ते स्कुला खातीर छापून हाडिल्ले.

हें स्कुल दुडवांकारालें. भरपूर डोनेशन दिलेबगर हांगा सट् करून कोणाकूच प्रवेश मेळनाशिल्लो.

हांगा फी वर्सांतल्यान एकदांच फारीक करपाची. तीय शेंबरांनी न्हय तर हजारांनी.

असल्या स्कुलांत सर्वंटाले भाटकान्नीन आपल्या बाबाक धाडलो. आनी भाटकान्नील्या बाबाले लगाडीन नातलूल्या बाबाक प्रवेश मेळ्ळो. घडये सर्वंटाल्या झेताक पळोवन नातलूल्या लोरसूक ॲडमिशन मेळिल्ल्याची शक्यताय न्हयकारूंक जावची ना.

१४

आतां मे सोंपून जून लागिल्लो. जुनाचे स तारखेर सनफ्लावर प्रायमरी स्कूल फुलून गेल्लें. स्कुलांत भितर भुरगीं आनी भायर पालकांची जात्रा भरिल्ली. स्कुलाचे एके वटेन नव्यो-नव्यो गाडयो उब्यो केल्ल्यो. कांय गाडयो भुरग्यांक सोडून परत्यो वचपाक गेल्ल्यो. कांय 'मम्म्यो' आपापल्यो गाडयो पार्क करून, हांगा-थंय चोंब्यांनी उब्यो रावन 'टॉक' करूंक लागल्यो. कांय ड्रायव्हर गाडयांतले भायर येवन, भगवान श्रीकृष्ण सुदर्शन घुंवडायता ते भशेन – हाताच्या बोटांक चावी घुस्पावन घुंवडायताले. तशें करतना तांची नदर चोरयां मम्म्यांचेर वताली. तांची पूण कसली चूक! ह्या मॅडामीलें मेकप, मोलादीक ड्रॅसां, उंची साडयो आनी स्वीटीश इंग्लीश टॉक त्या ड्रायव्हरांक म्हाका चोय – म्हाका चोय करून आकर्शून घेतालें.

आतां कोणूय म्हणटलो, त्या सर्वंटाचें आनी नातलूचें कितें जालें?

नातलूल्या गांवांतल्यान, व्हडल्या मनशांल्या भुरग्यांक घेवन खास अशी एक मिनीबस पणजे येताली. पालक पाल्याक पणजे हाडूंक व्हरूंक म्हयन्याक देड हजार भाडें घेताली ती मिनी बस! सर्वंट आनी नातलू आपल्या पाल्यांक घेवन, मिनीबशींतल्यान वांगडाच पणजे येवंक लागिल्लीं.

सर्वंटाक पणजी संवकळीची आशिल्ली. तें शिकिल्लें आशिल्ल्यान मातशें शिटूक आशिल्लें. ताका पणजे येवपा-वचपाक खाशेल्या पोशाकाची अडचण नाशिल्ली. गांवांतल्या बाजारांत नुस्त्याक लेगीत गेल्यार वोठांक तांबडें सारोवन, हातांत मिनीपर्स धरून, खांदाक बॅग अडकोवन टुक्-टुक् करून चलतालें सर्वंट.

पूण नातलूचें तशें नाशिल्लें. तें कित्लेंय जाल्यार निजाची शेतकान्न. ताका सर्वंटासारकें झतकान्न जावप भोव कठीण आशिल्लें. आनी प्रयत्न केलेय जाल्यार सर्वंट नातलूक म्हऱ्यांत घेवं नाका?

गांवांतल्या व्हडल्या मनशांली मिनिबस जेन्ना स्कुलाच्या दारांत थांबली, तेन्ना भुरग्यांक भितर घेवन स्कुलान दार बंद केलें मात, सर्वंट मॅडमीं मदें मिसळ्ळें. आनी नातलू? नातलूक हें सगळें नवें आशिल्लें. पणजी नवी आशिल्ली, इस्कॉल नवें आशिल्लें. थंय जमिल्ले पालक आनी भुरगीं वेगळीं आशिल्लीं. थंयचें वातावरण पळोवन नातलू सामकें आबूज जाल्ल्यावरी दिसतालें. ताका दिशिल्लें सर्वंट आपल्याक सांबाळून घेतलें. पूण सर्वंट ताका एकटें सोडून मॅडमीं मदें मिसळ्ळें आनी ताच्या पांयां पोंदचे शेकरे सरकल्ल्या वरी दिसलें ताका!

नातलू आतां एकटें पडिल्लें. ताचेकडे दुडू आशिल्ले. पूण सर्वंटाकडे आसा तसली हुशारी नाशिल्ली. सर्वंटाले पोके झेत थंय जमिल्ल्या मॅडमींक आकर्शून घेताले. सर्वंटाली इंग्लिश, एकठांय जाल्ल्या गिरेस्त बायलांक भुलयताली. सर्वंट तांकां सगळ्यांक आपल्यांतलेंच अशें दिसतालें.

ह्या सगळ्या वातावरणाचो अदमास घेवन नातलून चिंतलें, ह्या व्हडल्या मनशांमदें आपलो तिगाव कसोच लागपाचो ना. लोरसूक व्हडलो करपाचें एकदां पावल उखल्लां तें फाटीं काडप ना. त्या सर्वंटाचेंय धड लागना. तरी देवाचेर पातयेवन ताचेर विस्वास दवरचोच पडटलो. बाकी सांत लोरेन्स पळोवन घेत.

नातलूक दिशिल्लें. सर्वंट आपल्याक वांगोड दितलें म्हूण. दोगांय वांगडा आयल्यांत, वांगडा वतलीं. स्कुल सुटसर एकठांय बसून चकाटां मारतलीं. पूण तशें जालें ना.

नातलू आतां एकटेपणाक उबगलें. ताणें हांगा थंय निरूद्देश पासयो मारल्यो आनी एका रुखामुंदातल्या फातरार वचून बसलें. स्कुल सुटपाची वाट पळेत!

सर्वंट, मॅडमींच्या चोंब्यांत हांसता–किटकिट्टा तें पळोवन नातलू बेजार जालें. सर्वंट आपलें मनीस. आपल्या वांगडा आयलां, आपल्याच वांगडा राव. व्हडल्या मनशांच्या कळपांत रिगून झेत मारता म्हज्या मुखार! एस–फॅस करूंक आयलें म्हूण व्हडलें समजता आपल्या जिवाक. कोणाच्या खुस्तार उडयो मात्ता गो रांडला तूं. म्हज्या दुडवां मुखार तुजें एस–फॅस कित्याक उपकात्ता? यो तूं घारा, उजरोवन काडटां तुका.

नातलूल्या मनांत हे विचार घोळटाले. तें फुगार जातालें. रागूय येतालो ताका. पूण उतरां भायर पडनासलीं.

मॅडमींल्यो गजाली आतां रंगार आयिल्ल्यो. सगळ्यांची भास कोंकणी–मराठी आसुनूय एकान एक बायल इंग्लीशीन बडबडटाली आनी नातलू मात बावडें बेजारून पासयो मारतालें.

कांय घाटयां आपल्या भुरग्यांक घेवन आयिल्लीं. तांचो चोंबो वेगळो आशिल्लो. तांची भासय कानाडी वा आनी कसली तरी आशिल्ली. ताका लागून नातलू थंय एकटें पडिल्लें.

नातलूक दिसतालें, मॅडमी आपल्यो न्हय. घाटयांय परकीं. मात सर्वंट आपलें. ताणें आपल्या म्हऱ्यांत येवचें. कोंकणी उलोवचें.

नातलूली नदर परत परत सर्वंटाचेर वता तें पळोवन, चोंब्यांतले एके मॅडमीन म्हणलें, ''व्हू इज देट लेडी?''

''शी इज नॉट लेडी. शी इज माय सर्वंट!''

भाटकान्नील्या सर्वंटान खुशालभरीत जावन जाप दिली.

१५

नातलू गांवान भाटयेचें. भाटी हो गांव व्हडले गोंयांतच पडटा. तरी हो गांव व्हडल्या गोंयां परस पळोवंक वेगळो दिसता. भाटयेकारांची भास व्हडले गोंयकारां परस वेगळी. व्हडलें गोंय हो गांव शेतां-भाटांनी नटलेलो.

भाटयेर शेतां-भाटां नात, अशें ना. पूण वेगळोचार राखपा सारकें आनीकूय खूब कितें आसा थंय! मीठागर आसात, नुस्त्यागर आसात. गीमांत मिठाच्यो धव्योफुल्ल राशी पळोवंक मेळटात. आतां ह्यो राशी खूब उण्यो जाल्यात. कारण ह्या सैमीक मिठा आड कंपन्यांनी अपप्रचार सुरू केला. तांच्या म्हणण्या प्रमाण, आगराच्या मिठांत फाव तितलें आयोडीन नासता. हातूंतलें खरें-खोटें, देवाक खबर!

दुसरी गजाल, आगऱ्यांक हें मीठ काडूंक कोताक येना. पयलीं मेळटालीं तशीं मानाय-कामेऱ्यां मेळनात. ते भायर तांच्या भुरग्यांक असलीं कश्टांचीं कामां करूंक लज दिसता.

भाटयेर कांय नुस्त्या आगर अजून उरल्यात. व्हडल्या गोंयच्या बाजारांत फडफडीत शेवटे-काळुंदरां विकूंक येतात. पूण हें आगराचें नुस्तें फुडें मेळटलेंच हाचो नेम ना. कारण आगोर सांबाळपी, तांची राखण करपी कश्टकार आतां इल्ले इल्ले उणे जायत आसात.

भाटये गांवांत पळोवपा सारकें, सूख भोगपा सारकें खूब कितें आसा. गिमांत खारसाणेन भरिल्लीं शेतां आनी मिठागर, हिंवसाणेन भरिल्ले नुस्त्या सांठे सैमांत केन्ना विलीन जातात, आनी ते सुवातेर पावसा दिसांनी पांचवेंचार थांब केन्ना लुवलुवूंक लागता, हाचो पत्तो लागना.

भाटी हो शेतकारांचो, आगरकारांचो तसोच गांवकारांचोय बी गांव.

हांगा सुपुल्लोसो गांवकारवाडो आसा. हांगा फक्त गांवकार रावतात. गांवकार म्हणल्यार व्हडले मनीस! गांवकार सोडून हेरांक ह्या वाड्यार सट्ट करून थारो मेळना, अशें दिसून येता.

एका तेंपार हे लोक माचुलांनी बसून भोंवताले.

ह्या गांवकारवाड्याक लागूनच मोवळेंचो रस्तो गेला. ह्या रस्त्याक लागूनच भाटयेची सोबाय वाडोवपा खातीर सैमदेवतेन एक विशाळ तळें निर्माण केलां. हें तळें पावसांत तुडूंब भरिल्लें आसता. उपरांत मात ताका इल्ली इल्ली सुकती लागत वता. जानेर-फेब्रेर मेरेन, तळेंभर भरिल्लीं धवींफुल्ल साळकां, सैमदेवता आपले होंटयेंत भरून खंय व्हरून सोडटात, देवाक खबर!

मात हें तळें, एप्रिल-मे जातां-जातां म्हणल्यार तळें उरना. मळ कशें सपाट जावन, आदले भशेन उप्पाट भरून, साळकां फुलोवपा खातीर पावसाची वाट पळेत रावता.

तशें पळोवंक गेल्यार, हें एकूच तळें सैमदेवतेन तिसवाडी तालुक्यांत तयार करूंक ना. अशीं कितलींशींच तळीं ह्या तालुक्यांत सैमान तयार केल्यांत. भाटी सोडून सुलाभाट, करमळी, कालापूर-मेरशेय असलीं तळीं पळोवंक मेळटात. हीं तळीं निर्माण करपा फाटलो सैमाचो असो खाशेलो हेत आसा आनी तो म्हणल्यार गोरवांची आनी सुकण्यांची राखण.

हीं तळीं चड करून दोंगरांक तेंकून आसतात. हीं तळीं नाशिल्लीं जाल्यार, गांवांतल्यो गायो-म्हशी आनी रानांतली मोनजात उदका थेंब्याक आशेतली आसली, वळवळटली आसलीं.

खरें म्हणल्यार, ईश्वराक हांगा मोनजात आनी खूबशा तरांची सुकण्यावळ निर्माण करीनशी दिसली जावंये. ताका लागून ताणें सगळ्यांत पयलीं तळीं, उपरांत तळ्यांचे देगेर दोंगोर आनी त्या दोंगरांचेर मोनजात आनी हेर जिवाळेची निर्मणी केली.

ईश्वराचीं सगळीं कामां शिस्तबद् आसतात. तीं क्रमबद्धय आसतात. सगळें ज्युस्ता ज्युस्त आनी ताच्या मनासारकेंच घडूंक जाय आनी घडटाय बी! सगळें वेळार घडूंक जाय. तान लागतकच बांय खणप ताका पसंत नासता. ताकाच लागून ताणें पयलें उदक, उपरांत दोंगरावयली रुखावळ आनी निमणे सुवातेर जीव-जिवावळ, प्राणीमात्राची निर्मिती केली.

इतल्यारूच थांबलोना तो. ताका दिसलें, आपणे निर्मिल्ल्या प्राणीमात्राची राखण जावंची. ते पासत ताणें दोंगरांच्या उंचेल्या सुवातांचेर देव-देवतांची स्थापना केली. देव-देवतांकय तेंच जाय आशिल्लें. आपल्या भक्तांची काळजी घेत-घेत, तांची राखण करीत-करीत, स्वनिर्मीत सैमाचो नियाळ करप तांकांय आवडटालेंच. देव जालें म्हूण कितें जालें, तांकांय मना आनी आवडी-निवडी आसतल्योच. ना जाल्यार भक्तांच्या सपनांत वचून, आपल्याक जाय त्यो वस्तू मागून घेवचे नासले. भक्तांकूय आंगोवण्यो व्हरून देवांच्या पांयांकडें ओंपपाची गरज पडची नासली.

भाटयेच्या तळ्या देगेर, कुडका नांवाचो एक सोबीत गांव आसा. गांवाच्या दोंगरा माथ्यार एक इगर्ज आसा. साडेचारशें वर्सां आदीं बांदिल्ली ही चर्च, रोझरी चर्च म्हूण फामाद आसा. हे चर्ची भायर उक्त्या वाऱ्यार कोणूय उबो रावन, ताणें अयस-पयस मुजरत नदर मारली जाल्यार ताका सर्गानंद भोगता. हांगाच्यान एकूच न्हय, तर कितल्याशाच गांवाचें सुखदिणें दर्शन घडटा.

इगर्जेंतली सायबीण एके सुवातेर उबी आसली आनी इगर्जेचीं दारां चड करून बंद आसलीं, तरी अंतर्यामी सायबिणीची नदर मात थंयच्या पुराय वाठाराचेर आसता. फकत मनीसजातीचेरच न्हय, तर जे सुवातेर ती पांयें रोवन उबी आसा, त्या दोंगरा वयल्या सगळ्या तरांच्या झाडां-पेडांच्या आदारान जगपी जीव-जिवावळीची पोसवण करून तांकां जगपाक बळगें दिता, ती सायबीणच!

सायबिणीची नदर इतल्यारूच थीर जायना. दोंगराचे पयसायेर आनी ताच्याच मुळसांत वसती करून वावुरपी तिचे भक्तूय तिचेच सासायेन जगतात.

ग्लोरियाचें कुटुंबूय ह्याच वाठाराक शेकड्यांनी वर्सां तिगाव धरून आसा. आयजचें खंयी पावूं पूण एका तेंपार हें कुटूंब गिरेस्त आशिल्लें. कुटुंबांतले सगळेच ल्हान-व्हड वांगडी दीस-रात मरसर काम करून कुटुंबांतले गिरेस्तकायेंत भर घालताले.

ह्या कुटुंबाकडें भरपूर शेतां आशिल्लीं. लांबरूंद एक दोंगोर आशिल्लो. भाटांय आशिल्लीं. मिठा आगोरूय आशिल्लो. हें सगळें वेगळ्या धनयांचें जावं मागीर, पूण सत्ता मात ह्या कुटुंबाचीच चलताली.

नाल्ल-बोंडो, तांदूळ-गोटो, नुस्तें-पास्तें, दूद दुबतें आनी सोरो-हुर्राकाचे गार्राफांव भरिल्ले आसताले घरांत. अशें आसुनूय घरांतले एकेय बायलेक पांयार पांय उडोवन सुशेग घेवंचो अशें केन्नाच दिसलें ना. घरांतली सून जावं वो धूव जावं, कापड-घागऱ्याचो कांसाटो मारून, माथ्यार तांदळांची पोटली ना तर मिठाचें पाटें घेवन, शेजारच्या गांवांनीं वचून तांदूळ-मीठ विकतालीं. माथ्यार साक-पाटें घेवन गांवभर भोंवलीं, तरी गळ्यांत दोट्टी-तिट्टी सरपळ्यो घालून भोंवतालीं. आंगभर भांगर चडयलें तरी चोरांचो भंय नासलो. चोरांचेर नदर दवरपाक दोंगरा वयली सायबीण आनी गांवांतले सांत आशिल्लेच.

ह्या कुटुंबांतले दादले मात पळोवंक बुरशे दिसताले. तरी ते आशिल्ले पेजाद. काश्टी मारून भोंवताले खरे, पूण लोकांची नदर मात चड करून काश्टेचेर पडनासली.

ती पडटाली चड करून भेंडांच्या काणाचेर. हें काण आसतालें रुप्याचें. भांगराचें काण करून घालपाची तांक आसली, तरी त्या वेळचे शेतकार आनी खारवी आपलें भेंड रुप्या काणांनीच सजयताले. कारण भेंडांतलें काण आनी गळ्यांतली जाडजूड भांगरा सरपळी त्या वेळच्या कश्टकारांचें मोल थारायताली. जितलें काण मोटें, कुल्यां वयल्यान देंवता आनी चकचकता, तितलो काण वापरपी मनीस मोटो आनी पेजाद!

भाटयेकारांचो घराबो म्हळ्यार सैमीक. ह्या घराब्यांतलीं बायलां आनी दादले, उगडे-नागडे आनी अनवाणी भोंवपी. स्वताक सुदारीत आनी सुसंस्कृत मानपी पुर्तुगेजांच्या राज्यांत, वर्सांनी वर्सां आपले कुले उक्ताडार सोडून वावुरले. पुर्तुगेज राजवटीनय तांकां दोळे उक्ते दवरून वावरूंक दिले. तांकांय तेंच जाय आशिल्लें. कारण नागरीकांक एकदां सुदारले तर ते आपल्या माथ्यार बसतले, हें ना समजुपा इतले ते अनाडी नासले.

आनी आमचे भाटयेकार दादले तर रुशींचे वंशज. भायल्यान बुरशे दिसले, तरी अंतर्यामी. मनान नितळ!

आतां एक मात खरें. त्या तेंपावयल्या भाटयेकार दादल्यांनी आपले कुले वाऱ्यार सोडले, तरी आपल्या बायलांचें सर्वांग रात-दीस कसल्याय तरी वेश्टणांत धापून उरचें हाची मुजरत जतनाय घेतली. तांच्या विचारांक बायलांनीय पुराय तेंको दिलो. तेन्नाच्या आंकवार-काजारी बायलांनी घागऱ्या-कापडां बगर हेर न्हेसणां लागीं केलीं नात. केंसांक कातर लायलीना. धर्म किरिस्तांवांचो आसुनूय लांब केंसांची सुंदरकाय राखून, केंसां आंबाड्यांची सोबाय तिगोवन वावुरल्यो तेन्नाच्या कश्टकऱ्यांच्यो बायलो. वेळ प्रसंगार आंबाड्यार फुलां खोवन, आंबाड्यांची सोबाय तिगोवन, आपले संस्कृतायेचो मान राखून वागल्यो तेन्नाच्यो कश्टकरी अस्तुऱ्यो!

पूण आयज ते दीस उरूंक नात. ज्या घरांब्याचें वयर वर्णन आयलां, तें स्वातंत्र्यपूर्व काळांतलें. सुमार साठपांसठ वर्सां आदलें. आतां हो घराबो भंगला. घराब्यांतले वांगडी जळामळाक गेल्यात. तांची ती रीतभात आयज उरूंक ना. तांची भास बदलल्ल्या. तांचें न्हेसप बदल्लां. तरी कश्ट करपाची ताकत तांणी अजून तिगोवन धरल्या. कारण तांकां खबर आसा, आपल्या वाडवडलांनी राखून दवरिल्ली जमीन, हे फुडेंय उपेगांत हाडपाची आसल्यार आपले कुडींतले ताकतीचो सतत विकास घडोवन हाडप गरजेचें आसा.

वयर उल्लेख केल्ल्या घराब्याचो मुखेल आयज आलेस म्हणल्यार आलसूबा जावन आसा. घराब्याचे सगळे वांगडी एक एक करून पयस गेल्या उपरांत, घराब्याच्या शेतां-भाटांचें मुंडकारपद आलसूबाकडें आयलां.

१६

**ना**तलू आलसूबाची भयण आनी ग्लोरिया धूव. घरचे आनी शेजारीपाजारी ताका अपुरबायेन गुलू म्हणटात.

खरें म्हणल्यार, नातलूक तांदळांची पोटली माथ्यार घेवन, व्हडल्या गोंयां-आगशी व्हरून तांदूळ विकपाची गरज नाशिल्ली. तरी पसरकारांचे मागणेन दिसांतल्यान एक तरी पोटली घेवन आगशे वतालेंच. माथ्यार तांदळांची पोटली घेतली, तोंडाक पोव मारलोना तरी तें पळोवंक सुंदरेंच दिसतालें. तांदळां पोटले सुवातेर दुदान भरिल्लो कळसो घेवन चलिल्लें जाल्यार कोणाकय दिसतलें आशिल्लें की मार्गावेल्यान गवळणच चलता. ती गोंयकान्न आसली तरी तिचो चलपाचो झेत आनी थाटमाट मथुरेंतले गवळणीचोच आशिल्लो. गोंयच्या हिन्दूंक गवळण खबर आशिल्ली. कारण ते गवळणकालो पळेताले. पूण किरिस्तांवांल्या चलयांक चड करून कुणब्यांक, खारव्यांक, रेंदेरांक, आगऱ्यांक गवळणी लागसारच्यो दिसताल्यो. ही गजाल अजापाची नासली तरी कवतुकाची खास आसली.

आनी एक म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार नातलूल्या भुरगेपणांत गोंयांतल्यो हिन्दू चलयो घागरे-पोलके सर्रास वापरताल्यो. पूण तातूंत उजूपण आशिल्लें. देखावो, उथळसाण, सैलसाण बी नासताली. आंगावेल्या न्हेसणावेल्यान कोण चली हिन्दू आनी कोण किरिस्तांव हें समजूंक कळाव लागनासलो. मुजरत तशें दाखोवपाचो प्रयत्नय चलतालो. आसतालो आडवाद कांयकडें! पूण तो लक्षांत घे सारको नासतालो.

नातलू मात मात्शें नखरेकान्न आशिल्लें. आपल्याक कोणूय तरी भुलचो अशें ताका मनासावन दिसतालें. ते खातीर ताचे खास अशे प्रयत्नूय आसताले. आपूण तांदळांकान्न, माथ्यार तांदळां पोटली घेवन तांदूळ विकूंक वतां हाची जाणविकाय आसुंनय देशेंतकाय सोडूंक तयार नासतालें नातलू. माथ्याक सैल आंबाडो, भायर सरतासतना शेंवत्या-मोगऱ्यांचीं फुलां तोडून मुजरत आंबाड्यांत खोयल्या बगर रावनासलें तें.

नातलूलें न्हेसणूय खाशेलें अशें आसतालें. आंकवारपणांतलो खास असो घागरो पावलां लिपयतालो. घागऱ्याच्या तांबशा लुगटाचेर धवशीं फुलां पितारलेलीं आसतालीं. केन्ना केन्नाय निळशा लुगटाचेर हळदुवसार फुलांय दोळ्यांत भरऽ सारकीं आसतालीं. घागरे कसलेय आसले तरी ते नवे ताल्ल आनी मोलादीक लुगटाचे आसताले.

नातलूले ब्लायजूय सदांच नवे-नवे मोदीचे आनी घागऱ्याचेर सोबता तशेच आसताले. फुगऱ्या हातांचे ब्लायज नातलू आंगार अशे तरेन फिट्ट बसयतालें की चलतासतना

ताणें हइडें मात लेगीत फुडें काडलें जाल्यार खंयच्याय तरणाट्याची नदर थाणकुटांचेर पडून ताचें मन विचलीत जावचें.

आतां भशेन त्या तेंपार रस्त्यांचेर गाडयांची गर्दी नासताली. स्कुटरी तर रस्त्यार दिसच नासल्यो. गांवांत थोड्याच लोकांकडें सायकली आसताल्यो. भाड्याच्यो सायकली घेवन एका गांवांतले लोक दुसऱ्या गांवांत वचून येताले. सामानाची येरादारी करपाक चड करून रेड्यां गाडे आसताले. आतां भशेन पिकपी, मिनीबसी बी नासताल्यो त्या तेंपार. पंदरा–वीस मिनटांनी कामिज्यांव धांवतालो मार्गविल्यान. हो कामिज्यांव खंयचेय सुवातेर राव म्हण्टा तेन्ना रावतालो आनी वच म्हण्टा तेन्ना वतालो. आतांभशेन बसस्टॉप नासताले त्या तेंपार. त्या तेंपार म्हणल्यार पन्नास वर्सां फाटीं. नातलूची पिराय तेन्ना वीस–बावीस वर्सांची. काजाराचीं सपनां पळोवपाची. न्हवऱ्यांचेर चोरयां नदर मारपाची!

नातलू भाटये सावन तांदूळ घेवन व्हडले गोंयच्यान आगशी येतालें. सकाळच्या सातांक घरांतल्यान भायर सरल्यार, साडे आठ णवांक तें आगशी पावतालें. आगशीच्या आनी व्हडले गोंयच्या न्हवऱ्यांक नातलूच्या आगमनाची वेळ खबर आसताली. तें खंयच्या वेळार खंय पावता हाचो अदमास घेवन, न्हवरे ताची वाट पळेताले. तें दिसलें रे दिसलें, ताच्या फाटल्यान पासयो मारून शिळोण्यो घालताले. पूण रेस्पेदाचें नातलू तांकां तवनास मानून तांचें कोंत करिनासलें.

अशें म्हणटात, लग्नाचे बाबतींत दोन जिवांची गांठ देवान आदींच बांदिल्ली आसता. घडये तें खरेंय आसुंये! नातलूच्या फाटल्या–फुडल्यान खूबशे तरणाटे मूस कशे भोंवताले. पूण ताचे तकलेंत रिगलो आनी घर करून रावलो तो सिमांव. इतले सगळे देशेंत न्हवरे आसतना, नातलूक भावलो तो बावळट दिसपी सिमांव. हाकाच ईश्वरेच्छा बी म्हणनात मू?

१७

**व्ह**डल्या गोंयां काण्यागेर, जुवारकारागेर तांदूळ घालून परत घरा वचपी नातलू आतां थेट आगशी लवंद्यागेर वचूंक लागलें. कारण थंय आतां ताका सिमांव मेळटालो. लवंदो तागेले तांदूळ सदांच घेनाशिल्लो. लवंद्यान तांदूळ घेतल्यार घेतले, ना तर परत येतना जुवारकार ना जाल्यार काणो आशिल्लोच. नातलूल्या जुवानपणार व्हडल्या गोंयां आनी आगशींत दोन–तीन वेपारी फामाद आशिल्ले. आशिल्ले फकांडेर, पूण नितळ मनाचे. ल्हान–व्हडांचीं फकांडां करून गिरायकाक आपलेंशें करून घेवपाचें कसब बेस बरें जमतालें तांकां. गिरायकांकूय पसरकारांकडल्यान फकांडां करून घेवपाक आवडटालें.

हे फामाद पसरकार आशिल्ले – आसू , गोजी, शिरिदोर, रघुईर आनी आगशीचो ओनोंत. ह्या ओनोंताच्या बापायचें नांव आशिल्लें, 'नाराण'.

ह्या सगळ्या पसरकारांक गिरायक मानान भाटकार म्हूण पाचारतालें.

ह्या पसरकारांत चड फामाद आशिल्लो तो आगशीचो नारायण. किरिस्तांव लोक ताका 'नाराण' म्हूण वळखताले. लोकांच्या म्हणण्या प्रमाण तो थंड सभावाचो आनी ताची वृत्ती संतांची आशिल्ली.

ताणें पळेलें, पसरो बंद आसता तेन्ना दारांत आपल्या गिरायकाक वतांत तिश्टचें पडटा. भविश्यकाळांत अशें घडचें न्हय म्हूण ताणें आपल्या पसऱ्या मुखार एक गोळीची रोपी हाडून पुरली. थोड्याच दिसांनी ती इतली बळ्ळी की थंय एक व्हडलो रूख उबो जालो. पसऱ्या मुखार सावळेचें साम्राज्य निर्माण जालें. ही सावळी पसऱ्यार येवपी गिरायकांक बऱ्याक पडलीच, शिवाय थकिल्ले भागिल्ले वाटसूर येवन विसव घेवंक लागले. धुमटी फुसकावंक लागले. बायलां खावचीं पानां चाबडावन आपलीं तोंडां तांबडावंक लागलीं.

फुडें नारायणदाद गेलो. पूण ताणें रोयिल्लें गोळीझाड वाडून गांवांक थंडसाण, शांतकाय आनी भरभराटीची दिका दाखयत रावलें. गांवचे लोक त्या रुखाक गोळ म्हणटाले. पूण फुडें ह्या रूशीतुल्य रुखाचें सत्कार्य दुश्टांच्या दोळ्यांत भरलें आनी एक सारको गरगरीत वाडत आशिल्लो रूख मातये भरवण जालो. शांतकायेचें आनी उदरगतीचें प्रतीक बेगडी विकासाचे भकीक पडलें.

नारायणाल्या पसऱ्याक तेंकून एक किरिस्तांवालें घर आशिल्लें. घर देशेंत. चिरेबंदी दुर्गान ओडिल्लें. दुर्गाचें एक पोंत पसऱ्याक तेंकता थंय दवरणें तयार जाल्लें. माथ्यार वजीं घेवन चलत येवपी वजेकारां, पुरो जातकीर त्या दवरण्याचो उपेग करतालीं.

नातलूक तर ह्या दवरण्याचो आतां खास उपेग जावंक लागलो. माथ्यावेली तांदळां पोटली दवरण्यार दवरून तें वरांचीं वरां सिमांवची वाट पळोवंक लागलें. सिमांवय ताका पयस रावन पळेतालो. पूण म्हऱ्यांत वचपाचें धाडस जायनासलें ताका. कारण हेर तवनास भुरग्यां भशेन नाशिल्लो तो. आपूण नातलू म्हऱ्यांत गेलों आनी ताका तें मानवलें ना जाल्यार? तें आपल्याकूय हेर हलकटांभशेन समजलें जाल्यार? आपूण म्हऱ्यांत गेलों, उलोवपाचो प्रयत्न केलो आनी ताका तें मानवलें ना जाल्यार? मानवतय घडये! पूण कांय व्हंकलो न्हवऱ्यांपसून पयस रावन बेटोच भाव खातात. तांकां न्हवऱ्यांकडे उलयनशें दिसता. पूण आपूण जावन उलोवच्यो नात. तांकां दिसता न्हवऱ्यांनी फुडाकार

घेवंचो. असल्या वेळार कितेंय विपरीत घडलें जाल्यार आपूण मात हात वयर काडूंक मेकळीं.

पूण हांगा नातलू आनी सिमांव तसल्यांतलीं नासलीं. तीं एकमेकाक पारखिल्या बगर एकमेकाच्या लागसाराक येवपी न्हय. ताकाच लागून हेर तरणाट्यांचो नाद सोडून नातलू सिमांवच्या ध्यानाक लागिल्लें.

दवरण्याचेर तांदळां पोटली दवरून नातलू पसरकाराची वाट पळेतालें की सिमांवाची, हें नातलूचें मन थारावंक शकनासलें. ताका दोगांयचीय गरज आशिल्ली. पसरकारचीय आनी सिमांवाचीय बी.

आतां दोगांचीय वाट पळोवन तें उबगल्लें. ताका दिसलें, पसरकार येतसो दिसना. पोटली घेवन परत गेल्यार बरें.

परत एकदां ताणें आशेन चारय वटयां नदर मारली. पयसुल्ल्यान सिमांव येतालो. नातलून ताडलें, सिमांव आपल्याक लागुनच ताकतिकेन येता. ताणें वचपाचो बेत रद्द केलो. मात आपूण सिमांवाक लागून थांबलां, हें ताणें दाखोवन दिलें ना. ताणें पसरकाराले वाटेकडें तोंड घुंवडायलें. ''होय!'' सिमावान फाटल्यान गोड आवाज काडलो.

''होय!'' नातलूनय तसलोच आवाज काडलो. काचाबूल जावन ताणें फाटल्यान वळून पळेलें. अपेक्षे प्रमाण तो सिमांवच आशिल्लो.

''हांव हात लावं?'' सिमांवान नमळायेन प्रस्न केलो. नातलूक हो प्रस्न अनपेक्षीत आशिल्लो. ताणें वळून सिमांवकडें अजापान पळेलें. तशें पळोवपाक कारण आशिल्लें. पयलेच फावट मेळटालीं तीं दोगांय. नातलूक सिमांव भायल्यान पळोवपाक सभ्य दिसतालो. पूण 'हांव हात लावूं?' ह्या उतरांनी तें दचकलें. हो बरो मनीस म्हूण समजून, हाच्या लागसाराक जावन आपणें व्हडली चूक बी केलीना मू, खिणांत असले विचार ताच्या मनांत आयले. ताणें मान घुंवडावन रागान सिमांवकडें पळेलें.

''तोकली जाग्यार आहा मुरे तुजी? हांव तुहां बोरोऽ मुनीस म्होणोन सोजमोलें. भायल्यान पळोवंक बरो दिसता. पूण भितोरल्यान कुसलेल्या मोना मुरे तूं! माहां दिसलेलें, तूं मोकोडें येतोलो. हांव तुकोडे दोन मोगा उतरां उलयतोलें. तूं कोहलो मुनीस तो पारखितोलें. पूण तूं येवचे येवन माहां हात लावंक सोदता रे बुरशा?''

नातलूकडे वांकड्या तिकड्या उतरांचो खजिनो ल्हान नाशिल्लो. पूण ताणें तो उगतो केलोना. कारण 'हात लावूं' ह्या एकाच उतरान तें सिमांवाक वळखूंक शकनासलें. ते भायर पयलीच भेट आशिल्ली तांची.

नातलू अशिक्षीत आशिल्लें. तरी ताची कुटुंबीक फाटभूंय बरी आशिल्ली. कोणायकडें उलयतासतना इल्लें चिंतून उलयतालें तें! पूण हांगा तें उसळ्ळें. अकस्मात एक दादलो येता कितें आनी एके बायलेच्या आंगाक 'हात लावूं' म्हणटा कितें तेंय पुराय वळख पाळख नासतना. खंयचेय पवित्र मनाचे बायलेक रूचपा सारकें नाशिल्लें तें. केन्ना केन्नाय भाशेचो अर्थ समजलो ना जाल्यार, आयकुपी अर्थाचो अनर्थ करून सोडटा. हांगा नातलूचे बाबतींतूय तशेंच घडलां. सिमांवाक नातलूकडें उलोवंक निमित्त जाय आशिल्लें. ताका दिसलें, नातलू घरा वचूंक तयार जालां. तांदळां पोटली माथ्यार घेवंक तें चुंबळ करता. पोटली जड आशिल्ल्यान ती माथ्यार घेवंक, पोटलेक कोणेंय तरी हात लावपाची गरज आसा. नातलूक मजतीची गरज आसा, हे भावनेन सिमांव फुडें आयलो. ताका दिशिल्लें आपले हे पवित्र भावनेचो नातलूकडल्यान आदर जातलो. पूण घडलें भलतेंच. भाशेच्या अज्ञानान अर्थाचो अनर्थ घडलो.

नातलूचो राग पळोवन सिमांवाक आपली चूक कळून आयली आनी कोणूय जाल्यार नातलूचो अवतार पळोवन थंयच्यान खिणांत पळ काडटलो आशिल्लो. पूण ताणें तशें केलें ना. ताणें नातलूक समजावपाचो प्रयत्न केलो. ताणें म्हणलें – ''तूं इतलें उसोवलें कित्याक गो नातलू? 'हात लावूं' काय मुहल्यार तुहां इतलो राग कित्याक येयलो?'' सिमांवाच्या तोंडांतलीं गोड उतरां थंडसाणेन भायर पडलीं.

''तुयें माहां 'हात लावूं' ओहें कोहें मुहलें? हांव कोण चेडी दिसलें तुहां? आंगाक हात लावन झेवपाकू?''

''हायें तुज्या आंगाक 'हात लावूं' ओहे म्होणोना गो नातलू. तांदवां पोहले हात लावूं काय म्होणोन इचाल्लां तुहां हायें! माहां दिसलें, तांदवां पोहली जोबोर जोड आहा आनी ती माथ्यार झेवंक तूं कोणाच्या तोरी आदाराची वाट पोडेता. हुंयचेय वगतार, कोणाल्याय बायलांच्या आनी चेडवांच्याय आंगाक हात लावपा मुनीस न्होय हांव!''

हें सांगता आसतना सिमांवाच्या दोळ्यांनी दुकां भरलीं. दुकांचो संबंद दादल्यां परस बायलांकडें चड आसता. सिमांवल्या दुकांचो ओलावो नातलूच्या काळजांत कसो रिगलो, देवाक आनी ताकाच खबर!

''नातलू, हांव तुहां गोंयें सायबाच्यान सांगतां, सां. लोरेंसाच्यान तोर! तुज्या आंगाक हात लावपाचें चिंतोप होऱ्यांनीच म्होजे तोकलेंत उप्रासलेंना. आतां एक मात होरें, हांव तुजेर हूब मोग कोत्तां. तेहा लागोन जायते दीस जाले हांव तुजे लागीं उलोवंक सोदतालों. पूण कोहीच कापाझदाद जालीना गो नातलू उलोवपाची. तेहा लागोन माहां हें नाटोक कोच्चें पोडलें.''

सिमांवाल्या उलोवपांत नातलूक खरेपण दिसून आयलें. ताकाय हेंच जाय आसलें. नातलूक दिसलें, तांचो हो एकवट सां. लोरेंसानच घडोवन हाडला. तरी तो सामकाराक आसतनाच मातसो पारखून घेतल्यार बरो. तशें करपाक दुडू काय पडपा ना!

नातलून आपली नदर सिमांवच्या दोळ्यांत खिणांत मोखली. थोडो वगत आतां दोगांयच्च्योय नदरो थिरावल्यो. दोळ्यांच्यो पातकड्यो हालयनासतना बरोच वेळ तीं एकमेकाक पळेत रावलीं. नातलूक दिसलें, सिमांवचे दोळे निश्पाप आसात. ताच्या दोळ्यांनी भरला तो फकत मोग आनी मोग. तोय दुसऱ्या– तिसऱ्याविशींचो न्हय, तर फकत नातलूविशींचो!

हें लक्षांत येतकच नातलूच्या दोळ्यां पातकड्यो आतां थीर उरल्योना. ताची मान लजेन बागवली. सिमांव मात धिटायेन आनी थिरतायेन नातलूकडें पळेत रावलो.

सिमांवची हालचाल ना ती पळोवन नातलून आपली मान हळुहळू वयर काडली. ताच्या मुखामळार आतां अस्पटशें हांशें फांकिल्लें. हें हांशें सुचीत करतालें, सिमांव आनी ताचें जमपाक कसलीच अडचण ना.

''होय, ऊठ आतां. न्हीद बा लागली कितें रे!'' नातलून लाडांत आयिल्लेवरी दोळ्यांनी खुणायत सिमांवक शिटकायलो.

''नातलू, माहां गुन्यांव भोगोस गो. हांव उलोवंक चुकलों गो नातलू. इल्ल्याशा गुन्यांवाची माहां येदी व्होडली ख्यास्त दिवंनाहां. हांव होन्यांनीच मोग कोत्तां तुजो. तुजे बोगोर हांव कोहोच जियों शकोना गो नातलू.'' हें उलयतासतना सिमांवचे दोळे परत एकदां दुकांनी उप्पाट भरून आयले.

''तुयें गुन्यांव केला मुरे, तोहें जाल्यार तुहां ख्यास्त भोगचीच पोडटोली.''

''दी तूं माहां केदीय व्होडली ख्यास्त. हांव भोगूंक तोयार आहां. पूण माहां सोडूं नाहां गो नातलू.'' सिमांव सामको काकुळटेक आयलो.

''तोहें जाल्यार उठ आनी लाय.'' सिमांव अजापान पळेत रावलो.

''कितें पोयताय रे, येण्णो सो. ऊठ आनी लाय मुरे!''

''कितें लावूं?''

''हात लाय.''

''कोणाकू?''

''तांदवां पोहलेकू.''

''जोड आहा तोर ती? जोड आहल्यार हांव येतां ओद्दे वाटेर लेगीत.''

''येता जाल्यार व्होडल्या गोंयां मेरेन यो. सिरिदोर झेतोलो हे तांदूव.'' हें सांगता आसतना नातलू खुशालकायेन भरलें. तांकां दोगांकय जाय आशिल्लें जाल्लें. सिमांवन तांदळां पोटली सवकासायेन आनी सोंपेपणान उबारून आपल्या माथ्यार घेतली. तो आतां उमेदीन भरिल्लो. ताचे उमेदीचें वारें आतां नालूंतय शिरलें. ताणें माथ्यावेली चुंबळ सोडली. चुंबळीचो तुवालो फटाफटा फाफुडलो. वताक प्रतिकार जावंचो म्हूण ताणें तो माथ्यार सोडलो. नातलू – सिमांवाचीं मनां आतां साफ जाल्लीं. दोगांयच्याय काळजांतलो मोग आतां दोगांयच्याय जिबांचेर नाचूंक लागिल्लो. जिबांच्यो सान्नी करून, हांसत–खिदळत, खुशालभरीत जावन चलतालीं तीं रस्त्यावेल्यान!

अशे तरेन नातलू–सिमांवचो मोग सुर्वेक किल्ललो, उपरांत तो पालेलो, कळेलो, फुल्लो आनी फळाक आयलो.

## १८

**ना**तलू हें भाटयेकान्न. शांतिप्रिय आनी प्रामाणीक शेतकार आलसूबाली भयण. आलसूबाल्या घराब्यांतले बरे गूण तितलेय भाव–भयणीच्या वाट्याक आयले. एकदां बरे गूण प्राण्यांच्या आंगांत रिगले, तर फुडें वायट गुणांक थंय थारो मेळना. आलसूबा घराब्यांतले, आलसू आनी नातलू सोडून हेर वांगडी आपल्या वांगडा वायट गुणांची पोटली घेवन पयसावले. नातलू घरांतली धूव आशिल्ल्यान, आयज ना फाल्यां काजार जावन वचपाचेंच आशिल्लें. पूण ताची अडचण आशिल्ली बरो घोव मेळपाची. खंयचेय परिस्थितींत घोव म्हूण वेसनी आनी झगडेंकार वांगडी नाका आशिल्लो ताका. ताका लागून तांदळां पोटली घेवन आगशी पावतकच तें सांत लोरेंसाकडे मागतालें, 'हे सायबा, सांत लोरेंसा! तुजो आगशी हो गांव सोबीत आसा. म्हाका तुजे गांवांत येवन, तुजी आनी तुज्या ह्या सोबीत शेतां–भाटांची सेवा करीन–शी दिसता. तेन्ना हे देवा, कुरपेन भरलेल्या, म्हाका तुज्या गांवांतल्या, म्हाका फावता तसल्या बऱ्या तरणाट्याची गांठ घालून दी!'

देवान नातलूचें मागणें मानून घेतलें आनी सिमांवची आनी ताची सासणाची गांठ बांदून दिली.

नातलू आनी सिमांवचें काजार जालें.

जाण्टयांचें म्हणणें आसता, लग्नाच्या वा काजराचे बाबतींत दोन जिवांची गांठ देवान आदींच बांदून दवरिल्ली आसता. पूण ही गजाल उलोवपा पुरती सत आसूं येता. तशें

आशिल्लें जाल्यार व्हंकलांक न्हवरे सोदपाक तांच्या आवय-बापायक हांगा-थंय धांवट्यो पावट्यो मारच्यो पडच्यो नासल्यो. नातलू फाटल्यान कितलेशेच तरणाटे मूस कशे भोंवताले. पूण नातलून वेंचून काडलो तो सिमांवाकूच. कारण सिमांवांतले बरे गूण ताणें पारखिल्ले. गांवांतल्या खंयच्याय देखण्या तरणाट्या गळ्यांत माळ घालून ताणें अशें म्हणलेंना की तुमी आमच्या एकवटाच्या बाबतींत मेत्येर जावं नाकात. हो एकवट आमचो देवान घडोवन हाडला! तो आदींच जाल्लो आसा.

आमच्या अवती-भोंवतीं खूबशो गजाली घडत आसतात. तांतल्यो सगळ्योच वायट आनी सगळ्योच बऱ्यो आसनात. एक मात खरें, सैमाक चराचरांत सगळेंच वायट घडोवन हाडपाचें नासता. ताका वायटा वांगडा कांय बऱ्योय गजाली घडोवन हाडच्योच पडटात. कारण ताका हो संवसार काबार करपाचो नासता. तो जिवंत दवरपाचो आसता. ताकाच लागून आलसूबाल्या कुटुंबाचे वांगडी, आलसूक एकट्याक सोडून जळींमळीं गेले. पूण आलसूबाक मात आपलें ठिकाण सोडून खंयच वचचेंशें दिसलें ना. ताच्या घराब्याची, वाडवडलांची सासाय ताका पयस वचूंक दी नासली. हे सासायेच्या आदारान आनी भयण-नातलूच्या सांगातांत ताका गेल्लें वैभवय परत मेळोवपाचें आशिल्लें. ताच्या मनांतलो ध्यास सैमदेवतेन पारखिलो जावंये! आनी ताका लागून, एका सैममोगी, कश्टकरी शेतकाराचो संबंद, कुन्याद ह्या नात्यान सिमांवालागीं ताणें जोडून घेतलो जावंये!

आलसूबा आनी सिमांव फुडें आपले भितर बरे संबंद दवरून वागूंक लागले. अशिक्षीत आसले तरी विचारवंत आशिल्ले दोगूय. विचार विनिमय करून आपापल्या ताब्यांतल्या शेतां-भाटांची उदरगत करताले ते दोगूय. तांचे घाम गळोवन करपाचे कश्ट, झाडां-पेडांवेलो मोग आनी सात्वीक वागणूक पळोवन सैमदेवता दोगांचेरूय चडच खूश जाली. तिणें आपल्या दोगांय भक्तांक भरभरून आशिर्वाद दिले.

ह्या आशिर्वादांचें फळ म्हणा, वो सांत लोरेंस आनी वाठारांतल्या हेर सांत-सायबीणीचे कृपेन म्हणा फुडें दोगांकय फाटीं-फुडें एकेक भुरगें जालें. तांतलो एक लोरसू आनी दुसरें ग्लोरिया, म्हणल्यार गुलू.

गुलू हें लोरसूची मामेभयण.

१९

**ना**तलू आपल्या अपुरबायेच्या पुताक व्हडलो मनीस करूंक सोदतालें. ते खातीर ताणें, आपल्या पुताची काळजी घेवपाक आनी व्हडल्या मनशांची देख दिवपाक एके

मॅडमीची नेमणूक केल्ली. आडबरयां दुडू खर्च केले. पूण ताचो कांयच उपेग जालोना. आशिल्ली–नाशिल्ली धनदौलत मात वगडावन बसलें नातलू. दुडू मनशाक व्हडलो करूंक शकना, सुसंस्कार मनशाक व्हडलो करतात हें समजुपा इतकी अक्कल नातलूक खंय आशिल्ली? ती आशिल्ली जाल्यार, समजदार आनी सुसंस्कृत सिमांवपसून तें लोरसूक पयस दवरचें नाशिल्लें.

ज्या सर्वंटाकडें नातलून लोरसूक सोपयल्लो, ताणें आपल्याक जायतें साध्य करून घेतलें. लोरसूक तें व्हडलो मनीस करूंक शकलेंच ना. नातलूक मात सासणाचें कफल्लक करून सोडलें. भिकेक लायलें म्हणलें तरी चलपा सारकें आसा.

नातलू मोगाळ आशिल्लें. दयाळ आशिल्लें. पूण तें मूर्खय आशिल्लें. मुर्खपणा पदराक आशिल्ल्यो खूबशो बायलो भायल्या झगझगाक भुलतात. आपल्याक जाय तें प्राप्त करून घेवपाक त्यो हट्टाक पेट्टात. असल्या वगतार तांकां दिसता, आपूण शाण्यो आनी आख्खें जग पिशें.

लोरसूच्या पालन–पोशणाक जर नातलून सिमांवाचो पालव घेतिल्लो, तर तें कुटूंब सुखान जगपाचें! ज्या भक्तांचेर ईश्वराची कृपा आसता, ताचें सट्ट करून लुकसाण जायना.

नातलू मूर्खपणा करतालें आनी सिमांवक तीं सोंसचीं पडटालीं. आनी दुसरो उपाय नासलोच ताचेकडें. कोणाकडें बाचाबाच करपाचो गूण सिमांवच्या रगतांतूच नाशिल्लो. नातलूकडे तर तो कसलेच बाबतींत घासाघीस करपाक तयार नासतालो. कारण ताका खबर आशिल्ली, नातलूकडें वायटपण केल्यार आपल्या जिविताक मातूय गोडसाण उरची ना. जगपांत आनी मरणांत कसलेंच अंतर उरचें ना. असलें जिवीत जाय कोणाक? चलोंवदी राज्य नातलूकच आपले मर्जेप्रमाण!

## २०

लोरसू आतां सर्वंटाचे देखरेखे खाला व्हडलो जालो. व्हडलो जालो म्हणल्यार फक्त दांगांनी व्हडलो जालो. नातलूंतले तकलेंतलें व्हडपण ताका फाव जालें ना. कशें जातलें? व्हडपण दुडवांनी मेळिल्लें जाल्यार ह्या संवसारांत ल्हान कोणूच उरचे नाशिल्ले.

व्हडपण हें मनशाच्या रगतांत आसचें पडटा. सिमांवच्या रगतांत तें आशिल्लें. थंयच्यान तें लोरसूचे कुडींत आयलें. प्रयत्न करून लेगीत नातलू तें कशेंच बदलूंक शकलें ना. बापूय म्हूण सिमांवकडल्यान रगतांत आयिल्ले बरे गूण लोरसूक सोडूंक शकले ना. जाण्टो जातां जातां लोरसूक कळत गेलें की ताचें खंयतरी चुकत आसा.

ताची मॅडम ताका उजू दिका दाखयना. आपल्याकच न्हय, तर भाटकान्नीलो बाबा लेगीत कामांतलो गेलो. ह्या इस्कॉलांत शिकिल्ले व्हडले मनीस जातात, अशें सगळेच उलयताले. व्हडलो आनी धाकलो मनीस सोडाच, सादो मनीस लेगीत म्हणून घेवपाची लायकी ना, ह्या इस्कॉलांत शिकिल्ल्यांची.

हें लोरसू उलयनाशिल्लो. सिमांवचें रगत उलयतालें. आपले आवयन आपल्याक व्हडल्या इस्कॉलांत घालून आपली वाट लायली, हें आतां लोरसूक कळून आयलें. आपूण आतां निरूपेगी जालां. ना बापायभशेन खोरें घेवन काम करूंक शकतां, ना चार पयशे कमावपाची अक्कल–असली परिस्थिती जावन पडली लोरसूची!

आवयकडल्यान मागता तितले दुडू मेळटाले लोरसूक. ताका लागून फोल्गां मारूंक कसलीच अडचण पडनासली. वांगडा भाटकान्नीलोय बाबा शिकतालो. भाटकान्नीनूय आपल्या सर्वंटाचेर विश्वास दवरलो. तिका दिसलें आपलें सर्वंट शिकलां. तें सगळें जुस्ताज्युस्त करतलें. तीय सर्वंट मागता तितले दुडू दिवंक लागली.

एक म्हणणी आसा. हार उडटा म्हूण गायंडोळान उडचें न्हय. लोरसू भाटकान्नील्या बाबाकडें सर्त करूंक गेलो आनी फसलो.

भाटकान्नीलो बाबा शिकूंक पावलो ना. पूण ताचें व्हडलेंशें कांयच लुकसाण जालें ना. ताचेकडें भाटांबेसां आशिल्लीं. तो भाटकारच उरलो. पूण लोरसूचें कितें? नातलूचे गांठीक आशिल्लें नाशिल्लें सगळें लोरसूक व्हडलो मनीस करूंक घालयलें.

खूबशो बायलो अशो आसतात की तांकां मोटेपणाचें पिशें रोखडेंच लागता. ह्यो बायलो त्यो मागीर गरीब आसूं वो गिरेस्त–अनुकरणप्रिय आसतात. हेच नेमान, भाटकान्न आनी नातलू आपल्या बाबांक संवसारांतले व्हडांत व्हडले मनीस करूंक फुडें आयिल्लीं. शिकपाच्या काळांत उंची–उंची खाणां, मोलादीक ड्रेसां, गिरेस्तालीं भुरगीं जें जें कितें करतात तें तें सगळें तागलें–भोगलें दोगूय बाबांनी! एके तरेची सर्तच लागिल्ली दोगांय बाबांमदें!

आतां एक मात, दोगूय बाब कशेय भाशेन नापास जायनासतना मॅट्रिकेच्या वर्गा मेरेन पावले. ही बाबाची कापासदाद नाशिल्ली. तर ती आशिल्ली सर्वंटाची! हे सर्वंट मॅडमीन त्या त्या विशयांच्या शिक्षकांक घट धरून, निमणे मेरेन पास करून घेतले दोगांय बाबांक.

दुख्खाची गजाल म्हणल्यार, भाटकान्नीलो बाबा आवाशिवा करून मॅट्रीक पास जालो आनी लोरसू फेल! भाटकान्नीलो बाबा भाटकार आशिल्लो. ताका व्हड म्हूण कोणाच्या प्रमाणपत्राची गरज नाशिल्ली. अख्खो गांव ताका भाटकारालो पूत म्हूण वळखतालो. अर्थांत ताका खाशेल्या व्हडपणाची गरज नाशिल्ली.

आतां खरेल्यापणान बुचकळ्यांत पडिल्लीं तीं, लोरसू आनी नातलू. भाटकान्नील्या सर्वंटीचे लगाडेक लागून आपल्या पांयांचेर फातोर मारून घेतिल्लो नातलून. नातलू सर्वंटीच्या नादाक लागूंक नाशिल्लें, सिमांव पसून पयस वचूंक नाशिल्लें, तर लोरसू एक व्हडलो शेतकार म्हूण ताका गांवांत मान मेळटलो आशिल्लो. सिमांवालो पूत म्हणूनय तो गांवांत व्हडलो मनीस जावन उरतलो आशिल्लो. पूण नातलूक लागलें फाल्स मोटेपणाचें पिशें. ह्या पिशेपणाक लागून ताणें आपलो भांगरा सारको संवसार बिगडावन उडयलो.

पूण आतां ताका उपाय नाशिल्लो. लोरसू दांगांनी व्हड जाल्लो. पूण तो गुणांनी सामकोच ल्हान आशिल्लो. मॅट्रीक फेल जाल्ल्या कारणान ताका कोणूच पोट भरऽसारकी सिर्विस दिवंक शकनासलो. शेत आशिल्लें. पूण तो काम करूंक शकनासलो आनी म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार नातलून आनी सर्वंटीन ताच्यो गरजो देमायज वाडोवन दवरिल्ल्यो. उकड्या तांदळांची पेज आनी शीत-कडी सिमांवक आवडटाली. पूण लोरसूक तसलें जेवण दोळ्यां मुखार नाका आशिल्लें. सर्वंटीन ताका हॉटेलांनी व्हरून व्हडल्या लोकांचें जेवण-खाण खावंक शिकयल्लें. आतां सर्वंटमॅमीलें काम सोंपलें. नातलूलीय येणावळ आतां इल्ली इल्ली उणी जायत वताली. ताणें तर शेतांत काम करपाचें आदींच सोडून दिल्लें. सिमांवकडेनूय आतां आदले भशेन शेतकाम जायनासलें. तरी तो हातपांय झरोवन पोटापुरतें कमायतालो.

''मम्मी, पोटाक भूक लागल्या जे!'' लोरसून आवय म्हऱ्यांत येवन रडकुरें तोंड करून म्हणलें.

''चल वाडटां तुहां.'' नातलू उठून कुजनांत वचूंक लागलें.

''ती सीत-कोडी कोणाक जाय जे! माहां नाहां ती तीख कोडी!'' लोरसून सोंडो करून म्हणलें.

''तीख नाहां जाल्यार दुसरे फावट मिरसांगो थोड्यो घालतां.'' नातलून लोरसूच्या केसांचेर मायेन हात भोंवडायत म्हणलें.

''माहां नाहांच ती तुयें केलेली कोडी. माहां शेंबोर रूपये दी. बाजारांत वोसोन फोरसूली बिरयाणी हातां. फोरसूलो आर्रोस आनी बिरयाणी मिजे माय, एकदोम बोरी जाता. तुयें केन्ना हायल्या जे मम्मी बिरयाणी? चोल काड शेंबोर रुपया. हांव व्होत्तां तुहां व्होटेलार.''

लोरसू सांगतासतना खोशेन भरलो. नातलूच्या तोंडार मात काळोख पडलो. आतां ताका आपली चूक कळून आयली. सर्वंटमॅडमीन तयार करून दवरिल्लो हो व्हडलो

मनीस आपल्याक लुकसाणाक पडटलो. आतांच तो हाताक मेळटा ते दुडू घेवन हॉटेलार धांवतालो.

सिमांवक हाची सुलूस लागिल्ली. आपल्या पुताक लायिल्लें व्हडपणाचें पिशें आतां तरी उतरणेक लागूंक जाय आशिल्लें, अशें दिसतालें सिमांवक. पूण तें दिशीं–दिशीं वाडत वता तें पळोवन तो खंती जातालो.

सिमांवक सट्ट करून राग येनासलो. नातलू सांत लोरेंसालें भक्त. पूण सांत लोरेंस पावतालो तो सिमांवक. राग येतकच सिमांव रोखडोच सांताक याद करतालो. तेन्ना अचळय ताच्या रागाचो पारो देंवतालो. सांताचे कृपेन राग नियंत्रणांत हाडपाची ताकद आशिल्ली सिमांवांत!

एक दीस तोंड वांकडें करीत तो नातलू म्हऱ्यांत आयलो. नातलूचो अवतार पारखून ताणें सवकासायेन म्हणलें –

''नातलू, बाबा हुंय जेला गो?''

''जेला आसतलो फ्रेंडां आंगडा हेडपाक.'' नातलून आपलो राग उक्तायलो. पूण सिमांवक नातलूलें मानवलें ना. ताणें सट्ट करून नातलूक जाप दिली–

''नाहां गो नातलू, तोहें हेडोंक बा म्होणों नाहां. एकटोच तो आमजेलो. सांबाव तेहा. सोमजाय.''

हें सांगता आसतना सिमांवचो गळो दाटून आयलो. दोळेय ओले जाले. पूण तो कांयच करूंक शकलो ना. सदांभशेन सगळें सोंसून गप्प बसलो.

''नातलू, काल हायें मुगो काशोतांत शेंबोर–शेंबोरां दोन नोटां दोवोरलेलीं. काडल्यांय तुयें? जिवा बोरें दिसोना म्होणोन दोतोराजेर वोसोंक सोदतालों गो हांव. काशोतांत पोय जाल्यार नोटां ना. हाटीं दुखता देखून दोतोरा मेवों सोदतालों गो हांव. आतां कित्यें कोरूं? भोंगों तो दोतोर–बितोर.''

हें आयकून नातलूच्या काळजांत चर्र जालें. काशोतांतलीं नोटां खंय गेलीं तें कळपाक नातलूक कळाव लागलो ना. तरी ताणें आपल्या घोवाक जाप दिली ना.

सिमांव कितें समजूंक जाय तें समजलो. दुडू नातलून काडिल्ले आनी ताणें ते खर्च केल्ले जाल्यार तें घोवाक सांगपाचें. पूण हे दुडू शेर्त लोरसून काडल्यात, हें ताणें ताडलें.

नातलू कशेंय आसलें, तरी घोवाक सांगले बगर काशोतांतले दुडू काडचें नासलें. कारण सिमांवले जोडीचे पयशे नातलूकडेच आसताले. पूण हे ताणें मुजरत काशोतांत दवरिल्ले. कारण ताची फाट दुखताली आनी ताका ती दोतोराक दाखोवपाची चड गरज आशिल्ली. पूण आतां तें शक्य नाशिल्लें. फाटीचें दुखणें घेवन भोंवपाचो प्रसंग सिमांवचेर आयिल्लो. निदान पयशे एकठांय जाय मेरेन तरी!

लोरसूची चलणूक आनी वागणूक पळोवन नातलू आतां बेजारलें. उसरां जावं मागीर ती, ताका आपली चूक कळून आयली. सिमांव शाणो आनी आपूण पिशें. सिमांवचें आयकल्लें जाल्यार आपल्याचेर हो प्रसंग येवचो नासलो हें नातलूक कळून आयलें. पूण तें आपली चूक कबूल करूंक कशेंच तयार नाशिल्लें. तितलें मोटें मन नासलेंच ताचेकडे!

ह्या संवसारांतलीं चडशीं बायलां, सदांच मोव मेळटा थंय खणूंक पळेतात. आपल्या घोवांक तर ताणीं मेजून दवरिल्लें आसता. जाय तेन्ना खेळोवपाचें, जाय तेन्ना नाचोवपाचें, जाय तेन्ना तांचेर हुकूमत गाजोवपाची, आपलें काम सादोवन घेवपाच्या वेळार घोवांक लाळेगोळे लावपाचे आनी एकदां आपलें सादलें रे सादलें, अरेरावी चालू!

अशें घडटा आसतना कोण कोणाचो दुस्मान नासता. एकामेकाकडें वायटपणूय नासता. उप्रासलेंच जाल्यार तें चड तेंप तिगपाची शक्यताय नासता. कारण तीं दोगांय घोव-बायल आसता.

नातलूचें आनी सिमांवचेंय हांगा तशेंच घडलें. नातलूक पुरायेन खबर आसा की तें चुकलां. ताणें आपल्या घोवाक विश्वासांत घेतिल्लो जाल्यार, तो सांगता ताचेर विचार केल्लो जाल्यार आयज त्या जोडप्याचेर दुख्खांत बुडपाची पाळी येवची नासली. पूण आतां घडपाचें आशिल्लें तें घडून गेल्लें.

''नातलू तूं खंती जांव नाहां गो! सांत लोरेन्स आसतोना आमहां कोहलीच भिरांत ना. तेजे कृपेन सोगलें बोरें जातोलें.'' सिमांवचीं हीं मोगान भरिल्लीं उतरां आयकून नातलू ताच्या तोंडाकडे पळेत रावलें. ताका दिशिल्लें, सिमांव आपल्याचेर रागार आसतलो. हें सगळें घडटा तें पळोवन झगडटलो, जास्तीफस्ती मारून घर माथ्यार घेतलो.

पूण तशें कांयच घडलें ना. खिणभर तीं थीर रावलीं. दोळ्यांनीच सुसंवाद सादलो. नातलू चड वगत थीर रावूंक शकलें ना. धांवून वचून तें सिमांवच्या गोपांत रिगलें!

''सिमांव, चुकलें रे हांव. तूं सांगता तें आयकों जायें आहलें हांयें.'' नातलून वेंग सोडिनासतना म्हणलें.

''कांय नेजो. मुनशां चुकताईच.'' सिमांवन नातलूची फाट पोशेत जाप दिली.

''आतां कोहें जातोलें रे आमचें फुडें. आमी म्हातारीं जायत आहाय. तूंय बोरो ना. आदले भाशेन दुडूय येयना.'' नातलून आपली काळजी उक्तायली.

''दुडू कोहे येतोले? ते कित्यें झाडाक पिकताय गो! दुडवां हातीर घाम काडूं जावो. तुयें काम कोरपा सोडलें.'' सिमांव खंती जालो.

''ना रे सिमांव. हे फुडें हांव काम कोत्तोलें. मोरोसोर काम कोत्तोलें. पूण तुहां दुखोवचें ना रे हांव.'' नातलूल्या उलोवण्यावेल्यान ताका पश्चाताप जाला हें कळटालें.

''तें कोवता गो माहां. पूण माहां चोड पोडलां तें आमच्या बाबाचें – लोरसूचें. तुयें तेहा व्हडलो मुनीस केला न्हो गो. तेजें कोहें जातोलें?''

''तेजें तूं चिंतू नाहां.'' –नातलू.

''तें बोरें आहा गो. पूण तेहा कांयच उणें मात पोडों दिवंनाहां. तेहा आमी सुदरोवया. सुदोत्तोलो तो.'' –सिमांव.

''कोहो सुदोत्तोलो आनी कोण सुदरायतोलो तेहा?''

''बायल सुदोत्तोली. तेहा काजार कोरुया.'' –सिमांव.

२२

सिमांवलीं थाकायेचीं उतरां आयकून नातलू आतां ताजेलें. ताच्या फाटल्यान दोन कारणां आशिल्लीं. एक कारण लोरसू मॅट्रीकेक फेल जाल्लो तें.

पूण तो फेल जाल्ल्याची ताका व्हडलीशी पर्वा नाशिल्ली. कारण व्हडल्या व्हडल्या गिरेस्तांले भुरगे फेल जाल्ले.

नातलूक दुसरें व्हड पिकासांव जाल्लें तें लोरसूले वागणुकेचें. आशिल्ले नाशिल्ले दुडू ताणें ह्या 'बाब्या'क व्हडलो मनीस करूंक खर्चयल्ले. पूण हाताक मात कांयच लागलें ना.

तरी जें घडून गेलें तें गेलें, ह्या फुडें तरी लोरसून जाग्यार येवचो, ह्या चिंतनानीं तें रात–दीस बुडून रावंक लागलें.

लोरसू परस नातलूक सिमांवचे बाबतींत चड दुख्ख भोगतालें. नातलूक दिसतालें, आपले कडल्यान व्हडली चूक घडल्या. हे चुकीक लागुनूच सिमांव भिकेक लागला. एका तेंपार तो नोटांचे कवळे चेडडेच्या बोल्सांत घालून भोंवतालो आनी आतां दोतोरागेर वचनासतना आंगार दुखणें घेवन भोंवता. आनीक कोणालोय घोव जाल्लो जाल्यार म्हणटलो आशिल्लो, 'चेडये, तुहां लागोन म्होज्या सोंवसाराची आट लागली. वोगतार सोजमोणी दियन लेगीत तुयेन तुहां जाय तेंच केलें. आतां रोडटा कित्याक मांयच्या मिंडाक?' अशें म्हणून घर माथ्यार घेवपाचो. रागा भारार नातलूक खोटांनी गुझ्डोयपाचो.

पूण सिमांवान तशें कांय केलें ना आनी करतलो कोणा आड? अशिक्षीत आसलो तरी मनीसपण घाण दवरूंक नासलें ताणें. आपले बायलेन केदीय व्हडली चूक केली जाल्यार, मूर्खपणां केलीं जाल्यार शेकीं ती ताची मोगाची बायल आशिल्ली. चड तेंप राग धरून बसप दोगांकूय परवडपा सारकें नाशिल्लें.

नातलू दुख्खी आसा. तेंय चड करून आपल्याक लागून. दोतोराकडे वचपाक पयशे नात. ताका लागून नातलू खंतेलां. पूण ही खंत तें व्यक्त करूंक शकना. कारण तें स्वताक अपराधी समजता हाची पुराय जाणविकाय सिमांवाक आसा.

नातलू हट्टी. तें सट्ट करून मारतें घेवचें ना आनी ताणें मारतें घेतलें ना जाल्यार आपणेंय मनांत किल्मिश दवरून फुडें वचपाचें? एकट्यान गाय मारली म्हूण दुसऱ्यान पाडूक मारपाचें? असल्यांनी घराब्याची वाट लागतली. मांय-पायचे वायट देखीन आपलो पूत – लोरसू कामांतलो वतल. तेन्ना नातलू कडच्यान मारतें घेवपाची अपेक्षा करचे परस आपणेंच मनांतलो राग काडून उडयल्यार कितें वायट! लोरसू तर हाता भायर गेला. ताका आटापा हाडप नातलूक कशेंच शक्य जावपा ना. ताका जाग्यार हाडपाचें काम फकत काजारा उपरांत ताची बायलूच करूंक शकता. ताकाच लागून सिमांवान लोरसूच्या काजाराचो प्रस्ताव नातलू सामकार थेयलो.

ह्या प्रस्तावान नातलू तर खोशेलेंच, ते भायर ताका चड खोशी भोगली ती सिमांवच्या वागण्याची. इतलो तेंप तोंड काळें करून भोंवपी सिमांवच्या तोंडार आतां उजवाड पडिल्लो.

भाटी-व्हडल्या गोंयच्या वाठाराक तशीं प्रायमरी स्कुलां जायतीं आशिल्लीं. पूण हायस्कुलां दोनूच आशिल्लीं. एक माद्रीलें आनी दुसरें पाद्रीलें. माद्रीलें हें हायस्कूल प्रायमरी सयत चलयां खातीर आशिल्लें. ह्या स्कुलांत ल्हानपणांत सावनच शिवण-सूत, गायन कला, वाद्यकला, नृत्यकला आनी धर्मविशय शिकोवपाची वेवस्था केल्ली.

माद्रील्या स्कुलांत चलयांक बरी देख मेळटा म्हूण, आलसूबान ग्लोरियाक थंय मॅट्रीक मेरेन शिकयलें. हुशार ग्लोरिया मॅट्रीक पयल्या वर्गांत पास जालें.

खरें म्हणल्यार लोरसू गांवांत आशिल्ल्या पाद्रील्या हायस्कुलांत शिकपाचो. पूण नातलूक ताका व्हडलो मनीस करपाचो आशिल्ल्यान ताणें ताका गांवां भायल्या खाशेल्या हायस्कुलांत घालो.

गांवांतल्या हायस्कुलांत शिकिल्लो जाल्यार लोरसू मॅट्रीक शेर्त पास जावपाचो!

''नातलू, हाल्यां भाटयेर वोसोन यो गो!'' सिमांवन पिरंगल्ले भशेन करून म्हणलें.

''कित्याहू?'' नातलू फुल्लें. कोणेंय भाटयेचें नांव काडल्यार तें रोखडेंच फुलता.

''आलसूची होबोर झेवन यो गो.''

''व्होय बाडया. कितले दीस जाले, तोंडू पोवना तेजें.''

नातलून आपली खंत उक्तायली.

''माहांय ग्लोरियाक पोयन-पोयन-शें दिसलां. मोगाळ भुरगें तें. गोड उतरांचें. हायें आयकोलां टिचेरी आनी माद्रीय तेजेर चोड मोग कोत्ताय हुंय.''

''तुहां तेहा पोयन-शें दिसता जाल्यार, आमी दोगांय या रे हाल्यां सोकाडीं. हाल्यां आयतारूय आहा. उसरां या. मिसाक बा सावन येवन गुलू घारा आसतोलें.'' नातलून आपली खुशालकाय उक्तायली.

''तूंच वोस गो नातलू. माहां तेहा तोंड दाखोवंक लोज दिसता.''

हें सांगतासतना सिमांव निर्शेलो.

''तेहा म्होणोन कोणाक रे!''

''आलसूबाक गो!''

''आलसूक तोंड दाखोवंक तुहां लोज दिसता, कित्याहू? तेजो पोंहलो बा हाला कितें तुयें!''

''तोहें उलोवंनाहां गो नातलू. पोंहलो-बिहलो तोहलें म्होणो नाहां. आमी कोणांचो पोंहलो हावपी मुनशां न्होय.''

''व्होय रे. तें कोवता माहां. पूण हांव म्होण्टां, तुहां म्होज्या भावाच्या तोंडाचेर नोदोर घालूंक लोज कित्याक दिसता?'' नातलून मात्शें तिडकल्ले भशेन केलें.

''तेहा कारोण तूं आहा गो नातलू.''

''हांव कारोण आहां? कोहें?''

''तुयें लोरसूक व्होडलो मुनीस कोरपाचें चिंतलें, तें तेहा मानोवलें ना. हें तेणें माहां जायते फावट उलोवन दाखोयलें. पूण हायें तुहां तें सांगोना.''

''कित्याक सांगोना?''

''कित्याक तोर, तुजेर येयलेलो सांवार आनी तुजेर एकदां देवचार बोहलो म्होण्टोच तूं कोणाक आटापा येयना. हें तुजो भावूय जाणां आनी हांवूय जाणां. कांय मुनशां मुगो नातलू, एक्सापिरेन्सान शाणीं जाताय. तूं तोहेंच जालां. तूं तोहें जावंक शेकता. देखून हांव म्हुण्टां, हे फुडें आमी एकवोटान रावया मुगो, आनी कित्यें कोत्ता तें चिंतून कोरया गो! झोगडीं-केस्तांवां पसून, बुरशेपोणा पसून जाता तितलीं पोयस रावया गो नातलू आमी!''

नातलू चिंतूंक पडलें. सिमांव सारकें आनी चिंतून उलयता. आपल्याक व्हडपणाचें पिशें लागूं नासलें जाल्यार, आपलो भाव आनी आपलो घोव आपल्या पसून पयस जावंक पावचे नासले. आपल्या भावान, आपले धुवेक – ग्लोरियाकूय लोरसूपसून दोन धेंपा पयस रावूंक शिकयलें. ताका आपले धुवेक लोरसूभशेन व्हडली केल्ली नाका आशिल्ली. ग्लोरिया शिकून सर्वंट–मॅडम जावचे परस एक बरी रेस्पदाची शेतकान्न जावप पसंत आशिल्लें आलसूबाक.

ग्लोरिया म्हणल्यार गुलूय आपल्या बापाय भशेन बऱ्या विचारांचें भुरगें. ताकाय नातलूंत अकस्मात जाल्लो बदल मानवलो ना. ताका लागून आपल्या बापायचे सांगणेन गुलू नातलू पसून इल्लें पयसूच रावंक लागिल्लें.

कांय मनशां मुळांतच बरे देखीचीं आसतात. तीं अशिक्षीत आसलीं, गरीब आसलीं तरी थंड आनी शांत सभावाचीं आसतात. तांच्या रगतांत भरसल्ले बरे गूण सट करून पुरायेन भश्टनात. हां, केन्नाकेन्नाय तांची मती बदलता, नातलू भशेन. पूण ती सासणाची तशीच उरना. प्रयत्न केल्यार ती बदलूंकय शकता.

नातलू कितलेंय हट्टी आसलें तरी ताच्या रगतांत बदलपाचे गूण आशिल्ले.

तें दुसरे दिसा भाटयेर गेलेंच. पवित्र आनी ल्हान मनान गेलें. ते दिसा आयतार आशिल्ल्यान पयलीं तें मिसाक गेलें आनी उपरांत जड पावलांनी घरा दिकेन चलूंक लागलें. पयलीं तें पिलार मेरेन कोणा वांगडा सायकलीन गेलें. हो सायकलकार नेवरें रस्त्यान फुडें वचपी आशिल्लो. नातलू दोडपार देवून मात्शें फुडें गेलें. थंय एक लांब–रूंद बिदी मेळटा. ही बिदी केन्ना तरी राजमार्ग आशिल्लो जावये!

थंय पणजे वचपी रस्त्या कुशीक एक व्हडलो खुरीस आसा. ह्या खुर्साकडे बिदीक दोन फांटे फुट्टात. एक फांटो सरळ दर्या देगेर गेला तर दुसरो वयर दोंगराळ भागाक भेटला. बिदीचें पोंत दोंगराक भेटचे आदीं सांत आंतोनीचें कपेल थंयच्या लोकांचे राखणेक उबें आसा.

ह्या कपेलाच्या सामकाराच्यान एक अशीर–शी बिदी भाटयेची वाट दाखयता.

नातलू चड करून आपले आवयगेर वचनासलें. ही वाट ताका एकांताची आनी काळखाची लागताली. तरी झाडां–पेडांची सावळी ताका चलपाक थंडाय दिताली. पूण आगशी येवपा–वचपाक तें व्हडले गोंयची वाटच चड पसंत करतालें. कारण ती उक्ताडाची, उजवाडाची आनी लोकांनी गजबजलेली आसताली. वाटेर सायकली, मोटारी आनी मोटरसायकलीय मेळटाल्यो.

सांतातोनी कडल्यान गेल्ली बिदी सोंपताच भाटयेची हद्द लागताली. हद्द हुपतांच लागतालें आलसूबालें घर आनी शेत-भाट.

घरालागीं पावतां पावतां नातलू खोशेलें. ताची चलपाची गत मंदेली. चलतां चलतां तें मदेंच थांबलें. सरभोंवतणेचेर नदर मारली. वाठारांतले ल्हान-व्हड सगळे रूख ताच्या येवकाराक तटस्थपणान उबे आशिल्ले. एका तेंपावेले आपले हे धनीणीक पळोवन सगळे तरेचे रूख खुशालभरीत जाले. ह्या रुखांनी नातलूक भुरगेपणांतूय पळेल्लें आनी आतांय पळेताले ते. त्या विशाल रुखांत व्हडलोसो कसलोच बदल जावंक नाशिल्लो. बदल जाल्लो तो नातलूंत. भुरगेपणांत ग्लोरिया सारकें दिसपी नातलू आतां जाण्टेलें जाल्ल्या कारणान, लोकांले भाशेंत धोदेल कशें दिसतालें. तें आतां आदलें उरूंक नाशिल्लें.

आयताराचीं मिसां कोणाय भशेन चुकोवंक जायना, असो पादविगाराचो आदेश आशिल्लो. वाठारांतल्या सगळ्या इगर्जांनी, चड करून दोन तरी मिसां जातालींच. तातूंत भक्तांच्या सोयी खातीर आयताराचें पयलें आनी दुसरें मीस आसतालें. पयलें चुकलें जाल्यार भक्तांक दुसरें तरी मेळचें, हो उद्देश!

ग्लोरिया सदांच पयल्या मिसाक वचून येतालें. तशें केल्यार घरांतलीं फुडलीं कामां करूंक तें मेकळें जातालें.

आलसूबा मात मुजरत दुसऱ्या मिसाकच वतालो. आयताराचीं शेतांत कामां करपाक पाद्रीची मनाय आसताली. तरी आलसूबाक कसलें ना कसलेंय काम केले बगर सुसेग लागनासलो. आपल्या आवडीच्या कामांत गुल्ल जावन आसप हें खरेलें मीस अशें तो मानतालो. तरी मिसाक वचप ही आपली लागणूक अशेंय तो मानतालो.

आलसूबा मिसाक गेल्लो आसतना नातलू दचकत-दचकत घरांत भितर सरलें. आलसूबा पडवेर ना. असले वेळार तो शेर्त मिसाकूच गेल्लो आसतलो. दाराक कुलूप ना त्या अर्थान गुलू भितर आसतलें.

''ओ घारांत, हूंय जेल्यांय गो देर बोंद कोरूनू?'' नातलून दार बडोवचे पयलींच कसलोच आवाज जायनासतना दार उकतें जालें.

''आवोय! आती मिजे आमची!''

आपल्या आत्याक लोक आण्टी म्हणटात ते भशेन ग्लोरिया म्हणनासलें, आण्टी म्हणचे परस आती बरें, अशें दिसतालें ताका. आलसूबानूच तशें म्हण म्हूण शिकयल्लें ताका!

''आती, हूंय जे तूं? इतले दिसांनी आतां उगडास येयलो तुहां आमचो? यो, भितोर यो!''

ग्लोरियान नातलूले दोनूय हात आपल्या हातांत घेवन, ताका ओडीत व्हेलें आनी सालांतल्या कदेलार बसयलें.

''दादी हुंय जेला गो बाय!'' नातलून प्रस्न करूंक जाय म्हूण केलो.

''दादी मिसाक जेला आती. येवचो जालो.''

''येवंदी सुशेगाद.''

ग्लोरिया आपल्या बापायक दादी म्हणटालें. बापायनूच सांगिल्लें ताका आपल्याक दादी म्हण म्हूण. डॅडी परस दादी बरो अशें दिसतालें आलसूबाक. डॅडी आनी दादी हातूंत अर्थांत फरक नाशिल्लो.

पूण दादींत आपलेंपण आसा, तितलें डॅडींत ना अशें आलसूबाचें मत्त.

''आती, बोस आं, तुहां इल्ली च्याव कोत्तां.''

''च्याव नाहां गो बाये. पेज रांदल्या मुगो?''

''व्होय, व्होय. पेज शिजों घाहल्या, रोकडी जातोली.''

''दादी जेवपा आहा मुगो पेजू? तोहें जाल्यार माहांय वाड तेजे बराबोन.''

''आं आते. मानसे सुंगटां सुकें केलां. तुहां उकड्या तांदवां पेज आनी सुंगटां सुकें बोच आवोडटा हूंय?''

''होई, तुहां कोणें सांगलें गो बाये?''

येदो वेळ तोंडार काळोख घालून बशिल्ल्या नातलूच्या तोंडार अकस्मात उजवाड पडलो.

''दादी सांगतालो माहां.'' – हीं उतरां कानार पडलीं आनी नातलूचे दोळे भरून आयले. ताका दिशिल्लें, लोरसूचें प्रकरण घडले उपरांत, आलसू नातलूचें नांव लेगीत घेवंचो ना. नातलूक खबर आशिल्ली, आलसू आपल्याहून इल्लो चडच हट्टी आसा. एकदां ताच्या मनाआड कितेंय घडलें आनी तें तकलेंत रिगलें तर तें सट करून सुटूंक कठीण. ताका कारण मात तशेंच आसूंक जाय. हांगा नातलू अविचारीपणान आपल्या भुरग्याचो फुडार बिगडावंक फुडें आयिल्लें. ते भायर आपल्या घोवाकय तें जुमानी नासलें.

आपल्या कडल्यान वायट घडलां ही गजाल आपल्या भावाक बिल्कूल मानवची ना हाची कल्पना नातलूक आशिल्ली. ताका लागून तें आपूण जावन भावापसून पयस-पयस रावतालें.

पूण नातलून आनी आलसून एकमेका पसून कितलोय पयस रावपाचो प्रयत्न केलो, तरी तांच्या रगताची ओड तांकां तशें करूंक दिनाशिल्ली. कारण तांचें भयण-भावाचें नातें अशें लेचेंपेचें नाशिल्लेंच. तीं कितलींय पयस आसलीं तरी मनान एकठांय आशिल्लीं.

२३

**ना**तलूल्या आंकवारपणाच्यो यादी सूख दिवन वताल्यो. शेतां-भाटांनी कश्ट करचे पडटात म्हूण आलसूबालें कुटूंब विस्कळीत जालें. कुटुंबांतले वांगडी सुखा खातीर मेळत थंय फांफसले.

असल्या अडचणीच्या वेळार आलसूबाक आदार दिलो तो घरांत आंकवार आशिल्ल्या नातलून.

पूण नातलू सदांकाळ आपल्या भावाक आदार दिवंक शकनासलें. एक ना एक दीस काजार जावन तें घोवागेर वचपाचेंच आशिल्लें. तरी ताणें भाव एकटो पडटलो म्हूण, आंकवारपणांतले चडशे दीस भावा वांगडा आवयगेरूच सारले.

आपलो धाकटो भाव घरांत एकटो पडचो न्हय म्हूण नातलून ताका काजार केलो. आपल्याक भावज हाडली ती बरी पारखून हाडली. सुंदर आनी देखणी तर आशिल्लीच. ते भायर बऱ्या मनाची आनी ल्हान उतरांचीय आशिल्ली ती. आपल्या घोवा वांगडा शेतां-भाटांनी काम करपी फिशाल बायल दुसरी नाशिल्ली त्या वाठारांत.

पूण मनशाचें भविश्य कोणाच्यान पारखूं जायना. उजू आनी पवित्र मनाच्या, आलसूबाच्या नशिबांत नियंत्यान कसलें दुख्ख वाडून दवरलां हाची कल्पना कोणाक नाशिल्ली.

आलसूचें काजार जालें. नातलूक लोरसू जालो. आतां लुसीकूय भुरगें जालें. हेंच तें गुलू, म्हणल्यार ग्लोरिया.

आलसू-लुसीच्या सुखाक दिशीं-दिशीं भरती येता म्हणल्यार, आलसूबाच्या संवसारांत अकस्मात एक दुख्खेस्त घडणूक घडली. लुसी सक्काळीं फुडें शेतांत रोपे शिपूंक गेल्लेकडे आसतना, काळखांत ताचो पांय एका जिवाण्याचेर पडलो. जिवाण्यान ताका घांस काडलो. ताका वीखबादा जाली. एक खेपे तें हांतरूणार पडलें तें उठलेंच ना.

ग्लोरिया तेन्ना लोरसूपरस देड-दोन वर्सांनीं ल्हान आशिल्लें.

२४

**मा**ये-मोगाचें लुसी गेलें आनी आलसूबा उबंत पडलो. गुलू जर तेन्ना चलतें-फिरतें आशिल्लें तर तांतले तातूंत आलसूबाचें जिवीत सुखाचें वचपाचें. आतां आवय

नाशिल्ल्या ल्हान भुरग्याक सांबाळप आलसूबाक खूब कठीण वचूंक लागलें. घरांत कोणाचोच आदार ना जालो. असले वेळार भयण म्हूण भावाचे मजतीक धांवून येवप ही नातलूची लागणूक आशिल्ली. पूण नातलूक लागिल्लें व्हडपणाचें पिशें. तें लोरसूकडे आडनदर करूंक शकनासलें तरी आपल्या भावाक दुर्लक्षीत करूंक शकलें ना.

सुर्वेक चार दीस तें सतत आयलें. ल्हान भुरग्याक लागून येवचेंच पडलें ताका. उपरांत मात तें आत्रेपयऱ्यान येवन वचूंक लागलें.

नातलूचो भावाचेर चड मोग. आपूण घरांतल्यान भायर सरून वचचे पयलीं ताणें भावाक काजार केल्लो. कारण तो आपल्या फाटल्यान एकटो पडचो न्हय.

पूण सगळ्योच गजाली मनशाचे सुवादीन आसनात. मनीस चिंतता एक आनी नियंत्याच्या मनांत दुसरेंच आसता!

सैमाच्या ताब्यांत सत्ता आसता आनी हे सत्तेफुडें मनीसजातीचें कांयच चलना. आलसूबाच्या संवसाराचेर आयिल्लें संकश्ट नातलूक हेंच दाखोवन दिता.

नातलून आतां चिंतलें, हें अशेंच केन्ना मेरेन चलतलें? कसलोय तरी उपाय करूंकच जाय.

आलसू गुलूक खांदार घेवन ताका थापटीत पासयो मारतालो. नातलून हीच संद सादोवन आलसूकडे उलोवप केलें –

''दी तेहा मोकोडे. हाटीर घालतां.'' अशें म्हणून नातलून गुलूक आपलेकडे घेतलें.

''बाय जायना गो सोसूंक आतां. एकटो पूण आहलों जाल्यार तेज्या हाहल्यान हांवूय वोसपाचों.आतां हेका सोडून हूंय वयतोलों?''

''तेहा सोडून हुंय वोसपाची गोरोज ना. हें भांगोर. सांबाव तेहा. हांव जाणां, दुसऱ्या काजराक तूं तोयार जावंचो ना. पूण ह्या जिवाक लागोन तुहां जावंचोच पोडटोलो काजार. मोनांत नाहल्यार लेगीत. गोरोज म्होणोन तुहां कोच्चेंच पोडटोलें.''

आलसूबान नातलूलें उलोवप मोन्यानी आयकून घेतलें. तें उलयता तें खरें आशिल्लें. घरांत बायलमनशेच्या आदारा बगर जगप ताका कठीणच आशिल्लें.

आलसूबा काजार जावन आपल्याक बायल हाडूंक शकतालो. पूण गुलूक आवय न्हय. नवी बायल आलसूक मोग दिवंक शकताली. पूण ग्लोरियाक माया न्हय. ती शेत-भाट सांबाळून घरदार राखून, गिरेस्तकाय वाडोवंक शकताली. पूण गुलूची आवय जावंक शकनासली.

आलसूबाची एक आंकवार मेवणी आशिल्ली. आलसून मनार घेतल्यार, मावोडेचे लोक ताका मेवणेकडे काजार करूंक शकताले. पूण व्हंकल वयान चड ल्हान आशिल्ल्यान

तो विचार आलसूबान मनांत येवंक दिलोना. हायस्कुलांत शिकपी मेवणेकडे आपल्या सुवार्था खातीर काजराक तयार जावप, हें आलसूचे दिश्टीन नितीभश्ट आशिल्लें.

आलसून चिंतलें, देवान संकश्ट धाडलां. रडत बसून कोंता येवपा ना. धिरान कशेंय करून निस्तारचें पडटलें. अशें चिंतून, सगळें दुख्ख विसरून आलसू नेटान कामाक लागलो.

आलसूक दिसतालें, नातलून मोटेपणाचें पिशें सोडून दिवचें आनी ग्लोरियाक सांबाळपाक आदार दिवंचो.

नातलू ग्लोरियाक सांबाळपाक तयार आशिल्लें. पूण लोरसू भशेन गुलूक व्हडलें मनीस करपाचे अटीचेर. आनी आलसू ही अट केन्नाच मानून घेवपाचे स्थितींत नासलो. आलसूबा हाडाचो शेतकार आसलो आनी शेतकाराचें खरेलें व्हडपण कित्यांत आसपावलां, हें तो बेसबरें जाणा आसलो.

पूण नातलूक आलसूल्या मनांतलें मातय मान्य नाशिल्लें. तांच्या विचारांक हांगाच वेर गेली. भाव-भयणी मदलो मोग इल्लोय उणो जालो ना. पूण तीं आपलो हट्टय सोडूंक तयार जालीं ना. जातलीं कशीं? दोगांकय आपल्या भुरग्यांचो फुडार म्हत्वाचो आशिल्लो.

आलसूबान आपले भयणीचो अदमास घेतलो. गुलूक तिचे सुवादीन केल्यार ताची वाट लागतली. तेन्ना खंयचेय परिस्थितींत नातलूची सावळी गुलूचेर पडची न्हय, हाची जतनाय तो घेवंक लागलो.

काळ एकसारको बदलत आसा. काळा प्रमाण मनशांय बदलत आसतात. नव्या मनशांक सगळें नवें आपणावचेंशें दिसता. असले वगतार नवीं मनशां आपली अक्कल कडाशेक लावन, स्वताक शाणीं समजून समाजांत वावुरतात. देखीक नातलू!

कांय लोक अशेय आसतात, जे बुध्दीन सदांच उजू आसतात. ते जें करतात तें विचार करूनच करतात. आलसूबा तांतलोच एक आशिल्लो. असले लोक शिक्षणाचेर आनी लोकांच्या सांगण्यांचेर निंबून आसनात. सैमान दिल्ली हिकमत लडोवन आपलें कार्य ते फुडले चालीक लायतात.

आलसूबानय तशेंच केलें. घरकान्न सांगाताक नाशिल्ल्यान आपल्या फुडल्या जिविताची येवजण ताणें पध्दतशीर माण्णेर घाली. आवय नाशिल्ल्या गुलूचेर आलसूबाचो मोग दिशीं दिशीं वाडत गेलो. गुलूबगर ह्या संवसारांत आतां ताका प्रिय अशी खंयचीच वस्त नाशिल्ली. गुलू ताचें सर्वस्व आशिल्लें.

एका तेंपार जाण्टेले म्हणटाले, मनीसजातीचे उन्नती खातीर शेती उत्तम आनी उपरांत हेर वेवसाय.

पूण तो तेंप आतां ना. आमच्या गोंयांत तर नाच ना. आतां लोक म्हणूंक लागल्यात, उत्तम चाकरी आनी कण्णम शेती. पोट भरून सुखान जगतले जाल्यार इंग्लिश शिकात आनी ऑफिसर जायात. तेंय जायना जाल्यार चोरूंक शिकात. कितेंय करून पोट तर भरूंक जाय!

आलसूबा शिक्षणमोगी आशिल्लो. पूण ताचो अणभव ताका सांगतालो, इंग्लिश-पुर्तुगेज भासो आमच्यो न्हय. तेच पासत ताणें आपले धुवेक मुळावें शिक्षण कोंकणी दिवपाचें आनी फुडें इंग्लीश शिकोवपाची येवजण केली.

भाटयेर इंग्लीश शिकोवपाचें खास अशें मुळावें स्कूल आशिल्लें. पूण आलसूबान गुलूक व्हडले गोंयचे माद्रीले कोंकणी मुळावे शाळेंत घालें.

२५

**गां**वांतले सगळे लोक आपल्या भुरग्यांक इंग्लीशेंतल्यान शिकयतात आनी आलसूबा आपले धुवेक कोंकणी शाळेंत धाडटा तें पळोवन लोकांनी ताका पिशांत काडलो. पूण आलसूबान कोणाचेंच कानामनार घेतलें ना.

कांय पालक-अशिक्षीत आसूं मागीर ते सैमा कडल्यान खूब कितें शिकिल्ले आसतात. आलसूबा तर हाडामांसाचो शेतकार. दिसरात सैमाचे मांडयेर खेळपी. सैमाक मास्तरीण मानून ताचेकडल्यान, भुरगेपणांत सावन खूब कितें शिकिल्लो आलसूबा. गांवांतल्या भाटकारांलीं भुरगीं इंग्लीशींतल्यान सायन्स शिकतालीं, तेन्ना आलसूबा सगळे तरेची सायन्स आनी आर्ट सैमाकडल्यान शिकतालो. शाळा-कॉलेजांनी शिकपी भुरग्यांक भाटां खणूंक कळनाशिल्लें. शेतां रोवंक कळनाशिल्लें. झाडां-पेडांचेर चडून फळां तोडूंक कळनाशिल्लें. शीत-कडी करूंक कळनाशिल्लें. नुस्तें उजरोवंक कळनाशिल्लें. चुलीकडे बसून भाकऱ्यो भाजूंक कळनाशिल्लें. सगळीं गूड फॉर नथींग आशिल्लीं!

ह्या सगळ्या अणभवान आलसूबा शाणो जाल्लो. ताणें चिंतलें, इंग्लीशेंतल्यान शिकून मनशां निरूपेगी जातात. शाणी जायनात, पूण जातात एक नंबरचे मूर्ख.

जी गजाल आयज अशिक्षीत सैमपुतांक समजता ती स्वताक शिक्षणतज्ज्ञ म्हूण मिरोवप्यांक समजना हें आमच्या देशाचें दुर्दैव म्हणपाचें.

आलसूबान चिंतलें, शिक्षणाचे बाबतींत गांवांतले सगळेच लोक कुड्डे जाल्यात. इस्कॉलांनी बऱ्यो-शिकिल्ल्यो टिचरी आसून लेगीत भुरगीं इस्कॉलांतल्यान येवन ट्युशनाक धांवतात. ट्युशनां घेवन लेगीत फायनलीक नापास जातात.

गांवांत इंग्लीशींत ट्युशनां दिवपी टिचरी खुटया फातराक आशिल्ल्यो.

आलसूबान गुलूच्या शिक्षणाचो अदमास घेतलो. तें शिकूंक हुशार आसा, इस्कोलांत दिल्लो अभ्यास मन लावन करपाची क्षमताय ताच्यांत आसा. तेन्ना आलसूबान गुलूची काळजी करपाचें सोडून दिलें.

अशें आसलें तरी गुलूचेर बरे संस्कार घडोवन हाडपाक तो सदांच तत्पर आसतालो.

कोणय म्हणटलो, बरे संस्कार म्हणल्यार कितें? आलसू गरीब नासत. पूण तो अशिक्षीत आनी अनाडी आशिल्लो. आनी अनाडी आपल्या भुरग्यांचेर कसले बरे संस्कार करतलो? कपलाचे!

पूण खरेपणी मात तशें नासलें. आलसूबा अशिक्षीत आसलो तरी ताका वायट-बरें कळटालें. आपली धूव खंयचे दिकेन गेल्यार ती बऱ्याक पावतली, हाचेर ताचें सतत लक्ष आसतालें.

आलसूबान आनीक एक गजाल बरी केली. गुलूक ताणें गांवांतल्या हेर भुरग्यां पसून जाता तितलें पयस दवरलें. हेत हो की गुलूक हेर भुरग्यांल्यो वायट संवयों लागच्यो न्हय. ताका लागून तो गुलूक ल्हानपणांत शाळेंत व्हरून पावयतालो आनी शाळा सुटच्या वेळार ताका हाडूंक वतालो.

कांय गांवांनी त्या काळार अश्योय कांय गजाली दिसून येताल्यो. गांवांत बामणांलें एक तरी घर आसतालें. कुटुंबांतल्यो बायलो आपल्या भुरग्यांक जाती भायल्या भुरग्यांमदें मेळूंक - मिसळूंक दी नासल्यो. आतां आलसूबा तेंच करतालो. बामणांल्या बायलांचें वायट दिसपाचेंय कारण नाशिल्लें. कित्याक त्यो तांचेपरीन चुकनासल्यो. शाणे आवय-बापूय, गांवांतल्या आनी शेजाऱ्यांल्या वायट भुरग्यां पसून राखण करताच आनी ती करचीच पडटा.

आलसूबान आनीक एक गजाल हांगा बरी केली. गुलूक ताणें सदांच आपले देखरेखे खाला दवरलें. स्कूल सुट्टकच पाटी-पुस्तक घेवन अभ्यासाक बसता काय ना, पुस्तकां आनी मुस्तायकी ते-ते सुवातेर निगुतसाणेन दवरता काय ना हाचेर ताची पुराय नदर आसताली. आपली धूव सगळीं कामां जुस्ताजुस्त करता तें पळोवन आलसूबा खुशाल भरीत जातालो आनी ते ते वेळार गुलूक शाबासकी दिवंक फाटीं रावनासलो.

बुध्दीमान मनशांक आपले बुध्दीचो फाव तो उपेग जावंचोसो दिसता. ते स्वता आपले बुध्दीचो उपेग आपल्या घराब्या खातीर, समाजा खातीर करताच, ते भायर हेरांकय तशें करपाक प्रेरीत करतात.

आलसूबा देखीकार मनीस. दीसभर कसल्या ना कसल्या बऱ्या कार्यांत गुल्ल आसप, बरें खावप, बरें जेवप, बरें उलोवप आनी लोकांकडे नमळतायेन वागप हें ताचें निजाचें आशिल्लें. आपले हे गूण बरे आसात, हेरांक सूखदिणे आसात हाची पुराय खात्री आलसूबाक आशिल्ली. आपल्यांतले हे गूण आपले धुवेंत उतरल्यार ती एक बरी मनीस म्हूण समाजांत निश्चीतच वावरूंक शकता अशें आलसूबाचें मन ताका सांगतालें.

सैम हो मनशाचो सगळ्यांत व्हडलो गुरू अशें आलसूबाचें अणभवी मन ताका सांगतालें आनी तें खरेंय आशिल्लें. ह्या भारतदेशाची परंपराय आमकां हेंच शिकयता. ह्या देशान साधू-संत, रुशीमुनी आनी व्हड विद्वान दिले. हे विद्यावंत आयजच्या सारक्या म्हाविद्यालयांनी शिकलेनात. तांकां विद्वान जावपाक इंग्लीश – पुर्तुगेज सारक्या परक्या भासांची गरज पडली ना.

ही गजाल आलसूबाक कोणें सांगूंक नाशिल्ली. तरी ह्या पवित्र देशांत अशें निश्चीत घडलां हाची कल्पना आलसूबाक आशिल्ली.

ताणें चिंतलें, स्कूल नांवाचे बंदखणींत अर्ददीस तरी गुलूक दवरचेंच पडटलें. दुसरो पर्यायच ना. एक फर्मालदाद म्हणून सकाळचो आदेस गुलू शाळेंत वचूंक लागलें. तशें करूं नाशिल्लें जाल्यार औपचारीक शिक्षणाचीं दारां कायमचीं बंद जावपाची शक्यताय आशिल्ली. शिकपी भुरगें कितलेंय हुशार आसलें तरी शिकपा खातीर ताची शाळेंत नोंदणी केल्या बगर ताका प्रमाणपत्र मेळना.

खरें म्हणल्यार आलसूबाक गुलूक शिकोवन माडाम करपाची इत्सा नाशिल्ली. मात तें खूब शिकचें आनी हें शिक्षण शाणेपणाचें आसचें अशें ताका दिसतालें. शाणेपणाचें आनी मनीसपणाचें शिकप हें शाळांनी मेळटाच अशें नासता, तर तें सैमाच्या आंगणांत मात निश्चीत मेळटा अशें आलसूबाक मनापसून दिसतालें.

गुलू दिशींमाशीं वाडत वतालें. शाळेंतय ताचें येवप-वचप वक्तशीर आसतालें. शिक्षकांनी दिल्लो अभ्यासय तें वेळार करतालें. बापायचें तर तें आज्ञाधारक आशिल्लें. बापायलेंय एक उतर खाला पडूंक दी नाशिल्लें. आलसूबा ताका कसलेंच जड काम करूंक लायनासलो.

करतां करतां आलसूबा ताका आपल्या वांगडा शेतां-भाटांनीं व्हरूंक लागलो. आदाराक आनी काम करूंक न्हय. सैमाच्या आंगा खांदार बागडपाक.

आलसूबाचो हो निर्णय गुलूक खूब बऱ्याक पडलो. तें हरवें सोदतालें थंय ताका पिकें गावलें.

कांय भुरगीं लोलीं आसतात. बसता थंय बसतात. पळेता थंय पळेत रावतात. तांचीं कसलींय कामां उद्देशहीन आसतात. पूण गुलू तसल्यांतलें नाशिल्लें. साक्षात चैतन्य आशिल्लें गुलू! एके सुवातेर बसून रावप ताका केन्ना जमलेंच ना.

आतां तर ताच्या खासा बापायनच ताका उकतें मळ भेटयलें. चडशीं जाण्टीं मनशां आपल्या ल्हान भुरग्यांक पोरसांतल्या फुलझाडांकडे सोडीनात. कारण चडशीं भुरगीं माकडांवरीं पाडीं आसतात. एकदां तांकां सोबीत फुलां दिसलीं रे दिसलीं, पिशीं जालींच म्हूण समजपाचें. ताणीं जर फुलांचो गंध घेवन, तोखेवन जशाचीं तशीं सोडून दिल्लीं, तर कोणाचें कांयच लुकसाण जावंचें नासलें. पूण हीं माकडावतार घेतिल्लीं पाडीं भुरगीं, झाडार दिशिल्ली कळी आनी फुलिल्लें सोबीत फूल किरमून आनी पिसडून मोखल्या बगर सुशेग घेवचीं नात.

पूण आलसूबा गुलूक पुरायेन वळखतालो. गुलू कडच्यान असलीं कुकर्मां घडचींनात हाची ताका खात्री आशिल्ली. ताकाच लागून ताणें पोरसूं, घराची सरभोंवतण आनी भाटाचो लागसार आपले धुवे खातीर मेकळो सोडिल्लो.

ही मेकळी सुवात गुलूक सर्गसम जाली. सूखदिणो सर्ग. आलसूबा आनी मानाय–कामेऱ्यां भाटांत दिसभर घाम गळयतात आनी गुलू सैमानियाळ करता. फकत नियाळच करिना तर सैमांतल्या झाडां–पेडांचेर माये–मोगाचो पावस घालता.

आलसूबाल्या ताब्यांतल्या भाटांत एक विशालकाय वटवृक्ष आशिल्लो. गुलूक हें जशें एक विद्यापीठच आशिल्लें. ल्हानाचें व्हड जायत मेरेन गुलू ह्या विद्यापिठांत खूब कितें शिकलें. तें शिकचें म्हूण सैमान ताचे खातीर सगळे तरेच्या विद्येची वेवस्थीत मांडणी करून दवरिल्ली. हेत हो की गुलूक सगळे तरेचें उजू शिक्षण मेळचें. कसल्याच शिक्षणापसून तें वंचीत रावचें न्हय.

ह्या वडरूखार गुलूक शिकऽसारकें खूब कितें आशिल्लें. नव्यो–नव्यो गजाली आकर्शून घेताल्यो ताच्या बालमनाक.

तरातरांचे जीव आनी प्राणी हांगा आपापल्यो वसत्यो करून रावताले. एके खांदयेर तांबड्या हुमल्यांचे घोंटेर तर दुसरे एके खांदयेर काळ्या हुरणाचें मालें. आपल्या शेजराक येवन काळ्या हुरणांनी मालें केलां म्हूण तांबड्या हुमल्यांनी तांचेर केन्नाच आक्रमण केलें ना. कारण तें देवाचें राज्य आशिल्लें आनी देवाच्या राज्यांत भेदभाव चलना, हाची समजिकाय त्या प्राण्यांक आशिल्ली.

हें देवाचें राज्य येदें व्हडलें आशिल्लें, की हांगा हें म्हजें – तें तुजें चलनासलें. कोणेंय येवपाचें, मेळटा ते सुवातेर घोंटेर बांदपाचो, तातयां घालपाचीं आनी पिलां काडपाचीं. आडावपाक कोण ना. ना पंचायत, ना म्युनिसपालिटी, ना टॅक्स, ना लायट बील. कोण कोणाक विचारीना. ना झगडीं, ना केस्तांवां!

ताकाच लागून हांगा एके घोलींत चानयो रावतात तर दुसरे सोरोप. कोणाक कोणाचो भंय म्हणटा तो दिसना. सगळे देवाचेर भावार्थ दवरून रावतात आनी देवूय तांची राखण करता.

ह्या वडारुखार 'परमानेंट' आनी 'टेंपररी' जिवीत सारपी प्राणीय फुकटांत येवन रावतात. म्होंवा मूस हे टेंपररी निवासी आसतात. ते येतात, पोळें करतात, तातयां घालतात, पिलां काडटात. पिलां व्हडलीं आनी सशक्त जालीं म्हणटकच, पोळें थंयच सोडून मुसां भिरें खंयतरी उडून वता.

ते भायर शिल्ल्यो, शेड्डे, मुयो, काटमुयो, दोमळे बी त्या विशाल वटवृक्षार आपले राबिते करून बिनधास्त जगतात.

ही सगळी जिवावळ पळयतल्याक परमानेन्ट दिसता. कारण ती चड करून एका रुखार रातदीस निवास करून रावता.

एक घुगूम आनी पाखो सोडलो जाल्यार, ह्या रुखार आनी कसलोच पक्षी रातीचो राबित्याक नासतालो. उजवाडल्या उपरांत मात भायल्या सुकण्यांनी वड गजबजतालो. खूब तरेचीं सुकणीं वडार येवन बसतालीं. कीर येताले, साळोन्यो येताल्यो, पिटकोळ्यो सकाळफुडें हाजेरी लावन वताल्यो. गोड गळ्याचीं पाखरां येवन वेगवेगळ्या सुरांनी गायनां करतालीं. गुंगुल्लोय गायेनां करीत पासय मारून गेले बगर रावनासलो.

ह्या सगळ्या तरेच्या रंगांचें, सुरांचें रसपान आलसूबा करीत आयिल्लो. आपले धुवेकय तें घडचें आनी ती सैममोगी जावंची अशें आलसूक दिसतालें. ताकाच लागून तो गुलूक स्कुलांत पावोवचे पयलीं भाटांत पासयेक व्हरतालो. ते वेळार मागीर शीं आसूं वा दंव–धुकें!

अशे तरेन स्कुलांतलीं सगळीं भुरगीं माडामी जावपाचे दिकेन वतालीं आनी आमचें गुलूबाय एक बरी सुशिक्षीत शेतकान्न.

२६

**स**माजांत अशीं ल्हान–व्हड खूबशीं कुटुंबां आसात, वेळ प्रसंगार तीं एकामेकाचेर रागार–फुग्गार जातात. पूण रगताचे संबंद सासणाचे तोडून उडोवप तांकां जमना. एकमेकाक

मारतले, कातरतले. पूण एक ना एक दीस एकठांय जाले बगर रावचे नात. ना, तांकां तशें करचेंच पडटा. ना जाल्यार तीं रगताचीं नातीं कसलीं?

नातलू भावा म्हन्यांत गेलें आनी मन साफ करून आयलें.

तशें पळोवंक गेल्यार भाव-भयणींचीं मनां चडूच कुपेल्लीं. हालीं-हालीं एकामेकाक आपटल्लीं जाल्यार घसघशाचो पावस पडपाची शक्यताय आशिल्ली. पूण तशें जालें ना. कारण कुपां विरगळावपाची शक्त आनी ताकत थंय गुलू रुपान वावुरपी तेजवंत सुर्यांत आशिल्ली. नातलू जेन्ना काळशेल्लें मन घेवन भावागेर गेलें, तेन्ना थंय पवित्रतायेन वावुरपी सुर्याचीं किरणां, म्हणल्यार गुलूच्या हास्याचो प्रभाव नातलूचेर पडलो आनी थंयचे थंयच नातलूचें अर्दें मन साफ जालें.

ग्लोरिया आवय नाशिल्लें भुरगें. आपल्याच भावाली धूव. अशें आसतना लोरसू इतलो मस्तो आनी ग्लोरिया इतलें बरें? अशें कशें जावं येता?

लोक म्हणटात, आवयन बरी देख दिल्यार भुरगीं बरीं जातात. तशें जाल्यार ग्लोरियाक आवय खंय आसा? आवय नासतना तें इतलें बरें कशें? लोरसू मस्तो कसो जालो इतलो? ताची आवय मस्ती आशिल्ली म्हणून? हांवें तर इतलीं मस्तेपणां केन्नाच केलीं ना. अशें आसतना म्हजो पूत लोरसू इतलो मस्तो, फटींग, तड्डकी, चोर आनी पाडे बुध्दीचो कसो जालो? आदीं तो चोरपाचे भानगडेक पडनासलो. कारण ताका मागता तें मेळटालें. बरीं बरीं खाणां मेळटालीं. मनांत येता तें घेवपाक मागता तितके दुडू मेळटाले. आतां ते मेळनात म्हणून ताका चोरचेंशें दिसता.

खरें म्हणल्यार चूक लोरसूची नासली. ती नातलूचीच आसली. तें ताका व्हडलो मनीस करूंक गेलें आनी तो जालो चोर! खंयचोय मनीस शाणो जावपाचे लायकेचो आसल्यार, ताका आपल्या जिवितांत फाव तितलो वगत चिंतूंक मेळूंक जाय. विचार करपाची संद मेळूंक जाय ताका. नातलूक ही संद केन्नाच गावलीना. गावलीना म्हणचे परस ते दिकेन विचार करपाची गरज ताका केन्नाच पडलीना.

आतां मात ईश्वरान नातलूचें कल्याण करपाचें चिंतलें. तशें नाशिल्लें जाल्यार नातलूक भावाक मेळपाची बुध्द येवची नासली.

नातलून चिंतलें, आपणें नसतीं शाणेपणां केलीं, चुकीचे वाटेन गेलें आनी आपली ही अशी गत जाली.

म्हजो घोव आनी भाव खरेंच शाणे. तांचें आयकल्लें जाल्यार म्हजो सर्गतुल्य संवसार नरका दारार पावचो नासलो.

आतां जालें तें जालें. धीर धरून आनी मन लावन कामाक लागल्यार, केल्ली चूक कित्याक सुदारूंक जावंची ना!

इगर्जेचो पाद्रीय एक दीस आपल्या शेर्मांवांत सांगतालो; ह्या संवसारांत केल्यार सगळें जाता. करतलेच जाय. भियेनासतना कामाक हात घालात. देव तुमचेर बेसांव घालतलो आनी काम तडीक व्हरतलो.

हें वचन पाद्रीच्या तोंडांतल्यान भायर पडिल्लें. आनीक कोणेंय सांगिल्लें जाल्यार नातलू तें कानामनार घेवचें नासलें. पाद्रीचें उतर म्हणल्यार नातलूक देवाज्ञा!

काळशेल्लें तोंड घेवन भावाक मेळूंक गेल्लें नातलू आतां मनांतलीं सगळीं किजिलां विसरून गेलें. ताका खबर आशिल्ली, आलसू आनी सिमांव तागेले मोगाचे देंवचार. ते मनयल्यार मानतले. पूण नातलू मुखार व्हडलो प्रस्न आशिल्लो तो लोरसूचो. ताका जाग्यार हाडप म्हा कठीण आशिल्लें नातलूक. तरी तें खचलें ना. ताणें लोरसूक मनशाळपाची मोहीम हातांत घेतली.

लोरसूक बाबापुता केल्यारूच तो सुदरपाची शक्यताय आसा, ही गजाल नातलूच्या लक्षांत आयली. देवाचीच करणी आशिल्ली ती!

हेरांक सुदारतल्यांक आदीं स्वताक सुदारपाची गरज आसता, ही गजाल देवान नातलूचे तकलेंत भरली आनी उपरांतूच ताका इप्सीत कामाक प्रेरीत केलें.

पाद्रीन सांगिल्ल्या आनीक एका शेर्मांवाची नातलूक याद जाली. पाद्रीन सांगिल्लें, मनशान मुयेरुपान साकर खावंक जाय. ल्हानवीकायेन जगतल्याचेर देव बेसांव घालता.

नातलूंत आतां अकस्मात बदल घडून आयलो. अशें घडपाक कारण पाद्रील्या शेर्मांवांतलीं देखदिणीं उतरां आशिल्लींच, ते भायर गुलूली देवदिणी वागणूक नातलूक शांततायेची वाट दाखयताली.

नातलूचे गांठीक चार पयशे आशिल्ले तेन्ना तें गरजे भायर उडटालें. भलतोच नेट आयिल्लो ताका. त्या नेटा भारार ताका आपल्या पुताक व्हडलो मनीस करपाची इत्सा जाली.

पूण आतां ताका, सांत लॉरेंसाचे कृपेन कळून आयलें की केक-पीझा आनी व्हडलीं-व्हडलीं खाणां खाल्लीं म्हूण कोण व्हडलो मनीस जायना, तर नाचण्या भाकरी आनी पेज-निवळ खावनूय तो व्हडलो जावंक शकता. गुलूची देख ताच्या मुखार आशिल्लीच.

नातलून चिंतलें, गुलू जर सुदरूंक शकता, तर लोरसू कित्याक सुदरूंक शकचो ना? नातलून गुलूचे देखीन स्वता सुदरपाची मोख आपल्या मुखार दवरली.

नातलूचें मन इल्लें अस्थीर आशिल्ल्यान, केन्ना केन्नाय तें चुकीचे विचार करतालें. 'गुलू जर सुदरूंक शकता' हे विचार नातलूच्या मनांत येवप सामकें चुकीचें आशिल्लें. नातलू, गुलू आनी लोरसू हांची तुळा करूंकच शकनासलें. गुलू जर मुळांतच चुकनासलें, तर ताका कोणें सुदारपाचो प्रस्नच येनासलो. कितेंय जावं. नातलू हे फुडें कितेंय तरी बरें करूंक सोदतालें. तेन्ना तें चलतना, उलयतना मात्शें चुकलें, इल्लें आडखळ्ळें म्हूण कोणें ताका हांसप समा नासलें.

२७

आपलो पूत व्हडलो जायनासतना तसोच उरलो म्हूण नातलू खंतेलें. तरी आपलें फुडलें जिवीत उन्नतेचे वाटेक लागचें म्हूण भावाक मेळूंक बिलू कशें जावन गेल्लें. पूण घरा परत येतना ताच्यांत बरेंच परिवर्तन जालें. जाका कारण आशिल्लें, ग्लोरिया.

चड दिसांनी भाव-भयणीची भेट जाली. पूण तांचे मदें कसलेंच उलोवप जालें ना. ग्लोरियान तांकां तोंडाक तोंड घालपाची संदच दिलीना.

सिमांव आपली घरकान्न तेच दिसा सोंडो फुलयत येतली, अशें समजतालो. पूण ग्लोरियान नातलूक ते रातीकडे फोर्सान दवरून घेतलें. आलसूय भयणील्या वांकड्यांत गेलोना. गुलून आपल्या आत्या पासत रुच्चीक जेवण शिजयलें. उतराक उतर आनी हांशाक हांसो मेळोवन, खुशालभरीत जावन तीं तिगांय न्हिदे गोपांत रिगून गेलीं.

नातलू सकाळीं वचून सांजे येवपाचें. पूण आमोरेची घांट जाली तरी तें आयलें ना. सिमांवाक काळजी लागली. काळोख वाडूंक लागलो आनी ताचें काळीज सकल-वयर जावंक लागलें.

इतल्यान बांदावेल्यान बॅटरे दिवो पिकपिकूंक लागलो. सिमावंक सूऽ जालें. तो कोण आपलो दिवो पिकपिकायत फुडें गेलो. दोडटकीर ताका कळून आयलें की, पिकपिकत येवपी नातलू-बितलू कोण नासून, नातलूलो रकाद घेवन आयिल्लो गाब्रू.

''देव बोर्रात (बरी रात) दिवं सिमांव इरमांव!''

''तुहांय. कोण गाब्रू रे, हूंय रे येदे रातीर?'' सिमांवन दिवो पालयनासतना प्रस्न केलो.

''इंगा येयलेलों, तुहां मेवपाक.'' अशें म्हणत गाब्रून पट्ट करून दिव्याबटन दामलो.

''माहां मेवपाक आनी येद्‌दे रातीर?'' - सिमांव.

''रात हूंय जाल्या रे. आमोरी जाता थिंगा आहा.''

''तुहा रेकाद दिला.''

''कोणें?''

''नातलू बायन. तें हाल्यां सोकाडीं येतोलें हूंय.''

अशें म्हणत गाब्रून आपल्या दिव्या उजवाड सहजतायेन बांदावेल्या माडां कळवांचेर घुवंडायलो.

नातलूलो रकाद मेळिल्ल्यान सिमांवाक व्हड सुसेग जालो.

''चोल रे गाब्रू, मात्सो आमजेर. बोस आनी वोस.''

''ना रे इरमांव. आतां वोयतां हांव. येतां केन्नाय उलोवंक. जायते दीस जाले मेवल्यार. सोदांच कामां, कामां आनी कामां!'' अशें म्हणून गाब्रू ताकतिकेन चालीक लागलो.

गाब्रू सिमांवलो शेजारी पाजारी न्हय. पूण गांवचो. कसल्या तरी कामाक लागून तो भाटयेर गेल्लो. थंय तो नातलूक आयतोच सांपडलो.

काल आवयगेर गेल्लें नातलू, सक्काळीफुडें घोवागेर हाजीर!

येवचे येवन ताणें पेजे बुडकुलो रांदनीचेर चडयलो. भितर पेज शिजताली आनी भायर आंगणांत नातलू झाडलोट करतालें.

लोरसू अजून घोरेतालो.

दीस इल्लो इल्लो वयर येत आशिल्लो. घराशेजराच्या दाट पानांचे रुखावळीचेर पिपुशीं किलबिलतालीं. मळबांतलो सुर्यादेव ताकतिकेन वयर येवन, रूखांतल्या दाट पानांवळींतल्यान वाट काडून, आपलीं किरणां धर्तरेर सोडून तिका हुनसाण दिवपाच्या कामाक लागिल्लो.

धर्तरेची हुनसाण वाडत रावली, सिमांवचीं पावलां आतां आपसूक घराकडें वळ्ळीं. तो सदांभशेन फांतोडेर रोंपे शिपूंक शेतांत गेल्लो.

घराकडें नातलू नाशिल्ल्यान, लोरसू माथ्यावेल्यान बुरखो घेवन न्हिदून रावतलो, हाची काळजी ताका आशिल्लीच. आतां ताका वताचे खरसाणीन शेत सोडूंक लायलें.

सिमांव वायंगीं, पडोळीं आनी दुदयांची पोटली माथ्यार घेवन घरा आयलो. ताका दिशिल्लें, नातलू अकरा–बारांच्या सुमाराक नुस्तें घेवन घराभितर सरतलें. पूण ताका इतलेवेगीं घराकडें पळोवन अजापलो आनी खोशेलोय बी.

तो खोशेलो हे खातीर की सदांच काळशेल्लें, लांबशेल्लें आनी सोंडये तोंड घेवन वावुरपी नातलूच्या चेऱ्याचेर उजवाड पडिल्लो.

सिमांवन शाक भाज्जेची पोटली हाडून अचळय जमनीर एके कुशीक दवरली. ती दवरपाक नातलून ताका आदार दिलो.

''कोहीं आहाय गो तीं.'' सिमांवन घामशेल्लें आंग तुवाल्यान पुशीत प्रस्न केलो.

''तीं एकदोम बोरीं आहाय.'' नातलून हांसत्या तोंडान जाप दिली.

''तीं बोरीं आसतोलींच गो. पूण तुहां बोरें केलें काय ना.. आलसूबाचो तुजे वोयलो· राग जेलो काय ना? काय तोहोच आहा गो!''

''कांय ना रे! तेज्या मोनांतलें सोऽगलें कोंत्रपोण उडोन जेलें. तेजें उलोवप तोहेंच दाखोवन दितालें.''

''तोहें जाल्यार तूं थिंगा वोहोन बोरें जालें, ना गो नातलू?''

''व्होई! ना जाल्यार तेंच्या मोनांतोलें आमहां कोहें कोवंतो आहलें?'' नातलून आपली खोस उकतायली.

''आनी आमचें गुलूबाय कोहें आहा गो. तुहां बोरें केलें मुगो तेणें?''

''बोरें केलें काय म्होणोन इचात्ता? तेणें रातीं माहा फोर्सान रावोयलें. बोरें जेवोयलें. आयजूय राव म्होणो फोर्स कोत्तालें. हायें मुहलें 'ना'. रातचें, तुज्या हातचें जेवण माहां बोच बोरें लागलें. आतां पोत्तें-पोत्ते येतोलें.''

''यो आत्ते. तूं येयल्यार माहां चोड बोरें दिसतोलें. येतोना वांगडा कुन्यादाकूय हाड.'' – आलसू आपल्या भयणी घोवाक कुन्याद म्हणटालो. ते देखीन गुलूय आपले आत्ते घोवाक कुन्यादूच म्हणटालें.

दुसरे फावट येतासतना कुन्यादाकूय हाड म्हणटा तें आयकून सिमावंक मात्शें बरें दिसलें. आयज मेरेन असलें माये-मोगाचें उतर ताणें कोणाल्या तोंडांतल्यान आयकूं नासलें. तरी तो भुरकुटून गेलो ना. ताणें नातलूक म्हणलें-

''तोहें जाल्यार व्होत्तां मुगो माहां! माहाय पोयनशें दिसता तेहा. तूं सांगता ते कोंतान पोर चोड ओपुरबायेचें आहा, ओहें दिसता.''

''तें आहाच तोहें. माहा मुरे, तेकोडें पोत्तें-पोत्तें उलोयनशें दिसता. आनी तेजीं उतरां मुरे, सामकीं म्होवाचीं. आयकोन-आयकोन शीं दिसताय.''

''तोहें जाल्यार केन्ना या गो आमी तेहा मेवोंक.''

''येता ते आयतारा या मुरे? बाराबोन लोरसूकूय व्होरोया!''

''लोरसूक, लोरसूक आनी कित्याहू?'' सिमांवन आपली नाराजी उक्तायली.

''लोरसूक गुलूचो सांगात मेवलो जाल्यार तो सुदरतलो, ओहें दिसता माहां.''

''आनी पोत्तें जालें जाल्यार?''

''पोत्तें कितें जातोलें रे?''

''लोरसूच्या सांगातान गुलू बिगोडलें जाल्यार?''

''ना बिगोडचें.''

''तुहां कोहें कोवलें?''

''पादविगाराल्या शेर्मांवांत आयकोलां हायें.''

''कितें आयकोलें तुयें शेर्मांवांत?''

''तेंच, निजाचीं बोरीं मोनशां हूंय, लोकालें आयटपोण केन्नाच आपणायनात.''

''तूं पाद्रील्या शेर्मांवाचें कितें झेवन बोहलां गो, नातलू! लोक सांगताय, पाद्रीलो शेर्मांव हूंय तेगेल व्होनयेक न्होय. पाद्री आपल्या शेर्मांवांत जायत्यो बोऱ्यो गोजाली सांगताय. पूण लोक त्यो एका कानान आयकोताय मुगो, आनी दुसऱ्या कानान सोडून दिताय.'' सिमावन आपलो शेर्मांव उलोवन दाखयलो.

''तोहें जाल्यार तेहा, ओहोऽऽ आऱ्यार सोडुया मुरे.''

''हायें हुंय सांगलां गो, तेहा आऱ्यार सोड म्होणोन. हायें फोकोत सांगलां तेजें आरें गुलूचेर पोडों दिवंनाहां म्होणोन! आनी तुहां दिसता गो नातलू, तुजो भाव तुज्या पुताक लागीं धोत्तोलो म्होणोन? केन्नाच धोच्चो ना. हांव बोरोवन दितां तुहां सेलाद फोलीर.''

सिमांव हे आदीं इतको केन्नाच तिडकू नासलो. आतां लोरसू परस चड तिडक मारिल्ली नातलूची. कारण तें आपल्या पुताचें बरें घडोवन हाडपाक आपल्या भावाले धुवेचो बळी दिवंक सोदतालें. आपल्या मुर्खपणाक लागून स्वताच्या भुरग्याची वाट लायिल्लीच, आतां तें आपल्या भावाले, भांगरा सारके धुवेची वाट लावंक सोदतालें. तशें करपाचो ताचो उद्देश जरी नासलो, तरी सुवार्थ मात लिपून उरनासलो.

सिमांव तिडकलो तें पळोवन नातलू नरमलें आनी शिटुकूय जालें. ताणें चिंतलें, आपलो घोव आनी भाव एकठांय जाले जाल्यार, गुलूक आनी लोरसूक एकामेकां पसून सदांच पयस दवरतले. तेन्ना तांकां एकठांय हाडपाचें काम आपणाकूच करचें पडटलें, हें चिंतून नातलू कामाक लागलें.

२८

ते दिसा व्हडले गोंयच्या सांतांचें फेस्त आशिल्लें. सांजवेळा सांतांचें पुरसांव भायर सरपाचें आशिल्लें. व्हडलें गोंय, भाटी, आगशी आनी व्हडले गोंयचो हेर वाठार सोयरेधायऱ्यांनी

गर्देल्लो आसता. कोणाले सोयरे नासतना लेगीत, चड करून साश्टींतले आनी बारदेसांतले भक्त, सांतांक पळोवन तांचे आशिर्वाद घेवंक व्हडले गोंयां धांव घेतात.

असल्या वगतार तर किरिस्तांवांची गर्दी आसतालीच, ते भायर हिन्दू भोवजन समाजांतल्यो बायलो आपल्या भुरग्यांक हांडीर मारून, पुरसांवांतल्या सांतांची वाट पळेत, रस्त्याच्या दोनूय कडांनी उब्यो रावताल्यो. सांत म्हऱ्यांत पावतकीर सगळ्यो आवयो खुशालभरीत जातात आनी आपल्या बाबुल्यांक आनी बायुलांक पालखे पोंदच्यान काडटात. अशें घडचें म्हणून पालख्यो पेणीं करीत करीत फुडें वतात. हें खूब वर्सां सावन घडत आयलां, आयजूय घडटा आनी फुडाराकूय घडटलें.

हें सांतां फेस्त वर्सान वर्स सोमराचेंच घडोवन हाडटात. सगळे सांत, सांतान्द्रे इगर्जेंतल्यान भायर सरतात. असल्या वगतार सांज वाडटा आनी वतां मोव जायत वतात. पुरसांव इगर्जेंतल्यान भायर सरून बाजारांत तिठ्याकडें वता. थंय सांतांचें आनी तांच्या भक्तांचें स्वागत करपाक एक विशाल वटवृक्ष उबो आसा. ताका लागुनूच एका खुरसासयत सुसोबीत कपेल उबें आसा. वडाझाडाची थंडाय आनी पवित्र खुरसाचें बेसांव घेवन सांतां पुरसांव मुखेल रस्त्यावेल्यान बद्द सोजयेकडेन वता. थंयच्यान वळसो घेवन सांतान रस्त्या वेल्यान मात्शें फुडें वचून परत एकदां वोल्त घेवन, थंयच्या रस्त्यावेल्यान थेट इगर्जेच्या आवारांत वचून थंय व्हडली गर्दी करता. नेमाप्रमाण थंयची प्रार्थना सोंपल्या उपरांत इगर्जेकडची गर्दी इल्ली इल्ली उणी जायत वता आनी तीच मागीर फेरयेंत घुसता.

खरें म्हणल्यार फेरी आनी जात्रा हीं दोन उतरां, गोंयच्या हिन्दू - किरिस्तांवांक एकचारान जगूंक शिकयतात. जात्रा ही देवळां-मंदिरांच्या दारांत फुलता. फेरी फेस्ताच्या नांवान इगर्जेच्या आवारांत भरता.

जात्रा आनी फेरी हीं उतरां वेगळीं आसलीं, तरी खाज्या मांडावेलें खाजें, लाडू, कापां, रेवड्यो आनी खोर्नार भाजिल्लीं हुनहुनीत चणे-भिकणां खावपाची रूच मात सगळ्या जाति-धर्माच्या लोकांची एकूच.

खरें म्हणल्यार आयजची परिस्थिती आदले सारकी उरूंक ना. आयज शारांत वचून, भुरग्यां पासत सगळ्या तरेचीं खेळणीं हाडूं येतात. तींय आयजचे आयज. कसलेच कश्ट घेनासतना.

हाका आडवाद आसा तो फक्त बोमाड्यांचो. शारांतल्या पसऱ्यांचेर, खेळण्यांचें दुकान आसूं मागीर तें - बोमाडे फुलोवन लांबयलें जाल्यार कोणाकय दिसतलें, थंय फेरी भरल्या म्हणून.

सांगपाचो मुखेल मुद्दो असो, की गांवगिरे लोक आत्रेपयऱ्यान शारांतल्या बाजारांत गेले आनी थंय तांकां सोबीत, भुरग्यां आवडीचीं खेळणीं दिसलीं तरी ते हाडचे नात. चार पयशे सवाय आसून लेगीत. कारण गांवांत फेस्त ना जाल्यार जात्रा जावपाची आसता. हो परंपरेन चलत आयिल्लो उत्सव आसता. तो तिगोवन दवरप ही गांवकारांची इत्सा. हो उत्सव चालू उरल्यार सगळ्या जाती-धर्माच्या लोकांमदें एकचार तिगतलो आनी भारतीय संस्कृताय तिगून उरतली हे भावनेंतल्यान सगळें कितें घडून येत आसता.

नातलू सांताफेस्त केन्नाच चुकयनासलें. आयज तें लोरसूक घेवन मुजरत आयिल्लें. कारण ताका खबर आशिल्ली, गुलू फेरयेक आयल्या बगर कशेंच रावचें ना. तें चड करून खंय भेट्टलें, हाची कल्पना नातलूक आशिल्ली. तरी तें पयलीं खाज्यामांड, चण्या खोर्नां बी भोवन खाज्या पुडयो आनी चणे-भिकणां दोणे आनी हेर सामान घेत रावलें. घेतिल्लें सामान ताणें एके पिशवेंत भरलें. पिशवी सांबाळीत, गर्दैंतल्यान वाट काडीत फुडें गेलीं.

चलतां-चलतां तीं एका दुकानाकडें पावलीं. थंय बायलां परस चड आरसाटीं चेडवां गर्दी करून उबीं आशिल्लीं. गुलूय ते गर्दैंत भरसून आशिल्लें.

इतल्यान कावळ्याची नदर पिक्या आंब्याचेर पडची तशी नातलूची नदर गुलूचेर पडली. ताणें हातांतली पिशवी लोरसूकडें दिली आनी गर्दैंतल्यान वचून गुलूचो हात पकडलो.

कोणें तरी आपलो हात पकडलो, हे जाणिवेन गुलू काचाबूल जालें. ताणें हात झटकून फाटल्यान पळेलें. तें किळांच मारपाचे तयारेंत आसतनाच, नातलून ताका गर्दैंतल्यान ओडून भायर काडलें.

गुलूक जेन्ना कळ्ळें, आपल्या हाताक धरून ओडपी दुसरो तिसरो कोण नासून ती आपली आतीच म्हूण, तेन्ना ताचो राग, भंय सगळें खंयचे खंय नाच्च जालें. गुलून आपले आतेक खुशेभारार घट्ट वेंग मारली. एक ल्हान भुरगें आपले आवयक वेंग मारता तशी.

नातलूक थंयचे गर्देचें भान आशिल्लें. ताका दिसतालें, गुलून मिठी सोडची. पूण गुलू मात खीणभर सगळें विसरून गेलें. नातलून जेन्ना ताच्या केंसांचेर मायेन हात ओडलो, फाट पोशेली-तेन्ना गुलून वेंग सोडली. आवयचे मायेपसून वंचीत जाल्लें गुलू, आतीचे उबेन सुखावलें, खीणभर जावं मागीर तें!

लोरसू खाज्यापुडयांनी भरिल्ली पिशवी सांबाळीत सगळें मोन्यांनी पळेतालो. आपली आवय एका देखण्या चेडवाक गर्दैतल्यान भायर ओडून हाडटा कितें, मागीर तें चेडूं आपले आवयक वेंग मारता कितें, लोरसूक हें सगळें अजापाचें दिसलें. तरी तो कांयच उलयलो ना. खूंट कसो उबो रावन पळेत रावलो.

''बाबा लोरसू, हेका ओवकोना रे तूं? हें गुलू मुरे बाबा! तुज्या मामालें बाय!'' मामालें बाय म्हणटांच नातलून आपली तकली बागयली. आपूण गुन्यांवकारी आसल्याची जाणीव जाली ताका.

गुलू लोरसूची मामेभयण. दोगांय लागीं लागीं रावतालीं. आगशे आनी भाटी चड पयस ना. तरी लोरसूचे आवयक लागून लोरसूक सदांच गुलूपसून पयस पयस रावचें पडलें. इतलें पयस, की एकामेकाक खंयी दोडलीं जाल्यार वळखुचीं न्हय.

आतांय तशेंच जालें. नातलून वळख करून दिवंनाशिल्ली जाल्यार लोरसू आनी गुलूची भेट केन्नाच घडून येवची नाशिल्ली.

आलसूक तर लोरसू दोळ्यां मुखार नाका आशिल्लो. गुलूक आनी लोरसूक एकठांय येवंक दिलीं जाल्यार, तांचे मदें इश्टागत वाड्याची संद तांकां दिली जाल्यार, आपले धुवेचो फुडार कश्टमय जातलो अशें दिसतालें आलसूक.

पूण देवाच्या मनांत मात वेगळेंच आशिल्लें. ताका आपल्या भक्तांचें बरें करपाचें आशिल्लें. चुकिल्ल्या भक्तांचो संवसार जाग्यार घालून तांकां सुखी करप ही देवाची लागणूक आनी देव ती कोणाय भशेन पुराय करताच.

नातलू-सिमांव हें देवाचें मोगाचें जोडपें. हें जोडपें सुखी जावंचें म्हूण देवान तांकां जाण्टेपणांत भुरगें दिलें. आतां आपणेंच दिल्ल्या भुरग्याची जतनाय देव कसो घेवचो ना? आवयन चूक केली. ते चुकीची ख्यास्त भुरग्यांक कित्याक? भुरग्यांच्या बापायक कित्याक?

ताकाच लागून, फेस्ताच्या निमतान गुलू-लोरसूची भेट घडोवन हाडिल्ली देवान. अशा घडपांत नातलूची चूक नाशिल्ली आनी आलसूचीय बी! जें कितें घडलें तें देवाच्या आदेशान घडिल्लें.

गुलू आपले आतीचे वेंगेंतल्यान पयस जालें, तरी लोरसूची नदर ताचेवेली मातय पयसावलीना. पयलेच खेप असली सुंदरी ताच्या मनांत भरिल्ली. गुलूलें पुराय आंग सुंदरकायेन भरिल्लें. तें किडकिडीत लोरसू परस इल्लें मोटें आशिल्लें खरें, पूण ताची मोटाय पुराय कुडीक सोबाय हाडटाली. तें मात्शें काळें आशिल्लें, पूण ही काळसाण ताचे

पुराय कुडीची सोबीतकाय चडच वाडयताली आनी फुलयताली. ताच्या वांगडचीं भुरगीं केंस कापतालीं, पूण गुलूच्या केंसांक कोणेंय चुकून लेगीत कातर लायली जाल्यार, ल्हानपणांत सावन रडून आकांत करतालें. ताका कळटालें, लांब केंस आपल्याक चलता-भोंवतासतना, काम करतासतना आडखळटात. ते सांबाळटना थोडेशे त्रासय जातात. तरी ताका ते कातरचेशे केन्नाच दिसलें ना. कारण ताच्या बापायन सांगलां की ताच्यो आजयो-पणज्यो दाट कापडां न्हेसताल्यो. केंसांचो आंबाडो रचताल्यो. तरी त्यो सुंदऱ्यो दिसताल्यो.

आपल्या दादीन सांगिल्ल्याचेर विचार करपाची संवंय जाल्ली गुलूक. ताणें चिंतलें, आंकवारपणांतलें बरें आसा. काजरा उपरांत आपूण पातळ-पातळ साडयोच न्हेसतलें. केंस चड लांब दवरपाची गरज ना. तरी चेड्यां भशेन, दादल्यां भशेन भीस दवरचेंना हांव. दादल्यां भशेन केंस केन्नाच कापचें ना.

गुलूल्या इस्कोलांत सिल्विया नांवाची टिचर आशिल्ली. गांवान साश्टीची. ती केन्नाच हेरांभशेन मोटवो व्हिस्तीद घालून इस्कोलाक येनासली. केंसूय कापिनासली. मात निजाची देखणी आसुनूय केंसांच्यो तरांतरांच्यो रचणुको करून आपली सोब वाडयताली.

सिल्विया गुलूली आदर्श शिक्षिका आशिल्ली. ती कशी न्हेसता, कशी उलयता, कशी चलता, हेरांकडे कशी वागता, ह्या सगळ्याचो नियाळ करतालें गुलू! टिचरींतले सगळे बरे गूण गुलूक प्रेरीत करताले. ते गूण आतां ताचे निजाचे जाल्ले. गुलूची नदर जेन्ना लोरसूचेर पडली तशें तें हांसलें. तेन्ना लोरसू चडूच भुल्लुसून गेलो. गुलूच्या रुपान सिल्विया टिचरूच उबी आशिल्ली थंय.

लोरसूक सुर्वेक सर्वंट टिचर मेळिल्ली. ती न्हेसताली बरी. आशिल्ली गोरी अस्तुरी. पूण गुलूंतलो एकूय गूण ते सर्वंट टिचरीकडे आनी हायस्कुलांतले हेर खंयचेच टिचरींत दिसलो ना. ताची आवय तर अर्दमूर्ख आशिल्लीच. ताका लागून लोरसूच्या जिवितांत ताका केन्नाच उजवाड असो दिसलो ना.

एकामेकांची विचारपूस जाल्या उपरांत गुलूक थंयचें हालचेंशें दिसलें. गर्दी वाडत आशिल्ल्यान एके सुवातेर उबीं रावन उलोवप-तेंय दोन तरणाट्यांनी, योग्य नाशिल्लें.

गुलू फेरयेक एकटें येवंनाशिल्लें. वांगडा शालू, ताची इश्टीण आशिल्ली.

लोरसू हो आपलोच आतेभाव हें कळनाफुडें गुलूक आतां तोंड फुटलें. आपल्या सभावा प्रमाण तें लोरसूकडें उकत्या मनान उलोवंक लागलें. नातलूकय तेंच जाय आशिल्लें.

''आते, तुमी दोगांय आतां आमजेर येवाय जे. सांजे रावाय आनी हाल्यां सोऽकायीं वोसाय.'' गुलून खुशालभरीत जावन म्हणलें.

''नाहां गो बाये. आमी हिंगा रावल्यार, थिंगा कुन्याद एकटो पोडचो ना गो बाये? तो आदीं बोरो ना.'' नातलून तोंड रडकुरें करीत म्हणलें. पूण तें फकत दाखोवपाक.

''ना जे मम्मी, बोरो आहा तो. रावया आमी सांजे गुलूजेर.''

हें आयकून नातलूक बरें दिसलें. लोरसूक गुलूची आतां ओड लागूंक लागिल्ली. नातलूकय तेंच जाय आशिल्लें.

''बाबा, तूं राव रे. हांव वोयतां.'' नातलून वयल्या वयर म्हणलें. खरेंपणान ताका तें कशेंच धाडूंक तयार नाशिल्लें. तो थंय गेलोच जाल्यार ताचे परिणाम कितले वायट जावंक शकतात हाची कल्पना आशिल्ली नातलूक.

## २९

गुलू-लोरसू एकठांय जाल्यांत, तांचें बरें जमूंक लागल्याचे आसार नातलूक दिसूंक लागले. ताणें चिंतलें, लोरसूक गुलू वांगडा तागेर धाडचे परस, तांकां अशेंच खंय तरी भायरच मेळपाची संद दिल्यार बरी.

ताणें आपली येवजण आतां थंयचे थंयच चलणुकेंत हाडली.

''बाबा लोरसू, तूं मरे हेंकां फेरयेंत भोंवडोवन हाड. हांव मुरे, आनी एकदां सांतां सामकोरा दिमी मारून येतां.'' नातलून लोरसू हातांतली पिशवी आपल्या हातांत घेत म्हणलें.

हें आयकून शालूक कितें दिसलें, देवाक खबर. पूण गुलूक मात तें मानवलें ना. लोरसू आतेलो चेडो जालो म्हूण कितें जालें. शेकीं चेडो तो चेडोच. आपल्याक वळखपी फेरयेंत जायते लोक आसूं येतात. ते म्हणटले आलसूलें चेडूं एका चेड्या वांगडा फेरयेंत भोंवता. आनी ही गजाल दादीक कळ्ळी जाल्यार? ताका तें मातय आवडचें ना. तेन्ना, आतेक कितेंय निमित्त सांगून हांगच्यान कूस मारल्यार बरी.

नातलू अजून थंयच रेंगाळटालें.

''आते, आमी आतां वोयताय जे! दादी हुसको कोत्तोलो. शालूलींय घोच्चीं हुसकेत्तोलीं. ना गो शालू?''– गुलून शालूक दोळो मोडलो.

''हय आंटी. आमकां बेगीन वोचोंक जायें.'' हें म्हणटा आसतना तें मुमुरखें हांसलें.

''मम्मी तूं वोस जे घारा. हांव वोयतां गुलू आंगडा. तूं माहां सोकाडीं व्होरोंक यो.'' लोरसून भुल्लुसले भशेन जावन म्हणलें.

आतां मात गुलू चितूंक पडलें. लोरसू ताका आपल्यागेर आयिल्लो नाका आशिल्लो. तो वायट काय बरो, हाची कल्पना नाशिल्ली गुलूक. तरी केन्ना केन्नाय आलसू, लोरसू आनी आपले भयणीविशीं फाव तितलें बरें उलयनासलो. अशें आसतना लोरसू आपल्यागेर आयलो, तर आलसूकडल्यान ताका बरो येवकार मेळत काय ना, हाचो दुबाव पडलो. ताका लागून गुलून म्हणलें –

''आती, तूं सांतांची भेट झेवन यो. आमी फेरयेंत पासोय मारून, हेच सुवातेर रावतांय. माजीर तुमी तुमच्या घरा वोसाय आमी आमच्या वोयताय.''

''तोहें जाल्यार आमी तुमजेर येवंनाहा मुगो?'' लोरसून काचाबूल जावन म्हणलें.

''आतां नाहां रे लोरसू आनी केन्नाय येवाय. आतां ओगीच बोबाव जातोलो. आनी आमच्या दादीक मुरे, रातीचो बोबाव साप्प कोताक येयना.'' गुलून लोरसूक समजावपाचे भाशेन सांगलें.

''व्होय गो बाय. तूं सांगता तें सामकें होरें. तो मुरे बाबा, आठां घांट जाली म्हण्टोच न्हावन धुवन रोजार कोत्ता आनी जेवन फोटें कांबरोन न्हिदता. दिसभर शेतांत काम करून थोकलेलो आसता न्हो रे बाबा!'' नातलून लोरसूक समाजावपाचो प्रयत्न केलो. हें ताचें समजावप वयलेतरांचें आशिल्लें. खरें म्हणल्यार गुलूभशेन नातलूक्य तो आपल्या भावागेर गेल्लो नाका आशिल्लो.

''आते, तूं लोरसूक झेवन आयताराचीशी यो आमजेरू. बोरेंऽ मास बा रांदूया.'' हें आयकून नातलून हांय म्हणलें ना आनी नांय बी! तें फकत हांसलें आनी इगर्जेचे दिकेन चलूंक लागलें.

नातलू गेलें आनी हे वटेन लोरसूक मेकळेपणान वागपाची आयतीच संद मेळ्ळी.

फेरयेची गर्दी आतां इल्ली उणी जावंक लागिल्ली. शेर्मांव आयकल्या उपरांत म्हातारीं कोतारीं आपल्या सोयऱ्यां वांगडा आपापल्या घरचे वाटेक लागिल्लीं. ह्या वेळार तांकां फेरयेची गरज नासता. कारण फेरी खऱ्या अर्थान फुलता ती दुसरे दिसा. ह्या फेस्ताच्या दुसऱ्या दिसा मंगळार आसता. लोक त्या दिसा फेरयेंत येवन आपल्याक जाय ती खरेदी करतात आनी भायले गांवचे लोक, भायले भायर आपापल्या घरा वतात.

आतांय तशेंच जालें. सांतां पुरसांवांत वांटो घेवंक आयिल्ले लोक घरा गेले आनी फाटल्यान उरिल्ले ते खास मजा करूंक आयिल्ले चेडे आनी चेडवां. ह्या चेडे–चेडवांचे

चोंबे, सगळे तरेचीं स्टॉलां आडावन आशिल्ले. तांचे खरेदी परस, हांसप-खिदळपूच चड जातालें.

फेरयेंत एक-दोन तात्पुरतीं बारांय आशिल्लीं. मेजांचेर बियेरिच्यो बाटल्यो मांडून खूबशे बेबदे बशिल्ले. तातूंत जाण्ट्यांमदें शाळा-कॉलेजींनीं शिकपी चेडे-चेडवांय आशिल्लीं. तांकां पळोवन लोरसूच्याय मनांत आयलें, आपल्या वांगडाय दोन चेडवां आसात. तांकां म्हऱ्यांत बसोवन आपणेंय इल्ली बियर पिवची. तीं पितात जाल्यार तांकांय दिवची. इस्कोलांत शिकतासतना तो खूबदां चोरून पिल्लो. तागेली, एका तेंपावेली सर्वंट टिचरूय पिताली तें ताणें पळयल्लें.

ताणें बोल्सां तपासपाची तसदी घेतली ना आनी बोल्सांत दुडू आसलेय जाल्यार, गुलूक बारांत आपोवपाची कापाझदाद नाशिल्ली ताका.

आनीकूय एके गजालीचेर लोरसूचें लक्ष गेलें. फेरयेंत जायते चेडे-चेडवां हातांत हात घालून भोंवतालीं. तीं एकामेकांचीं फकांडांय करतालीं. तें पळोवन लोरसूकय दिसलें, आपणेंय आपलो हात गुलूच्या हातांत दिवन झेलोवचो.

पूण हेंय ताका जमलें ना. कारण ताच्या मनांत असले विचार येतात तेन्ना गुलूचो हांसतो चेरो रागीट जाल्ल्याचो भास ताका जातालो आनी ह्या रागीट चेऱ्याक लोरसू थर्त भितालो.

लोरसू इंग्लीश शिकलो. माचयेर चडून ताणें इंग्लीश कातारां म्हणलीं. दांसूय केले. कांय तेंप तो इंग्लीश वातावरणांत घोळ्ळो. तरी ताका आपलो हात पकड, अशें गुलूक सांगपाचें धाडस जालें ना. कारण गुलू एका शेतकाराली धूव आशिल्ली. आनी हो शेतकार भारतांतलो आशिल्लो. आनी भारतीय शेतकान्न आपल्या मोगीच्या हातांत हात घालून, उकत्या मळार आनी चार चवगांत निर्लज्जपणान नाच करची ना.

असले नकली नाच लोकांक सिनेमांत पळोवंक मेळत.

लोरसू दोगांय चेडवांक घेवन फेरयेंत भोंवलो. पूण चेडवांनी ताचे मनापसून स्वागत केलेंना. तिगांय फेरयेंत भोंवभोंव भोंवलीं आनी निश्चीत केल्ले सुवातेर नातलूची वाट पळेत रावलीं.

३०

**आ**मच्या मदें खूबशे लोक आसात, जांकां दिसता आपूण हें करतलों तें करतलों! पूण तांचेकडे जाय मात कांय ना. कारण तें आसता देवाच्या वो सैमाच्या हातांत.

आलसूबाक दिसतालें, गुलू आवय नाशिल्लें पोर. ताका आपूण सुखान वाडयतलों, बरें शिक्षण दितलों आनी बरोऽसो न्हवरो पळोवन ताका काजार करून दितलों.

भाव आपले धुवेचें चिंततालो आनी भयण आपल्या पुताचें.

आपल्या भुरग्यांचें बरें चिंतप हें सैमीक आसता. तातूंत कितें वायट आसा, अशें म्हणू नजो. पूण सैमाच्या नेमा प्रमाण आवय-बापूय प्रथम आपल्या भुरग्यांचें बरें चिंतता आनी उपरांत हेरांचें. खंयचीच आवय आपल्या भुरग्यांक वाऱ्यार सोडून परक्यांक वेंग मारची ना. व्हडलेंशें जाल्यार ती आपल्या-पेल्याचो भेद करिनासतना रावत.

खंयच्याय समाजांत वायट-बरे लोक आसताच. दुश्ट आनी सुवार्थी लोक सदांच सज्जनाक दुखदिणे कायदे रचून दवरतात. एकदां केल्ले कायदे, समाजाक कितलेय वायटाक पडले तरी ते सट्ट करून बदलूंक वचनात. तांकां देवा-धर्माचो आदार दिवन ताचीं मुळां घट्ट करपाचेच प्रयत्न चलत आयल्यात सुवार्थी लोकांकडल्यान.

नातलू दुश्ट नाशिल्लें जायत, पूण सुवार्थी मात जरूर आशिल्लें. आपल्या भावाली धूव ह्या नात्यान गुलूचेर ताचो दोळो आशिल्लो. भावान बरेपणान जर आपलें चेडूं लोरसूक दिलें ना, तर ह्या बुरसट कायद्याच्या आदारान, हक्क गाजोवन, भावाल्या चेडवाक आपल्या घरांत हाडपाची येवजण नातलूचे तकलेंत शिजताली. असल्या वेळार तें आपल्या भावाचो विचार करिनासलें. गुलू हें आपल्या भावाचो जीव की प्राण. ताका भाच्याच्या गळ्यांत बांदलें, तर ताचें फुडाराक कितें जातलें, हाचो विचार नातलू करिनासलें.

नातलून आतां गुलूकडें दाटी करपाक सुरू केलें. आदीं तें उलयनासतना पावला कणकणी खेकसतालें. सिमांवचो तें मोग करिनासलें अशांतली गजाल न्हय. पूण आपल्याक जाय तशें जायना जातकच तें उलोवंचे परस खेकसतालें चड. तांतले तातूंत गुलूक भेटून आयल्या उपरांत ताच्या सभावांत चडूच बदल घडून आयिल्लो. कोणाचेर तिडकपाचो प्रसंग आयलोच जाल्यार गुलूचो हांसतो चेरो ताच्या मुखार बोवाळूंक लागतालो.

जें नातलू भावाचें नांव लेगीत घेवंक दचकतालें, तेंच नातलू आतां परत परत भावागेर धावूंक लागलें. भावाच्या मोगान न्हय, गुलूक भेटपा खातीर. भाव शेतांत गेल्लेकडें आसतना, ताची भायर-भितर सरपाची वेळ लक्षांत घेवन येता-वतालें तें. वांगडा कितेंय तरी खाशेलें रांदून हाडटालेंच.

आलसूबाक आगशीच्यो खडप्यो कुल्ल्यो आवडटाल्यो. नातलून खारव्यां वाड्यार वचचें, लाखेच्यो कुल्ल्यो फयदो करच्यो. मसालेदार सुकें करचें आनी मुजरत भावाक हाडून दिवचें.

आलसूबाल्या शेतांत कणगां बरीं जायनासलीं. ताका लागून नातलून आपल्या शेतांतलीं मोटीं-मोटीं कणगां पिशव्यो भरून भावागेर पावोवचीं.

शेतकार आनी हेर कश्टकारांचें बरें आसता. ते कोणाचेंच कितें फुकट खावंक सोदिनात. दिल्ल्या केल्ल्याचो पुराय हिशेब दवरून आसतात हे लोक! फाटींफुडें ताची परतफेड केल्या बगर रावचेनात.

आलसूबाल्या शेतांत कणगां ना म्हण कितें जालें? शेताचो एक वांटो अळसांद्यांच्या सांगांनी भरून आसतालो. गुलू सूप भरून अळसांद्यां ना तर चवळेच्यो सांगो तोडून हाडटालें. तांच्यो चुडयो बांदून, घरा व्हर म्हूण नातलूकडें दितालें. थोडेच दिसांनी नातलून गुलूकडें बरेंच जमोवन घेतलें. गुलूकय आतेची ओड लागली. नातलू दोन दीस येनासतना रावलें तर गुलूक सूख लागनासलें. ताचे दोळे नातलूचे वाटेकडें थिरूंक लागले.

आलसूबान गुलूक दोळ्यांत तेल घालून जपलें. जाय जाय तें खावयलें. कितेंच उणे पडूंक दिलें ना. पूण गुलूक मात आपूण घरांत एकटें-एकटें आशिल्ल्याचो भास जातालो. बापायचो सांगात मेळटा तेन्ना ताचो वगत बरो पासार जातालो. पूण बापूय तर सदांकाळ घरांत बसून रावंक शकनासलो. तरी शेतांत वतकच ताका मदें-मदें धुवेची याद येताली. उदक पिवपाचें निमित्त काडून घराकडें येतालो. पांच-धा मिनटां आपले धुवेकडें चकाटां मारतालो. चकाटां? हय चकाटांच आशिल्लीं तीं? उलयतां-उलयतां आपले धुवेची मनरिजवण जावंची म्हूण मुजरत ताचीं फकांडांय करतालो आलसूबा!

पूण फकांडां हीं भाव-भयणां वांगडा चलतात. इश्ट-इश्टीणीं वांगडा चलतात. पूण बापूय हो भुरग्यांक आदरणीय आसता आनी ल्हानांनी व्हडांचीं फकांडां मारप, हें गुलूक मानपा सारकें नासलें.

आलसूबाकय तें चड करून मानवनासलें. तरी गुलू घरांत एकटें पडटा, मन मेकळें करपाक घरांत दुसरें मनीस कोण ना. आपल्याक तरी शेतांत मानाय-कामेऱ्यां आसात. तांचेकडे उलोवंक शकतां. पूण गुलू मात घरांत एकटें पडटा, अशें आलसूक दिसतालें.

ह्या सगळ्यांचो विचार करून आलसू आपले धुवेक एकटी सोडिनासलो.

अशें जरी आसलें, तरी गुलूक मात मनापसून दिसतालें, की आपलें मन मेकळेपणान उक्तें करपाक घरांत ना जाल्यार लागसाराक कोणय तरी बायलमनीस आसची.

पूण आतां ती समस्या पयस जाल्ली. आवय नासली म्हूण कितें जालें? इतले दीस पयस आशिल्ली आती आतां लागीं जाल्या. दादीची भयण ती. सुखदुख्खाच्यो गजाली हक्कान उलोवंच्याक कसलीच अडचण ना.

नातलूलें आतां अर्दें काम तडीक गेल्लें. नातलू गुलूली इश्टागत आतां दिशींदिशीं वाडत वताली. पूण हे असले इश्टागतीन नातलू मात समाधानी नाशिल्लें. ताका समाधान तेन्नाच मेळपाचें आशिल्लें, जेन्ना गुलू आनी लोरसू एकठांय येवन आपल्या मदली इश्टागत वाडयतलीं. आनी ती कशी वाडटा, हाची वाट नातलू दोळ्यांत तेल घालून पळेतालें. मात तें आपूण जावन गुलू मुखार लोरसूची याद काडिनासलें.

एक दीस नातलून सहजतायेन म्हणलें –

''बाय गुलू, लोरसू तुजी होबोर झेतालो.''

''होई, कित्या जे आती?''

''तेहा हूंय तुजी याऽद येता.''

''होई, तोहें जाल्यार तूं तेहा कित्याक हाडिना बाराबोन?'' – गुलून वयलेतराक म्हणलें.

''तुयेन आपोयलो तेहा केन्ना? आपोयल्यार येतो आहलो!'' – नातलू कितेंय तरी उलोवंक जाय म्हूण उलयलें. खरें म्हणल्यार तशें उलोवन ताका गुलूच्या मनाचो थाव घेवंक जाय आसलो.

''आमी आपोवंक जाय तोर तेहा? तो आमजे मुनीस मिजे आते.''

''तोहें जाल्यार तूं आमजे मुनीस न्हो मुगो?'' तूं आमजेर कित्याक येयना गो? हायेंऽ तुमजेर येवपा मिस्ता!'' नातलू कोरें करून हांसलें.

''तुयें आपोयल्यार आनी दादीन धाडल्यार येतो आहलें हांव.'' गुलू शिस्ती–गजाल सहजतायेन उलोवन गेलें.

''बाय गुलू, तूं ओहें कित्या कोरिना?''

नातलून मान खाला घालून प्रस्न केलो.

''ओहें म्हुणचे कोहें जे आती?'' गुलून हांसत्या चेऱ्यान आतेचेर नदर मारीत म्हणलें.

''तूं व्होडल्या गोंयचे इगोज्जेक मिसाक वोयता मुगो बाये?''– नातलू.

''व्होई, आयतोराच्या मिसाक थिंगा वोयतां हांव.'' – गुलू.

''तोहें जाल्यार हांव लोरसूकूय थिंगा धाडटां मिसाक. तुमी मेवाय एकामेकाक. फ्रेंडां जावाय. उलोयाय एकामेकांकोडें.'' नातलून गुलूचो थाव घेवपाचो प्रयत्न केलो.

गुलू मात आतां चिंतूंक पडलें. घडटा तें ताच्या मना आड घडटालें. तें लोरसूक टाळूंक सोदतालें. कारण दादीक ताचो लागसार नाका आशिल्लो. आनी आतां तर आती ताका मुजरत भेटपाक सांगताली. ताका आपूण व्हडल्या धर्मसंकश्टांत पडिल्ल्याची

जाणीव जावंक लागली. तें लोरसूक आपूण जावन मुजरत भेटूंक सोदिनासलें. तो वायट–बरो आसा म्हूण न्हय. तांचें भेटप, एकामेकाकडे उलोवप दादीक मानवचेंना म्हूण आनी आतां तर आतीच आपल्या पुताक भेट म्हूण फोर्स करता. आनी कोणाकूय जाल्यार ना म्हणटलें आशिल्लें गुलू! ना म्हणलें आनी घडून आयिल्लें खिणांत बिगडलें जाल्यार? इतले तेंपान लागीं जाल्ली आती पयसावली जाल्यार?

गुलूक लोरसू लागसाराक नाका आशिल्लो. पूण आती जाय आशिल्ली. ताणें चिंत–चिंत चिंतलें आनी नाराजेन आतीक म्हणलें – ''आते, माहां लोरसूक भेटोंक, तेकोडे उलोवंक कोहलीच आडकोव ना. सांग तेहा माहां भेटोंक.''

गुलून आपली नाराजी लिपयत म्हणलें. मात नातलूचो चेरो आतां इल्लो चडच फुल्लो. आपली येवजण फळाक येताशी सुलूस ताका लागली.

३१

**आ**यतारचें मीस आतां सुरू जावपाचो वगत जाल्लो. सभाघर इल्लें इल्लें करून उपाट भरिल्लें. सगळे वाटेर बडबडत आयिल्ल्यो अस्तुऱ्यो इगर्जेच्या लागसाराक पावतांच शांत जाल्यो. आल्तारा सामकारा चड करून बायलां–चेडवांनी आनी ल्हान भुरग्यांनी. बांक आडावन गर्दी केल्ली. दादले मात सभाघराच्या दाराकडें आनी दारा भायर चोंब्यांनीं उबे आशिल्ले.

सभाघर भरिल्लें, तरी पादविगार आल्ताराकडे देवकार्यांत मग्न आशिल्लो. मग्न आशिल्लो म्हणचे परस फाटीं उरिल्ल्या भक्तांक आपलो शेरमांव चुकचो न्हय, म्हूण गणयतालोय जावंये! आपलो शेरमांव एकान एक भक्तान आयकुचो अशी पादविगाराची इत्सा आसताली.

पादविगारान आतां पुराय आल्ताराचेर नदर मारली. मेणवातींच्या उजवाडांत आख्खो आल्तार लखलखतालो. पुराय सभाघरांत शांतताय पातळिल्ली. एकान एक भक्ताचे कान–दोळे पादविगाराचे हालचालीकडें लागून आशिल्ले. सगळे देवभक्त पादविगाराल्या देवासांवाचें सस्वर ओरांसांव आयकून स्वताक विसरून गेल्ले.

थंय मिसाक जमिल्ल्या लोकांमदें एक असो तरणाटो मनीस आशिल्लो, जो हेरांभशेन देवाच्या मोगान, देवाचे भक्तेन थंय येवंनाशिल्लो. तो आयिल्लो गुलूच्या मोगान! सगळ्यांचें ध्यान–मन आल्तारावेल्या देवाचेर आशिल्लें, तर ह्या तरणाट्याचे म्हणल्यार लोरसूचे दोळे सभाघरांतल्या चेडवांच्या प्रत्येक चोंब्याचेर भिरभिरताले. मीस केन्ना सोंपतलें आनी आपूण गुलूक केन्ना भेट्टलों अशें जाल्लें लोरसूक.

आनी गुलू? तें तर गर्दी वाटोवपा खातीर सगळ्यांत फुडल्या बांकार येवन बशिल्लें. तें मुजरत फुडें बसपाक दोन कारणां आशिल्लीं. एक कारण, ताच्या वांगडा एक म्हातारी आशिल्ली. तिका मीस सुटऽमेरेन तरी गुलूचो आदार जाय आशिल्लो.

दुसरें कारण आशिल्लें, तें उतावीळ लोरसूक इगर्जेंत टाळूंक सोदतालें. आपूण मदें ना तर फाटल्या बांकार बसलें जाल्यार लोरसूची नदर आपल्याचेर पडपाची शक्यताय आसा. तशें जालें जाल्यार तो आपल्या म्हऱ्यांत येवन बसपाक उणो ना. बसलो म्हूण कांय ना. पूण तो आपले पध्दतीन वागलो जाल्यार?

गुलू कश्टकाऱ्याली, शेतकाऱ्याली धूव. तरी तें पावला कणकणी देशेंतकायेन वागतालें. ताचें उलोवप देशेंतकायेचें. न्हेसप सादेंसुदें. उजू चलणुकेचो सभाव. आपूण हेरांकडें वागता तशें हेरांनीय आपल्याकडें वागचें अशी ताची धारणा. आपलो वांगडी, इश्टीण बी चुकली जाल्यार, तांकां सुदारून जाग्यार हाडपाचे सदांच प्रयत्न आसताले गुलूचे. ताका लागून ताच्या संपर्कांत आयिल्लो मनीस ताका दचकुनच आसतालो.

लोरसूकडल्यानूय ताची हीच अपेक्षा आशिल्ली. ताचेकडें इश्टागत करतलें जाल्यार ताका पुराय पारखिल्या बगर ताच्या संपर्कांत येवप समा न्हय अशें दिसतालें गुलूक. ताका लागून तें इगर्जेच्या सभाघरांत लोरसूक मेळूंक सोदी नासलें. इगर्जे भायर मेळून, ताका कोणायभशेन भायले भायर आवियार करपाचें गुलूच्या मनांत आशिल्लें.

आतां मीस सोंपपाचे आसार दिसूंक लागिल्ले. पाद्रिगाराल्या आनी भक्तांल्या सुस्वर ओरासांवान आख्खें सभाघर भक्तिभावान भरून गेल्लें. इतल्यांत ताच्या आदारान म्हऱ्यांत बशिल्ले म्हातारेचो कडकडटो हात गुलूच्या खांदार पडलो. म्हातारेली नात तिका व्हरूंक आयिल्ली. गुलून म्हातारेक तिचे नातीकडें सुपूर्द केली आनी मान खाला घालून तें मोन्यांनी इगर्जे भायर गेलें.

मीस सुटल्या उपरांत, मुसांचें भिरें सुटिल्लेवरी भक्तांचे चोंबे इगर्जे भायर सरले. खंयचे तरी एका चोंब्यांत गुलू आशिल्लें. लोरसू आपल्याक इगर्जे भायर सोदतलो हाचें भान ताका आशिल्लें.

मिसाक येतासतना चडशीं वयस्क बायलां ध्यानमग्न जावन मोन्यांनी चलतालीं. आतां मीस सुटिल्ल्यान बायलांचीं तोंडांय सुटिल्लीं. तीं व्हडल्यान बडबडनासलीं. तरी चोंब्यांतल्यान तांचो कचकच भायर पडटालोच. तांतल्या तातूंत तरण्यो व्हंकलो चडूच खळखळटाल्यो. गुलूचो आवाज मात खंयच्यानूच आयकूंक येनासलो.

असल्या वगतार चवथऱ्याच्या सोंपणांचेर पांय दवरून लोरसू चेडवांच्या चोंब्याची तेळणी करतालो. खंयच्याय तरी एका चोंब्यांत गुलू आसतलें! व्हडा उमेदीन म्हऱ्यांत वचून आपूण ताका जापायतलों, ह्या इराद्यान तो गुलूची वाट पळयत आशिल्लो.

मिसाक आयिल्लीं तरणाटीं हांसत-खिदळत इगर्जे पसून पयस गेलीं आनी उपरांत फांकारलीं. कारण तीं एकाच वाड्यावेलीं नाशिल्लीं. कोण जुवारेवेलीं आशिल्लीं, कोण पिलावेलीं आशिल्लीं, कोण खारवासायचीं आशिल्लीं, कोण दांड्यावेलीं आशिल्लीं तर कोण फोरंगोट्यांतलीं. भाटयेचें मात आयज गुलू एकटेंच आशिल्लें. खास करून तें लोरसूक भेटूंक आयिल्लें. ताका खबर आशिल्ली, आपल्याक लोरसूक सोदूंक वचपाची गरज ना. तो आपूण जावन ताका सोदीत ताच्या म्हऱ्यांत येतलो. ताका लागून हांगा थंय पळेनासतना गुलू बिनधास्त आशिल्लें.

आतां एकेक करून सगळे भक्त आपापल्या घरा गेल्ले. इगर्जेचो आवार निर्मनुश्य जाल्लो. आवारांत कोण ना तें पळोवन लोरसू चवथरो सोडून हांगा थंय पिशांभशेन बेट्योच पासयो मारूंक लागलो. गुलू ना तें पळोवन तो निर्शेलो. ताका दिसलें गुलून आपल्याक फट मारली. येतां म्हूण सांगून तें आयलें ना. अशें कित्याक केलें काय ताणें? तें मुजरत आयलें ना, काय कसली आडखळ जाली? तशेंच कितें घडलां जावंये. गुलू म्हजे भशेन न्हय. तें बरें भुरगें. तें कोणाक फट मारपी न्हय.

अशें म्हणून लोरसूचें पायें अचळय इगर्जेच्या दाराकडें वळ्ळे. इगर्जेच्या निरव सभाघरांत शांतताय पातळिल्ली. आल्तारावेल्यो मेणवात्यो अजून मंद-मंद पेट्टाल्यो. तरी तांचो उजवाड देवाच्या चेऱ्यार पडून तो चेरो मायेस्त आनी सूखदिणो लागतालो. इगर्ज म्हणल्यार देवघर. ह्या देवघरांत पाविल्लो अपवित्र मनीस लेगीत पवित्र जाता. पिशाक शाणेपण मेळटा. खुबळिल्ल्याक शांती मेळटा. बेअकल्याक अक्कल मेळटा. अगिन्यानाक गिन्यान मेळटा.

लोरसूच्या आंगांत वायट गूण आशिल्ले. चड-थोडे आसूं ते मागीर. आपल्यांत वायट गूण आसात, गुलूक ते मानवचेनात हाची जाणविकाय लोरसूक आशिल्ली. आपल्यांतले हे वायट गूण पयस जावंचे अशेंय लोरसूक दिसतालें. ताका व्हडलो मनीस करूंक सोदपी, वायट गूण पयस करूंक शकली ना. मम्मीकडेंय तें काम जमलें ना. हें काम आतां एक तर गुलूचे लगाडीन जावंक शकता, ना तर देवाचे कृपेन!

अशें चिंतून लोरसून हात जोडले आनी आल्तारा मुखार भावार्थान दिमी मारली.

मीस सुटलें तेन्ना लोकांच्या लोटा वांगडा गुलूय नेटान भायर गेल्लें. हांगाच लोरसूची आनी गुलूची चुकामूक जाल्ली जावंये!

गुलू लोकांच्या लोटा वांगडा भायर गेल्लेकडें थंय ताका मार्था मेळ्ळें. मार्था गुलूची क्लासमेट. दोगांय उलयत-उलयत बरींच पयस गेलीं. बरेच दिसांनीं मेळिल्लीं तीं एकामेकांक.

दोगूय इश्टिणी उलयतां उलयतां इगर्जेच्या आवारा भायर केन्ना पावल्यो कोणाक कळ्ळेंच ना. इश्टीण काळजी विरयत आशिल्ली. ती बिनधास्त चकाटां मारताली.

पूण गुलूक आतां लोरसूची याद जाली. ताचीं पावलां अचळय फाटीं वळ्ळीं. आपले इश्टीणीक ताणें 'बाय बाय' केलें आनी ताकतिकेन लोरसूचे सोदीक तें इगर्जेच्या आवारांत परत आयलें.

पयलें मीस सोंपून आतां धायेक मिनटां जाल्लीं. इगर्जेचें दार आतां उकतेंच आशिल्लें. पयलें मीस पादविगारान सांगलें. दुसरें सांगूंक आतां पाथकूर येवपाचो आशिल्लो. एक एक करून भक्त आवारांत जमूंक लागिल्ले. जमिल्ल्या भक्तांमदें चडशो बायलोच आशिल्ल्यो. दादलो कोणूच दिसनाशिल्लो थंय. ताका लागून गुलू निर्शेलें. इश्टिणीक लागून आवार सोडून आपणें व्हड चूक केली, अशें गुलूक दिसलें. ताणें आतां निर्शेवन घरा वचपाचो बेत केलो.

घरा वचचे पयलीं ताणें परत एकदां इगर्जेचेर नदर मारली. ताणें चिंतलें, दार उक्तें आसा. आल्तारा मुखार वचून आनीक एकदां दिमी मारल्यार बरी. गरज नाशिल्ली पूण आनीक एकदां इगर्जेंतली शांतताय भोगल्यार कितें बिगडटा? अशें म्हणून तें विशाल सभाघराच्या दारा मेरेन मंद गतीन गेलेंच!

गुलून पळेलें, आख्खें सभाघर रिकामें आसा. शांततायेचें साम्राज्य पातळ्ळां. पादविगार मीस सांगतना अडथळो येवंचो न्हय म्हूण वयल्या बुराकांतल्यान भायर गेल्ले एक-दोन पारवे भितर येवन, आल्तारावयले सुवातेर बसून गुटरगूं करताले. त्या आवाजान इल्लो शांतता भंग जातालो, तरी तो सुखदिणो लागतालो.

गुलू आतां तशेंच दोन पावलां फुडें गेलें. पळय जाल्यार आलतारा सामकारा कोण तरी एक मनीस दिमी मारून आसा. केंसांवेल्यान बायल कसो दिसलो तरी पोशेगावेल्यान आनी आंगलटावेल्यान तो दादलो दिसतालो.

त्या दिमीमाऱ्या मनशाक पळोवन गुलूक इल्लोय दुबाव मारलोना की तो लोरसू आसत म्हणून. कारण गुलूचे दिश्टीन लोरसू इतलो भावार्थी आसुंकूच शकनाशिल्लो.

लोरसूल्या वांगड्यांनी केल्लीं वर्णनां आनी गुलूलो लोरसूविशींचो अणभव गुलूमुखार हेंच स्पश्ट करतालो.

पुराय सभाघरांत हो दिमीमारो एकटोच नाशिल्लो जाल्यार, गुलू ताचे वाटेक वचचें नाशिल्लें. शिवाय दिमीमारो लोरसू आसपाची शक्यताय नासुनूय तो कोण हें जाणोवन घेवपाची उत्सुकताय गुलूक जाल्ली.

दुसरी गजाल म्हणल्यार हालीं गुलूची आनी लोरसूची भेट सट्सट् करून जायनासली. एक-दोन फावट मेळिल्लीं तीं एकमेकाक, पूण तें संवकळीचें जावनाशिल्लें.

फाटल्यान पळोवन वळख पटपाची शक्यता नाशिल्ल्यान, गुलून त्या मनशा मुखार वचून ताचें मुखामळ पळोवपाचें धाडस केलें. गुलूकडें हेर चेडवां भशेन निर्लजपणां नाशिल्लीं. तें सट् करून खंयच्याय चेड्यांचेर नदर मारप्यांतलें नाशिल्लें.

आपल्या मुखार एक चेडूं उबें आसा म्हणपाचें त्या दिमीमाऱ्याच्या लक्षांत आयलें. ताणें दिमयांचेरूच रावन चोंयवशीन नदर मारली. आख्खें सभाघर रिकामें आसुनूय एक चेडूं आपल्या मुखार मुजरत उबें रावलां तें पळोवन दिमीमारो अजापीत जालो. तो दिमयांवेलो सट्ट करून उबो रावलो. पळे जाल्यार मुखार साक्षात गुलू. ताचें मोगाचें ग्लोरिया!

इगर्जेंत आनी तींय देवाच्या आल्ताराकडें, एकमेकाक पळोवन तीं दोगांय अजापीत जालीं. तांकां दिसलें, देवानूच तांची आपल्या सामकाराक भेट घडोवन हाडल्या.

''लोरसू हूंय रे तूं! हांव तुहां सोऽगल्या सोदतां, आनी तूं इंगा दिमी मारून आहा?'' – गुलून कागाळे सुरान प्रस्न केलो.

''इंगा दिमी मान्ना जाल्यार आनी हूंय मात्तलों? इंगा दिमी माल्ली देखून तुजी भेट घडोवन हाडली देआन. हायें एका जाण्टेल्याकोडल्यान मुगो, एक गोजाल आयकोल्या गो!'' – लोरसू.

''होईऽ... कोहली गोजाल आयकोल्या रे तुयें? माहांय सांग रे.'' गुलून उत्सूकतायेन कान फांकारले.

''तो जाण्टेलो म्हुण्ट मुगो, शेणलेलीं गोरवां हूंय कोरंबोले तोल्याकोर्डे गावताय. हायें चिंतलें, आमजेलें गुलू शेणलां. तें माहां मेवले बोगोर कोहेंच घारा वोसपा ना. देखून, तें माहां हुंयी आहल्यार इंगा येवन मेवतोलें. देव तेहा इंगा येवन माहां मेवपाक मोत दितोलो. म्हुजो देवाचेर चोड भावार्थ. देखून हायें दिमी घालून देआकोडें मागलें की, हे देआ, म्हुजें ग्लोरिया – मोगाचें गुलू शेणलां. तें हुयीं आहलें जाल्यार, तेहा हाडून म्हुज्या सामकाराक

उबें कोर! देव माहां पावलो आनी तूं माहां गावलें. आतां माहां कोवलें, कावजांत सावन
मागतोल्याक देव केन्नाच दिनासतोना रावोना.''

''तुहां जायें तें दिलें मुरे देआनू, चोल या आतां इंगाचीं. दुसरे मिसा ओगोत जालो
दुसरें मीस पादकूर सांगतोलो हूंय. तो येवपा ओगोत जालो. हो पादकूर हूंय चोड खो
आहा. आमचें हे भासेन इगोर्जेंत उलोवप तेहा मानवचें ना.''

आतां मीस सुरू जावपाचो वगत जालो. पादकूर आल्तारार येवन आपले तयारेव
लागलो. भायर उबे आशिल्ले भक्त आतां एकेक करून सभाघरांतल्या बाकांचेर येवन
बसूंक लागले. इल्ली इल्ली गर्दी वाडूंक लागली. गर्दी वाडली तरी इगर्जेंतली शांतताय
मातय भंगनासली.

''गुलू, माहां इंगाचो भायर वोसोन-सो दिसोना. इंगाच दिमी मारून रावचो-स
दिसता.'' लोरसू गुलूच्या कानांत फुतफुतलो.

''तूं राव रे, हांव वोयतां.''

''आमी दोगांय रावया गो.''

''ना रे बाबा, दादी हुस्केतोलो.''

''आमी ओहें कोरुया, दुसरेंय मीस आयकोया. पादकूर बोरोऽ शेरमांव सांगत
हूंय.''– लोरसू.

''पादकुरालो शेरमांव आयकोंक जेल्यार माहां दादीलो शेरमांव आयकों पडटलो
चोल, आमी आदीं इंगाचे भायर सोरोया.''

गुलून लोरसूचो अचळय हात धरलो. कोणाची नदर पडची न्हय, हे भशेन तें ताक
सवकासायेन इगर्जे भायर घेवन गेलें.

नातलूचे सांगणे प्रमाण गुलू-लोरसू व्हडले गोंयचे इगर्जेंत मिसाक आयिल्लीं. त
एकामेकाक भेटलीं खरीं. पूण तांकां उत्तेपणान उलोवपाची संद मेळ्ळीना.

दादी हुस्केतलो म्हूण गुलून आपल्या पावलांक गती दिली. तें फाटल्यान वळू
पळेनासतना भाटयेचे दिकेन मार्गस्थ जालें.

लोरसू मात निर्शेलो. तो केदोवेळ गुलूक फाटल्यान पळेत रावलो. उपरांत ता
झुजांत हारिल्ल्या बैला प्रमाण लकत लकत आगशीचो मार्ग धरलो.

लोरसूक व्हडल्या गोंयां मिसाक धाडून नातलू आपूण मात आगशीचे इगर्जेंत गेलें
नातलूचो देवाचेर चड भावार्थ. मिसा निमतान एकदां इगर्जेंत पांय थेयलो म्हणटकच त
पुरायेन देवाचें जाता. ताचें ध्यान-मन पाद्रील्या शेरमांवाचेर आसता. पूण आयज मात

ताचें मन इगर्जेंत आनी इगर्जेंतल्या देवांत रमनासलें. तें इगर्जेंत आसुनूय ताच्या मुखार बोवाळटाले ते गुलू-लोरसूचे हांसते चेरे.

व्हडल्या गोंयचें मीस सोंपतलें केन्ना आनी लोरसू घरा येतलो केन्ना, अशें जालें नातलूक.

हेर दिसांनी तें मीस सोंपतकच बाजारांत गणयतालें. पसऱ्यावेलें सामान घेतालें. पूण आयज मात तें खंयच थांबनासतना सरळ घरा गेलें.

पळे जाल्यार लोरसू घरा येवन, सालांत मेजाचेर तकली दवरून चिंतेस्त जावन बसला. वतासतना खुशालभरीत जावन गेल्लो. आतां कितें जालें काय? गुलू बी आयलें ना काय?

''बाबा लोरसू, कितें जालें रे, तोंड कायेंशें करून बोहला. पोटाक भूक बा लागली कितें रे म्होज्या पुताक!'' नातलून म्हऱ्यांत वचून लोरसूच्या केंसांचेर मायेन हात भोवंडायलो. ताच्या गालांचो उमो घेतलो. उपरांत ताका घेवन तें कुजनांत गेलें.

''बाबा, तूं ओहो दुखेस्त कित्याकू?'' नातलून लोरसूक कदेलार सारको बसयत प्रस्न केलो...

''मम्मी, माहां आतां चावबाव कांय नाहां जे!''

''च्याव नाहां, कित्याकू?''

''माहां भूक लागोंना.'' – लोरसू.

''भूक लागोंना, कोही? सोदां हे वोगतार चाये वांगडा चार-चार उंडे हातालो. आनी आतां भूक लागोना म्होण्टा? गुलूक झेवन चाये हॉटेलार जेलेलो कितरे?'' नातलूलो चेरो परजळ्ळो.

''तूं आनी कितें उलयता जे मम्मी! तें मोकोडे उलोवंक लोजेता आनी हॉटेलार येतोलें?''

''तोहें जाल्यार सांग मुरे माहां इगोज्जेकोडे कितें जालें तें. तें मेवलें मुरे तुहां, उलयलें मुरे तुकोडें?'' नातलून उतावीळ जावन एकार एक प्रस्न केलो.

लोरसून ताका मदेंच थांबयलें. इगर्जेकडें कितें घडलें ताची पुराय म्हायती दिली. आपूण देवा सामकारा केदो वेळ दिमी मारून रावलों, तेंय व्हडा भावार्थान सांगलें. गुलू आपल्याक सोदीत इगर्जेंत कशें पावलें, हेंय ताणें नातलूक सांगलें.

लोरसूकडल्यान ही गजाल आयकून नातलू खुशालभरीत जालें. सुरवेक गुलू-लोरसूची चुकामूक जाली. तीं एकामेकाक भेटूंक शकलीं ना. तरी देवान तांचो एकवट

आपल्या सामकाराक घडोवन हाडलो, हाचेर नातलूचो विश्वास बसलो. ताका दिसलें ही सुरवात आसा. फुडें देवाचे कृपेन खूब कितें घडूंक शकता. आनीक एके गजालीन नातलूक धीर दिलो. नातलूक दिसतालें, आपलो पूत वादीव जावपाचे वाटेर आसा. वादीव भुरगे देवा–धर्मांकडें आडनदर करतात. पूण लोरसून जेन्ना देवा सामकारा वचून दिमी मारली आनी ही गजाल नातलूक कळ्ळी, तेन्ना नातलूच्या राज्यांत उजवाडाचीं ल्हारां परजळूंक लागिल्लीं. त्रासलेल्या आनी बावलेल्या नातलूच्या जिवीताक आतां कोमरी फुटूंक लागली. फुडलें जिवीत सारपाक लोरसूच्या आदाराची आस ताका दिसूंक लागली.

हे वटेन गुलूचोय लोरसूविशींचो दिश्टीकोण इल्लो इल्लो बदलूंक लागलो. लोरसू आतां आदलो उरूंक नासलो. ताचे वागणुकेंत खूब परिवर्तन घडून आयिल्लें. ताची प्रत्येक कृती शिस्तमय जावंक लागिल्ली. ताच्या आंगांतली मदांधकाय बरीच जिरिल्ली. चेऱ्यार सालसपण दिसूंक लागिल्लें. तोंडांतल्यान गोडसाण झडूंक लागिल्ली. पळयतल्याक आतां तो सभ्य आनी भावार्थी दिसूंक लागिल्लो.

लोरसूमदें सगळेच बाबतींत घडून आयिल्लें परिवर्तन पळोवन गुलू अजापलें. हे आदीं कोणूच ताका लागीं धरिनासलो. एक नातलू सोडलें जाल्यार, ताचो मामा म्हणल्यार गुलूचो दादी, बापूय बी सगळेच लोरसूच्या आड उलयताले. तांकां तो कोणाक दोळ्यां मुखार नाका आशिल्लो.

हातूंत लोरसूची चूक कांयच नाशिल्ली. चूक आशिल्ली ती नातलूची. तें ताका घरच्यांच्या आड वचून व्हडलो मनीस करूंक सोदतालें. नातलूच्या ह्या हट्टाक लागून लोरसू वादीव जाला, अशें ताच्या घरच्यांक दिसतालें.

मनशाक एकदां वायट थारायलो म्हणटकच तो आपूण तसलोच म्हणून वायटपणां करीत सुटटा. लोरसूचेंय तशेंच घडलें. नातलूक लागून घरच्यांनीं ताचेर वायट म्हूण शिक्को मारलो आनी तो वायट जालो.

पूण मनशांनी कितलेंय थारायलें म्हूण तें ईश्वराक मान्य आसूंक नाका? ईश्वर जेन्ना आपल्या भाविकाचें कल्याण करूंक सोदता, तेन्ना तो भाविकांतले दुर्गूण पयस करपाची प्रेरणा तो भाविकांक दिता. तांकां सुदारून बऱ्या मार्गार हाडून सोडटा. बऱ्या मनशांक एकठांय हाडून तांच्या बऱ्या गुणांच्या आदारान जनकल्याण घडोवन हाडटा.

गुलू आतां लोरसूविशीं वेगळे तरेन विचार करूंक लागलें. इगर्जेंत घडिल्ल्या प्रसंगान गुलूचे दोळे आतां उक्ते जाले. ताचे तकलेंत उजवाड पडूंक लागलो.

गुलून चिंतलें, लोकांचे दिश्टीन लोरसू कसोय आसूं. ताच्या आंगांत वायटा सांगातान बरेय गूण घोळटात. ताच्यांतले वायट गूण पयस करून, बऱ्या गुणांक उजाळो दिल्यार, तो एक बरो मनीस जावंक शकता. जो मनीस देवा-धर्माचो विचार करता, तो थोडो मतिमंद आसलो तरी, ताच्यांत सुदारणा घडोवन ताचो उपेग करून घेवं येता. आयज बऱ्या मनशांक वेंग कोणूय मारता. पूण उपेगी मनशांक निरोपेगी थारावन, तांचेकडें दुर्लक्ष करून तांकां कोनशाक बसोवन दवरपाचें काम समाजांतल्या आनी कुटुंबांतल्या चडशा मनशांकडच्यान घडटा. हें थांबोवपाची गरज आसा, असले विचार गुलूच्या मनांत आयले. आयले म्हणचे परस ताच्या मनांत ते देवान घाले, अशें म्हणलें तर तें लटकें जावंचें न्हय.

लोरसू हो आपले आतीलो पूत. आती आनी दादी दोगांय भाव-भयणां. दोगांय एका रगताचीं. अशिक्षीत आसलीं तरी सुसंस्कारीत. एक सुसंस्कारीत शेतकार आनी कश्टकार जर आपले धुवेक बरे विचार दिवन वयर काडूंक शकता, तर कुटुंबांतल्या सगळ्या वांगड्यांच्या आदारान, तांचे बरे देखीन लोरसू बरो आनी सक्षम मनीस कित्याक जावंक शकना?

गुलून तेन्नाच पण केलो. आपूण लोरसूक कोणायभशेन सुदरायतलेंच. ताका जाग्यार हाडपाची जापसालदारकी आपली. लोरसूक सुदरायतलें जाल्यार सगळ्यांत पयलीं दादीचो दिश्टीकोण बदलपाची चड गरज आसा. दादीक आतीचो दुबाव मारला. ती हक्कान लोरसूक दादीचो जावंय करूंक सोदता. पूण दादी ताका मान्यताय कसोच दिवंचो ना. खंयचो बापूय आपले धुवेक जाणा जावन एका वादीवाच्या गळ्याक बांदतलो? तातूंत हांव तागेली अपुरबायेची एकुलती एक धूव. पयल्याच धपक्याक मॅट्रीक पास जाल्ली. तीय बऱ्या मार्कांनीं. उलोवप-करप ल्हानविकायेचें. बरे शिस्तीचें आनी बरे देखीचेंय बी. सुंदरकायेन तर सामकें उजू!

आनी लोरसू? तो तर सामको रिती भायलो, उधळो, फोल्गी, मस्तो आनी शिकपांत तर सामको भोटो! असल्यांनी गुलूची आनी लोरसूची जोडी कशी जमतली? कसो चलतलो तांचो संवसार सुखान?

कांय मनशां जल्मा पासूनच शाणीं आसतात. असल्या मनशांक जात-धर्म, थळ-काळाची बी बादा जायना. हीं मनशां विचारवंत आशिल्ल्या कारणान, खूबशे प्रसंग, खूबशो गजाली तीं आपले मर्जेप्रमाण, आपल्याक जाय तशो परिवर्तीत करूंक शकतात.

गुलूय तांच्यांतलें एक आशिल्लें. ताका मनशांची पारख आशिल्ली. आडवाटेन वतल्यांक उजू वाट दाखोवन तांकां उपेगांत हाडपाची कळा आशिल्ली गुलूकडें.

गुलून आतां चिंतलें. आपूण आतां काजराचें जालां. दादीच्या माथ्यार पेज जावन आसां. आतीभशेन काजार जावन गेलें म्हणटकीर दादी एकटो पडटलो. न्हवरो कसलो मेळत कोणाच्यान सांगूं येता? गांवांतले चडशे तरणाटे मॅट्रीक नापास जावन इंग्लंडाक-फ्रान्साक वतात. कांय जाण बोटलेर जातात. दादीय आपल्याक खंयच्याय तरी लंडणस्थीत गोंयच्या तरणाट्याकडें काजार करून दिवपाचे तयारेंत आसा. लोरसूक तो कसोच लार्गी करी सारको ना.

दादीक दिसता, आपल्या ताब्यांत आशिल्लीं शेतां-भाटां आपले धुवेन सांबाळचीं. ती शिकल्या, हुशारय आसा. सरकाराकडल्यान मजत घेवन ती शेतां-भाटां फुलोवंक शकता. पूण तशें करपाक तिका बऱ्या विचारांचो आनी तिका फावता तसलो जोडीदार मेळपाची गरज आसा आनी असलो भुरगो आलसूबाचे नदरेक खंयच पडनासलो. ताचें सगळ्यांत व्हडलें दुख्ख हेंच आशिल्लें. गुलून आपल्या बापायचें दुख्ख पयस करपाचो एकतर्फी निर्णय घेतलो.

ताणें कोणाचीच पर्वा करिनासतना लोरसूकडें काजार जावपाचो आपलो विचार पक्को केलो.

## ३२

गुलू आपल्या बापायक खूब मानतालें. आपलो बापूय हेर बापांयभशेन न्हय, तो अशिक्षीत आसुनूय शाणेपणाचो आगर जावन आसा. तो कितें करता तें चिंतून करता. कसलेंय उतर तोंडांतल्यान भायर घालचे पयलीं तें तो घासून-पुसून आनी खूब विचार करूनूच भायर घालता.

हाका लागून आलसूबाले विचार उखलापे नासताले. ते पक्के आसताले. ताका लागून ताची भास गांवंढळ आसून लेगीत सभ्यतायेची आसताली. ताच्या संपर्कांत आयिल्ली जणेक व्यक्ती ताच्या उतरांनी प्रभावीत जाताली.

लोकांमदें चड करून गांवगिऱ्या वाठारांत – बीं तशें भात अशी म्हणणी घोळटा. पूण ही म्हणणी सगळ्यांकच लागू पडना. तशी ती लागू पडिल्ली जाल्यार गांवां गांवांत सर्ग फुलतले आशिल्ले. आलसूबा सारकें गुलू जालें म्हूण सिमांव सारको लोरसू जालोना. मात एक गजाल खरी म्हणची पडटा की ईश्वराच्या मनांत आयलें जाल्यार, कसलीय

बरी गजाल घडोवन हाडटलो जाल्यार, कोणाचेर प्रसन्न जातलो जाल्यार तो बऱ्या विचारांच्या पवित्र मनशांक एकठांय हाडटा.

गुलू मॅट्रीक पास जालें म्हूण स्वताक आपल्या बापाय इतलें हुशार आनी शाणें समजनासलें. आपल्या बापायक व्हडलीं-व्हडलीं बुकां वाचूंक आयलींना तरी ताणें येदो व्हडलो संवसार उबो केला तो तें प्रत्यक्षांत पळेतालें. हो संवसार आपल्या बापाय फाटल्यान कोसळचो न्हय, अशें ताका मनापसून दिसतालें. तो तिगोवन धरपा खातीर गुलूक कोणाचो तरी आदार जाय आशिल्लो. त्या आदाराची अपेक्षा ताणें लोरसूकडल्यान केली. मात ह्या आपल्या निर्णयाक बापायकडल्यान हयकार मेळोवनूच फुडें वचपाचें ताणें थारायलें.

आलसूबाले मठये मुखार एक विशाळ अशें वडा झाड आशिल्लें. आलसू शेतांतल्यान वयर सरलो म्हणटकीर हांगां-थंय पळेनासतना बद्द त्या वडाच्या आसऱ्याक येवन विसवतालो. घराचे चवकेवेल्या एका कोनशाक एक जाडजूड शेंदरी उबी करून दवरिल्ली आसताली. शेतांत सोसूंक जायना तसो वताकड केन्ना जम धरतलो आनी आलसू वयर केन्ना सरतलो, हाचीच वाट ती शेंदरी दोळ्यांत तेल घालून पळेताली. तिचें एकमेव कार्य तेंच आशिल्लें. ह्या कामाकच तिची नेमणूक जाल्ली. केदोय व्हडलो घरवांगडी ते मांदरेकडें सलगी करूंक आयलो जाल्यार मांदरेक तें मानवचें ना, हाची जाणविकाय थंय वावुरपी जणेकल्याक आशिल्ली.

ह्या दिसांनी शेत इल्लें चडच तापिल्लें आसतालें. सदां दर्यावेल्यान व्हांवपी वारें कित्याक देवाक खबर-अकस्मात 'लिव्हेर' गेल्लें. सकाळचीं धा वरां जावंचे पयलींच शेत रखरखतालें. शेतांत मदेंच आशिल्ल्या मोटव्या रुखामुनांत वचून बसल्यार लेगीत धग आलसूबाची फाट सोडिनासलो. शेतकाराक वावराचे दोन खीण लेगीत म्हत्वाचे आसतात. तांचें सगळें जिवीतूच वत-वारो आनी पावस-उजवाडाचेर निंबून आसता. ताका लागून वेळ होगडायनासतना घाम गळोवपाकडेन तांचो कल आसता.

पूण आयज आलसूबा शेतांत चड वेळ तिगलोना. गुलून गाडगो भरून दिल्ली उकड्या तांदळांची बटबटीत पेज ताणें दोन वेळां जेवन णवां आदींच सोंपयली. एका हातांत पेजे गाडगो आनी दुसऱ्या हातांत उदका कळशी घेवन झिळमिळट्यार शेतांत देंविल्लो आलसूबा आतां पुरायेन रिकामो जाल्लो. ताच्या हातपांयांत थरथरो भरलो. तो रिकामी आयदणां शेतांतच सोडून तरतरीत मठयेर आयलो. हांगा-थंय पळेनासतना बद्द मांदरेकडें गेलो. मांदरेची कवळी घेवन तो त्याच नेटान वडामुनांत गेलो. मांदरी सोडली. थंय एक वडापाळ वयर आयिल्लें. अशें दिसतालें की सैमदेवतेन आलसूबा

खातीर मुजरत उशाची तजवीज केल्या. आलसून ताचेर मोवशी फट्याघडी थेयली. उशें म्हूण फट्याघडी वापरतकच रोकडेंच ताका सर्गसूख प्राप्त जातालें. रोकडोच घोरेवंक लागतालो तो! सुंदर सुंदर शीं सपनां आपल्याक पळय पळय म्हूण फाटीक लागतालीं ताच्या.

पूण ह्या दिसांनी अशें घडनासलें. आलसूबाचे दिश्टीन अशें तेन्नाच घडटलें, जेन्ना तो आपले धुवेक-ग्लोरियाक सुखान दवरपी राजकुंवराकडे सोंपयतलो. ते मेरेन ताच्या नशिबांत तळमळे आनी तळमळेच येवजून दवरिल्ले सैमदेवतेन!

आलसूबा जेन्ना वडामुनांत बिनधास्त येवन पडटालो तेन्ना वडराज्यांतलो एकान एक प्राणी सादूर जातालो. तांकां खबर आशिल्ली, आलसूय तांचे प्रमाण सैमाचोच एक घटक जावन आसा. तरी तांच्या परस तो श्रेश्ठ आसा. आनी श्रेश्ठांक मान दिवपाची रीत थंयच्या वडराज्यांतल्या मानवेतर प्राण्यांक पुराय खबर आशिल्ली.

आलसूबालें ह्या दिसांचें वेगळें वर्तन पळोवन वडराज्यांतले सगळे प्राणी अस्वस्थ जाले. झाडाच्या सगल्या आंगांचेर राबितो करून राविल्ले जीव सकयल देंवूंक लागले. आलसूबाच्या म्हऱ्यांत येनासतना, पयसुल्ल्यानूच खबर घेवन आपापल्या सुवातांचेर वचूंक लागले. आलसूबाक ते जीव भियेनासले. आलसूबाच्या म्हऱ्यांत ते ह्या पासत वचनासले की ताका त्रास जावंचो न्हय. आलसूबा वडापोंदा विसव घेतालो. ताका तळमळे लागिल्ले. तो खिणां कणकणी हे कुसिवेल्यान ते कुसीर परततालो. पूण ताची ही हालचाल, तळमळे आनी वळवळे जाणवताले. पूण ती कांयच करूंक शकनासली. पूण मौन पाळप इतलेंच तांच्या हातांत आशिल्लें.

आलसूबाक दिसतालें गुलून येवन ताची विचारपूस करची. पूण गुलू रांदपा बोवाळांत आशिल्ल्यान, आलसूची हालचाल ताच्या लक्षांत गेलीना. ताकाय कारण आशिल्लें. रांदनीर शीत शिजतालें. बुडकुल्याक खतखतो येवन ओतो आयिल्लो. असले वेळार गुलू वानार बसून आळेण वाट्टालें. वानावेलो रगडो गडगडटालो आनी चुलीवेलो शिता बुडकुलो तोंडांतल्यान फेस दाखयत हांसल्यावरी करतालो. आयज गुलू हांसना म्हूण कदाचीत तो हांसतालो जावंये! सदां हांसतें तोंड घेवन भायर-भितर भोंवपी गुलू ह्या दिसांनी आपल्या भितरच आसतालें. निर्भय सभावाचें गुलू आतां कसल्या तरी चेपणाखाला वावुरता अशें भासतालें, पळयतल्याक. ताणें लोरसूकडें काजार जावपाचे येवजणेन ताची ही गत केल्ली. आपली येवजण बापाय मुखार कशे तरेन मांडटलें, ताका कशें पटयतलें ह्याच विचारांत तें मग्न आशिल्लें.

आतां ताका अकस्मात बापायची याद जाली. ताणें सदचे सुवातेर नदर मारली. पळय जाल्यार दादी आसा. सदां माथ्यावेल्यान तुवालो ना जाल्यार तांबडो लेंस उडोवन, गुटली करून पडपी दादी आयज पांयें मेकळे करून पातळ्ळा. हें बरें चिन्न न्हय. तें तशेंच वानाकडें धांवलें. वानावेलें आळेण बेगीबेगीन ताणें कुळण्यांत भरलें. रगडो आनी वान धुवपाचें तशेंच सोडून दिलें. शीत मोव जावचें न्हय म्हूण चुलींतल्यो भगभगत्यो कापट्यो ओडून भायर काडल्यो. उदकान भरिल्लो तांबयो घेवन तें आपल्या दादी म्हऱ्यांत धांवलें. आलसू तानेल्लो. ताका उदकाची चड गरज आशिल्लीच. पूण उदका तांबयो पळोवन ताका जी खोस भोगली, ते परस चड तो आपले धुवेक म्हऱ्यांत पळोवन खोशेलो. गुलूचेर नदर पडटांच ताची अर्दी तान-भूक पयसावली. तो झडझडीत उठून बसलो. दोनूय हात एकठांवन पोसो केलो. गुलून पोशांत घसघशीत उदक ओतलें. तो दोन-तीन पोशे घटघटीत उदक पिलो. ताका भुरगेपणांत सावन पोसो करून उदक पिवंक आवडटा आनी आतां तर गुलून पोशांत ओतिल्लें उदक म्हणचे ताका अमृतच.

गुलूक म्हऱ्यांत पळोवन आलसूबाक खीणभरांत थाकाय आयली. आपले धुवेकडे दोन उतरां उलोवंचेंशें दिसलें ताका!

ताणें उशाकडें दवरिल्ली फट्या घडी सोडयली. अर्दें फटें उसोवन ताणें मांदरेर सोडलें. आपूण आसनमांडी घालून भटाभशेन बसलो. गुलूक आपल्या म्हऱ्यांत बसपाक खुणायलें.

''दादी तूं इंगा बोस आं, हांव रोकडें येतां. शीत मोव जातोलें. आळून येतां.''

गुलू खूश जावन व्हिस्तीद सावरीत मठयेर धांवलें. दोन मिनटांत परत येवन ताणें बापाय म्हऱ्यांत बसकण मारली. तशें करतना ताची निरशेणी खंयचे खंय उडून गेली. ताका आतां आपल्या बापाय मुखार मन उकतें करपाक आयतीच संद मेळिल्ली.

''दादी, तुहां तुज्या जिआक बोरें बा दिसोना कितें?''

''कित्याहू. ओहें कित्याक इचात्ता बाय म्होजें?''

आलसूबान अपुरबायेन गुलूच्या केंसांचेर हात भोंवडायत प्रस्न केलो.

''दादी, तूं माहां हे दिसांनी मोव-मोवसो दिसता. हाल्यां दोतोराजेर या?'' गुलून आपली काळजी उक्तायली.

''हांव बोरो आहां गो बाय! माहां दोतोरबातोर कोऽण नाहां. माहां चोड पोडलां तें तुजें! तुजें काजार जालें म्होण्टोच हांव सुट्टलों.''

''दादी, तूं पोत्तें पोत्तें काजाराचेंच उलोयता. हांव जोड बा जालां कित्यें तुहां.'' गुलूच्या दोळ्यांतल्यान भळ्ळ करून दुकां गळ्ळीं.

''तोहें न्होय गो भांगरा म्होज्या. तुजेविणें हांव एक खीण लेगीत सुखान जोगपा शकपा ना. पूण कोत्तोलों कित्यें! सोयमाच्या कायद्याप्रमाण एक बापूय आपले धुवेक चोड तेंप आंकवार दवरूंक शकना. तोहें केल्यार तो व्हडल्या पातकाचो धोनी जाता. हो आलसू संवसारांतली आख्खी गिरेस्तकाय सोडीत, पूण सोयमा आड वोचपाचें पातक मात कोहेंच कोरपा ना.''

आलसूलें उलोवप केन्नाच वयल्या वयलें नासतालें. गुलूची आवय गुलूच्या भुरगेपणांत मेल्ल्या कारणान, गुलूच्या काजाराची जापसालदारकी आलसूचेर येवन पडिल्ली. ती पुर्णयिक व्हेल्या बगर ताका मुक्ती मेळपाची नाशिल्ली. हाकाच लागून तो रात–दीस आपलें जिवीत उदासीनतायेन सारतालो. हे उदासीनतायेचें दुख्ख ताच्या काळजांत घट्ट रिगून बशिल्लें. तें ना करप ताच्या हाता भायर गेल्लें.

गुलूक ताची कल्पना आशिल्ली. आपल्या बापायक कोणाय भशेन दुख्खमुक्त करपाचें ताणें थारायलें. कसलेच आडेवेडे घेनासतना, फाटींफुडें पळेनासतना, धिटायेन आपलें मन बापाय मुखार उकतें करपाचें ताणें थारायलें.

''दादी हांव हाल्यां आतीजेर वोसोन येऊं?'' – गुलून आपल्या बापायचो थाव घेवंक प्रस्न केलो.

''कित्याहू!'' आलसून बारीक दोळ्यांनी गुलूचेर नदर मारली.

''माहां वोसोन दिसलें म्हुणोन.''

''तुहां कित्याक वोसोन दिसलें थिंगा, ओकोस्मात?''

''ओकोस्मात न्होय दादी. ती माहां जायते पावट आफोयता.''

''तियेन आफोयल्यार तुयें वोसोंकूच जायें?''

''तोहें न्होय दादी. ती आमजेर येता. माहां बोरेंऽ कोत्ता.''

''तेहा येवंदी आमजेर. तूं वोसों नाहां.''

''पूण कित्याक दादी? हांव लोकांजेर वोसोना. ती तुजी भोयण. म्होजी आती. हांव म्होजे आतेजेर जेल्यार तुहां कित्याक आयट दिसता?'' गुलून आपल्या बापायक वदोवपाचो येत्न केलो.

''आयट कित्याक दिसता? दिसताच आयट! तेणें आपल्या पुताची आट लायल्या. आतां तें तुजीय लावंक सोदता. तुजेर त्या आदिवाची सावली लेगीत पोडची न्होय ओहें दिसता माहां.'' आपल्या मना आड कितेंय घडलें म्हणटकीर आलसू असोच पिंजळटा

आनी आतां तर ताच्या काळजा कुडक्या प्रस्न आसलो. घडटा तें पळोवन तो स्वस्थ कसो बसत?

बऱ्या मनाचो मनीस कितलोय हुशार आनी प्रामाणीक आसलो तरी अज्ञानाच्या कचाट्यांत सांपडलो म्हणटकीर तो स्वताचें लुकसाण करून घेता. असले वेळार ताका कोणेंय सावरपाची गरज आसता. हांगा आपलो बापूय चुकता हें गुलूच्या लक्षांत आयलें. चुकतल्याचेर योग्य वेळार बडी मारपाची कला गुलूक अवगत आशिल्ली. ताणें आपलें उलोवप फुडें चालू दवरलें.

''दादी, तूं सांगता ते प्रमाण आती चुकल्या जायत. पूण इंगा लोरसूचो कोहलो गुन्यांव आहा? आती सांगता तें तेणें आयकोलें. तूं माहां सांगता तोहें तेंहा सांगलेलें जाल्यार तो ओहो जावपाचो दादी? तुयें माहां देख दिल्या तोही तेका मेवलेली जाल्यार, तोय म्होजे भासेन जावपाचो. तुहां मानवपाचो.'' गुलून आपल्या बापायक समजावपाचो येत्न केलो.

''तूं सांगता तें सोजमोता गो बाय माहां. पूण तो आदीवपोणां कोत्ता तें तूं पोयता मुगो बाये? ओहें आसतोना हांव तुहां कोहें सांगों, तूं तेजो सांगात धोर म्होणोन! तुयें तेंकोडे इश्टागोत कोच्ची न्होय ओहें दिसता गो माहां.''

''पूण दादी, तीं आतां सुदोरल्यांय.''

''तीं म्होणोन कोणू?'' – आलसू.

''आतीक आतां पिकासांव जालां.''

''तेहा पिकासांव जाल्यार उपकात्ता!''

''लोरसूय आतां आदले भासेन ना. तो जायतो सुदोरला.'' – गुलू.

''तुहां कोहें कोवलें.'' – आलसू.

''हे आदीं मेवला तो माहां, एक-दोन फावट.'' – गुलू.

''पूण तुयें माहां केन्नाच म्होणोंना, तूं लोरसूक भेटलां म्होणोन.''

''दादी, हांव तेहा भेटोंक वोसोंना. तो माहां एकदां हेस्ताक आनी दुसरे हावट मिसाक जेल्लेकोडें मेवलो. एकदां आतीय आहली बाराबोन.'' आती हें उतर आयकतांच आलसून तोंड वांकडें केलें.

''माहां चोड राग येता हे तुजे आतेचो.'' – आलसू.

''कित्याहू?'' गुलू.

''ती तुहां आपली सून कोरूंक सोदता, हें कोवता तुहां?''

''तोहें घोडटा जाल्यार घोडों दी दादी! तूं तुजें प्रेसांव वाडोंव नाहां पोवया.''

''पूण हांव ओहें घोडोवंक केद्नाच दिवपा ना.'' – आलसू.

''आनी देआन घोडोयल्यार.'' – गुलू.

''देव पिसो ना, कित्या कितेंय कोरूंक.'' – आलसू.

''हांवूय तेंच म्होण्टां दादी. देव पिसो ना. तो आयटांतल्यान लेगीत बोरें कोरूंक शकता.''

''ओहें उलोवन तूं कितें सांगोंक सोदता माहां?''

''दादी, लोरसू आयट केन्नाच नाहलो. तेहा आमच्यानीच आयट केलेलो. आतां तो सुदरोला. फुडें आमच्यांनी तेहा आनीकूय बोरो कोरूं येता. ती जोबाबदारी म्होजी. देखून तुहां हांव सांगोंक सोदतां, पोयलीं तेहा लागीं कोरुया आनी उपरांत सुदरोवया.''

''आजे म्हुजे शेमांय, तूं तेहा कोहें सुदरोयतोलें? तेजे आवोयकोडें जालें ना तें तुकोडें जातोलें?'' आलसून बेजारून प्रस्न केलो.

''व्होय दादी! तुयें व्होयकार दिल्यार हांव लोरसूकोडें काजार जावंक तोयार आहां. एकदां काजार जालें म्होण्टोच, तेहा कोहो जाग्यार हाडूंक जावो, तें हांव पोयतां.''

''तूं हें चिंतून उलोयता मुगो बाये?''

''व्होय दादी! माहां लागोन तूं ह्या दिसांनीं चोड दुखेस्त आहा, हें कोवता माहां. माहां भाव आहलेलो जाल्यार ना तोर घोरांत तुज्या आधाराक आनी कोणूय आहलेलो जाल्यार, माहा म्होज्या काजाराचें चिंतपाची गोरोज नाहली. तूं सांगता थिंगा, सांगता तेकोडे काजार जावन मोन्यांनी वोसपाचें हांव! पूण तुज्यान सांगों जाता दादी, माहां न्होवरो आनी न्होवऱ्यालीं मुनशां कोहलीं मेवोत तीं? आतां आदलो तेंप ना दादी, आदले तेंपार हुंय खोपटांनी मुनशां रावतालीं. आयज मनशां नोयांच्या घारांनी राबताय, तेर्रासांच्या घारांनी राबताय. तेंचीं ड्रेसां झोगझोगताय. चोकचोकताय. पूण तेंचे भितर मुनीसपोण आसतोलेंच ओहें कोणाच्यान सांगोंक जावचेंना.'' – गुलून शांतकायेन जाप दिली.

''लोरसू मॅट्रीक हेल जालो म्हूण कितें जालें? तूं हूंय शिकला? गाआंत आनी शारांत मॅट्रीक आनी बी. ए. पास जाल्ले मुनीस होटांनी आहाय. पूण ते फोकोत झेत मारपाचें काम कोत्ताय दादी!

देखून हांव म्हुण्टां दादी, लोरसू आमचोच आहा. तेहा लागीं कोरून तेजो हायदो कोरून झेवया.''

आलसूबा समजिकायेचो मनीस. ताणें चिंतलें, गुलू कितें करता तें चिंतून करता. ताचो लोरसूकडे आनी ताचे आवयकडे कल आसा. ताणें तकलेंत कितें भरलां तें घासुनपुसूनच भरलां जावंये. तेन्ना ताच्या विचारांच्या आड वचप समा जावंचें ना. ताणें एकदां कितें दातांत धरलें जाल्यार तें सोडून घेवपाक साप्प कठीण! तेन्ना करूं दी ताका कितें करता तें. अशें चिंतून ताणें फुडें उलोवपाचें थंयच बंद केलें.

आतां करतां-करतां दनपार जाल्ली. सुर्याजी वडा माथ्यार येवन तळपूंक लागिल्लो. सकाळपसून दमशेल्लें आनी काळशेल्लें मळब आतां निळशेल्लें. येदो वेळ खंय तरी दडून बशिल्लो मारूतराय मंद गतीन व्हावूंक लागिल्लो. वाऱ्याच्या ह्या सुखदिण्या वावरान आलसूबाचें आंग-आंग संतोशीत जालें. हे आदीं तळमळ्यांनी त्रस्त जाल्लो आलसूबा आतां तान-भूक विसरलो. ताका ती सुवात कशीच सोडचीशी दिसली ना.

अशें घडपाक आनीक एक मुखेल कारण आशिल्लें. आलसूबाक भोगिल्ली खुशालकाय आख्ख्या वडाक जाणवली. येदो वेळ न्हिदून आशिल्ल्या पानांनी आतां चुळबूळ सुरू जाली. झाडार निर्शेवन बशिल्ल्या जिवांक आतां जाग जाली. वडा घोलिंनी बसून सुसेग घेवपी चानये पिलां आतां अकस्मात जागृत जालीं. घोल सोडून तीं भायर आयलीं. हे ताळये वेल्यान ते ताळयेर उडक्यो मारूंक लागलीं. हें सगळें ताणीं मोन्यांनी केलें जाल्यार तीं चानयेपिलां कसलीं! आपल्याक कोणाकडल्यान प्रतिसाद मेळना तें पळोवन लागलीं शेपड्यो हालयत चिकचिकपाक! चानयो अवेळार चिकचिकतात तें पळोवन तेंगशेवेलो कीर सुसेगाद कसो बसत? ताणें पांखां फुलोवन, शेपडी तायट करीत, किरकिरत वडाभोंवती एक फेरो मारलो.

अशेतरेन एक करता म्हूण दुसरो, वडराज्यांतली सगळी प्रजा अवेळार सतर्क जाली. शेड्डोमाम, शिल्लीमावशी, किडी-मुयो, दोमळे, हुरणा, हुमले बी राज्यांत कितें घडटा काय म्हणून दोळे वटारून, कान फांकारून शितिदार आयली. शेजारच्या रुखांचेर विसव घेवपी कावळे आनी माकोड लेगीत चवकशी खातीर वडार आयले.

ही सगळी वडराज्यांतली प्रजा आलसूबाकडें इश्टागत जोडून आशिल्ली. ह्या राज्यांतल्यो किडीमुयो लेगीत आलसूबाक सट करून घांस काडूंक वचनासल्यो. अर्थांत आलसूबायूय कोणाक मुजरत दुखोवंक वचनासलो. सगळेकडेन पावल जपून घालतालो.

वडामुनांत बापायचें आनी धुवेचें बरें चल्लां, तीं खोशेन भरल्यांत हाची जाणविकाय वडराज्यांतले प्रजेक जाली. तांकां तशींच खोशेंत सोडून तीं आपापले सुवातेर विसव घेवंक गेलीं.

आपलो बापूय खुशालभरीत जाला, हें पळोवन गुलू इल्लें चडच फुल्लें. ताणें बापायक सांगलें- ''दादी, हे फुडें तूं तुजे तोकलेंत कोहलींच चिंतनां झेवन बोसों नाहां. हांव आसतोना तुहां कांयच चिंतपाची गोरोज ना दादी! हांव तुजी धूव जाली म्हूण किते जालें? तूं माहां तुजो पूत सोमोज. लोरसूच्या सांगातान, हांव तुज्या घोराब्याची अस्मिताय राखोन दवरपाचें सपन पोयतां आनी हांव म्होजें सोपोन पुराय केले बोगोर कोहेंच रावचें ना.''

गुलूच्या ह्या आस्वासक उतरांनी आलसूबाचें सर्वांग ल्हव-ल्हव जालें. तकलेंतलो घयरांव खिणांत ना जालो. मन शांत जालें. ताका पोटाची भूक जाणवली. दोन दिसां आदीं, कुयण्यांत आटोवन दवरलेल्या आंबट-तीक थिगुरां कडयेची याद जाली आनी ताचे पांय खुशे-खुशेन मठयेकडे वळ्ळे!

३३

**आ**पलो प्रस्ताव दादीक आवडूं वा नावडूं, तो भायर कसोच पडचो ना हाची पुराय खात्री गुलूक आशिल्ली. गुलून आपलो प्रस्ताव बापायकडे अशे तरेन मांडलो, की ताका तो न्हयकारपाचें धाडस जालें ना. दांतय आपले आनी ओंठय आपले. धुवेकडल्यानच प्रस्ताव फुडें आयलो जाल्यार ताका आडमेळें हाडून कोणाचें बरें जावचेलें आसा? ते भायर आपली धूव खोशेन आपल्या भाच्याकडें काजार जाता. गुलूच्या उलोवण्यावेल्यान अशें जाणवतालें की लोरसूचो गुलूचेर बरोच मोग आसा. तेन्ना 'मियां बिबी राजी तो क्या करेगा काजी?' ते भायर हें काजार घडून आयलें जाल्यार भयण-भावाचे संबंध सुदरतले. एकामेकाक आदार मेळटलो. सां. लॉरेन्साचे कृपेन जर कितेंय बरें घडून येता, तर ताच्या कार्यांत आपली लुडबूड नाका म्हूण तो देवाचेर भार घालून बसलो. दादीचें इतले सोंपेपणान मत परिवर्तन जातलें, अशें चिंतुनासलें गुलून. आपणें हट्ट धरल्यार आपलें टुणटुणें वाजयत बसचो ना. कारण गुलू आपले परस ल्हान आसलें, तरी ताची विचार करपाची ताकत बळीश्ट आसा हाची कल्पना आलसूबाक आशिल्ली. ताका लागून संघर्शाक तोंड फुटनासतना सगळें शांततायेन चालीक लागलें.

मनशाच्या जिवितांत येवजणेक चड म्हत्व आसता. शिस्तप्रिय आनी जबाबदार मनीस येवजणे बगर कसल्याच कामाक हात घालचो ना आनी कार्याची येवजण करतलो जाल्यार, कार्यकर्त्याक सगळ्यांत पयलीं निर्णय घेवपाचे अधिकार प्राप्त करून घेवचे पडटात. हुशार गुलून, आपल्या बापायक कुशीक दवरून, घराब्याच्या सगळ्या तरेच्या

निर्णयांचे अधिकार आपलेकडेन अशे तरेन घेतले की कसलेंय काम करतना कोणाच कडच्यान आडमेळें येवचें न्हय!

हें सगळें केल्या उपरांत, ताणें आपल्या बापायच्या ताब्यांत आशिल्ल्या शेतां-भाटांची चवकशी केली. शेतांचो धनी कोण, भाटांचो भाटकार कोण, ताच्या ताब्यांतलो दोंगोर खंयमेरेन पातळ्ळा, भाटकाराक आनी धनयांक खंड कितलो घालचो पडटा? ह्या सगळ्याची चवकशी ताणें बारकायेन आपल्या बापायकडल्यान करून घेतली.

आपली धूव अशे तरेन चवकशी करता तें पळोवन, आलसूबाक नवो हुरूप आयलो. म्हातारपणाकडेन झुकिल्ली ताची जीण आतां युवावस्थेकडेन वळूंक लागली. गुलूचे दिश्टीन ही म्हत्वाची गजाल आशिल्ली. ताका एक नव्या दमाचो आनी मायेचो अनाधिकृत मार्गदर्शक आयतोच मेळिल्लो.

दुसरे दिसा गुलू खुशाल भरीत जावन आतेगेर गेलें. पूण ताणें आपली खुशी थंयच्या लोकांपसून मुजरत लिपोवन दवरपाचें थारायल्लें. दादी आनी गुलूमदें जाल्लीं उलोवणीं आनी ताणीं घेतिल्लो निर्णय गुपीत दवरचो, अशें गुलून आदींच थारायल्लें.

गुलू जेन्ना आगशी पावलें, तेन्ना ताका पळोवन सगळ्यांत चड खुशी जाली ती सिमांवक. गुलू आपल्यागेर ह्या दिसांनी केन्नाय येवंक शकता, असो दुबाव सिमांवक पडिल्लो. नातलूच्या तोंडांतल्यान भायर पडिल्लीं दुबावीत उतरां सिमांवच्या कानार पडिल्लीं. पूण तीं विश्वासपात्र नाशिल्लीं. आतां प्रत्यक्षांत गुलूक पळोवन तो चड खुशालभरीत जालो.

सिमांवक-गुलूक पळोवन खुशालकाय भोगपाक कारणूय तशेंच आशिल्लें. सिमांव बापूय जालो तेन्ना उमेदीन भरिल्लो. पूण ताची ही उमेद चड दीस तिगली ना. नातलूच्या पिशेपणाक लागून तो आपल्या भुरग्या पसून सदांच पयस उरलो आनी इत्सा आसून लेगीत बापायच्या मायेचें दर्शन घडोवंक शकलो ना.

उपरांत नातलूच्या भावागेर गुलून जल्म घेतलो. आवय नाशिल्ल्या गुलून बापायचे मायेचे उबेर गुलू गुणवंत जायत गेलें. गुलूचे गूणगायन भायल्या-भितरच्यां कडल्यान जायत रावलें.

सिमांव हें सगळें पळेतालो. ताका दिसतालें आपल्याकूय एक गुणवंत भुरगें आसचें. तें आपल्या आंगा-खांदार खेळचें. आपणें ताचेर माये-मोगाचो शिंवोर करचो. ताका पीपी हाडून दिंवची, भोबो हाडून दिंवचो. पूण ती आस तो मनांतच घेवन रावलो.

''तूं गुलू मुगो बाय?''

''होय कुन्याद. तुहां कोहें कोवलें, हांवूंच गुलू म्होणोन? कित्या वोयल्यान ओवकोलो तूं माहां?''

''तुज्या पायच्या सारक्या वोयल्यान. हायें तुहां हे आदीं हे भासेन केन्नाच पोवोंक ना.'' सिमांवन निर्शेवन म्हणलें.

''हे भासेन म्होणजे, तूं आमजेर केन्ना उकतेपोणान येवंक ना. आनी माहां दिसता, कोणें तुहां हिंगा हाडून आमचें घोर दाखोवंकूय ना. हांव तुहां ओवकोलों, तुज्या पायच्या सारक्या वयल्यान.''

''हांव म्होज्या बापायक दादी म्हुण्टां.'' गुलून मदेंच तोडलें.

''एकदम बोरें.''

''कुन्याद, सांग माहां तूं कित्या वोयल्यान ओवकोलो पोय तें. हांव आशेलां आयकोंक.''

''तूं तुज्या दादीभाशेन दिसता. तुजो चेरो, तुजी आंगलोट – सारको आलसू. तुजें उलोवपय सामकें थोडें आलसू बाशेन. बोस गो बाय. केन्ना पसून उबेंच रावन उलोयतोलें?''

सिमांवन गुलूच्या हाताक धरून थंय आशिल्ल्या कदेलाकडेन व्हेलें. ताका कदेलार बसयलें. ताच्या केंसांचेर मायेन हात भोंवडायलो. ताचे खाडकेक हात लावन ताका तोखेलें.

हें सगळें जाल्या उपरांत तो मनांतल्या मनांत पुटपुटलो – 'ओहलें मायेस्त आनी देखणें भुरगें म्होज्या घारांत सून म्होणोन येयलेलें जाल्यार, ह्या घराचो सोर्ग जावपाचो.'

पूण ताका खंय खबर आसा, ताच्या घराचो सर्ग करपाचें काम देवान गुलूकडेन सोंपयला तें!

गुलूक कदेलाचेर बसोवन सिमांव बेटोच भायर भितर करूंक लागलो. ताची नदर नातलूचे वाटेकडे लागून रावली. सिमांवची अस्वस्थताय पळोवन गुलू मात मात्शें गोंदळून गेलें. ताची आती ताका घरांत दिसली ना, हें अस्वस्थतायेचें मुखेल कारण आशिल्लें.

ते भायर कदेलाचेर भाटकान्न कशी बसून ताका चिटमिटे येताले. ताका संवंय नाशिल्ली तशें बसून रावपाचें.

''कुन्याद आती हूंय जेल्या? घारांत ना काय कितें ती?'' कदेलावयलें उठून, पासय मारीत गुलून सिमांवाक प्रस्न केलो.

''बाय तें शेतांत जेलां. येवपाचें जालें.'' सिमांवन चेऱ्यार उजवाड घालीत सांगलें.

''कितें? आती आनी शेतांतू? ओजाप म्हणपाचें. म्होजो दादी म्होण्टालो, आतीन आतां शेतांत ओसपाचें साप्प सोडलां. शेताचें नांवूच काडल्यार चाव्वोता.''

''व्होय. सोत उलोयतालो तुजो दादी. पूण आतां तें आदलें उरोंक ना. आपल्या कोडच्यान घोडलेल्या आयट कोर्माचें पोराचीत झेवपा चितलां तेणें. तेका लागोन तें ह्या दिसांनी सोकाडीं सोकाडीं शेतांत वोयता.''

''आतांय शेतांत जेल्या तोर ती?'' – गुलू.

''माहां सारकी होबोर ना. शेर्त ती थिंगाऽ जेल्या जातोली.'' – सिमांव.

''तोहें जाल्यार माहां व्होत्ता थिंगा? माहां तुमचें शेत पोवपाची चोड उमेद आहा.'' – गुलू.

''आतां नाहां. येवंदी तुजे आतीक पोयलीं घारा. एकामेकाक मेवाय. खुशालभोरीत जावाय. वोत देवलें म्होण्टोच हांवूच दाखोयतां तुहां,आमजेलें शेत आनी भाट.'' सिमांव.

''आनी लोरसू हुंय जेला तोरू?'' गुलून सहजतायेन विचारलें.

''तो आनी हुंय वोयतोलो! जेला आसतोलो आंगड्यां आंगडा हेडोंक.'' सिमांवन आपली निर्शेवणी उक्तायली.

''हेडोंकू? माहां आती सांगताली आतां तो जायतो सुदोरला म्होणोन.'' गुलून म्हायती दिली.

''तो कितलो सुदोरला, ही तुजे आतेक बरी होबोर आसतोली. तो म्होज्या सामकाराक उबोच रावोना. आनी माहांय तो दोड्यां मुखार येयलेलो नाहां. तेहा पोयल्यारूच म्होजी तोकली उसोवता.''

गुलून सगळें मोन्यांनी आयकून घेतलें. उतराक उतर दिल्यार तें उमथ्या कळशाक उदक थारपाचें. देखून ताणें चिंतलें, शिमांवकूच आपलें मन मेकळें करूंक लावन आपणें फक्त आयकुचें.

''आतां एक मात होरें, तुजेर तेजो चोड मोग आहा. दीस–रात तुज्योच होबरो चोलताय घारांत. हे होबरां मोदें फुडाकार आसता तो तुजे आंटीचो.''

''आंटीचो न्होय कुन्याद, आतीचो म्होण.'' – गुलू.

''बोरें आहा. तोहें जाल्यार तोहें. माहां कितें आहा! पूण म्होज्या पुताचो तुजे वोयलो मोग, हुंयचें तेंगसेर पावला, तें मात माहां सांगोंकूच जायें. दोन दीस हाटीं तूं आमजेर येवपा आहा, ही होबोर लोरसूक मेवली.'' – सिमांव.

''कोणें दिली तेहा ही होबोर?'' गुलून अजापीत जावन प्रस्न केलो.

''तुजे आतीनूच दिली जातोली. आनी कोण दितोलो? हांव तुहां एकूच सांगतां धुये. तूं तेहा पातयेंव नाहां. आयज दोन दीस जाले, घारा हाटल्या काजू रूखा तेंगशेर बोसोन तुजे आटे कोडे दोवो लावन आहा. जेवणा वोगतार सोकोल देंवता. माहां चोड भिरांत दिसता तेजी. तुकोडें इश्टागोत कोरून, गोड गोड उतरांनी फुलां मावून, तुज्या ओहल्या पोवित्र आनी सुंदोर फुलाक पिसडोवन, पांयांपोंदा गुड्डोवन भायर मारीत म्होणोन!

लोरसू हो म्होजो भुरगो. पूत तो म्होज्या रोगताचो. तोरी देआन म्होजेर ओगोत हाडला तेजेर कोंत्र उलोवपाचो. तुजे भासेन तो बोरे देखीन वाडलेलो जाल्यार मुगो बाये, आयज म्होजेर हे भासेन खंती जावपाचो, रोडपाचो ओगोत येवचो नाहलो.''

गुलूच्या आतां लक्षांत आयलें. आलसूबाचें आनी सिमांवचें दुख्ख एकूच जावन आसा. आनी तें म्हणल्यार लोरसूक गुलू पासून जाता तितलो पयस दवरपाचो. लोरसू वादीव आनी ह्या वादीवाची सावळी लेगीत गुलूचेर पडूंक ना दिवपाची.

पूण ह्या दोगूय जाणट्यांनी लोरसूविशीं आपलो गैरसमज करून घेतिल्लो. एकल्याचो गैरसमज ताणें आदींच पयस केल्लो. आतां दुसऱ्याक जाग्यार हाडपाची गरज आशिल्ली. गुलून तें काम आपल्या हातांत गुपचूप घेतिल्लें. आपलो विचार कितें आसा, आपूण कितें करूंक सोदतां, हाची सुलूस कोणाक लागची न्हय, हें थारावन फुडें आयिल्लें गुलू.

''कुन्याद, तूं ओगीच बेजार जावं नाहां. लोरसू आमचोच आहा. तेहा सांबावन झेवया आमी!''

सिमांव हें आयकून गुलूच्या तोंडाकडेन पळेत रावलो. ताका हीं उतरां नवीं आनी आशेचीं लागलीं. आपल्या उतरांचो सिमांवाचेर प्रभाव पडला हें गुलूच्या लक्षांत आयलें. तें आपलें उलोवप फुडें चलोवंक सोदतालें. पूण अकस्मात ताणें आपले जिबेक आवर घालो. आपूण एक ल्हान पिरायेचें भुरगें, एका अणभवी आनी जाणट्या मनशाकडे उलयतां हाची जाणविकाय ताका जाली. आपूण कितलेंय शिकलें, आपलीं उतरां कितलींय शाणेपणाचीं आसलीं, तरी तीं फकत इदादीन वाडिल्ल्या एका अनाडी शेतकाराक मानवचीं ना, हाची जाणविकाय गुलूक आशिल्ली.

अशें आसलें तरी गुलूच्या तोंडांतल्यान भायर पडिल्लीं म्होवाळ आनी समजिकायेचीं उतरां सिमांवचे दिश्टीन विचार करपा सारकीं आशिल्लीं. आपूण एरंड कसो वाडलां, पूण गिन्यानान आपले परस उजू हें पोरांटें आसा, हाची जाणविकाय सिमांवक जाल्ली. तेन्ना सिमांवन गुलूकडें सांबाळून वागपाचें थारायलें.

आनी गुलूकय तेंच जाय आशिल्लें. तें हरवें सोदतालें ताका देवान आयतेंच पिकोवन दिल्लें. ताच्या कार्याक देव मजत करीत आशिल्लो.

उलयतां उलयतां सकाळचो वेळ आतां उलगल्लो आनी बारांचो वगत लागीं पाविल्लो. तरी शेतांत गेल्ल्या नातलूचो अजून पत्तो नाशिल्लो.

गोठ्यांतलीं म्हसरां आतां तान्हेल्लीं. सकाळपसून तीं गोठ्यांत बांदिल्लींच आशिल्लीं. सिमांव येतलो आनी आपल्याक उदक दितलो हाची वाट तीं म्हसरां पळेत आशिल्लीं.

एके म्हशीन तर गुलूक कोरें करून रागान पळेलें. तिका व्हिस्तीदांत आशिल्ल्या गुलूचो राग आयलो.

ही म्हस ते गोठ्यांतली सिनियर आशिल्ली. सिमांवलो इतिहास तिका खोलायेन खबर आशिल्लो. नातलू साडयेंत वावुरतना मनशांचेर आनी मोनजातीचेर माये-मोगाचो शिंवोर कशें करतालें. उपरांत सर्वंट टिचर आयली ती व्हिस्तिदकान्न. तिच्या अनुकरणान नातलूय व्हिस्तिदकान्न जालें. सर्वंट टिचरीचीं आनी नातलूचीं लक्षणां त्या गोठ्यांतले सिनीयर म्हशीक मातय मानवलींना. ताका लागून कोणूय व्हिस्तीदकान्न दिसली रे दिसली ते म्हशीन दोळे मोटे करून रस्तीन फोंसां घालचीं. आतां गुलूक पळोवनूय ती फोंसां घालूंक लागली. सगळ्योच व्हिस्तीदकान्नी एकसारक्यो नासतात, हें ते बाबडे म्हसीक कशें कळटलें?

आतां एक मात, ही म्हस आपल्या चेड्डीवाल्या धनयाचो-सिमांवचो चड मोग करताली. तान-भूक लागली म्हणटकच ती आपलीं लांब लचक शिंगां हालोवन सिमांवकच आपयताली.

आपलें दूद सिमांवनूच काडचें अशी तिची इत्सा. सिमांव दूद काडूंक गेल्यार तांबयोभर दूद मायजच सोडटाली. नातलूक पळोवन मात गाय-म्हसरांचें दूद आट्टालें.

हें सगळें चलता आनी घडटा आसतना आनी दनपारच्या कडार सैम झेमतासतना, गुलूची नदर नातलूचेर पडली. माथ्यार जाळीदार साकाची बरी व्हडली पोटली घेवन, वता कडार खरशेत खरशेत, लकत लकत चलतालें नातलू. गुलूक ताची काकुळट दिसली. तें धांवत-धांवत फुडें गेलें. माथ्यार आशिल्ली पोटली ल्हव जावंची म्हूण ताणें पोटलेंतले दोन कोंकणदुदी काडून खांक्याक मारले. आतेक पळोवन तें इतलें खोशी जालें, भुरग्याभशेन उडक्यो मारीत ताका घरा तें घेवन आयलें.

नातलूक हो प्रसंग सुखदिणो आशिल्लो. हे आदीं नातलूच्या वाट्याक असलो प्रसंग केन्नाच आयलो ना. आपल्या पुताक व्हडलो मनीस करूंक सर्वंट टिचरीकडें जर सोपोवनासलो, तर लोरसू कडल्यानच हें सूख नातलूक मेळटलें आसलें.

खरें म्हणल्यार गुलूक पळोवन नातलू खूश जावंक जाय आशिल्लें. गुलूक ताणें हुनहुनीत येवकार दिवंक जाय आशिल्लो. पूण तशें करपाक गुलून ताका संदच दिली ना.

उरफाटें गुलूनच आपले आतेक शेतांत सावन येतकच येवकार दिलो. वाटेरच ताच्या माथ्यावेलें वजें ल्हव केलें. बेगीबेगीन घरांत वचून उदकाचो तांबयो हाडून आतेच्या म्हऱ्यांत दवरलो.

व्हडा उमेदीन ताणें साका पोटलेच्यो गांठी सोडल्यो. कोंकणदुदी तर ताणें आदींच भायर काडिल्ले. आतां पांचव्या रंगाचीं, पुडीरंगाचीं लांब–मोटीं वायंगीं भायर काडलीं. तांबडी भाजी आनी पांचव्या–धव्या रंगांच्या गिरेस्तकायेन भरिल्लो मुळो भायर काडून गुलू व्हडा उमेदीन ताची तोखणाय करूंक लागलें. असले तरेची शाकभाजी आनी भाजीपालो आपले आतेच्या शेतांत पिकता तें पळोवन गुलू गर्वान फुल्लें.

''आते, ओहले कोंकणदुदी, ओहलीं आयंगीं तुमच्या शेतांत जातायी?'' अजापीत जावन गुलून प्रस्न केलो.

''आमच्या शेतांत जायतें जाता बाये! आमचीं आगशी शेतां मुहल्यार भांगोर. ओहलें पेजाद पीक झेतोले जाल्यार रोगताचें उदोक मात कोच्चें पोडटा.''

''माहां केन्ना दाखोयता तें तुमजें शेतू?'' – गुलू.

''पोये गो बाये तुहां जायें तेन्ना. आतां आमी जेवया मुगो, मात्सो सुसेग झेवया आनी वोत मोव जातोच शेतांत या.'' नातलून खुशालभरीत जावन आपली येवजण उलोवन दाखयली.

''आयज नाहां आते. तूं माहां हाल्यां व्होरोंक यो.''

''तुजो दादी धाडटलो मुगो तुहां?'' – नातलू.

''आतां दादीची कोहली आडकोव ना. हायें तेहा कितें सांगोंक जाय तें सांगलां.''

''तोहें जाल्यार बोच बोरें आहा. हाल्यां इगोज्जेचें पोयलें मीस जाले उपरांत हांव तुमजेर येतां.'' – नातलू.

''यो. बाराबोन लोरसूकूय हाड.''

हें आयकून नातलू अजापीत जावन गुलूच्या चेऱ्याकडें पळेत रावलें.

३४

**गु**लू आतां आपले येवजणे प्रमाण काम करूंक लागलें. काम करतना खूबशो गजाली ताच्या मना आड घडटाल्यो. तरी तें सगळ्यांचेर मात करून हिकमतीन फुडें वतालें.

ताणें आतेक आपल्याक व्हरूंक यो म्हूण सांगलें. ह्या आपोवण्यांतूय तागेले खास अशे विचार आशिल्ले. दोनूय घराब्यांतलें तापिल्लें वातावरण ताका थंड करूंक जाय आशिल्लें. ताकाच लागून ताणें आतेक वांगडा लोरसूक हाड म्हूण सुचयलें. लोरसूक दादी मुखार उबो करून, ताचो दादीचेर आनी लोरसूचेर कितें परिणाम जाता तें पळोवपाचें आशिल्लें गुलूक!

पूण गुलूच्या आपोवण्यान नातलू मात दुबावलें. गुलूचेर ताचो विस्वास आशिल्लो. पूण आपल्या भावाचेर न्हय. गुलून मामा–भाच्याक एकठांय हाडले, आनी मामा चाळवलो जाल्यार? गुलूक ताका जाग्यार हाडूंक त्रास पडटले. ते परस नाका आशिल्लो प्रसंग टाळपा खातीर, कसलेंय तरी निमित्त काडून लोरसूक सद्या तरी मामागेर ना व्हेल्लो बरो, अशें नातलूक दिसलें.

नातलू दुसरे दिसा एकटेंच भाटयेर गेलें. आती आपल्याक व्हरूंक येतली, ही गजाल गुलून आपल्या बापायक खास सांगून दवरिल्ली... खास हे खातीर की भाव–भयणीचे वर्तणुकेंत परिवर्तन घडून येवचें. अशें करून आपूण कितेंय तरी नवें करूंक सोदतां, हें दाखोवन दिवपाचो हेत आशिल्लो गुलूचो. नातलू आगशीचे इगर्जेचें मीस सोंपोवन बद्द भाटयेर गेलें. गुलू ताचे वाटेकडें लक्ष दिवन आशिल्लें. गुलूचे सांगणे प्रमाण आलसूय मठयेर घुसपून रावलो. घुसपून रावलो म्हणल्यार हाताक मेळटा त्या कामांत मग्न रावलो. तरी ताचें लक्ष भयणीच्या मार्गार आशिल्लेंच. भयण मठयेर पावतांच तिका येवकार दिवपाचे तयारेन रावपाचो आदेश गुलून दिल्लो ताका.

आनी आपपाप भटा माथ्यार म्हणून आलसू गुलूचो आदेश मोन्यानी मानतालो.

करतां करतां नातलू आतां आंगणांत पावलें. ह्या आदीं भावागेर येवंक तें दचकतालें. घरा भाव नासल्यार पुरो अशें दिसतालें ताका. भावाचो मोग आसुनय तें भावाचे ओडीन येनासलें. मात तें येतालें अपुरबायेच्या गुलूक लागून. ताच्या येवपांत इल्लो सुवार्थ आशिल्लोच, मात तो मुखेल मात निश्चीत नाशिल्लो. तशें ग्राह्य धरल्यार गुलूचेर तो अन्याय जातलो.

नातलूक पळोवन गुलू ताच्या सामकाराक आयलें. सदां भशेन ताणें ताका हाताक धरून भितर व्हेलें. वांगडा लोरसू आसतलोच ही गुलूची अपेक्षा आशिल्ली. कारण तो तांगेर येवपाची संद सोदतालो.

नातलू खातीर आनीक एक अजापाची आनी कोणाकय चकीत करपाची गजाल घडली. आपले भयणीकडेन उलोवपाक अनमनपी आलसू आपल्या हातांतलें काम

जंयचे थंय सोडून आपले भयणी म्हऱ्यांत हांसत्या तोंडान येवन उबो रावलो. ताच्यांत अकस्मात घडिल्लें परिवर्तन पळोवन नातलू गडबडलें. खूब दिसांनींच न्हय, तर वर्सांनी ताणें आपल्या भावाचो उजळ चेरो सामकाराक पळेलो.

''लोरसूक हाडुंना गो! तुज्या बाराबोन येवपाहलो न्हो गो तो !''

भावाच्या तोंडांतल्यान हीं उतरां भायर पडना फुडें नातलूचो चेरो चडच परजळ्ळो. आलसूकडच्यान असलीं गोडसाणीचीं उतरां अनपेक्षीत आशिल्लीं नातलूक. व्हडलें-शें जाल्यार दोन फरमालदादीचीं उतरां उलोवन आपलो भाव थंयच्यान कूस मारतलो अशें दिसतालें ताका. पूण सगळें सोडून आपल्या पुताची चवकशी आपलो भाव करता तें पळोवन नातलू काचाबूल जालें. भाव-भयणां एकमेकाकडेन केदो वेळ पळेत रावलीं. नातलूचे तर खोशेच्या दुकांनीं दोनूय दोळे भरून आयले. नातलूले दोळे दुकां झरींक बांद घालूंक शकलेनांत. ताच्या दोनूय गालांवेल्यान दुकांपाट व्हावंक लागले.

नातलू दुकांनी रडपाचें मुखेल कारण एकूच आसलें, आलसून आपल्या भाच्याची मुजरत खबर घेतली. ही गजाल नातलूक चड म्हत्वाची आनी गरजेची आशिल्ली.

''तूं कित्याक दुकां गोवोयता गो, नातलू! जे कारणांक लागोन आमी आमच्या जिवितांत आयटपोण घोडोवन हाडलें, रिगोयलें आनी तिगोयलें, तेंच पोयस जालें जाल्यार आतां रोडोत बोसोंन कोहलो हायदो आहा? आमच्या मोदलें आयटपोण आमच्या भुरग्यांचें आयट-बोरें चिंतून घोडलां. आतां भुरगींच तें आंकडेंपोण पोयस कोरूंक सोदतात जाल्यार कोरूं दी.'' – आलसू.

''होई! आतां आमचे दीस हुंय उल्ल्याय रे. वोयताय ते दीस होरे म्हणपाचे.'' – नातलून आपलें शाणेंपण उलोवन दाखयलें. थोड्याच वेळान भाव-भयणीचें उलोवप रंगार आयलें. तशें पळोवंक गेल्यार दोगांय भावभयणांचें उलोवप थंडसाणेचें. घडये नातलूचो आवाज एक वेळ चडत. पूण आलसूबाचें तशें नासलें. तो सामकारच्या मनशाकडेन उलयतना, प्रत्येक उतर मापून-तोलूनूच उलयतालो. उतरां काटयारीं आसलीं तरी जिबेवेल्यान तीं फुलां जावनूच भायर पडटालीं.

पूण आयज ताच्या ताळ्यावेलो ताबो सुटिल्लो. नातलूचो दचक पुरायेन पयस जावं नासलो. आलसू मात आपले भयणीकडें मेकळेपणान उलोवन इतल्या तेंपाची आस भागयतालो. तांच्या कळमेल्ल्या मनांची कळम सुटून तांचीं मनां चकचकूंक लागिल्लीं.

ही गुलूची करामत आशिल्ली. गुलून सुरू केल्ल्या प्रयत्नांक आतां ल्हवल्हव येश येवंक लागिल्लें.

''आती, सोगलें उलोवन काबार कोरूं नाहाय. थोडें हाल्यांक दवराय. आतां आमी या.'' गुलून रंगार आयिल्लें उलोवप नियंत्रणाक हाडूंक सुचयलें.

''होय बाये. उलयत रावल्यार आमी इंगाच उत्तोलीं. चोल या.'' नातलून भेंड वांकडें करीत उबें रावपाचो येत्न केलो.

''आती तूं पेज जेयता वो च्याव कोरूं?''

''दी गो बाय कितेंय. तुज्या हातचें हांवक माहां कितेंय बोरें लागता.'' नातलून आलसूचेर नदर मारीत खुशालकायेन जाप दिली.

''आती, तुहां उकड्या केनवा तांदवां पेज मानवोता हें हांव जाणां. आयंगोणे शेतांत ओनू जायते कोंगे पोडलेले. माहां होबोर कोवली. तुहां कोंग्यां सुक्याचो चोड घोस्त म्होणोन! तूं येवपा आहा म्होणोन रातीं कोरून दवल्लां. आंबोट तीख आनी घोट-घोट उंडे झेहल्याय. तुहां कितें मानवता तें हा. पेज जायी पेज जेय!''

कोंग्यांच्या आंबोट-तिखाचें गुलून नांव घेतलें मात, नातलूची जीब चळ्ळ करून मुतली. ताणें घट उंड्यां वांगडा आंबटतीख खावन, वयल्यान उकड्या तांदळां पेजे निवोळ पियेवप पसंत केलें.

''कोहीं या गो आमी, चोलोन काय बोसीन. तुहां चोलपा सोवोंय ना म्होणोन म्होंटां बाये!'' नातलू पिरंगलें.

''तूं आनी कितें जे आते! बोसीन वोसोंक सोजीकोडें लेगीत चोलोन वोसों नाहां जे?'' गुलून खंत उक्तायली.

''सारकें तुजें. बिदींतल्यान या मुगो? सांतातोनी कोपेला कोडल्यान वोसोत जाल्यार रोकडीं पिलार पावलीं. आनी पिलार पावलीं म्होण्टोच रोकडींच पावलीं आगशे.'' नातलून आपली खोस उक्तायली.

हें सगळें खरें आसलें तरी चलपाचे बाबतींत तांचे मदें अडचण उप्रासल्ली. नातलू म्हातारी गाय आनी गुलू सुटसुटीत वासरूं.

नातलून शेतांत काम करपाचें सोडूं नाशिल्लें जाल्यार सडसडीत आसतलें आशिल्लें. कदाचीत चलपांत गुलूक लेगीत फाटीं घालपाचें तें. पूण आतां ताका वावराची संवंय नाशिल्ल्यान इल्लें लेगीत कसलेंय काम केल्यार तें धापेतालें - खरस मारताली ताका.

आतांय ताची तीच गत जाल्ली. नातलूक मोन्यांनी चलप जमनासलें. दोन उतरां तोंडांतल्यान भायर पडलीं की तें रोकडेंच थकतालें. ताका वाटेर बसून मात्सो सुशेग घेवंचोसो दिसतालो. पूण गुलू ताका तशें करूंक दी नासलें. तें ताका हाताक धरून

मर्दी–मर्दी चलयत व्हरतालें. जड नातलू एकदां बसलें जाल्यार बसुनूच उरत हाचो गुलूक भंय आशिल्लो.

३५

जणेकल्या मनशाच्या जगण्याची खाशेली अशी मोख आसता. चोर मनांत चोरपणां घेवन वावुरता. फटकिऱ्याचें शिंतीद फटिंगपणाचेर आसता. कांय लोक आपलें आनी आपल्या घराब्या पुरतेंच चिंततात तर बेबदे दिसरात फकत सोरो कसो मेळोवंचो हाचे विवंचनेंत आसतात.

नातलू आपल्या पुताचें बरें कशें जातलें हाचोच विचार मनांत घोळयतालें. लोरसू तर सामकोच गुलूभक्त जाल्लो. गुलू खातीर तो कितेंय करूंक तयार आशिल्लो.

आनी गुलू? गुलूच्या मनांत घोळटालें तें फक्त जनकल्याण आनी राष्ट्रहीत. राष्ट्रहिता खातीर आपल्या सुखाकडे लेगीत आडनदर करपाची ताची तयारी आशिल्ली. ताकाच लागून, स्वता एक सक्षम अस्तुरी आसून लेगीत, लोरसूच्या दुर्गुणांची कल्पना आसून लेगीत ताणें लोरसूकडेन काजार जावपाचो निर्णय घेतलो. पूण तो अव्यक्त दवरलो.

गुलू आनी नातलू आतां आगशी पावलीं. लोरसू तांची वाट पळेत आशिल्लो. आवय गुलूक हाडूंक गेली म्हूण तें येतूच हाची खात्री नाशिल्ली. आलसू कितलोय थीर आसलो तरी आपले धुवेचे बाबतींत तो डळमळूंक शकतालो. आपले धुवेक भयणी वांगडा ना धाडपाचो निर्णय तो खिणांक घेवंक शकतालो.

पूण तशें घडलेंना. गुलूक पळोवन तो फुल्लो. ताका दिसलें, आतां राज्य आपलें. गुलूकडेन उक्तेपणान उलोवपाक आडमेळें हाडपी हांगा कोण ना. पूण गुलू आपलेकडेन उक्तेपणान उलोवपाक तयार आसतलें काय? आनी कित्याक आसचें ना? मम्मीक तर तेंच जाय.

तरी पयलीं पयलीं सबुरीन घेतल्यार बरें. गुलू आमगेर आयलां. ताकाच जाय तितलें उलोवंदी. ताची आदीं सावन अपुरबाय चड. ते भायर तें मॅट्रीक पास जालां. ताच्या उतराक मान चड.

नातलूकय दिसतालें, लोरसून गरजे भायर चड उलोवंचें न्हय. खूब कितें जाल्या उपरांत सुचिल्लीं शाणेपणां आशिल्लीं तीं!

''गुलू, कोहें आहा गो तूं?'' लोरसून खालतेपणान प्रस्न केलो.

''हांव फोर्त. तूं आमजेर कित्याक येवना रे आते बाराबोन?''

''मम्मीन व्होरोना माहां. तूं आमजेर येवपाहलें न्हो गो?'' लोरसून निर्शेवन जाप दिली.

''दादी होबोर झेतालो तुजी.'' – गुलू.

''मामा म्होजी होबोर झेतालो? होरेंच?''

''हांव फोट सांगतां?''

''ना. हांव जाणां. तूं केन्ना फोट मारपा ना.''

मामा आपली खबर घेता, हें आयकुनूच लोरसू खोशेन भरलो. ताका दिसलें, मामान आपली खबर घेवप, गुलून आपल्यागेर येवप हीं बऱ्याचीं लक्षणां जावन आसात. ताच्या मनांतली दुगदूग खिणांत खंयचे खंय नाच जाली.

गुलू–लोरसूच्या निर्मळ मनांचो सुसंवाद चलतालो. तांचीं उलोवणीं आतां रंगार येवंक लागिल्लीं. तीं आयकून नातलू फुल्लें. चलून चलून ताच्या भेंडांत आयलां म्हूण तें हुमऱ्यार बसून आशिल्लें. तें कशेंबशें उठून, भेंडार हात धरून लोरसू म्हऱ्यांत आयलें आनी ताणें मदेंच दोवलो घालो –

''होर्आी उलयत रावों नाहाय. सुर्या माथ्यार येवन रोकडोच देंवतोलो.'' नातलून आपली चिंता उक्तायली.

''माहां कितें कोर म्होण्टा जे!'' लोरसू पिंजळ्ळो. ताका गुलूकडें उलयत रावनशें दिसतालें.

''गुलूक हूंय मुरे बाबा, आमजे भाट आनी शेत पोवों जायें.''

''कित्याहू?''

''तेहा शेतां–भाटांनी भोवोंक आवडोता हूंय.''

हें आयकना फुडें लोरसून तोंड वांकडें केलें. मात रोखडोच ताच्या बोडांत उजवाड पडलो. भाटांत भोंवतासतना, गुलू बगर वांगडा आनी कोण आसचोना, हें ताचे मतींत आयलें.

''जेवन या मुगो?''

''ओगोत जातोलो मुरे.''

''तूं राव गो आयज आमजेरू.''

''ना बाबा. तेज्या दादी हायें उतोर दिलां. आयजू हाडून पावोयतां म्होणोन.'' – नातलू.

''आतां वोत लागतोलें मिजे तेहा.''

''ना रे. माहां बोरें दिसता वोतां भोवोंक.''

''तुमी चोलाय. भोवोन योवाय. हांव तुमहां बोरेंऽ जेवोण रांदतां.'' अशें म्हण्टांच नातलूल्या भेंडा दुखणें खिणांत जिरलें.

''पूण मम्मी, आतां कितेंय हावंक दी जे. गुलूक भूक लागल्या आसतोली.'' लोरसूक आपले परस गुलूचे भुकेची चड काळजी लागिल्ली.

नातलूकूय दिसलें, गुलूच्या पोटाक थाकाय हाडुंनूच ताका भायर सोडचें. सकाळ पसून ताच्या पोटांत कांयच वचूंक ना. ते भायर तें देड–दोन वरां चलून आयलां. ताणें पोटली सोडली. कोंग्यां मासां आंबट तीख सुकें आनी कात्र्यां उंडे भायर काडले. दोन उंडे आनी इल्लें सुकें सिमांवा खातीर कुशीक काडून थेयलें. उरिल्लें गुलू–लोरसूच्या म्हऱ्यांत धुकल्लें. भितर वचून दोन पितळे वाडगे भरून कद्यांतलो थंड–थंड पेजे निवळ हाडून दोगांय भुरग्यां म्हऱ्यांत दवरलो.

गुलू आनी लोरसू आतां ताजीतवानी जावन भाटांतले भोंवडेक वचूंक व्हडा उमेदीन भायर सरलीं खरीं, पूण तांचे भोंवडेचो उद्देश मात एक नाशिल्लो. लोरसू गुलूच्या सांगाताक आशेल्लो. गुलूच्या काळजांतल्यान मोगाळ, म्होंवाळ आनी सुखदिर्णी उतरां गुलूच्या तोंडांतल्यान भायर पडचीं आनी ताणें तीं आयकत रावचें, अशें ताका दिसतालें. असलीं उतरां ताणें हे आदीं कोणाच्याच तोंडांतल्यान आयकूंक नासलीं.

गुलूच्या मनांत मात असले कसलेच विचार उदेनासले. मनशां इतलोच, तेय परस चड तें झाडांपेडांचो मोग करतालें.

## ३६

म्हयनो मार्चाचो आशिल्लो. सिमांवले मठये भायर लागसाराकूच एक विशाल आमरूख ताठ मानेन उबो आशिल्लो. ताचो रुबाब आनी झेत पळोवन ताका जाण्टो आनी म्हातारो म्हणटल्याक कोणूय पिशांत काडटलो. एक मात खरें, तो म्हातारो नासूनय म्हातारो दिसतालो. कारण तो चडसो बेनुल्लेन भरिल्लो. बेनुल्ली ताचो रस चिंवताली आनी म्हातारपणा हाडटाली. अशें आसुनूय तो तोरांचे घोस आपल्या आंगार झेलयतालो. तोरां अजून कातवुनाशिल्लीं. वाऱ्यान जमनीर पडिल्लें एक तोर फातरार पडून, फुटून पुरावो दितालें की आमी अजून खळांत घालपा इदादीचीं जावन आसात. कोणाकूय जाय जाल्यार काडचीं आनी घालचीं खळांत. सिमांवकडेन कोबलें आसाच!

पूण सिमांवाक मात आंबल्यो खळांत घालपाचे विचार पसंत नाशिल्ले. ताका आंबल्यो झाडार पिकच्यो, वाऱ्यान झडच्यो आनी पोरां-बाळांनी खावंच्यो अशें दिसतालें.

एका तेंपार तो ह्याच रुखाचीं तोरां खोटल्यांनीं काडटालो. थोडीं खळांत घालतालो आनी चडशीं विकतालो. गिरायकूय खाशेलें अशें आशिल्लें. हरव्यो मिरसांगो आनी थोडो हींग मिसळून, दोणलेंत चेपणांत घाल्ल्यो करमेल्ल्यो आंबल्यो कातली कशी कुरकुरीत लागताल्यो.

पूण आतां सिमांवन तोरां काडपाचें सोडून दिल्लें. आंबल्यो पिकतकीर गोडसाणीन मानकुरादाक लेगीत फाटीं उडयताल्यो. ताका लागून त्यो खावपाक गांवांतल्या भुरग्यां-बाळांनी आपल्या दारांत गर्दी करची अशें ताका दिसतालें.

कांय लोक जिणेचो आनंद घेवंक जगतात, तर चडशे लोकांक गिरेस्तकाय करून दवरचीशी दिसता. नातलू-सिमांवक मात हेरांक सुखदिणी जीण दिवपाक मानवताली.

गुलून सामकाराचें आंब्या झाड बारकायेन वयर-सकल पळोवन घेतलें. अशें केल्ल्यान दोन चित्रां ताच्या मनांत रिगलीं. एक वाऱ्यार धोलपी तोरां घोसांचें आनी दुसरें खांद्या-खांद्यार उदेल्ले बेनुल्लेचें. एक सुखदिणें आनी दुसरें दुख्खदिणें.

सिमांवल्या ताब्यांतल्या भाटांत आनीकूय कितलींशींच ल्हान-व्हड आंब्या झाडां आशिल्लीं. एका तेंपार तीं सगळीं फुलतालीं, फळटालीं. कारण तांकां बळिश्ट सिमांवचो आदार आशिल्लो. तो फावत्या वेळार बेनुल्ली काडटालो. आतां सिमांव दिशीं दिशीं जाणटो जायत वतालो.

झाडांचेर चडप ताका जमनासलें. मानांय घालून बेनुल्ली काडटलो म्हणल्यार मानाय मेळनासले. ताका लागून झाडां तरणीं आसुनूय मरणा देगेर पाविल्लीं. हीं झाडां अशींच दुर्लक्षीत उरलीं जाल्यार, बेनुल्लेचें भक्ष्य जावन उरलीं जाल्यार फुडाराक एकूय आंब्या झाड वखदाक लेगीत उरचें ना. तांची राखण करपाची ताकद ना भाटकारांत उरतली, ना मुंडकारांत!

गुलून ह्या एका झाडावेल्यान भाटांतल्या हेर आमरुखांची पारख केली. आलसूबाय हेच तरेचो मुंडकार आशिल्लो. मुंडकार आसलो तरी झाडां-पेडांचे बरेचशे अधिकार भाटकारान ताचेकडे सोंपयल्ले. आतां तर तोच भाटकार कसो वावुरतालो. ह्या फुडें गुलून मनांत हाडल्यार आपल्या बापायचे अधिकार तें आपणावंक शकतालें. ताची येवजणूय तेच दिकेन वताली.

''लोरसू, आंब्याक तोरां घोसांनी जाल्यांय मुरे! माहां मुरे हातरान धाडायल्लें तोर मीठ लावन हावंक घोस्ताक लागता.'' गुलून रूच काडली.

''माहांय हायन दिसता गो.'' – लोरसू.

''तोहें जाल्यार काड मुरे. तुहां वोयर चोडोंक कोवता मुरे?'' गुलून ताचो अदमास घेतलो.

''माहां? माहां कोवोना!''

''तूं शेतकारालो पूत जावन लेगीत तुहां झाडार चोडोंक कोवोना?'' गुलून लोरसूक लज्जेक घालपाची माण्णी केली.

''हांव व्होडलो मुनीस जालां. व्होडले मुनीस झाडार चोडपाचें काम कोन्नाय.''

''माहां आती सांगताली तूं घोरा हाटल्या काजूर बोसोन कोणाची तोरी आट पोळेता म्होणोन.'' गुलून आपलें गुपीत उक्तायलें.

''माहां मुगो त्या एका झाडार चोडोंक कोवता. तें झाड मोटयें आनी आकडें तिकडें आहा. तेच्या हांद्यांचेर बोसोन बोसोनशें दिसता.''

''तोहें जाल्यार आतां माहां तोर हावंक मेवचें ना मुरे?'' – गुलू.

''तुहां रुचूच येयल्या जाल्यार हांव हातरावन एक तोर उडोवंक मेवता जाल्यार पोयतां.''

''तुयें केन्ना तोर हातरावन उडयलां रे लोरसू?''

''एकदां ट्राय केली गो हायें. आमचे टिचरीन सांगलें माहां तोर फातरावंक. तुजे भासेन तियेंकूय हायन दिसलें तोर. हायें दोन–तीन हातोर कोशाकोशेय शेवटीले.''

''कोशा कोशेय? कोशा कोशेय कित्याक रे?'' – गुलू.

''माहां कोवलेंना गो गुलू, हातोर कोहे मोखूंक जाये पोय ते.'' लोरसून खालतेपणान सांगलें.

''सायबा गुन्यांव भोगोस! कोहलो दादलो रे तूं. माजीर कितें जालें?''

''हायें मुगो, चोवथो हातोर शेवटीलो.'' – लोरसून लजेत म्हणलें.

''आनी तो तोरा सोयत धोत्तोरेर पोडलो!'' – गुलू.

''ना गा गुलू. तो मुगो वोयर वोयर जेलो. तो इतलो वोयर जेलो, की आंब्याक लागोनासतोना सोकोल देंवलो मुगो, आनी रोस्तीन टिचेरीच्या खोड्ड्यार पोडलो. माजीर झ्या! टिचेरीची तोकली हुटोन रोगता शिंवोर! तेन्ना सावन मुगो, हायें हातोर म्हुणटाय तो हातीं झेहलो ना.''

लोरसूचें हें व्हडपण आयकून गुलूक व्हडलेंशें अजाप दिसलें ना. असल्याच नेबळट आनी उकलाप्प्या उतरांची अपेक्षा करूंक शकतालें गुलू लोरसूकडल्यान.

लोरसूलें स्पश्टीकरण आयकून गुलून रस्तीन टाळयो पेटल्यो.

''कितें जालें गो गुलू, तुये तावयो कित्याक पेटल्यो?'' लोरसून गुलूक अजापान प्रस्न केलो.

''तुजे ओहल्या व्होडल्या मुनशाचीं कोर्तुबां पोवन म्होजें काळीज खुशालकायेन भोल्लें. माजीर तावयो पेटपा न्होंय तोर आनी कितें कोरपाचें? रोडपाचें वो हांसपाचें रे?''

हें सांगतासतना गुलूचो हांसतो चेरो गंभीर जालो.

''ओहें रागार जावं नाहां गो, माहां भिरांत दिसता.'' लोरसून काकुळटेन सांगलें.

''मुनशान मुरे, तोंड आहा म्होणोन कोशा कोशेंय आनी कित्या कितेंय उलोवंक फावोना.'' गुलू व्हडली शेमांय कशी उलयता तें पळोवन लोरसू ताच्या तोंडाक पळेत रावलो. असलें उलोवप ताणें हे आदीं कोणाच कडल्यान आयकूंक नासलें.

''हांव कितें उलयलां गो. होरें तेंच उलयलां.'' हें सांगतासतना लोरसून तोंड येद्‌देंशे केलें.

''तुहां दिसता, तूं होरें आनी सारकें उलयला म्होणोन. पूण माहां तुजें उलोवप साप्प मानवोना. तुयें आंब्याचेर हातोर कोशाकोसो शेवटीलो, बोरें आहा. तो तुजे टिचेरीचेर पोडोंन तियेचो होड्डो फुटलो तेंय बोरें आहा. पूण उपरांत तुयें हातोर हातीं झेवपाचें सोडून दिलें, हें मुरे तुजें सारकें न्होय! एकदां हातीं झेहलेलें काम हेल जालें म्हुणोन तें सोडून दिवपाचें रे लोरसू? तुयें पोत्ती ट्राय कोरूं जाय आहली.

लोरसू, तूं एक मोतींत धोर. तूं जावन आहा एका शेतकारालो पूत. तुहां शेतांतुलीं सोगले भाशेचीं कामां कोरूंक कोवोंक जायें. शेत खोणोंक जायें. माजे कोर्न आयंगीं, भेंडे, मिरसांगो रोवन त्यो शिपोंक शिकोंक जायें. हें शिकोप मुहल्यार शेतकाराली गिरेस्तकाय. ही गिरेस्तकाय नासोत जाल्यार शेतकार आपल्या बायल भुरग्यांक कोहो पोसतोलो रे?

तूं आतां तुजेंच चिंत आनी पोय. तूं एस. एस. सी. हेल जाला. तुहां सिरीस कोण दितोलो? आनी कोणेंय दिली जाल्यार लेगीत ती प्युनाची ना तोर उणे पागाराची सर्वंटाची बी आसोत. तूं हाल्यां काजार जालो जाल्यार, हो उणो पागार झेवन सोंवसार कोहो चोलोयतोलो, बायले-भुरग्यांक कोहो पोसतलो? सांग रे लोरसू!''

लोरसूक हें गुलूल्या तोंडांतल्यान भायर पडलेलें शाणेपण नवेंशें आशिल्लें. गुलूक कितें जाप दिवंची, अशें कळनाशें जालें लोरसूक. तो निरूत्तर जावन, गुलूच्या चिंतेस्त चेऱ्याकडें पळेत रावलो. आपूण गुलूच्या गोड सांगाताचे आशेन आयलों आनी आपल्याक

कोडसाणेचीं - रुचना तसलीं उतरां आयकुचीं पडलीं. तरी गुलूचे ओडीन ताणें सगळें मोन्यानीं आयकून घेतलें. एका आज्ञाधारक विद्यार्थ्या प्रमाण मान खाला घालून गुलू सामकारा तो उबो रावलो.

आतां मात गुलूक ताची दया आयली. ताका दिशिल्लें, उलोवप लोरसूक मानवचें ना. ताचो 'इगो' जागो जातलो. तो तिडटलो आनी थंयच्यान कूस मारतलो. पूण तशें कांय घडलें ना तें पळोवन गुलू हर्शेलें.

खरें म्हणल्यार गुलू आपले आतील्या शेता-भाटाचो अदमास घेवंक आयिल्लेंच. तरी लोरसूचो इल्लो लागसार सादून ताच्या मनाचो आनी सोबावाचो थाव घेवपाचोय उद्देश आशिल्लो गुलूचो. आनी हो ताचे पारखणेचो पयलो फेरो आशिल्लो. आनी तातूंत ताका आशादायी चिन्नां दिसूंक लागिल्लीं.

गुलून आपली हीच संद सादून आपलें उलोवप फुडें चालूच दवरलें-

''लोरसू, तूं मरे आयट मानून झेंव नाहां. हांव कितें सांगतां तें शिंतीद दिवन आयक. आमी शेतकारां, आमी गोरीब, आमचे लागीं कोहलीच गिरेस्तकाय ना. आमी केदनाच गिरेस्त जावपा नाय ओहें चिंतून जियों नाहां.

देआन मुरे, आमहां हात-पायें दिल्याय. हात-पायांक ताकोत आनी शेकोत दिल्या. हीच आमची खोरेली गिरेस्तकाय.

तुजे मम्मी-डॅडीन आनी म्होज्या दादीन रोगताचें उदोक कोरून वाडवोडलांचे शेत-भाट सांबावन दवल्लां. तुजे मम्मी-डॅडीचो आनी म्होज्या दादीचो आदार ना जालो म्होण्टोच तुजें कोहें जातोलें रे लोरसू?''

''हांव लोंडोनाक वोयतोलों!'' लोरसून खुशालकायेन जाप दिली.

''आनी थिंगा कितें कोत्तोलो?'' - गुलू.

''सिरीस कोत्तोलों.'' - लोरसू.

''कोहली?''

''थिंगा बोऱ्यो-बोऱ्यो सिरिसो मेवताय हूंय.''

''ह्या बोऱ्या सिरिसांचेर माजीर उलोवया. तूं लोंडोनाक जेल्यार, तुजी मम्मी-डॅडीचें कोहें जातोलें रे?'' गुलून काळजी उक्तायली.

''हांव तांचेर नोटांचो पावस घालतोलों.'' लोरसून खुशालकायेन म्हणलें.

''आनी शेतां भाटांचें कितें कोत्तोलो?''

''भाट भाटकार पोवन झेतोलो.''

''आनी शेत?''

''शेताचें पोडों पाड!''

''कितें?''

''ओहें म्होजी मम्मी म्हुण्टा.'' लोरसू आपल्या मनांतलें उलोवन मेकळो जालो.

''माहां दिसोना, तुजी मम्मी सारकें आनी चिंतून उलयता म्होणोन!''

''ती कोहें उलयता तें हांव नोको. पूण म्होज्या सामकारा जायते पावट मुहलां तियेन.''

''लोरसू, तूं तुजी मम्मी कितें म्हुण्टा तें मोतींत धोरूं नाहां. तुजो डॅडी कितें म्हुण्टा, तुजो मामा मुहल्यार म्हुजो दादी कितें म्होण्टा तें बोरेंऽ चिंत. 'शेतांचें पोडों पाड' हीं तुज्या तोंडांतुल्यान भायर पोडलेलीं उतरां तेंच्या कानार पोडल्यार तेंचें कितें जातोलें होबोर आहा तुहां?''

''कितें जातोलें गो गुलू?'' लोरसून तोंड येद्‌दें केलें.

''तेंचें काळीज फुट्टटोलें. शोकार जातोले ते. तेंच्या वाडवोडिलांनीं रोगताचें उदोक कोरून सांबावन दवरलेलीं शेतां पाड पोडलीं जाल्यार कोणा आदारान जियेतोले रे आमचे हे म्हातारे?'' हें सांगतना गुलूचो चेरो रडकुरो जालो. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हावंक लागलीं. तें पळोवन लोरसू खंती जालो.

''गुलू तूं रोडों नाहां गो. तुज्या दोळ्यांतुल्यान दुकां व्हांवताय तें पोवन माहांय रोडों येता.''

''लोरसू, हांव कितें उलोयतां तें सोजमोता तुहां?''

''सोजमोता गो. पूण मानवोना.''

''सोजमोता जाल्यार मानवोना कित्याक रे!''

''तूं शेताचें व्होडपोण सांगता आनी माहां शेतांत काम कोरूंक कोवोना. आनी कोरपाचेंय ना.''

''काम कोरूंक कोवोना जाल्यार शिकोंक जायें.''

''शेतांत काम कोन्नासतोना पोट भोत्ता जाल्यार आमहां शेतां कित्याक जायीं गो?'' लोरसू मात्सो नेटान उलयलो.

''तोहें उलोंव नाहां रे लोरसू. शेत पिकोयले बोगोर कोणाचेंच पोट भोरोना. म्होजो दादी शेत रोयता, शेतांत घाम गोवोयता देखून आमचें आनी हेरांचेंय पोट भोत्ता. तुजे मम्मीन आनी डॅडीन शेत रोवन चार पोयशे एकठांय केले म्होण तुहां शिकोयलो.

आतां तेच्या आट्याक म्हातारपोण येयत आहा. आनी थोड्या दिसांनी तीं हातरूणार पोडलीं म्होण्टोच तेंची सिरीस कोण कोत्तोलो? तेंहां पोसतोलो कोण रे! तूं तोर भायर वोसपाचें चिंता.''

आतां मात लोरसूचे तकलेंतली ट्यूबलायट पिकपिकूंक लागली. पूण चकचकीत उजवाड पडपाक गुलूल्या फुडल्या उतरांचे ॲनर्जीची ताका गरज आशिल्ली.

''गुलू तूं म्होजे मम्मी-डेड्डीचें सांगता. पूण तुज्या दादीचें तूं कांय उलोयना मुगो.'' लोरसू गुलूच्या तोंडाकडें तोंड आं करीत पळेत रावलो.

''हायें तुहां आदींच म्होज्या मोनांतुलें उलोवन दाखोयलां आसतोलें.''

''माहां उगडास ना.''

''उगडास ना जाल्यार पोत्तें सांगतां. आयक बोरे तोरेन. म्होजो दादी मुरे माहां लोंडोनआल्या कोडें काजार कोरपाचें चिंता. तेहा हूंय हांव शिकलां म्हणोन बोरो दुडवांकार आनी बोरो देशेंत जावोंय जावो. पूण हायें तेहा सांगोन दवोल्लां. हांव काजार जालेंच जाल्यार गावांतुल्या कोश्टकारी शेतकाराकोडें जातोलें. ना जाल्यार ना. माहां म्होज्या दादीक आनी दादीलीं शेतां-भाटां सांबावपाक आदार दिता तोहलो घोरकार जावो.''

गुलूलो निर्धार आयकून लोरसू आतां बुचकळ्यांत पडलो. गुलूकडे काजार जावपाचें सपन मनांत बाळगून वावुरतालो लोरसू. आतां ताचें तें सपन भंगपाचे वाटेर उबें रावलें. गुलूच्या निर्धाराक तेंको दिल्यार मात लोरसूचें सपन साकाराक येवपाची शक्यताय आशिल्ली. पूण खात्री मात कोण दिवंक शकनासलो. दुसरी गजाल अशी की, लोरसू गुलूक मानवता काय ना, हेंय अजून सिध्द जावनाशिल्लें लोरसू मुखार!

लोरसून चिंतलें, गुलू लेचेंपेचें भुरगें न्हय. एकदां दातीं धरिल्लें तें कशेंच सोडचें ना. आपल्या सुखा खातीर तें आपल्या बापायक केन्नाच उबंत उडोंवचें ना. तेन्ना गुलूशीं काजार जावपाचें जाल्यार ताच्या दादीसयत शेतां-भाटांकूय वेंग मारचीच पडटली. खंयचेय परिस्थितींत गुलूक आपणावपाकूच जाय. गुलूशिवाय लोरसूचो फुडार अर्दकुटो, हेंय लोरसू पुरायेन जाणां आशिल्लो.

''तुजें चिंतोप सारकें आहा गो गुलू. पूण तुजीं चिंतनां म्होजे तोकलेंत वोसोंक बोरोच ओगोत लागता. तुयें तुज्या दादीचें चिंतलें तोहें हायें म्होज्या मम्मी-डेडीचें चिंतलें ना. तेंचें म्हातारपोण लागीं पावलां. हांव तेंचो एकलोच पूत. म्होजे बोगोर तेंहां आनी कोणाचोच आदार ना. ही गोजाल हायें चिंतूंक जाय आहली.''

''आतां कोवलें मुरे तुहां? कांय पोरवा ना. शाणेपोण उसरां येयलें म्होणोन तें खोटें जायना. शाणेपोण तें शाणेपोणूच आसता. ह्या शाणेपोणाचो आतां पुरायेन उपेग कोरून झेवया.'' बाविल्लें गुलू तरतरलें.

''तूंच सांग गो उपाव. म्होज्याऊन तुजी तोकली बोरी चोलता.''

''तोहें जाल्यार आयक तोर. तुजी मम्मी–डॅडी म्हातारीं जाय म्होणोसर शेतांतुलीं सोगलीं कामां शिकोन झे. कोहलेंय काम शिकल्यार तें फुकोट वोसोना. फुडें तुहां कोहलीय सिरीस मेवली जाल्यार बोरेंच जालें. ना तोर शेत आनी शेतांतुलीं कामां आहाच. पोटाक मोरोणूच ना.'' लोरसू गुलूलीं उतरां आयकून चिंतूंक पोडलो. ताका गुलू म्हण्टा तें खरें दिसलें. ताच्या दोळ्यां मुखार उजवाडाची दिका परजळ्ळी.

''गुलू तूं सांगता तें सारकेंशें दिसता गो माहां. देआन बोरें केलें जाल्यार फुडलें फुडें पोवया. पूण हाल्यां हांव डॅडी बाराबोन शेतांत देवतांच. डॅडीच्या आदारान शेतांतलीं सोगले तोरेचीं कामां शिकोन झेतां.''

लोरसूलो निर्णय आयकून गुलू खिणांत खोशेन भरलें. लोरसूच्या तोंडांतल्यान भायर पडिल्लीं हींच उतरां आयकूंक तें आशेल्लें.

आनीक एक गजाल म्हणल्यार, लोरसून हो निर्णय आपखोशेन घेवंनाशिल्लो. तो ताणें गुलूक खूश करपाक नाइलाजान घेतिल्लो. तो निर्णय वयलेतरांचो नाशिल्लो. हाची खात्री गुलूक पुरायेन आशिल्ली.

कसल्याय कामाक एकदां हात लागूंक जाय आनी तें काम करपाची करतल्यांत इत्सा निर्माण जावंक जाय. इत्सा निर्माण जातकच इल्ली इल्ली करून कामाची गोडी लागता, हाची जाणविकाय गुलूक आशिल्ली.

मात लोरसूची गोडी हाचे परस वेगळीच आशिल्ली. तो हें सगळें करतालो तें गुलूक लागून. ''लोरसू, तूं हाल्यां सावन शेतांत काम कोरूंक तोयार जाला म्होणोन माहां चोड खोस भोगता.''

हें आयकून लोरसूक दिसलें, आपूण हें करतां तें तुका लागून. पूण मनांतले विचार ताणें मनांतूच जिरयले. गुलून मात सट् करून म्हणलें –

''तुयें झेहलेलो निर्णय माहां मानवलो. आतां माहांय दिसता, हायेंय दादी बाराबोन शेतांत काम कोच्चें. तेहा आदार दिवंचो. उपरांत गांवच्याच एक कोश्टी आनी बोऱ्या भुरग्या कोडें काजार जावंचें.''

'बोऱ्या आनी कोश्टी भुरग्याकोडे काजार जावंचें!' अशें म्हणप म्हणचे ती एक लोरसूक दिल्ली गुलूली शिटकावणी आशिल्ली. लोरसून तीं उतरां घट्ट गांठीक बांदलीं.

लोरसून चिंतलें, गुलूक जाय ते चडशे गूण आपल्यांत आसात. आपूण लोकांचे दिश्टीन बरो नासलों तरी बरो जावपाचो प्रयत्न करतां. गुलूक ही खबर आसा. हाकाच लागून तें दिशीं दिशीं म्हज्या लागसाराक येत आसा.

केन्ना केन्नाय लोरसूच्या मनांत येतालें. गुलूकडें काजाराची मागणी घालची. पूण ताका धाडस जाय नाशिल्लें.

पूण आतां ताणें चिंतलें, आपूण जावन कोणाकडेंच काजराचो विशय काडचो न्हय. गुलूनच आपूण जावन आपल्याकडें काजाराची मागणी घालची.

३७

**मा**याचें तिसरें सेमान सोंपून आतां चवथें लागिल्लें. सिमांवल्या भाटांतले मानकुराद आंबे रेंदकारांनी काडून व्हेल्ले. तरी कोबलें पावना थंय आनी बेंदुल्ले आडसाक एकेक चुकून आनी लिंपून आशिल्लोच. हे चुकून उरिल्ले आंबे वाऱ्या झोतान हालतात आनी धोलतात तें पळोवन जीव धादोसभरीत जातालो.

रेंदकार आंबे तोडून व्हरतात तें पळोवन खाव्यांक व्हड दुख्ख भोगतालें. तरी मानकुराद आंबे ना जाले म्हूण कितें जालें, खाव्यांची इत्सा पुराय करपा खातीर, तांकां धीर दिवपा खातीर, आस भागोवपा खातीर हेर जातीचे आंबे घोसांनी आसतालेच. आंब्यांची जात उणी आसली, ते आंबटेले आनी पचके आसले तरी तांचो उपेग केलेबगर रावनासले रानांतले ल्हान-व्हड लोक.

मे म्हयन्याच्या शेवटाक काजू आनी भिरंडांचो नेट उणो जाता. तरी तीं मुनांत पातळिल्लीं आसताच.

असल्या वेळार पणस मात मुखेलपणान आपलें अस्तित्व दाखोवपाच्या प्रयत्नांत तत्पर आसतात. कापे आनी रोसाळ, अशे दोनूय तरेचे पणस रुखांचेर पिकले उपरांत सरभोंवतणचें वातावरण दिसरात सुगंधमय जावन वता.

मनशाची इत्सा आनी ईश्वराची कृपा, ह्या दोनूय शक्तींच्या आदारान सैम केन्ना आनी कशें गुरवार जायत हाचो नेम नासता आनी एकदां गुरवार जालें म्हणटकच ताका सुटपाचे, म्हणल्यार बाळंत जावपाचे तळमळे लागतात.

सैमाचो खंयचो घटक कळयांच्या, फुलांच्या, फळांच्या स्वरुपान, केन्ना आनी कसो तकली वयर काडीत हाचो नेम नासता.

एकाद्र्या फुलझाडार काल पांचवीं-पांचवीं पानां दिसतालीं थंय आयज कळे दिसतात आनी दुसरे दिसा हेच कळे फुलांचें रूप धारण करून निरव हांसपाचें काम करतात.

आनी फुलां म्हूण कसलीं? माया म्हयन्याचे गरमेन फुलपी तांबडीं-हळदुवीं आबोलीं, धवल रंगाची उधळण करपी सदाफुली आनी अनंतां. फुलचे वेळार गर्वान फुगपी धवलरंगी सुवासीक मोगरीं.

फुलझाडां थोड्याच जातींचीं पूण सगळ्या तरांच्या रंगांची उधळण!

देखीक दसणूच घेवया. कितल्यो तरा आनी कितले रंग. ह्या दसणांतूय सैमान भेदभाव रचून दवरल्यात. तांबडीं, हळदुवीं आनी धवीं दसणां सिमांवाल्या पोरसांत नंदतालीं.

तांचो आकारूय एकसो नाशिल्लो. कांय बुटक्या झाडांचेर तेजीश्ट आनी तांबडीं गडद फुलां आसतालीं. सांजवेळार बावून पडलीं तरी तांचें तेज नश्ट जायनासलें. पिसडनासतना बोंग्यां रुपानूच उरतालीं तीं.

ह्या हुशार दसणुलांच्यो आवोयोय खूब हुशार. फुलरुपी दोळ्यांनी त्यो सैमाचो पुराय आस्वाद घेवपाच्या प्रयत्नांत आसताल्यो. आपल्या पुश्परुपी दोळ्यांनी सैमाचो पुराय वाठार गटागटा पिवन घेवंचो अशें दिसतालें तांकां. देखूनच कांय फुलां उत्तरेकडें, कांय दक्षिणेकडे तर कांय पूर्व-पश्चिमेकडें झुकिल्लीं आशिल्लीं. कांय तर मुजरत सुर्यादिवाचें दर्शन घेवपाच्या प्रयत्नांत आसातशीं दिसतालीं.तर कांय हेवटेन-तेवटेन पळयनासतना, वाटकुळो आकार घेवन, लजिल्ले व्हंकलेभशेन मान खाला घालून, सतत जमनीकडेन पळयत आसातशीं दिसतालीं. घडये तांकां स्वजातीयांची लज बी दिसताली जावंये! आपल्यांत तरतरी आनी इल्लेंय तेज नाशिल्ल्यान, जल्माक घाल्ल्या सैमदेवतेचेर रागार-फुगार बी जाल्यांत जावंये!

सिमांवाल्या पोरसांत कसलींय फळझाडां आपसूक उगवपाची शक्यताय उणी आसता. सिमावानूच तीं स्वेच्छेन रोयिल्लीं आसतात. सिमांवली इत्सा आनी सैमदेवतेची कृपा, ह्यो दोनूय शक्ती ह्या वर्सा सिमांवचेर चडच प्रसन्न आसात, अशें दिसून येतालें. फळझाडांचे बाबतींत सांगपाचें जाल्यार, ह्या वर्सा माया म्हयनो इल्लो चडच भारेलो. घराकुशीची जगम बारीक बारीक कळ्यांनी भरल्या. मदीं मदीं खंयीं एकेक सुकडें पान दिसता. भुरग्यांनी आपल्यो कळयो बुड्डूच्यो न्हय म्हूण, झाड आंगावेले कांटे रोखून बसतालें, सतर्क रावतालें.

अशे तरेन आपले निर्मणेची राखण करपाची वेवस्था सैम पयलींच करून दवरता.

जगमीपसून तीन–चार मीटर पयस, आपल्यो फांदयो पसरून उबें आशिल्लें नीरपणसाचें झाड आतां चडच भारावलां. झाडाची ताळयेन ताळी फळल्या. प्रत्येक ताळयेक तीन–तीन, चार–चार पणसुलां जाल्यांत. हीं जणेक ताळयेंतलीं माणकुलीं पणसुलां, शेजारच्या ताळ्यांतल्यान झेलपी–धोलपी भावंडांक पळोवन खुशालभरीत जातालीं. मात एकमेकाक तीं वेंगावंक शकनासलीं, एकामेकाची तोखणाय आनी अपुरबाय करूंक शकनासलीं.

हो नीरपणस हे वर्सा इतलो भरिल्लो, पळेतल्याक अशें दिसतालें की मीर्गा वादळान तो मोडून पडटलो.

पूण तशें घडलेंना. पावस लागतां लागतां म्हणल्यार गळून झडूंक जाय ते झडून गेले. तरी उरूंक जाय ते भरपूर उरलेच!

सैमाचें एक आसता. तें तरेतरेचे रूख रुजयता, वाडयता, मातयता, फुलयता आनी फळयता. पूण फळां मात मनीस जातीक पुरायेन भोगूंक दिना. आपले मर्जे प्रमाण तिगयता आनी मर्जे प्रमाण गळयताय बी! पूण एकाद्रया कश्टकाराल्या कश्टांचेर आनी प्रामाणीकपणाचेर जर सैम खूश आसत जाल्यार फाटलो फुडलो कसलोच विचार करिनासतना तें ताका भरभरून दिता.

एक तेंप असो आसलो, की सैमदेवता नातलू–सिमांवचेर खूश आशिल्लीं. तांकां शेतां–भाटांतली पिकावळ भरपूर मेळटाली.

पूण नातलूक अवदसा बादली आनी सैमदेवतेन नातलू–सिमांवकडें फाट केली. थोडे प्रमाणांत जावं मागीर ती. तांच्या शेता–भाटांतली पिकावळ आनी येणावळ उणी–उणी जायत रावली.

पूण गुलूचो पांय आतां सिमांवच्या घराक लागलो आनी सैमदेवता खोशेली.

सैमदेवता खोशी जावपाक आनीक एक मुखेल कारण आशिल्लें जावंये. ह्या वर्सांनीं फुलपाक आनी फळपाक अनमनपी फळझाडांक अकस्मात उर्बा आयिल्ल्याचें जाणवूंक लागलें. चालू माया म्हयन्यांत सगळेंच नवें–नवेंशें दिसूंक लागलें. इतलो तेंप सगळे तरेच्या फुलांचो आनी फळांचो रंग फिको फिकोसो, विटिल्लोसो भासतालो. आतां सगळेंच टवटवीत आनी गडद रंगयाळें दिसतालें. वताचो रखरख आसुनूय सगळे तरेचीं फळझाडां, आपल्या नवजात शिशूंक थंडसाण मेळची म्हूण आपल्या पांचव्याचार पानांनी लिपून उरचीं म्हूण जतनाय घेतालीं.

हांगा आतां नातलूचें कोणाक व्हडलेंशें कोंत नाशिल्लें. सिमांव मात आपल्या सरभोंवतणचो वाठार, इल्लो चडच फुल्ला तो पळोवन आपुणूय भायर भितर फुललो.

ताच्या आंगार मूठभर मांस चडलें. चेऱ्यावेली कात तिकतिकूंक लागली. ताचो काळसो चेरो उजळ्ळो.

सिमांव आतां चितूंक पडलो. इतले वर्सांनीं हो बदल कसो आनी कित्याक लागून घडलो काय? हो शेर्त गुलूचो पांयगूण जावंक जाय. गुलूचो पांय हे मठयेक लागलो. लोरसूय ताच्या वांगडा भोवंक लागला. सैमदेवतेक तें आवडलें जावंये. म्हणून ती सिमांवल्या वाठाराक फुलल्या. सिमांवचेर प्रसन्न जाल्या, अशें पळयतल्याक दिसूंक जाय.

झाडां-पेडां हीं सैमदेवतेचें आंग जावन आसतात. तीं सजीव आसलीं तरी मनीसजातीक तीं मुकींशीं दिसतात. खरें म्हणल्यार तीं भावना प्रधान आनी मनशाळीं आसतात. ताकाच लागून मनशांच्या लागसाराक आशिल्लीं झाडां, सारें-उदक नासलें तरी सतत आपल्या धनयांक इत्सीत फळ दितात.

कांय वर्सां फाटीं सावन, नातलूच्या पिशेपणाक लागून, सिमांवली जगम, भिरंड, नीरपणस, चीकू बी निर्शेल्ले आसताले. ते फुलूंक-फळूंक जाय म्हूण फकत आपली लागणूक करताले. तीय सिमांवचे काकुळटेक लागून.

पूण आतां मात तांकां गुलू-लोरसूच्या एकवटाची सुलूस लागली, आनी तांकां शक्य जाता तितलें, भरभरून दिवंचें अशें तांणी थारायलें.

सिमांव तर हालीं भलतोच खोशेन भरिल्लो. हाचें मुखेल कारण नातलूंत आनी लोरसूंत घडून आयिल्लो बदल आशिल्लो. दुसरी गजाल म्हणल्यार गुलूय तागेर येवंक लागिल्लें.

लोरसून पळेलें, आपलो बापूय ह्या दिसांनी इल्लो चडच खोशेन भरला. तागेले हे खोशेंत आपणेंय इल्ली भर घाल्यार बरी!

तो दचकत दचकत आपल्या बापाय म्हऱ्यांत मान खाला घालून उबो रावलो. ताचें हें खालतेंपण पळोवन सिमांव अजापलो. कारण लोरसू सदांच आपल्या बापायमदें इल्लें चडच अंतर दवरून वागतालो. कारण बापायक तो अनाडी समजतालो.

''बाबा कितें सांगोंक सोत्ता रे माहा?'' सिमांवन मायेन प्रस्न केलो.

''डॅडी, हांव तुजे बाराबोन हाल्यां शेतां येतां.''

''कित्याहू?'' सिमांव अजापीत जालो.

''माहांय तुजे बाराबोन शेतां काम कोच्चें-शें दिसता.''

''तूं आनी शेतांत कामां कोत्तोलो रे पुता म्होज्या!'' सिमांवन निर्शेवन म्हणलें.

''तूं ओहें कित्याक म्होण्टा डॅडी? गुलून माहां सांगलां, केल्यार कितेंय जाता म्होणोन.'' लोरसू उमेदीन उलयलो.

''गुलूक ओवकोतां हांव. तें शाणें भुरगें. तें आकडें केन्नाच उलोवचें ना.'' सिमांवन आपलो गुलूवेलो विस्वास उक्तायलो.

''ओहें जाल्यार तुहां कोहली आडकोव आहा?'' – लोरसू.

''तूं आतां व्होडलो मुनीस जाला आनी हांव जाणां, व्होडल्या मोनशांक शेतांत काम करूंक कोवोना.'' सिमांवन आपलो अणभव उलोवन दाखयलो.

''हांव जाणां डॅडी, व्होड कोण पोये तो! गुलून सोगलें सांगलां माहां. तेणेंच तुकोडें वोसोन शेतांतुलीं सोगले तोरेचीं कामां शिकोन झे म्होणोन सांगलां.''

लोरसूच्या उलोवण्यावेल्यान सिमांवक आतां खात्री पटली. लोरसूलीं हीं शाणेंपणां तागेलीं निजाचीं नासलीं, तीं गुलूचे तकलेंतलीं आसलीं. तरी तीं उपेगाक पडपाचीं आसात. तेन्ना लोरसूकडें आडनदर करून फायद्याक पडपा ना.

ताणें आतां लोरसूचें उलोवप गांभीर्यान घेवपाचें थारायलें.

''बाबा लोरसू, म्होज्या पुता! तुजे आवोयची आनी तुजी इस्तोर हांव जाणां. तूं कितें उलोयता तेजेर म्होजो भावार्थ ना. मात तूं पोत्तो–पोत्तो गुलूचें त्या पोवित्र आत्म्याचें नांव झेता. देखून तुजीं उतरां हांव सामकींच भायर मारूंक सोदिना. तुहां जोर मोनांत सावन शेतांतुलीं कामां शिकोन दिसता, तोर तुहां हांव सांगतां तोहें कोचें पोडटलें. आहा तोयार?''

''होय डॅडी.''

''पोयलीं हांव दिसभोर कितें–कितें कोत्तां हेची सोजमोणी झे.''

''होय डॅडी.''

''हाल्यां म्होज्या बाराबोन फांत्यार ऊठ!''

''हां डॅडी.''

''उठोन कितें कोत्तोलो?''

''तूं सांगतां तोहें कोत्तोलों डॅडी!''

सिमांवच्या लक्षांत आयलें, पोर उरबेन भरला. हीच वेळ आसा ताची उमेद वाडोवपाची.

लोरसूकडल्यान ताका फाव तशें काम करून घेवपाची येवजण तयार केली. सिमांव शिक्षक नासलो म्हूण कितें जालें? आपली आनी आपल्या पुताची कुवत आनी ताकत ताणें अजमावन घेतली.

मायाचो म्हयनो आशिल्ल्यान तरवो घालपाचे दीस लागीं पाविल्ले. आपल्या पुताक कामाक लावपाक, ताका मुळावें शेतकाम शिकोवपाक हीच संद बरी आसा असो विचार मनांत हाडून सिमांवन शेतकामाची एक येवजण तयार केली. ही येवजण ताणें आपल्या पुताक दोळ्यां मुखार दवरून तयार केली. शेतांत तरवो घालचे पयलीं उदकाचे वेवस्थेक पयलीं होंडो खोल करचो पडटा. ताची खोलाय पळोवन, उदक काडप्यांच्या दांगांचो अदमास घेवन पावंडे दवरचे पडटात.

सिमांवलीं दांगां व्हडलीं आशिल्लीं. हे दांगां प्रमाण पावंडे तयार केल्ले जाल्यार लोरसूच्यान ते चडूंक जावंचे ना. ताका लागून सिमांवन लोरसूच्या दांगांचो अदमास घेवनच होंड्याचे पावंडे तयार केले.

सिमांव उदक काडपाक व्हडल्या कळशांचो वापर करतालो. आतां ताणें लोरसू खातीर कळसुल्यो हाडल्यो. हेत हो की जड कळशांनी लोरसूचीं भुजां दुखचीं न्हय. एक ल्हानशें खोरेंय करून घेतलें.

अशें आसलें तरी सुर्वेक सिमांवन लोरसूकडल्यान कसलेंच काम करून घेतलें ना. सिमांवन स्वता काम करचें आनी लोरसूक म्हऱ्यांत उबो करून, आपलें काम बारकायेन पळोवन घेवपाची संद दिवंची.

आपलो पूत कामांत खोलायेन लक्ष घालता तें पळोवन सिमांवक काम करूंक चडच नेट येतालो.

''सुशेगाद कोर डॅडी. होरशेंव नाहां.''

''पुता, हींच उतरां आयकोंक आशेतालों हांव! देआन तुहां ओहीच बुध्द दिल्यार पुरो.'' खिणभर थांबून, कपलावेलो घाम पुसीत सिमांवन म्हणलें.

''आमचो गांव जादवाचो न्होय डॅडी?''

''ओहे कित्याक म्होण्टा तूं!'' सिमांवन खणटां खणटांच जाप दिली.

''हेर गांआंनी कितलेंय होल होणलें जाल्यार उदोक लागोना आनी हिंगा दोन होरीं मात्तांच उदोक फोवफोवता.''

''होय देआचे कुरपेन ओहें घोडलां होरें.''

आनी कोणय जाल्यार काम करतना उलोवचें पडटा म्हूण उबगतलो आशिल्लो. उलयतल्यांचेर खेकसतलो आशिल्लो. पूण सिमांवन लोरसूक कसलीच आडकळ हाडिनासतना उलोवपाक प्रोत्साहीत केलो. कारण सिमांवक खबर आशिल्ली लोरसू प्रस्न विचारून गिन्यान मेळोवंक सोदता. हें गिन्यान ताका इस्कोलांत मेळूंक ना. घडये

दिवपाचो प्रयत्न जालाय जायत. पूण इंग्लिशीची फकत पोपटपंची केल्ल्या कारणान लोरसूचो भेजो निमणे मेरेन, खऱ्या गिन्याना सुवातेर रिकामोच उरला जावंये!

लोरसूच्या शंकाचें निरसन करपाक, ताच्या मनांतले दुबाव पयस करपाक फुडलीं स्पश्टीकरणां दीत रावलो–

''बाबा लोरसू, आमच्या गांआंचो सायब सांत लॉरेंस जावन आहा. चोडांत चोड कुरपेन भोल्ललो. तेजे कुरपेनूच, इंगाचे पुरूस–देड पुरूस होलायेच्या होड्यांनी लेगीत, माया म्होयनो जांवनूय उदोक मेवता. सपसप चार होरीं माल्ल्यार, फोसफोशीत मातयेपोंदच्यान घोसघोशीत उदक वोयर सोत्ता. ओद्‌दें वोर होंडो उसोपल्यार रोकडोच होंडो भोत्ता.

अशे तरेन सिमांव काम करीत रावलो आनी लोरसू त्या कामाचें बारकायेन निरिक्षण करीत रावलो. सिमांवली काम करपाची पध्दत. खोरें मारपाचो झेत. आंगाक घाम सुकचो न्हय म्हूण मदें–मदें वयर येवन तुवाल्यान घाम पुसपाची तरा. ह्यो सगळ्यो गजाली लोरसून झडझडीत आंगवळणाक लावन घेतल्यो आनी तशें केल्या उपरांत, ताका आपल्या बापाय प्रमाण काम करपाचो आत्मविश्वास निर्माण जालो. कामांत गोडी निर्माण जाली. काम करपाची फुरफुरी मारूंक लागली. सिमांव एक शिकयल्यार लोरसू चार समजूंक लागलो. आदींच सिमांवच्या रगतांतल्यान शेतकाराचे गूण लोरसूच्या आंगांत भिनिल्ले. ह्या गुणांनीच लोरसूचो काम करपाचो आत्मविश्वास खिणाकणकणी वाडत गेलो.

अशें घडटासतना सिमांवचें लक्ष लोरसूचेर आशिल्लेंच.

सैमांत कसलीं ना कसलीं कामां सतत घडत आसतात. मात तीं कशाकशींय आसनात. शिस्तवार आनी शिस्तबद्ध आसतात. तीं शिस्तबद्ध नासत जाल्यार सैम तांकां न्हयकारता.

शाळा–कॉलेजांनी शिक्षक आदीं व्याख्यान दितात आनी उपरांत आपणें कितें सांगलां तें पटोवन दिवपा खातीर प्रयोग करून दाखयतात.

सिमांवन हांगा परतें केलें. ताणें लोरसूक पयलो प्रयोग करून दाखयलो आनी उपरांत लोरसूचें शंकानिरसन केलें.

सगळे तरेचीं कामां करून दाखयले उपरांत सिमांवच्या लक्षांत आयलें, आपल्या पुताचो आत्मविश्वास वाडला. आतां ताच्या कडल्यान हलकीं कामां करून घेवपाक हरकत ना.

मीर्ग लागीं पावतां पावतां म्हणल्यार शेतकार भाटांतलो आनी मेळत थंयचो पत्रो आनी सुक्या तणाच्यो राशी शेतांत पातळायतात.

आमोरेच्या वेळार सिमांवन लोरसूक त्यो राशी लासून उडोवपाचें काम दिलें. त्यो राशी आमोरेच्या वेळारच कित्याक लासपाच्यो? ताचो शेताक उपेग कितें, हाची म्हायती सिमांवन पुरायेन दिली.

आगशी–व्हडलें गोंय हो दर्याच्या लागसाराक वसलेलो गांव. हांगाच्या शेतकारांक शेतांतलें काम ज्या सोंपेपणान जमता, तें हेर शेतकारांक जमना. ताका लागून आगशी–व्हडलें गोंयच्या शेतांनी उदका खातीर होंडे मारचे पडटात तशे हेरकडें मारून चलनात. हांगाच्या शेतांनी रेंवेचे आडे उबे केल्यार आडसाचें काम भागता तशें हेरकडे चलना. ताका लागून वेगवेगळ्या शेतांचीं कामां वेगवेगळ्या तरांनी करचीं पडटात. सिमांवन लोरसूक आपल्या शेतांतलें काम शिकयलें. ताची गरज आशिल्ली ती.

रेंवट शेतांत धडेवयली माती गिमांत शेतांत पडिल्ली आसता. ती शेत रोवचे पयलीं खोऱ्यांनीं वयर धडेर उडोवची पडटा. अशें करतना, धडेमुळांतली सुवात तासची पडटा. हाका शेतकार आकेर काडप म्हणटात. घडये तांकां 'अखेर' म्हणपाचें आसता जावंये.

गोंयांत शेतां रोवपाच्यो पद्‌दती सगळेकडें एक सारक्यो नासतात. खाजन रोवपाची तरा वेगळी. मरड रोवचे पयलीं जमीन पावसान पुराय भिजून मोव जाल्या उपरांतच जोत घालून रोव मारचो पडटा.

सिमांवलें शेत आगशे आशिल्ल्यान, तांकां तरवो घालून शेत रोवप फायदेशीर. ताका लागून होंडो केन्ना उसपप, तरवो खंयचे वेळार घालप, ओळी मारून तातूंत भात–बीं सोडून तें कशें पुरप, ताका उदक कशें दिवप, घसघशांनी घालप काय शिंपडावप, थांब वाडलें म्हणटकच तें कितल्या दिसांनी हुमटावप, पावसाचो अदमास पळोवन तें फाव त्या वेळारच कशें लावप? हाचो अणभव हांगच्या शेतकारांक आसता.

बरी पिकावळ काडपाक कसलें सारें केन्ना वापरप, तें कितल्या प्रमाणांत वापरप हें सगळें शिक्षण शेतकार शाळा–कॉलेजांनी वचून घेना. ताणें आपल्या अणभवान घेतिल्लें शिक्षण औपचारीक शिक्षणा परस उजू आसता.

सिमांवन आत्मसात केल्लें शिक्षण असल्याच दर्जाचें आशिल्लें. तेंच ताणें आपल्या पुताक दिवन ताका शेतकामांत प्रवीण केलो.

जें शिक्षण लोरसू चवदा–पंदरा वर्सां खर्च करून इस्कोलांत शिकलो ना, तें तो तीन–चार दिसां भितर सिमांवच्या मार्गदर्शना खाला शिकलो.

मराठींत एक संतवचन आसा– ‘केल्याने होत आहे रे, आधी केलेची पाहिजे’ तेच परी आनी एक म्हत्वाचो विचार क़ोंकणी–मराठींत घोळटा. जणेकल्या दादल्या फाटल्यान बायल मनीस प्रेरक जावन उबी आसता.

हे बाबतींत खरें–खोटें कितेंय जावं. लोरसूचे बाबतींत मात पुरायेन खरें थरलां. निरुपेगी लोरसू आतां उपेगी जाला तो फकत गुलूकडल्यान प्रेरणा मेळिल्ल्यान. गुलू जर नाशिल्लें, तर लोरसू फुकट वचपाचो. लोरसूच न्हय, तर नातलू, सिमांव आनी तांच्या शेत–भाटांच्या फुडाराचें कितें जावपाचें देवाक खबर!

वगत आयल्यार, आपल्या भावाकडें संघर्श करून, समाजांतल्या परंपरांचो आदार घेवन, खंयच्याय थरार वचून नातलू आपल्या पुताक भावाले धुवेकडेन काजार करूंक सोदतालें. पूण सांत लॉरेंसाचे कृपेन आनी गुलूच्या त्यागान नातलूचें काजळेल्लें मन उजळत रावलें. वारें येता तशें सूप धरपी नातलूक जाय तें मेळपाची सुलूस लागिल्ल्यान, भाव–भयणी मदलो फुडलो संघर्श टळ्ळो.

शिटूक गुलूची लोरसूचेर बारकायेन नदर आशिल्लीच. गुलू भायल्यान लोरसूच्या हालचालींचेर लक्ष दिवन आशिल्लें. मात लोरसूच्या कामाचेर आपली तेळणी चल्ल्या, हें तें कोणाक दाखोवन दी नाशिल्लें.

मात आवडीन आनी मन लावन लोरसून घेतिल्ल्या शेतकी शिक्षणाचेर गुलू एकदम खूश जालें. तें चड खूश जालें तें लोरसूचे हुशारकायेचेर. ताच्या काम करपाच्या झेताचेर आनी समजिकायेचेर.

गुलू लोरसूच्या गुणांचेर खोशी जालें तें जालेंच, पूण तें चड खोशी जाल्लें लोरसूच्या डॅडीचेर. गुलून आपल्या दादीचें काम पळेल्लें. पूण लोरसूचो डॅडी गुलूच्या आतीचो घोव आसून लेगीत ताका ताचें काम पळोवपाची संद मेळ्ळी ना. आतां तें काम पळोवन ताका कळून आयलें, की आपल्या दादीच्या आनी आतीच्या घोवाच्या कामांत कसलोच भेद ना. दोगूय निजाचे शेतकार. पिकावळ मात्शी वेगळी आसली तरी कामांत व्हडलो भेद ना. तोच झेत, तीच रीत. कामाची तीच ओड आनी तोच मोग!

अजापाची गजाल म्हणल्यार, आलसू–सिमांवच्या आंगांत जे गूण झळकताले, तेच गूण लोरसून सोंपेपणान आत्मसात करून घेतिल्ले.

शेतकाम जालें म्हणून कितें जालें? ताकाय कला ही लागताच. ते दिश्टीन शेतांत काम करपी मानाय–कामेऱ्यां हीं व्हडलीं कलाकारच आसतात. शेतांत ना जाल्यार भाटांत काम करतासतना फकत शक्तीचो उपेग करून चलपाचें ना. ताका कलेचीय

गरज आसता. कला विरयत, खोऱ्यान खणपाचें काम केल्यार, खणतासतना कामाचो आत्मविश्वास नासत जाल्यार, खणपी मानाय पांयांर खोरें मारून घरा येतलो. ताका मानायांची पदवी मेळची ना.

शेतांत काम करपी कामेऱ्यांचेंय तशेंच आसता. तींय पळोवंक सादींसुदीं दिसतात, पूण आसतात व्हडलीं कलावंत.

तरवो हुमटावप, मागीर तो ओळींत लावप. तरवो लावपाचें काम चड करून जुवान बायलांचें आसता. भेंडाक तुवालो रेवडावन ओणव्यांनी काम करचें तें जुवान बायलांनीच. थांब लावपाची ताकत असल्याच बायलांच्या भेंडांत आसपावल्ली आसता.

गुलूनूय आपल्या शेतांत असलें काम व्हडा उमेदीन केलां. बायलो मेळनात तेन्ना थांब लावपाचें काम नाइलाजान दादल्यांक करचें पडटा. ताका लागून मानायांचेर निंबून रावनासतना, शेतकारांक सगळे तरेच्या शेतकामांत फिशाल आसचें पडटा.

आलसू आनी सिमांव हे दोगूय निजाचे शेतकार आशिल्ले. तांची परंपरा तिगोवन धरपाचें काम आतां लोरसू कडें आयलां. गुलूक तें जाणवलां. ताका लागून तें आतां इल्लें चडच खोशेन भरलां.

गुलूक खोशेन भरपाक आनीक एक व्हड कारण आसा. फुकट वचपाच्या मार्गार आशिल्ल्या तरणाट्याक ताणें उजू वाट दाखयली. एका बुरशेल्ल्या तरणाट्याक निवळ करून, आपल्या राष्ट्राच्या सत्कार्याक लायलो.

हें कार्य ताचेकडल्यान आपसूक आनी सहजतायेन घडलें ना. ताणें तें आपल्या राष्ट्रधर्माचो विचार करून मुजरत घडोवन हाडलें.

हो संवसार दादल्या-बायलेच्या तेंक्यान चलता. हातूंत दादलो बळिश्ट आनी बायल दुर्बळ, अशें कांय नासता. तशें आशिल्लें जाल्यार आलसूबाचेर एकटेपणाचें दुख्ख सोसपाचो वगत येवचो नासलो. गुलूच्या आदाराची गरज पडची नासली ताका! गुलूय आपल्या बापायक एकटो सोडून, काजार जावन बिनधास्त आपल्या घोवाघरा वचपाचें.

पूण हांगा तशें कांयच घडना. हांगा बऱ्या आनी पवित्र विचारांच्या मनशांची काळजी ईश्वराक घेवपाची आसता. ताकाच लागून ईश्वराक सतत जागृत रावचें पडटा. जगाच्या कल्याणा खातीर ताका तरेकतरांच्यो हिकमती करच्यो पडटात. आलसूबाल्या शेत-भाटाची राखण करपा खातीर, ईश्वराक मुजरत गुलूची निर्मणी करची पडली. तशें करूंक नाशिल्लें जाल्यार, देखदिणें ईश्वरी कार्य संपुश्टांत येवन, उरिल्लीं सुरिल्लीं शेतां-भाटां नश्ट जावपाचीं.

ईश्वर हो फकत सर्जनशीलच आसना, तो नियोजक आनी व्हडलो कलावंतूय आसता.

तो आपले कलेचो उपेग करून बऱ्या वांगडा वायटाचीय निर्मिती करता. ताका तशें करचेंच पडटा. फक्त गुलूची निर्मिती करून तो ह्या संवसाराचो देवलोक करूंक शकना, स्वर्ग फुलोवंक शकना.

ह्या संवसारांत स्वर्गनिर्मिती करपाक ईश्वराक गुलू वांगडा नातलू आनी सर्वंटमॅडमींचीय येवजण करची पडटा. सिमांव-आलसूबा वांगडा लोरसूक जल्माक घालचो पडटा. आपलीं शेतां-भाटां आनी घरां-दारां वाऱ्यार उडोवन, आपल्यो सुपीक जमिनी परप्रांतियांक विकून, परदेशांत वचून गुलाम करप्यांक बरी बुध्द दिवन, तांकां उजू वाट दाखोवपाचें कार्यय तो ईश्वर करता.

ईश्वर आपले कलेचो उपेग फावऽ तेन्ना, फावऽ ते मनशाक, फावऽ तेंच काम दिवन ताचे कडल्यान करून घेता.

ताकाच लागून तो शेतांतले नडणेचें कार्य अशक्त बायलां कडल्यान-म्हाताऱ्यां कडल्यान करून घेता.

हीं म्हातारीं अणभव संपन्न आसतात. गायन, कथा कथन कलेंत तीं प्रवीण आसतात. म्हाभारत-रामायण तांच्या कानावेल्यान गेल्लें आसता. तांचे कान आनी दोळे सदैव उक्ते आशिल्ल्यान, अशिक्षीत आसूनय आपल्या राष्ट्राची संस्कृताय तिगोवन धरपाचें म्हान कार्य तीं आपली परंपरा राखून करतात.

पूण हाची जाणविकाय सगळ्यांकच आसना. आनी कोणाक आसलीय जाल्यार ताचें कोणाक कोंतय नासता. मुजरत कोण त्यो राटावळी करूंकय बसना. मात तें कार्य जनकल्याणार्थ ईश्वराक सर्वसामान्यां कडल्यान करून घेवंचें पडटा. तशें करून घेवप ही ईश्वराची लागणूक आसता आनी ती लागणूक पुराय करूंक, लेच्यापेच्यांची न्हय, तर आलसू, सिमांव, गुलूसारक्या समजुतदार, समर्थ आनी शांत वृत्तीच्या मनशांची येवजण करता.

गुलू आतां पुरायेन नासलें, तरी बऱ्याच प्रमाणांत समाधानी आसलें. पूर्ण समाधान मेळोवपा खातीर ताका अजून खूब कितें करपाची गरज आशिल्ली.

लोरसूच्या कार्याची सुचिन्नां ताका दिसूंक लागिल्लीं. पूण शिटूक गुलू अजून ताचेर पातयेवन रावपाचें धाडस करूंक शकलेंना.

अशें आसलें तरी सिमांव मात आपल्या पुतांत घडून आयिल्लो अनपेक्षीत बदल पळोवन खुशालभरीत जाल्लो. आपलो पूत भविश्यांत कर्तबगार शेतकार जावंक शकता, आनी तशें जालें तर देवूच पावलो म्हणपाक जाय अशें ताका दिसलें.

जो सिमांव आपल्या पुताक वादीव समजतालो, गुलूचेर ताची सावळी लेगीत पडची न्हय अशें दिसतालें, त्याच सिमांवक आतां लोरसूचे आसार वेगळेच दिसूंक लागिल्ले.

जो सिमांव आपले बायलेच्या करण्यांनी सदांच बेजार आसतालो, आपल्या पुताचेर नदर पडटांच ताची तकली सणसणूंक लागताली, तोच सिमांव आतां आपल्या पुतांत घडिल्लो बदल पळोवन स्वता बदलून गेल्लो, ताका जगपाची ओड लागिल्ली.

हे आदीं सिमांवक मनापसून दिसतालें, गुलून लोरसूकडें काजार जावन आपल्या पांयांर कुराड मारून घेवची न्हय. तें भुरगें आसा, अजाण आसा. आपले आतेल्या गोड उतरांक भुलून आपल्या जिविताची वाट लावन घेवंक शकता.

पूण आतां मात सिमांवक कळून आयलें. गुलू सून म्हूण ह्या घराक आयलें जाल्यार ह्या घराचो सर्ग जावंक कळाव लागचो ना.

सिमांव सादोभोळो आसलो तरी तो शिटूक आशिल्लो. ह्या दिसांनी ताची खाशेली अशी नदर लोरसूचेर आशिल्लीच. ते भायर गुलूची हालचालय ताच्या दोळ्यां आड जायनाशिल्ली. गुलूच्या प्रयत्नांनी जें कितें घडटलें, तें बऱ्या खातीरच आसतलें, हाची खात्री सिमांवक आशिल्लीच. गुलून आपल्या हातांत घेतिल्ल्या कार्याची वाट आतां दिशीं दिशीं सोंपी जायत वताली. लोरसूचें नांवूच घेतल्यार आलसूचें पित्त खवळटालें. गुलूच्या प्रयत्नांनी तो आतां थंड जाल्लो. लोरसूचे बाबतींतय आतां तो हुस्कोविरयत जावन वावुरतालो.

गुलूक लोरसू मानवलो जाल्यार, ताचे पसून कसलेंच लुकसाण उप्रासपाची शक्यताय नासली. ताका आतां आपलो जावंय करून घेवपाक हरकत नाशिल्ली आलसूबाची.

एका वगतार, भावाली धूव आपल्या पुताक मेळ्ळी ना जाल्यार, भावा आड संघर्शाची तयारी करपाचे वाटेर आशिल्लें नातलूय आतां थंड जायत वतालें. ताका कोणाकडें कसलोच संघर्श करिनासतना, आपल्या पुताचें कल्याण घडून येता जाल्यार, कसलेच बाबतींत ताका उचंबळ जावचेली गरजच नाशिल्ली. ताकाच लागून नातलू शांत रावन सगळें पळेतालें.

आपल्याक जाय तशें घडोवन हाडपाक गुलून आतां सगळ्यांचीं मनां जिकिल्लीं. आलसू, सिमांव आनी नातलू हांच्या मनांतलीं उचांबळीत जाल्लीं ल्हारां आतां शांत

जाल्लीं. लोरसू-गुलूच्या काजाराक आतां कसलीच आडकाठी उरूंक नाशिल्ली. गुलून दोनूय घराब्यांतलें वातावरण आपल्याक अनुकूल करून घेतिल्लें. मात आपूण लोरसूकडे काजार जावंक सोदतां, हें जाण्टयां मुखार उलोवंक तें दचकतालें. ताका दिसतालें, कोणेंय तरी आपल्या काजाराचो प्रस्न उक्तेपणान काडचो. निदान आतेन तरी आपलें मन उक्तें करचें. तिणें हक्कान दादीकडें वचचें आनी आपल्याक मागणी घालची. सद्याचे परिस्थितींत तो आपले आतेची मागणी न्हयकारचोना, हाची पक्की खात्री आशिल्ली गुलूक!

आनी लोरसू? तो तर आतां निश्चिंत आसलो. गुलूचें जशें लोरसूचेर लक्ष आशिल्लें, तशें लोरसूचें लक्ष गुलूचेर, हालचालीचेर बारकायेन आशिल्लें. मात ताच्यांत पयलीं सारको उतावीळपणा दिसून येनासलो. गुलू आतां आपल्याक सोडून खंयच वचचें ना हाची आतां ताका खात्री जाल्ली. गुलूचेर ताचो आतां विस्वास बशिल्लो. मात, ताणें आदीं थारायल्या प्रमाण आपूण जावन आपलो मोग गुलू मुखार व्यक्त करपाचे तयारेंत नाशिल्लो.

हातूंत खरें म्हणल्यार गुलूचेंच व्हडलें जैत आशिल्लें. गुलूक दिशिल्लें, लोरसू आतां धांवून आपल्या म्हऱ्यांत येतलो आनी म्हणटलो, 'गुलू हांव आतां पास जालों. तुजे मोतींतलो मुनीस मुहल्यार कोश्टकार शेतकार जालों. माहां आतां शेतांतुलीं सोगलीं कामां येताय. आतां तूं तोयार आहा मुगो, मोकोडे काजार जावंक?'

पूण लोरसून असलीं उतावीळपणां केलींना ही गजाल गुलूक चड मोलादीक दिसली.

आतां गुलूक लोरसू मुखार शरण आयले बगर दुसरो पर्याय नाशिल्लोच.

लोरसूवेलो शेतकामाचो भार आतां खूब उणो जाल्लो. आपूण आतां खरे अर्थान शेतकामती जालां, हे जाणविकायेन ताचें हइडें गर्वान फुलून आयिल्लें.

अशें म्हण्टात की आपूण स्वता मेले बगर खंय सर्ग दिसना. लोरसूचे बाबतींतूय तशेंच घडलां. लोरसू व्हडा उमेदीन शेतकाम शिकलो आनी ताका सर्गानंद भोगूंक मेळ्ळो. खरें सूख, खरें व्हडपण कित्यांत आसपावलां हाची जाणीव ताका आतां जाली.

आयज जुनाची स तारीख आशिल्ली. फाल्यां दुसरें मीर्ग. पयलें पांच तारखेचें सुकें गेल्लें. सात तारखेच्या मिर्गाक तरी पावस पडूंकच जाय अशें सिमांवचें भाकीत.

लोरसूच्या आदारान ताणें मीर्गा पावसाच्या स्वागताची जय्यत तयारी केल्ली.

सिमांव आपल्या पुताची, मनांतल्या मनांत तोखणाय करीत शेतांत बेठोच बोवाळटालो. लोरसू मात आपल्या बापाय म्हऱ्यांत चड वेळ रावलो ना. ताका असल्या वगतार भाटांतल्या रूखावळीकडें इश्टागत करचीशी दिसली.

लोरसू भाटांत शिरलो. ताका दिसलें आपल्याक सैमांकडल्यान बरो येवकार मेळटलो. पूण तशें कांयच घडलें ना. लोरसूचें कोणाकूच कॅर नाशिल्लें थंय. सगळें मोनें-मोनें-मोनें, झाडां-पेडां मोनीं. गुलूक पळोवन आनंदभरीत जातालीं तीं सुकणीं, चानयो बी खंय तरी दडून बशिल्ल्यो. कोणाचोच आवाज नाशिल्लो.

ताकाय कारण आशिल्लें. भाटांतल्या सैम घटकांक तो सिमांवलो पूत आसुनूय, कोणाक आवडनासलो.

हे आदीं केन्ना-केन्नाय लोरसू सर्वंट टिचरी वांगडा पासयो मारतालो. ही सर्वंट टिचर सैमघटकांक मातूय आवडनाशिल्ली. आतांय लोरसूक न्हयकारपाचें मुखेल कारण हेंच आशिल्लें.

आपल्याक कोणूच लागीं करिनात तें पळोवन लोरसू निर्शेलो-उदास जालो. ताचे हे उदासेंत भर घालूंक सैमदेवतेन आनीक एक प्रसंग घडोवन हाडलो-

सांजेवेळचीं पांच जाल्लीं जावये ते वगतार. हे आदीं मळबांत काळीं कुपां झळकतालीं. पूण तांच्यांत जीव नासलो. भाट दाट आसुनूय उजवाडाचें राज्य अजून चलतालें. पूण सैमान मनांत हाडल्यार तें केन्ना कितें करीत हाचो नेम नासता.

वाठारांत आशिल्लो-नाशिल्लो उजवाड आतां अकस्मात उडून गेलो. काळ्या कुपांनी मळब दाटून आयलें. सैमदेवतेन मौन धारण केलें. कांय खीण आदीं माडांच्यो चुट्ट्यो आनी रुखावळीचीं पानां हालतात तीं पळोवन वाऱ्याचें अस्तित्व जाणवतालें. पूण आतां तेंय बंद जावन सगळो वाठार काळो किट्ट जाल्लो.

पूण सैमदेवतेक हो काळोख सोंसलोना. तो पयसावपाक तिणें जोगलांच्यो तरसादी हातांत घेतल्यो आनी लागली चकाचक कुपांचे दोंगर कापूंक!

सैमांत हो अकस्मात आनी भयांकृत घडून आयिल्लो बदल पळोवन गुलू आकांतलें. ताका लोरसूची काळजी दिसली. तें भयान सैरभैर जालें. आपले आतेक मजत करपाचें सोडून भाटांत शिरलें.

लोरसू मात निर्भय जावन सैमखेळ अणभवतालो. गुलू धांवत-खर्शेत येवन लोरसू म्हऱ्यांत उबें रावलें मात, इतल्यान आकांताचो गडगडो मारलो. गुलू भियेलें आनी ताणें लोरसूक घट्ट वेंग मारली.

''तूं ओहेंच म्होज्या गोपांत राव गो. आय लाव यू गुलू.'' अशें म्हणत ताणें वेंग चडूच आवळून घेतली.

३८

**सै**मदेवतेन शेकीं गुलू-लोरसूचो एकवट घडोवन हाडलो आनी गुलूलें इत्सीत कार्य फुडें चालीक लागलें.

पुराय माय तापिल्लो. जुनाचे पांच तारखेचें मीर्गूय गांवांतलीं शेतां-भाटां हुलपावन गेल्लें. आतां सात तारखेच्या मीर्गाकडेन सगळ्यांचे दोळे लागून गेल्ले. पांच तारखेक पावस पडलो ना जाल्यार तो सात तारखेक पडूंकच जाय, अशी सगळ्यांची धारणा.

पूण जालें भलतेंच, हे वर्सा स तारखेक पावस सुरू जालो आनी ताणें फुडें म्हयनोभर उसंत घेतली ना.

हे घडणुकेचें लोकांक अजाप दिसलें. फाटल्या कितल्याच वर्सांत इतलो बरो पावस पडूंक नासलो. गांवांतल्या अणभवी शेतकारांक ती मिलाग्र दिसली. पूण सिमांवक मात तशें कांयच दिसलें ना. कारण सिमांवचे दिश्टीन, अकस्मात - कारणाशिवाय घडिल्ल्या कृत्याक मिलाग्र म्हणटात. हे वर्सा बरो पावस पडपाक तशेंच कारण आशिल्लें. गुलूचे इत्सेप्रमाण लोरसून पुरो जायसर शेतांत घाम गळयल्लो. शेतांतलीं सगळीं कामां शिकून तो एक फिशाल शेतकार जाल्लो. अशें घडपाक, गुलूचेंय ताका फाटबळ आशिल्लें.

देव कोणाक केन्ना फुकट कांयच दिना. गुलूची इत्सा आनी लोरसून केल्ले कश्ट लक्षांत घेवन, शेतांतले पिकावळीक फावता तसलो बरो पावस घालून तांकां कामाक लायलीं.

जुनाचे स तारखेक पावस सुरू जालो आनी सात तारखेक तो दीस-रात ओतलो. शेतांतले सगळे होंडे भरले ते भरले, शेतांय तुडूंब भरलीं. इतलीं भरलीं की शेतांत देंवतकच होंडे खंयचे सुवातेर आसात, हें समजूंक कठीण जावंक लागलें.

काल दनपार मेरेन एकाद्रोच बेबो शेता धडेर खंय तरी आडसाक रावन भियेत-भियेत आनी आडखळत गायेना करतालो. पूण सांजवेळार उटंगारांचो पावस पडलो. शेतांत भरपूर उदक जालें आनी खंयच्यान तरी उडक्यो मारीत बेब्यां भिरें शेतांत देंवलें.

मूसळधार पावसान आतां बेब्यांक चडच नेट आयलो. तांकां बसकेक माची जाय आशिल्ली. होंड्या देगेर केन्ना बसका घेतले आनी काव्य गायन केन्ना करतले, अशें जाल्लें तांकां.

खरें म्हणल्यार तांचे बसकेची सुवात होंड्याकड. वर्सपध्दते प्रमाण हे मेंढकराज, आंगाक हळद लावन काव्यगायनाक बसताले.

मीर्गार पयलो पावस पडटलो आनी कवी बेबे होंड्या देगेर बसून सस्वर काव्यगायन करतले, हाची कल्पना अणभवी सिमांवक आशिल्ली. ताका लागून तो होंड्या भोंवतणी हय-न्हयसो, रेवेंचो-शेतमातयेचो उंचवटो करून दवरतालो. हो उंचवटो म्हणल्यार कविराज बेबेरावां खातीर, डरांव डरांव करपाक माचयेची वेवस्था आशिल्ली.

सिमांवक बेब्यां कातार खूब आवडटालें. हेर गांवांनी बेबे शेतां मेरेर बसून गायनां करतात. पूण आगशी गांवांत शेतांत मेरो घालचेली रीत ना. ताकाच लागून सिमांवन होंड्यां भोंवतणी बेब्यां खातीर उडे तयार केल्ले. कित्याक तर मेरो आनी कुणग्यो कोणें घाल्योय जाल्यार विरगळतात. पूण पावसा नेटार हे उडे विरगळून गेल्ल्यान, बेबे भ्रमांत पडले. तांकां शेतांतल्या होंड्यांच्या अस्तित्वाची जाणीव जालीना.

होंड्याच्या सोदाक ताणीं, शेतभर हांगा-थंय उडक्यो मार मार मारल्यो. पूण उप्पाट भरिल्ल्या शेतांत तांकां होंड्याची सुलूस लागलीना.

आतां कितें करतले? मीर्गाच्या निमतान काव्यगायन तर जावंकूच जाय. तें बेबक्यांनी घराकोनशाक आनी बेब्यांनी शेतांत करपाचें. तांची लागणूकच ती!

रातीकडें पावस घोग्यांनी पड-पड पडलो. पडून-पडून कितलो तरी पडटलो!

दुसरे दिसा सकाळीं वरभर आसोर जालो. शेतां रेंवट आशिल्ल्यान चडिल्लें उदक देवूंक चड वगत लागना. अर्दवरा भितर उदक देंवलें आनी शेतांतल्या तरव्यान आपली तकली वयर काडली.

बेब्यांक तोच दिलासो पुरो जालो. होंडो मारूं झक म्हणून सगळे बेबे तरव्यांत रिगले. पावस नासतनाय थंयच ताणीं जें आपलें गायन सुरू केलें, तें निर्भयपणान तशेंच फुडें चालू दवरलें.

मीर्गावेल्या बेब्या गाणी सिमांवक खूब आवडटालीं. ताका लागून तो मीर्गाची वाट पळेत आसतालो. इतलेंच न्हय, तर बेब्यांक कोणें त्रास दिवंचे न्हय, तांकां कोणें मारून खावंचे न्हय, हाची सिमांव मनासावन काळजी घेतालो. आनी हाची जाणविकाय त्या बेब्यांक आशिल्ली. ताकाच लागून हेर शेतांतले कविराज बेबे सिमांवल्या शेतांत एकठांय जावन निर्भयपणान गायनां करताले.

आतां आदलो तेंप नाशिल्लो. एका तेंपार शेतकार आनी हेर गांवकार, मीर्गावेल्या पडट्या पावसांत शेतांत देंवताले. भेंडाक कंडुली, हातांत बॅटरेदिवो, कांटाळी आनी तरसाद घेवन, थिगूर-पिट्टोळांची शिकार करताले. अशें नुस्तें मारपाचें काम दोग मनीस भागान करताले.

आतां वेळ बदल्ला. आगशेंत तीं शेतां उरूंक ना. आनी हांगा-थंय एक-दोन उरलींय जाल्यार तातूंत पावसा हुंवारार पिट्टटोळूय चडनात आनी थिगुरूय. आनी चडलेय जाल्यार शेतांत देंवून, काश्टी भिजोवन थिगूर मारपी कश्टकारी शेतकारूय उरूंक नात.

तरी आलसूबा आनी सिमांवसारके, आपल्या शेतां-भाटांचेर मोग करपी आदले मुस्तींतले लोक अजून वावुरताले.

हे वर्सा देवाचे कृपेन पडिल्ल्या पावसान सिमांवलो घराबो खोशेन भरलो.

आतां सिमांवल्या घराब्याचो आनीक एक वांगडी भरशेल्लो, तो म्हणल्यार गुलू.

गुलू-लोरसूचें काजार जावनाशिल्लें. पूण स तारखेक अचकीत पडिल्ल्या पावसान तांचीं काळजां एकठांय हाडिल्लीं. लोरसूल्या तोंडांतल्यान अचळय 'आय लाव यू' हीं उतरां भायर पडिल्लीं आनी गुलून तीं न्हयकारूंक नाशिल्लीं.

ते खिणांत सावन देवान तांचो एकवोट घडोवन हाडला, अशें तीं दोगांय मानतालीं. उटांगराचो पावस पडिल्ल्या कारणान गुलू त्या दिसा आतीगेरूच रावलें. दादी हुसको करतलो म्हूण सिमांवन खात्रीच्या मनशा कडल्यान आलसूबाक रेकाद धाडलो.

रेकाद खात्रीचो आशिल्ल्यान आलसूबाक काळजी करपाची कसलीच गरज नाशिल्ली. दोन दीस पावस घोग्यांनी पडलो. शेतां उदकान भरलीं. गांवांत बुडटी आयिल्ल्याचो भास जावंक लागलो.

पावस घोग्यांनी पडलो खरो, पूण तो थांबून थांबून पडलो. ताका लागून उदक शेतांनी भरत रावलें तशें एका सारकें जिरतूय रावलें. उदकाचें भरप-जिरप हें सिमांवच्या पथ्यार पडलें. ताचें वय जाल्लें. तरी तो शेतांत पिट्टटोळ उडटात तें पळोवन आपुणूय उडूंक लागलो. सगळी रात उट्टा-बसता. ताची अवस्था पळोवन घरांतल्या हेर वांगड्यांकूय जागरण घडलें.

हे आदींय मीर्गार पावस पडटालो. ताचो अणभव सिमांव-नातलून घेतिल्लो. आलसूबाकूय तो नवो नाशिल्लो. पूण लोरसू-गुलूचेर ताचो कसलोच परिणाम जावनासलो. जावनासलो म्हणचे परस तांच्या आवय-बापायन तांकां दुख्खदिण्या कामा पसून पयसूच दवरिल्लीं.

पूण आतां मात तीं दोगांय सतर्क जाल्लीं. रातीकडें पावसा वांगडा वादळूय आयलें. वादळान सिमांवल्या भाटांतल्या आंब्यां रुखांचे कांय खांदे तुटून पडले. हेर आंब्यांतले आंबे झडून जमनी भरवण जाले. तांतले तातूंत जोगलां, गडगडो आनी बेब्यांचें तरव्यांत बसून डरांव-डरांव!

हें सगळें सैमीक वातावरण भयांकृत आसलें, तरी सिमांवक आनी गुलूक सूखदिणें लागतालें. कारण सैमाकडें तांचें निजाचें नातें आशिल्लें.

सिमांव, आलसूबा आनी गुलू सैमांतल्या घडामोडींचो अदमास घेवन, सतर्क रावन जियेतालीं. नातलूक मात कित्याचीच परवा नाशिल्ली. ताका दिसतालें, व्हडलें वादळ येवन तन्ने-पिके आंबे झडचे. संद मेळ्ळीच जाल्यार तन्न्या आंब्यांचीं सोलां करचीं आनी पिक्यांचीं साठां.

वादळ-वाऱ्याची आनी जोगलां-गडगड्याची परवा करिनासतना, आंब्यांची सुपां भर भरून तें चवकेर हाडून राशीक घालूंक लागलें.

गुलून हे आदीं आपल्या दादी सागांतान असले प्रसंग अणभवल्ले. ताका लागून ताका व्हडलेंशें कांयच दिसनाशिल्लें.

पूण लोरसूल्या राज्यांत मात असल्या प्रसंगांक सुवात नाशिल्ली. अशें भयांकृत कितेंय घडलेंच जाल्यार, आपूण ते गांवचो न्हयच म्हणून, नातलूलें दाट कापड माथ्या वयल्यान पांगरून, मेळत ते सुवातेर गुटली करतालो तो!

३९

**मी**र्गा वयल्या पावसाचो नेट पळोवन अशें दिसता की हो पावस आठ दीस तरी असोच चालू उरतलो. एक तर पिरपिरतलो ना तर दडकांनी पडटलो. पूण तशें कांयच घडलें ना. दोन-तीन दिसां भितर पावसाचो जोर देंवलो. उदकान भरिल्ल्या शेतांक सुकती लागली. उदक गायब जाल्ल्यान शेतांत दिसतालो तो फकत पांचवोचार तरवो. तरव्याच्या आसऱ्याक बशिल्ले बेबे आतां खंयचे खंय दडून बशिल्ले. अकस्मात शेतांत पडिल्लें सुकें पळोवन ते धास्तावल्ले. तांचे ताळे सुकले. गायेनां बंद जालीं.

अशें आसलें तरी भाटांतली सगळी रुखावळ मात टवटवीत जाल्ली. फुडलो एक म्हयनो पावस पडलो ना, तरी तांकां भिवपाची गरज नाशिल्ली.

मीर्गाचो पावस पडलो आनी गेलो. सिमांव खोशेन भरलो, ताच्या फाटल्यान हे वर्सा लोरसूचें बळगें आशिल्लें देखून. हक्काचो आनी विश्वासाचो एक मानाय ताच्या हातांत आशिल्लो. जो लोरसू शेताचें नांव काडल्यारच तोंड वांकडें करतालो, तोच लोरसू आतां शेतकाम म्हणल्यार उमेदीन भरतालो. लोरसूची काम करपाची उमेद पळोवन गुलू तर दिर्शी दिर्शी फुलून वतालें.

गुलूचें आतां आगशी आनी भाटयेर येवपा वचपाचें नेटान सुरू जाल्लें. ताका आतां दोनूय घराब्यांची काळजी लागिल्ली. चड काळजी ताका आपल्या दादीची लागिल्ली. कारण आगशे आती, कुन्याद आनी लोरसू आसतालो. आपूण घरांतल्यान हाल्लें जाल्यार दादी एकटो पडटलो, हाची खंत ताका सतायताली.

तरी ताणें चिंतलें, दादीलीं चिंतनां पयस करतलें, ताच्या माथ्यावयलो पेज मात्सो ल्हव करतलें जाल्यार ताच्या दिसपट्ट्या कामांत मेत्येर जावंकूच जाय.

''दादी, हे वर्सा बोऱ्या पावसाची सुलूस लागल्या न्होय?'' चिंतीत बसलेलो आलसूबा कितें तरी उलोवंचो म्हूण गुलून म्हऱ्यांत वचून ताका प्रस्न केलो.

''व्होय, व्होय! मीर्गार बोच पावस पोडलो. हे वर्सांनी मीर्गार ओडलो पावस पोडलेलो उगडास ना.''

''दादी, हे वर्सा सोगलें शेत रोवपाचें. इल्ली लेगीत सुवात पाड उरोंक फावोना.'' गुलून खुशालभरीत जावन म्हणलें.

''तूं सांगता तें होरें गो बाय. पूण म्होकोडें आतां आदले भासेन काम जायना. ओणोव गाहल्यारूच भेंडांत येता.'' बसून आशिल्ल्या आलसूबान, उबो रावपाचे तयारेन दोनूय हात धोंपरांक तेंकयले.

''दादी तूं उठोंनाहां. थिंगाच बोस. माहां तुकोडे कितें गोरजेचें उलोवंक जायें.'' गुलून दोनूय भुजांक हात लावन ताका बसपाक आदार दिलो.

''सांग आतां. पूण कितें सांगता पोय तें वोगयां सांग. माहां शेतांत वोसोंक जायें. घाराकोडें मातसो बोसोत जाल्यार हातीपायांक चिमटे येताय.''

''येवंदी चिमटे कितले येताय ते. पूण हांव तुहां हे फुडें शेतांत काम कोरूंक दिवंचें ना.'' गुलून आपलो निश्चेव उलोवन दाखयलो.

''तोहें जाल्यार शेत पाड दोवरपा मुगो?'' – आलसू.

''सोगलें शेत रोवपाचें, पूण मानांय–कामेऱ्यां घालून.''

''हुंयची हाडटोलीं गो मानाय–कामेऱ्यां! कितलेय कोचकोचीत दुडू मेजल्यार लेगीत मानांय–कामेऱ्यां मेवनाय.'' आलसून आपली अडचण उक्तायली.

''तोहें जाल्यार आमचें शेत आमहां पाड दोवोच्चेंच पोडटोलें. तूं केन्ना लेगीत जियेतलो? केन्ना लेगीत शेतांतुलीं कामां कोत्तोलो?'' हें सांगतना गुलूचो गळो दाटून आयलो. दोळ्यांनीं दुकां भरलीं. सत आयकूंक कितलेंय कोडू आसलें, तरी आयकुप्याचें बरें मागतल्याक तें उलोवन दाखोवचेंच पडटा. गुलून तेंच केलें.

''बाय तूं कितें सांगता तें सोजमोता गो माहां. पूण कितें कोत्तोलों. कोणाचोच आदार ना जावन पोडला. इतलीं वोर्सां मानांय–कामेऱ्यांच्या नाड्यार काडले दीस. कोणेंच उतर सोकला पोडोंक दिलें ना. पूण आतां मानाय–कामेऱ्यांच शेतांत देवोंक तोयार ना जाल्यार कोणाक शिण्टोलों!'' आलसूबा निर्शेवन कपलार हात धरून बसलो.

आलसूबा एकदां कपलार हात धरून बसलो म्हण्टकीर गुलूक कळटालें, हाका एकांताची गरज आसा. ताका एकट्याक थंयच सोडून तें घरांत वचून आपल्या तात्पुरत्या वावराक हात घालतालें. आपल्या बापायचो हो चिंतनाचो वगत. ताचें चिंतन चलतना कोणेंय बादा हाडली जाल्यार ताका तें सोंसनासलें. तो उबगतालो. गुलूक ताची कल्पना आशिल्ली. ताका लागून ताका तें खासा चिंतना खातीर एकटो सोडटालें.

आलसूबाक मात लेगीत एकांत मेळ्ळो जाल्यार तो खोशी जातालो. आतां व्हडलो न्हय, सात–आठ वर्सां फाटलो काळ ताच्या मुखार मस्तेपणान वावरूंक लागलो. आतां तो थकला. बसता थंय झेम लागता ताका. पूण कांय वर्सां फाटीं ताका रात–दीस न्हीद लागनासली. एप्रिल–माय हे दोन म्हयने शेताक मात्सी उसंत मेळटाली. उपरांत जून ते फुडलो मार्च म्हयनो मेरेन शेतांत कसलें ना कसलें काम आसतालेंच.

पावसांत शेत रोवप, नडणी काडप. सप्टेंबर–ऑक्टोबरांत शेत पिकतालें. तेन्ना लुवणी–मळणी नेटान सुरू जाताली. कामेरीं–मानाय तांच्या वगतार येवन शेतांत देंवतालीं. आलसूबाक मात सुशेग नासतालो. मानाय–कामेऱ्यां णवांक साडेणवांक येवन हालत धोलत शेतांत देंवतालीं.

मानाय–कामेऱ्यांचो काम करपाचो खाशेलो असो कायदो आसता. टायमार शेतांत देंवप आनी टायमार इगर्जेची घांट जातकच शेतांतल्यान वयर सरप. आलसूबाक मात सांजसकाळ, सावळी–वत, इगर्जेची घांट बी कांयच लागनासली. ताचें ध्यान मन टायमाचेर न्हय, तर फकत कामाचेर आसतालें. जेवपा पुरतो घरा येवंचो, जेवन पांच–धा मिण्टां आड पडचो, वताची परवा करिनासतना मागीर शेतांत धांव मारची. परत खापऱ्यांभशेन कामाक सुरवात करची.

आलसूबाकडें गोरवां आशिल्लीं. पूण जोत नाशिल्लें. तरी गावड्यां वाड्या वयलीं सगळीं जोतां ताचींच कशीं! आलसूबाच्या उतराक पाळो दिवन जोतकार ताका जाय तेन्ना धांवून येताले. सांगपाचीच फुरसत.

शेत रोवन जायसर शेतांत आनी गांवांत सामको बोव्वाळ! जोतकाराच्या तोंडांतल्यान एक सारकें इरी–इरी पाप्पा. जोताचे रेडे–पाडे मंद गतीन चलत जाल्यार कार्रेगाद

गाळयो. गाळयांचोय फाव तसो उपेग जालो ना जाल्यार जोतकारान एकाद्रया रेड्याची रागान शेंपडी ओडप. आपल्या दांगड्याची शेंपडी ओडली ती पळोवन दुसऱ्यान आपली शेंपडी वयर काडून घसघशीत मुतप आनी रागान थापेवप.

ओंपणेच्या वेळार तर, चड करून कामेऱ्यांक चडच नेट चडटा. पिरपिऱ्या पावसांत कामेऱ्यांचें एके वळीन, ओणव्यांनी तरवो लावणेचें काम करतल्यांक आनी तें पळयतल्यांक तर विशेश सुखदिणें आसता.

जून-जुलयांत तरवो लावणी जाता आनी आगोस्तांत नडणी. असल्या वेळार सैमदेवता, गरीब कामेऱ्यांचे कुडींत खंयची तरतरी हाडून सोडटा देवाक खबर! पावसाची पिरपीर तांचे कुडींनी तरतरी हाडून रिगयता. तांच्यांतली किरकीर पयस करता आनी तेन्नाच तांच्या गोड गळ्यांक पालय फुट्टा. सुमधूर आनी सुरेल व्हाेंवयांच्या आवाजान सुखमय वातावरणाची निर्मिती घडून येता.

ह्या सगळ्या प्रसंगांची याद आतां आलसूबाक येता. त्या यादीं शिवाय ताचेकडें आतां कांयच उरूंक ना. तें तरणेंपण, ती शकत आनी ताकत, ताच्या उतराक मान दिवपी तीं सादीं-भोळीं मानाय-कामेऱ्यां आसून लागीं नात.

तरी आलसूबा झरत-मरत पोटापुरतें शेत रोयता. आयज मेरेन रोयलें. फुडें रोयतलो जाल्यार ताका आदाराची गरज आसा.

तो आदाराचो उणाव पयस करपाचो पक्को विचार आतां गुलू मनांत बाळगून वावुरता.

आलसूबान सुसेगाद बसून आपल्या यादींक उजाळो दिलो. खुशालभरीत जावन तो आतां आपले अपुरबायेचे धुवेची, गुलूची वाट पळेत बसलो.

''जालें चिंतून दादी? चोडूच खुशालकायेन भोल्ला.'' फाटल्यान उबें आशिल्ल्या गुलून चेऱ्याचेर तुवालो ओडीत म्हणलें.

''हे फुडें माहां यादींच्या नेटारूच दीस काडचे पोडटोले म्होजे धुये!'' लागसाराक बसून कांव-कांव करपी कावळ्यांक धांवडायत आलसूबान म्हणलें.

''हांव आसतोना कित्याक भियेला दादी तूं?''

''तूं आहल्यार कित्याक उपकात्ता म्होजे धुये? मुनशांचे जागेन हूंय माड फुलताय. ते पोरी तुजे जागेन आमचें शेत पिकतोलें?''

हें आयकून गुलूलो चेरो मात्सो बावलो. आलसूबाच्या तें लक्षांत आयलें. ताका वायट दिसलें. आलसूबान निदान तशें आपले धुवेच्या सामकाराक तरी म्हणूंक फावनासलें.

आपली धूव स्वाभिमानी आसा. तिचेविशीं बापायच्या तोंडांतल्यान भायर पडिल्लें वायट उतर तिका सोंसपाचें ना, हाची पुराय कल्पना आलसूबाक आशिल्ली.

खरें म्हणल्यार आलसूबाक वायट दिसपा सारकें थंय कांयच घडूंक नाशिल्लें. आलसूबा जाणूनबुजून कांयच वायट उलोवंक नाशिल्लो. तरी सहजतायेन भायर पडिल्ल्या उतराक दुबावीतपणाचो रंग मात चडिल्लो. पूण गुलून तें कानामनार घेतलेंना. दादी उलोवंक चुकलो. हांगा चार पांयांचो घोडो चुकता, थंय दोन पांयांच्या मनशाचें मनार कित्याक घेवचें!

''दादी, तूं कोहल्या तोरी चिंतनांनी बेजारला. ओहल्या ओगतार, जाण्टेपोणांत तुज्या मोनांत आकडीं–तिकडीं चिंतनां घोर कोत्तोलींच. तूं आकडीं तितलींय चिंतनां जाता तितलीं पोयस दवर आनी हांव सांगतां ते पोरमाणे वाग.''

''हांव तेंच कोत्तां न्हो गो बाये. आतां सांग, हे वोगतार कितें कोरूं जाय पोय तें!'' अशें म्हणून आलसूबान सुस्कारो सोडलो.

''तूं कांय कोरूं नाहां दादी. कितें कोरूं जाय तें सोगलें हांव कोत्तां. तूं फोकोत पादविगाराक मेवोन यो.'' हें आयकून आलसूबान कच्च करून आंग काडलें. ताका पादविगारा वांगडा मरणाच्या काशावांचीय याद जाली. म्हाताऱ्या मनशाक, आपलीं धा सरून पांच उरल्याची जाणीव जातकच अशेंच घडटा.

''पादवीगाराकू, कित्याहू?'' आलसूबान आकांज्यार जावन प्रस्न केलो.

''काजाराचो दीस थारावंक.''

''कोणाच्या?''

''तूं आनी कितें दादी? सामकोच सोयर भोयर जाल्ल्यावोरी कोत्ता?''

''आं?''

''ह्या घारांत काजार कोणा जावपा आहा?'' – गुलू.

''म्होज्या बायचें! कोणा लागीं जाता?'' आलसूबान जाणा जावन आपूण कांयच नकळो ते भशेन केलें.

''दादी, तुकां होबोर आहा, हांव कोणाकोडें काजार जावंक सोदतां पोय तें.'' – गुलू.

''तुयें सांगलेलें जायत. पूण याद जायना. पिराय जाल्या न्हो गो बाये!'' आपलो बापूय खरें उलयता काय खऱ्यांनीच ताका विसर पडला, हें समजूंक गुलूक कठीण जालें. तरी तें वाडोवंक गेलें ना. ताणें खिणाक सांगलें, ''दादी, हांव लोरसू लागीं काजार जातां. आतां कोण लोरसू काय म्होणोन विचारूं मात नाहां.''

हें आयकून आलसूबान जाप काडली ना. ताणें निराश जावन, थंय उबी आशिल्ले शांत रुखावळीचेर नदर भोंवडायली. रुखांवेल्या ताळकुटांचेर मौन धारण करून बशिल्ल्या सुकण्याची नदरय आलसूबाचेर थीर जाल्ली.

''पादविगारक मेवोन तेका कितें सांगों हांव?'' आलसून बरोच वेळ शांत रावन निरव वातावरणाचो भंग केलो.

''तेहा म्होज्या काजराची होबोर दी आनी आठ दिसां उपरांत काजाराचो दीस थारावंक सांग आनी हांव कोणा लागीं काजार जातां तेंय सांगोंक विसरों नाहां दादी!''

४०

**आ**लसूबान नाईलाजान गुलू-लोरसूच्या एकवटाक मान्यताय दिल्ली. तो मोग न्हय हाची जाणीवूय आलसूबाक आशिल्ली. गुलूनय एक तडजोड म्हणून लोरसू वांगडा साक्रामेंत जोडपाची तयारी केल्ली.

लोरसूचो गुलूचेर मोग आशिल्लो, पूण गुलूच्या मनांतलें कोणाच्यान सांगूं जायनाशिल्लें. लोरसूकडें काजार जावन, आपल्या आवयबापायचें शेतभाट तिगोवन दवरपा खातीर साक्रिफायस करप, इतलोच उद्‌देस आसलो ताच्या काजरा फाटलो. दोनूय कुटुंबांक सुखी करपाचो एकमेव उपाय गुलूच्या हातांत आशिल्लो.

''बाय गुलू आमी दोगांय या गो पादविगाराक मेवोंक. एकाच उलोवपान काबासांव जावंदी. पोत्तें पोत्तें वोसपा नाहां.''

गुलूक आपल्या दादीचें पटलें. पादवीगार आलसू आनी गुलूक बरो वळखतालो. तें एक अशिक्षीत शेतकाराची धूव आसुनूय हुशार आनी बरे देखीचें भुरगें, हें पादविगार जाणा आशिल्लो. पादविगाराकडल्यान, बापायक आनी आपल्याक बरो येवकार मेळटलो हाची खात्री गुलूक आशिल्ली.

हे आदीं इस्कोलांत शिकतना, वाटेर भेट्टा थंय, पादविगारान गुलूची मुजरत तोखणाय आनी अपुरबाय केल्ली.

दुसरे दिसा आलसूबा आनी गुलू इगर्जेंत गेलीं. पयलें मीस सोंपल्या उपरांत पादविगाराची भेट घेवपाचो इरादो आशिल्लो गुलूचो.

पादविगार पोक्को गोंयकार. आलसूबा इतलोच तोय जाण्टो आशिल्लो. ताका लागून ताचें खाण-जेवण, न्हेसण-पांगरूण, चालचलणूक, उलपकरप बी सगलेंच देशेंत!

अशें आसलें तरी ताचें एक खाशेलेंपण आशिल्लें. मीस सांगतां सांगतां ताका थरथरो मारतालो. म्हणचे कडक भूक लागताली ताका.

भूक लागतकच ताका उंडोबिंडो, चावबाव चलनासली. ताका जाय आशिल्ली करंगुटच्या तांदळांची बटबटीत पेज. वांगडा सुक्या बांगड्याचो कोपो. बांगडो ना तर खळांतली आबली चलताली.

आनी एक खाशेलेंपण आशिल्लें पादविगारालें. ताका पेज बशयेंतल्यान चलनासली. चकचकीत पितळेंत दाटशी पेज घेवन, आसरमांडी घालून तो जमनीर बसून पेज जेवतालो. बसपाक पाटबीट कांय लागनासलो.

एक दीस कोणेंतरी ताका विचारलें, ''पादविगार, येदीं व्हडलीं मेजां आसतना, तूं जेवंक जमनीर कित्याक बसता?''

''म्होजो आवय बापूय शेतकार आहलो. तीं ओहल्याच तांदवांची पेज व्होरोन, शेता मेरेर बोसोन जेयतालीं. ल्हान आसतोना हांवूय तेंच्या बराबोन मेरेर बोसोन शीत-पेज जेयतालों. आतां हांव शिकोन पाद्री जालों तरी जोमनीर बोसोन जेवपाची सोंवोंय सुटोना.''

कोणाकूय दिसतलें, ह्या पाद्रीक भिके दुवाळे लागल्या, हाचो जल्म जमनीर बसून उकड्या तांदळांची पेजूच जेवपाक जाला. हे मनीस केन्नाच सुदरपा ना.

पूण ह्या उलोवपाचो परिणाम पादविगाराचेर मात केन्नाच जालो ना. केदींय व्हडलीं मोलादीक पक्वानां ताच्या सामकाराक हाडून दवरलीं, तरी ताका याद आनी रूच येताली ती उकड्या तांदळांचे पेजेचीच. उकड्या तांदळांचे पेजेच्या थाकायेनच पादविगार आपल्या शेरमांवांत व्हडलीं व्हडलीं तत्वगिन्यांनां सांगतालो.

पादविगार पेज जेवन भायर आयलो. गुलू आनी आलसूबा पादविगाराची वाट पळेत सिटींग रुमाच्या दारा भायर उबीं आशिल्लीं. येदोवेळ तांकां उबीं रावचीं पडलीं, आपल्याक लागून तिश्ठचें पडलें म्हूण पादविगाराक चड पिकासांव जालें.

''आरे, तुमी येद्दो वोगोत उबीं आहाय? बोसाय, बोसाय! हीं कोदलां कित्याक दोवोरल्यांयीं?''

''गुडमोर्नींग फादर!''

''गुडमोर्नींग बाये ग्लोरिया. केशें आहा बाये!''

''हांव फोत्त आहा फादर!''

आलसूबा उबोच आसा तें पळोवन पादविगारान म्हळें,''आरे, तूं उबोच आहाय? बोयस, बोयस!''

आनी ताणें आलसूबाक हाताक धरून बळयां कदेलार बसयलो.

पादविगार आपल्याक मेळूंक आयिल्ल्या गांवच्या लोकांकडें आपुलकायेन वागतालो. गरीब-गिरेस्त हो भेदभाव नाशिल्लो ताचेकडें. गुलू तर ताचें अपुरबायेचें आसलें. आपले धुवेक बरी देख दिल्या म्हूण आलसूबाकूय तो बरो रेस्पेतार करतालो.

''सोडसोडीत उलोयाय. हांव मुगो भायर सोरपा आहा.''

''दादी, तूं सांगता वो हांव सांगों?'' गुलून आपल्या बापायचो मान राखपा खातीर म्हणलें.

''तूंच उलोय गो. माहां कितें कोवता! आमचो पादविगार बोऱ्या मोनाचो पाद्री. तो कितें सांगता तें आयक आनी सारकें मोतीं धोर.'' आलसूबान धुवेक सल्लो दिलो.

''फादर!'' गुलू लजलें.

''आमगे गुलूबाय लोजोता कितें गो, व्होकोल येशी.''

''व्होय पादविगार, व्होकोलूच ती. काजार आहा तियेचें. तेंच सांगोंक येयल्यांय आमी.'' आलसूबान व्हडा उमेदीन सांगलें.

''व्होई, केदोना? कोणाकोडें?'' पादविगारान आपली खोस उक्तायली.

''फादर, हांव लोरसू लागीं काजार जातां.''

गुलून उक्तेपणान उलोवन दाखयलें. सांगतना तें मातूय लजलें ना. चिंतेस्त जावन ताणें पादविगारा मुखार मान बागयली.

''लोरसू? कोण लोरसू!'' पादविगार चिंतूंक पडलो. ताची नदर गांवांतल्या जणएकल्या तरणाट्यांचेर आसताली. गांवांतलो एकान एक तरणाटो देखदिणो आसचो, कोणूच वादीव जावन गांवांत भोंवचो न्हय, एकाक लागून हेरांक वायट देख मेळची न्हय, अशेंच तो रात-दीस चिंततालो. आपूण म्हणल्यार ह्या गांवचो बापूय आनी गांवचीं ल्हानाव्हडां आपलीं भुरगीं, अशी ताची धारणा आशिल्ली.

कोणूय गांवार हेडपी वादीव भुरगो दिसलोच जाल्यार, ताका तो आपोवन हाडून मायेमोगाचीं चार उतरां आयकयतालो. फुडें सरपाची, बरे देखीन वागपाची उजू वाट दाखयतालो.

पूण हो लोरसू कोण तो ताच्या लक्षांत नाशिल्लो. ताणें चिंतचीं चिंतलें आनी तो आपसूक उद्गारलो, ''जावं कोणूय. तूं जावन आहा एक बोऱ्या मोनाची आनी बोरे देखीन वाडलेली व्होंकोल. ओहल्या मोनशांक देव केन्नाच पोयस कोरिना. देव तुजेर सोदांच बेसांव घालतोलो. भियों नाहां. रोचणारान तुजे पासोत बोरोच भुरगो जोल्मांक

घाहलो कोडें आसतोलोची! आयट आहल्यार लेगीत देआकुरपेन तो तुज्या पासोत सुदोरतोलो.''

पादविगारान आपले सास्टीचे भाशेन शेरमांव सांगलो. आलसूबाक तो गोड लागलो. पादविगार थांबलो तेन्ना आलसूबान हड्ड्यार खुरीस काडून तोंडांतल्यान 'आमेन' अशें अचळय म्हळें. आलसूबा इगर्जेंतूय तशेंच करतालो. ताका संवंय जाल्ली तशें करपाची.

''पादविगार, लोरसू म्होजे भोयणीलो चेडो.''

''येशें?''

''होय पादविगार.''

''भाच्याकोडें काजार कोत्ता?''

''व्होय पादविगार.''

''केसो काम कोत्ता?'' पादविगार उत्सुकतायेन प्रस्न केलो.

''कोहलें काम कोरिना. बेकार आहा घारा.'' आलसूबान तोंड वांकडें करून म्हणलें.

''कितें शिकोला?'' पादविगारान गुलूल्या तोंडाकडे पळेत प्रस्न केलो.

''मॅट्रीक हेल जाला तो फादर!''

''येशें? आतां कितें कोरपा चिंतिलां?''

''कोणें फादर, लोरसून?''

''व्होय, व्होय.''

''काजार जाल्या उपरांत तो भायर वोसपा चिंता. पूण माहां दिसता तेणें शेतां सांबावचीं.'' गुलून आपली इत्सा उक्तायली.

''तेशें जाच्या जाय.'' पादविगारान आपले खाशेले कोंकणीन गुलू लागीं संवाद सादलो. पादविगार गांवांत पाद्रीपण करतालोच ते भायर ताचें समाजकार्यूय चलतालें. गांवांतल्या तरणाट्यांनी शिक्षण घेवन सिर्विसो मेळटात जाल्यार त्यो करच्योच, पूण शेतां-भाटां पाड दवरचीं न्हय, अशें तो आपल्या शेरमांवांत मुजरत सांगतालो.

आपूण लोरसूकडें मुजरत काजार जावपाचो उद्देश गुलून, आपल्या बापाय सामकाराक पाद्रीक उलोवन दाखयलो.

कांय मनशांच्या मनांत आसूं वो नासूं, कसलेंय कार्य तांकां आवडूं वो नावडूं, आपल्या कुटुंबाच्या बऱ्या पासत, समाजाच्या कल्याणा खातीर तांचे कडल्यान आपसूक त्याग घडटा. घडटा म्हणचे परस ईश्वरूच तांचे कडल्यान तें कार्य घडोवन हाडटा.

गुलूचे विचार आयकून पादविगाराक बरें दिसलें. ह्या गांवांत कोण तरी विचारवंत आसा, हाची ताका जाणीव जाली. ताणें देवाचे उपकार मानले. गुलूच्या माथ्यार बेसांवाचो हात दवरलो. अपुरबायेन ताचे खाडकेक हात लावन उलयलो –

''बाब आलसू, तूं मेवलो आनी माहां चोड खोस भोगली. देआनूच धाडलो तुहां म्होजे बोगलेक. माहां गोमोन येयलें कीं हे गाआंत देआन बोऱ्या मोनाचे पोवित्र मोनीस जोल्मांत घायलो कोडें आहा. देआ कृपेन तुहां बाय ग्लोरिया येसोली धूव फावो जाल्ले कोडे आहा.''

पादविगारान चालू दवरिल्लें कवतूक गुलूक मानवलें ना. ताणें ताका दुखयनासतना मदेंच आडायलो, ''फादर, म्होज्या काजाराचें कितें कोत्ता?'' गुलून प्रस्न केलो.

''राब, चिंतितां आनी सांगोतां...'' पादविगारान आपले अर्दे तकले वयल्या केंसांचेर हात भोंवडायलो. तरी ताची तकली चल्ली ना. ताका आतां आपले डायरेची याद जाली. पूण पादविगाराली डायरी केन्ना केन्नाय खंयतरी लिपून बसताली. आयजय तशेंच जाल्लें.

''बाय ग्लोरिया, हांव म्हुगे डायरी सोदितां. सोगले प्रोग्राम चोयतां आनी तुकां मुगो बाये येच्याक रेकाद धाडितां. सोमजिलें?''

''होय फादर!''

''चोलाय आतां.''

''देव बोरें कोरूं पादविगार.'' – आलसू.

''तुमकांय.'' पादवीगारान म्हणलें.

४१

**गु**लू–लोरसूचें काजार जालें आनी दोन अथीर घराबे थीर जावंक पावले. आलसूबाल्या माथ्यावेलो पेज दिसान दीस उणो जायत रावलो. आतां तो चिंतनां विरयत जाल्ल्या कारणान ताच्या आंगांतलें बळ इल्लें इल्लें वाडत रावलें. वसंत रुतू लागचे पयलीं दोंगरावेली रुखावळ निपर्णावस्थेंत बदलता आनी वसंताची सुलूस लागतांच पालेवंक लागता. आलसूबाचेंय तशेंच जाल्लें. चिंतनांनी सुकून गेल्लो आलसूबा निर्शेणेंतल्यान भायर सरिल्लो. धुवेच्या काजारान ताचें जिवीत कोमरेवंक लागिल्लें. नवें बळ रिगिल्लें ताच्या आंगांत. ताचें लक्ष आतां सगळ्या तरांच्या कामांचेर केंद्रीत जाल्लें. आंग फाफडून तो कामाक लागलो.

नातलूक तर हरव्याचे सुवातेर पिकें मेळिल्लें. आपलो पूत फुकट गेला, गुलू सारकी हक्काची सून मेळ्ळी जाल्यार आपलो पूत सुदरतलो आनी आपलो संवसार भांगराळो जातलो, असले विचार मनांत बाळगून आशिल्लें नातलू.

नातलूली ही मोख आनी सपन कश्ट विरयत फळाक आयिल्लें.

आपलो पूत आतां सपनांचेर न्हय तर कश्टांचेर विस्वास दवरूंक लागला, हें सगळें घडलां तें गुलूक लागून आसलें, तरी सांत लॉरेंसाचे कृपेचो तातूंत चड वांटो आसा, अशें सिमांवचें पक्कें मत्त आशिल्लें.

सुदारिल्ल्या मनीस समाजांत लोकशाय सदांच बऱ्याक पडटा. पूण खंयच्याय देशांत लोकशाय बरे तरेन आनी खोल रुजतली जाल्यार, त्या देशांतले लोक सुदारीत आनी बऱ्या मनाचे आसचे पडटात. देशप्रेम तांच्या रगतांत भिनिल्लें आसचें पडटा.

लोकांमदें गुंडापुंडांचो आनी अन्नाड्यांचो आंकडो वाडत रावलो, तर थंय लोकशाय आसली–नासली सारकीच.

लोकशायेंतल्या शांत, सभ्य आनी प्रामाणीक लोकांक दिसूंक जाय, की हे राजवटींत आपल्याक न्याय, मान–रेस्पेद मेळटा. आपल्या सुखा आड कोण येना. जनतेक असो धीर मेळ्ळो तरूच थंयचे लोकशायेक बळगें मेळटा. ना तर देशांतल्या घराघरांत, वाड्यावाड्यार, गांवांगांवांत, राज्याराज्यांत आनी कोनशाकोनशांत हुकूमशा तकली वयर काडूंक लागतात.

सगळेच हुकूमशा वायट आसतात अशें कोणाच्यान म्हणूं नज. कांय हुकूमशा बरेय आसतात. समाजाक तांची गरजूय आसता. देखून लोकांचो तांकां तेंकोय आसता.

आलसूबा, सिमांव सारके लोक सदांच निरूपद्रवी आसतात. तांकां लोकशायबिकशाय कांयच लागना. तांकां ताचो अर्थय कळना. तांचो सगळो दिसपट्टो कारभार देवाच्या स्मरणांतल्यान चलिल्लो आसता. ताका लागून तांचें सगळें थीर आसता.

पूण नातलू–लोरसूलें तशें नासता. तांचें पित्त केन्ना आनी कशें खवदळत हाचो नेम नासता.

समाजांत वावुरतलो जाल्यार वावुरप्यांक मनशांची पारख आसूंक जाय. गुलूक ती आशिल्ली. वेळ प्रसंगार, नातलू असल्या मनशांक चीपमट करूनच फुडलें पावल उकलपाच्या विचारांत गुल्ल जालें गुलू!

**ब**ऱ्या मनान कार्य करूंक सोदपी प्रामाणीक मनशाक कार्य स्वतंत्रतायेची चड गरज आसता. आपणें हातांत घेतिल्ल्या कार्यांत कोणें लुडबूड केल्ली ताका मानवना.

गुलून आपलें कार्यस्वातंत्र्य पुरायेन हाताशिल्लें. मायेमोगान आनी कायद्यान काजार जावचे पयलीं तें लोरसूक हक्कान कांयच सांगूंक शकनासलें. आतां तें लोरसूकडल्यान हक्कान आपल्याक जाय तें करून घेवंक शकतालें.

काजारान मनशाक निखटो हक्कच मेळना, तर घोव–बायलांमदें मायेमोगाचो विकासय जावंक पावता. हो विकास फकत घोव–बायलांमदेंच न्हय, तर तांच्या लागसारच्या नातलगांमदें लेगीत जावंक पावता. एकामेकांक आवडलोना तरी तांकां तो घडोवन हाडचो पडटा, जुळोवन घेवंचो पडटा. कारण तांकां ताची गरज आसता.

मनशांकडेन कितलोय दुडू आसलो, कितलींय भाटां बेसां आसलीं आनी मोग नासलो तर तांचो घराबो सुखान चलूंक शकना.

गुलूक हाची कल्पना आशिल्ली. देखून ताणें मोगान मनशांक जिंकून, तांकां शिस्तीची संवंय लावन, स्वता शिस्तीन फुडें वचपाचें थारायलें. लोरसूकडें काजार जावपा फाटल्यान गुलूचो एक खास असो उद्देश आशिल्लो, मोख आशिल्ली. हेर शिकिल्ल्यो चलयो काजारा उपरांत फकत आपलें सूख पळेतात. आपूण बरें आनी आपलो घोव बरो. घराब्यांतल्या हेर वांगड्यांचें तर तांकां कोंत नासता. आडवाद सोडलो जाल्यार, मांय–मांव तर तांकां दोळ्यां मुखार नाका आसता.

पूण गुलू तशांतलें नाशिल्लें. ताका आदर्श धूव, आदर्श सून, घोवाची आदर्श बायल कशी आसता, हें लोकांक दाखोवन दिवपाचें आशिल्लें. आनी ते खातीर ताका लोरसूचो–आपल्या घोवाचो आदार जाय आशिल्लो. देवाचे कृपेन ताका तोय मेळत रावलो.

व्हडलें गोंय–भाटी आनी आगशी, हे गांव एकामेकां पसून पयस नाशिल्ल्यान गुलूक दोनूय घराब्यांचेर लक्ष दवरपाक सोंपें जातालें. ताणें आतां आपल्या फुडल्या वावराची नव्यान येवजण तयार केली. ताका आगशीच्या घराची आनी शेत–भाटाची व्हडली काळजी नाशिल्ली. फुडलें खंयीं पावूं, सद्या आगशीचे संपत्तेची काळजी घेवपाक व्हडली–शी अडचण पडनाशिल्ली गुलूक. थंय नातलू आशिल्लें, सिमांव आशिल्लो. तांची राखण करपाक लोरसू आशिल्लो. पूण आलसूबाक मात भाटयेर कोणूच नाशिल्लो. आतां

आतांच काजार जाल्ल्या लोरसूक आगशी सोडून गुलुल्या बापाय म्हऱ्यांत भाटयेर येवन रावंक शक्य नासलें. आनी आलसूबा आगशी येवन धुवे म्हऱ्यांत रावंक शकनासलो.

तरी गुलून लोरसूक समजायलो. लोरसू आतां दिसभर आगशी रावन रातीचो भाटयेर रावंक वचूंक लागलो.

पूण हें अशें कितले दीस चलपाचें? लोरसू गुलू वांगडा भाटयेर येवन रावंक शकतालो. ताका व्हडली-शी अडचण दिसनासली. गुलू वांगडा आसलें की तो खूश!

गुलूचें मात तशें नाशिल्लें. आपल्या बापाय इतलीच काळजी ताका लोरसूच्या आवय-बापायची आशिल्ली. सद्या तीं चलता भोंवतात खरीं. पूण सगळे दीस सारके आसनात. तीं आतां म्हातारपणाचे वाटेक लागल्यांत. केन्ना ना केन्ना हांतरूण धरल्या बगर रावचीं नात. तशें घडलें जाल्यार दोनूयकडच्या म्हाताऱ्यांची सेवा आपल्याचेरूच पडटली, हाची चिंता आतां गुलूक सतावंक लागली.

आपली चिंता गुलून लोरसू मुखार उलोवन दाखयली.

गुलू आपल्या आवय-बापायक लागून चिंतेंत पडलां, हाचें लोरसूक खूब वायट दिसलें. ताणें आपले तकलेंतलें गिरगिरें सुरू केलें.

''तूं सांगता तें सारकें गो गुलू. माहांय तें मानवो ना.'' लोरसून थोडो वेळ चिंतून आपलें मत्त उक्तायलें.

''कितें मानवोना तुहां?'' गुलून शिंतिदार येवन लोरसूक प्रस्न केलो.

''पोत्तें, पोत्तें भाटयेर येवप मानवोना माहां.'' लोरसू शाण्या मनशाभशेन उलयलो.

''आमी भाटयेर दादीक लागोन येताय मुरे.''

''कोवता माहां.''

''कोवता जाल्यार, ओहें कोहें उलोयता तोर तूं?''

''माहां दिसता, हांव सारकें उलोयतां.''

''तुहां दिसल्यार, तूं उलोयता तें सारकें जाता मुरे?''

''तोहें न्होय गो गुलू, तूं माहां सोजमोना.''

''तोहें जाल्यार माहां सोजमोता तोहें उलोय मुरे!''

''आतां तूंच चिंत आनी पोये. हांव सोदांच तुज्या सांगातान भाटयेर रावलों जाल्यार, लोक कितें म्हुणटलो? लोरसू मांय-पायक एकटीं सोडून मावोड्यां रावता. आनी ओहलें उलप मुगो गुलू माहां साप्प मानोवचें ना.'' लोरसून आपल्या मनांतलें ठामपणान उलोवन दाखयलें.

''तोहें जाल्यार म्होज्या दादीचें कितें रे, तो एकटो पोडचो ना रे भाटयेरू?'' गुलू धास्तेलें.

''ना पोडचो. आमी तेहा एकटो पोडोंक दिवंक फावोना.''

''तूं आनी कितें उलोयता रे लोरसू. तोकली बोरी आहा मुरे तुजी? आमी दादी सांगातान रावलीं ना जाल्यार तो एकटो पोडचो ना, ओहें कोहें म्होण्टा रे तूं?'' शांत चित्ताचें गुलू मात्शें तिडकलें.

''बेश्टेंच आबूज जावं नाहां गो गुलू! हांव कितें सांगतां तें बोरे भाशेन आयक!'' गुलून चिंतलें, हो कितें तरी उलोवंक सोदता. कितेंय धडपणाचें आसलें जाल्यार आयकूंक कितें जालां? बऱ्याक पडल्यार घेवचें, ना तर सोडून दिवचें. केन्ना केन्नाय पिशांच्यो तकल्योय परजळूंक लागतात आनी लोरसू तर अजून पिशां वळेरेंत वचूं ना. आयकून पळोवया तरी कितें सांगता तो!

अशें चिंतून गुलून लोरसूल्या चेऱ्याकडें पळेत कान फांकारले.

''सांग कितें सांगता तें.''

''आमी मुगो मामाक – तुज्या दादीक–आगशी व्होरोया. दोनूय म्हाताऱ्यांचें फोत्त वोयतोलें. तुजी आती आहाच रांदूंक!''

''म्होजो दादी, घोर सोडून हुंयच वोसपा ना.''

''तोहें जाल्यार आनी एक खोडेगांठ आयडिया आहा म्होकोडे.'' लोरसू खिणांत उर्बेलो.

''तुज्यो त्यो आयडिया माहां कोता येवपा ना बाडया!''

''सांगतां तें आयक तोरी.'' गुलून तोंड वांकडें करून थंयच्यान वचपाक उठलें. तरी फुडलें आयकून घेवंचें अशें ताच्या मनान घेतलें आनी तें खीणभर थांबलें.

''सांगता मुरे? सांग. पोयतां कितें सांगता तें!''

''आदीं तूं बोस पोवया.'' लोरसून ताच्या दोनूय भुजांचेर चेपण घालून ताका बळयांच बसयलें. लोरसून ताका खेटून बसपाचो प्रयत्न केलो. पूण गुलूक तें मानवलें ना. ताणें हे वटेन ते वटेन नदर मारली आनी लोरसूचेर राग्गान दोळे मोटे केले.

लोरसूय तितलोच शिटूक आशिल्लो. तो आतां गुलूपसून मात्सो पयसूच रावन उलोवंक लागलो–

''गुलू, तुजी आडकोव कोवता गो माहां. तुयें दादी सांगात सोडलो जाल्यार तो एकटो पोडटोलो आनी तो एकटो पोडोंक फावोना देखून तूं म्होकोडे काजार जालें, तेंवूय

हांव जाणां.'' गुलूक लोरसूचें हें उतर लागलें आनी ताच्या तोंडांतल्यान अचळय उतरां भायर पडलीं –

''तोहें म्होणों नाहां रे लोरसू! तुहां कितें दिसता, म्होजो तुजेर मोग ना म्होणोनू?''

''हांव तुजो दुबाव झेयना. हांव जाणां तुजो म्होजेर खूब मोग आहा पोय तो. पूण इतल्यान सोंपोना गो गुलू. तुहां तुज्या दादीचें चिंतप आहा. आनी हांव म्होज्या मम्मी-डॅडीक सोडून पोयस रावोत–सो दिसता तुहां? हांव आदीं पिसो आहलों. आतां तुज्या सांगातान माहां शाणेपोण येवंक लागलां. तूं तुज्या दादीचेंच दीस–रात चिंतता. तें पोवन माहांय म्होज्या मम्मी–डॅडीचें म्हातारपोण दिसोंक लागलां. ह्या तिगांय म्हाताऱ्यांची सेवा आमहां दोगांकूय सांगातान कोच्ची पोडटोली गो गुलू. ना तोर आमी फुडाराक कोहलेंच सूख भोगूंक पावचीं नाय.''

येदो वेळ लोरसूचें उलवप कानाभायऱ्यान घालपी गुलू आतां लोरसूच्या तोंडाकडें पळेत रावलें. आतां मेरेन गुलूक दिसतालें, आपणें उलोवचें आनी लोरसून फकत आयकुचें.

आतां वारें उरफाटे दिकेन व्हावंक लागलां अशें गुलूच्या लक्षांत आयलें. गुलू खातीर हें सुचिन्न आशिल्लें. कारण खंयचेच शाणे बायलेक आपलो घोव, आपल्याहून दुर्बळ आसचो अशें दिसना. तो आपल्याहून बळीश्ट आनी हुशार आसल्यार ती गजाल तिका गर्वाची आसता. घोव पिशेपणां उलोवंक लागल्यार 'तूं गप्प बस रे' अशें म्हणून घोवाचेर ताणशेवपाची पाळी बायलेचेर येवंक फावना.

लोरसूक आपल्या आवय–बापायची काळजी दिसूंक लागल्या, ही गुलू खातीर बऱ्याची गजाल आशिल्ली. गुलूक आतां दिसलें, लोरसूक जर बरें उलोवंक कळटा, तर ताका चडांत चड उलोवपाची संद दिवची.

''लोरसू, तुजें चिंतप आनी उलोवप चड मानवलें माहां.'' गुलून खुशालभरीत जावन म्हणलें.

''हे फुडेंय हायें जाता तितलें चिंतून उलोवपाचें चिंतलां. आमच्या सोंवसाराच्या हायद्याचें.''

''उलोय तोरी. पोवया कोहल्या हायद्याक पोडटा पोय तें!''

''आमी कितें कोरुया जाणां मुगो गुलू!''

''सांग रे.'' गुलून सहजतायेन आवाज चडयलो.

''आमी मुगो, भाटयेर तुमच्या घाराक तेंकोन ल्हान–शें एक घोर बांदुया.''

''आनी कितें कोरुया, त्या घारांत वोसोन रावया?'' गुलून आकांतून प्रस्न केलो.

''ओगीच शिताफुडें मीठ हांव नाहां गो गुलू.''

''आब्बा! बोरें कोवता मोरे तुहां उलोवंकू. शेपाय कोहो सारको.'' अशें उलोवन गुलून लोरसूचें कवतूकच केल्ल्या भशेन केलें.

''हांव कितें सांगतां तें शिंतिदान आयक. आमी तीन-चार मुनशांक रावपा जाता तोहें एक कूड बांदून काडया मुगो, आनी भाड्या दिवया.''

''कित्याहू! दुडवां लागोनू?''

''ना. तोहें केल्यार मुगो तुज्या दादीक आदार मेवतोलो. तेहा सोदांकाल जाग मेवतोली. आमहांय हुयीं आहल्यार सुसेग मेवतलो.''

लोरसू इल्लेंशें उलयलो खरो, पूण गुलू खूब कितें समजलें. लोरसूले हे विचार लोरसू आदीं आपले तकलेंत कशे शिरलेना, हाचें गुलूक अजाप दिसलें. लोरसूचे हे विचार गुलूचे दिश्टीन चड मोलादीक आशिल्ले. ताणें ते फुडें चालू दवरले.

''लोरसू, तूं सांगता तें आयकोन म्होजेय तोकलेंत आतां उजवाड पोडोंक लागलो. आमी एक घोटसाणेचें कूड बांदुया मुरे, आनी तितूंत घोव-बायल जावन आहलेल्या मानाय-कामेऱ्याक भाड्यान दवरुया. भाडेंय मेवतोलें आनी शेतांत सदाकाल काम कोरूंक मानाय-कामेरेंय मेवतोलें.''

लोरसून कळाव करिनासतना आठ दिसां भितर सोबीत कूड बांदून काडलें. सोबीत हे खातीर की आलसूबाक सांगात दिवपी मनशां मात्शीं देशेंत आसचीं, अशें गुलूक दिसतालें.

गुलूक भाडेकारय रोखडोच मेळ्ळो. घोव, बायल आनी तांचो धा-बारा वर्सांचो पूत. करनाटकी जावं मागीर तीं, तांकां मात्शी-मात्शी कोंकणी उलोवंक आयिल्ल्यान, आलसूबा आनी लिंगाप्पाचें बेस बरें जमलें.

निरादार जाल्लो आलसूबा दिशींदिशीं खचून वतालो. काजार जाल्ली आपली धूव आतां परक्याची जाली, आपल्या खातीर तिची धांवपळ जाता, हें पळोवन आलसूबा खंती जातालो. आतां करनाटकी घराबो ताच्या सांगताक आशिल्ल्यान ताची खंत पयसावली. ताच्या आंगांतली शक्त वाडत रावली. लिंगाप्पा शेतांत काम करता तें पळोवन, निश्तेज पडिल्लीं गात्रां आतां बॅटरी घातिल्ल्या घड्याळीचे कांटे अकस्मात नेटान हालूंक लागतात, तशे आलसूबाचे हात-पांय सुटसुटीत हालूंक लागले. ताका आतां लिंगाप्पा सांगातान आपणेंय काम करचें-शें दिसूंक लागलें आनी तशें करपाक ताणें सुरवातूय केली.

आपल्या दादीक बरो सांगात मेळिल्ल्यान , गुलूच्या माथ्यावेलो पेज उणो जालो खरो, पूण तें पुरायेन हुसको मेकळें जावनाशिल्लें. दादीच्या जेवणा खाणाचो प्रस्न ताच्या मुखार आशिल्लोच.

उप्रासिल्ले प्रस्न सुटावे करपाक लोरसू आतां सक्षम जाला, हाची खात्री आतां गुलूक जाल्ली. ताणें लोरसूचे मजतीनच दादीच्या जेवणा-खाणाचो प्रस्न सोडोवपाचें थारायलें.

कांय कश्टकारांची आनी शेतकारांच्या जेवणाची खाशेली अशी पध्दत आसता. आलसूबाक शेतांत काम करतां करतां मदेंच पेज जेवपाची संवंय. दनपारच्या शिता वांगडा ताका सुक्या मिरसांगांची, नाल्ल विरयत चेटणी खावंक आवडटाली. सुक्या मिरसांगांचो वाटून केल्लो मेथो आठ-धा दीस लेगीत भेळशेनासतना उरता. इल्लो इल्लो मेथो घालून, तातूंत भिण्णां, सोलां घालून आंबट-तीख केल्ली, ताल्ल्या-बांगड्यांची कडी आलसूबाक रुच्चीक लागताली. गुलू ताका असलेंच जेवण करून वाडटालें. ह्याच जेवणाची ताका संवंय जाल्ली ती अजून सुटूंक नाशिल्ली.

असले संवयेचें जेवण देवलें-उणें जालें तर दादी हालतलो. आनी एकदां हालिल्लो म्हातारो मूळ स्थितीर सोंपेपणान येना. ताका लागून, दादीक बऱ्याक पडटा तसलो उपाय गुलू आनी लोरसू सोदूंक लागलीं.

''गुलू, आमी मुगो एक प्लॅन कोरुया.'' - लोरसू.

''कोहलो?''

''हांव कितें सांगतां तें बोरे भासेन आयक.'' लोरसू व्हडलो जाणकार कसो उलयलो.

''तूं उलय रे, हांव आयकोतां.'' गुलून कान फांकारून म्हणलें.

''म्हजीं मम्मी-डॅडी आगशी सांगातान रावताय. तेहां आमची व्होडली-शी गोरोज ना. आमी रातीचीं दादीच्या सांगाताक रावया. तेहा शीत-पेज रांदून दोवरुया आनी माजीर णोवांक सुमार दोगांय आगशी या.'' लोरसून येवजण सांगली.

''होय बाडया. सारकें तुजें. ओहें केल्यार हिंगच्या आनी थिंगच्या शेत-भाटांचेर आमची दोगांचीय नोदोर पोडटोली. सगळीं कामां बरे येवजणेन जातलीं.'' गुलून आपली खोस लोरसू मुखार उक्तायली.

ही येवजण गुलून आलसूबाकय सांगली. तो खुशालभरीत जालो. धूव दिवन पूत मेळयल्ल्याची खोस ताका भोगली.

आपल्या दादीचें सगळें व्यवस्थीत जाल्ल्यान गुलू आतां हुसक्या मेकळें जालें. ताणें आतां लोरसूच्या सांगातान दोनूय घराब्यांच्या शेतांकडें लक्ष घालें. गुलू आनी लोरसू शेतांकडें आस्थेन पळेतात तें लक्षांत घेवन नातलू आनी सिमांव कोमेल्ल्यावरी नेटान कामाक लागलीं. नातलू-सिमांवचे देखीन गांवांतल्या हेर शेतकारांकय नेट आयलो. गांवांत आशिल्ले नाशिल्ले सगळे शेतकामती आपापल्या कामांत गुल्ल जावन गेले.

४३

**आ**तां ऑक्टोबर म्हयनो सोंपून नोव्हेंबर लागिल्लो. शेतांतली रेंवटी जमीन अजून ओली आशिल्ली. सिमांवल्या शेतांतले होंडे सुकतेक लागिल्ले. तरी अर्दकुटे भरून आशिल्ल्या होंड्यांतलीं तांबडीं-धवीं साळकां मळबांतल्या सुर्यदिवाक पळोवन उकत्या मनान हांसतालीं.

तरी तांचें हें हास्य खिणयाळें आसा, हाची कल्पना त्या साळकांक आशिल्ली. कारण होंड्यांतलें पयरचें उदक काल नाशिल्लें आनी कालचें आयज! आनी थोड्या दिसांनी होंडो सुकतलो, शेतकार येवन बोंग्यां सयत साळकिणी होंड्यांतल्यान भायर मारतलो. होंडे निवळ केले बगर सिमांवाक फुडल्या कार्याक हात घालूंक जमचें ना.

सिमांवक होंड्यांतलीं हांसतीं खेळतीं साळकां तोडून, साळकिणी हुमटाकन भायर मारप आवडनासलें. तरी तें कुकर्म जिवार येवन तो करतालो.

ह्या वर्सा गिमांत शेत रोवपाची जापसालदारकी, गुलू मजतीन लोरसून आपल्याचेर घेतली. ही गजाल ताणें सिमांवच्या कानार आदींच घालून दवरिल्ली. हें आयकून सिमांवूय खुशालभरीत जाल्लो.

हे आदीं सिमांव आपले हिकमतीन शेताचें सगळें काम करतालो. सगळें काम परंपरेन फुडें आयिल्लें. पूण हे वर्सा गुलून जाय थंय कामांत आनी कामाचे रचनेत थोडो बदल घडोवन हाडपाचें चिंतलें. ते खातीर ताणें थोडी भासाभास घडोवन हाडपाक एक बसका घेतली. बसकेंत नातलूक घेतलें ना. सिमांवच्या मत्तान ताची गरजय नाशिल्ली. कारण कसल्याय विशयाचेर उलोवपाक गेल्यार नातलू विशय सोडून फकत फरफरपाचेंच काम करतालें.

शिमांवक शेतकामाचें पारंपारीक गिन्यान आशिल्लें. त्या आदारान ताणें लोरसूकडल्यान खूबशीं शेतकामां करून घेतिल्लीं. ताका लागून लोरसू पारंपारीक शेतकामांत फिशाल

जाल्लो. गुलूक मात शेतकामाची संवंय नाशिल्ली. लोरसू आनी सिमांव काम करतात तें ताणें पळेल्लें. पूण तें काम ताका खटकतालें.

खटकपाक तशें कारणय आशिल्लें. तें इस्कॉलांत आठवेक शिकतासतना ताका आठवड्यांतल्यान एक तास शेतकी विशयाचो आशिल्लो. हो विशय शिकोवपी शिक्षक गोंयच्या एका फार्मांतल्यान प्रशिक्षीत जावन आयिल्लो.

आपलो बापूय शेतकार आशिल्ल्यान, गुलू हो विशय मन लावन शिकतालें. आतां ताका तें उपेगाक पडलें.

हे आदीं पारंपारीक पद्दतीन गिमांत शेतांत कसलीं कसलीं पिकां घेतात, हें गुलून लक्षांत घेवन दवरिल्लें.

ऑक्टोबर सोंपता आनी पावस पळटा, हे वगतार सिमांव आपलें शेत लुवून-मळून भाता साक सालांत दाळून दवरतालो आनी फुडल्या वावराक लागतालो.

गुलूक दिसलें, मांवाली ही पारंपारीक पद्दत सुदारली जाल्यार बरोच फायदो जावपाचो आसा. पूण आपली नवी पद्दत घोवाक आनी मांवांक पटूंक जाय. गुलून आतां तांकां आपल्या म्हऱ्यांत बसोवन घेतले. म्होवाळ उतरांनी आपले तकलेंतली नवी पद्दत तांच्या मुखार मांडली.

ही नवी पद्धत फकत गिमांत येवपाच्या भाजीपाल्या पुरतीच मर्यादीत नाशिल्ली. तर ती पावसांत वाडपी शेतभाताचेरूय आदारून आशिल्ली.

सिमांव आपलें शेत रोवचे पयलीं, माया म्हयनो सोंपतां सोंपतां म्हणल्यार तरवो घालून तो शिंपून काडटालो. पूण तो दाट जाल्ल्या कारणान आनी ताका फसफसीत उदक पडनासल्यान ताची गरगरीत वाड जायनासली. थांबांत बळगें येनासलें. ताका लागून पिकाचेर वायट परिणाम जावन फाव तशें बरें पीक येनासलें.

हें सगळें घडटालें तें अज्ञानाक लागून. गुलून आपल्या शिक्षणाचो उपेग करून सिमांवाचें अज्ञान पयस केलें.

गुलूक आतां भलतेंच तोंड सुटिल्लें. तें लेक्चरर जावन लेक्चर दितालें. सिमांव आनी लोरसू, तोंड आंऽ करून, कान फांकारून अदाशा प्रमाण गुलूच्या तोंडांतल्यान भायर पडिल्लीं मोतयां वेंचताले.

गुलूक एका सारकें खूब उलयनशें दिसतालें. पूण ताणें आपलें उलप नियंत्रणांत हाडलें. कारण, फाटल्या जावन गेल्ल्या-पिकांविशीं ताका चड उलोवपाचें नाशिल्लें. पावसाळी पिकांचो तेंप आतां फाटीं पडिल्लो. आतां ताच्या मुखार आशिल्लो गिमाळो

आनी गिमाळ्यांतलीं पिकां. सिमांवलें विशाळ शेत आनी सगळे तरेचीं गिमाळीं पिकां गुलूचें लक्ष आकर्शून घेतालीं.

गुलून आपल्या फुडाराचो विचार करून ह्या शेताचो पुरायेन अभ्यास केल्लो.

सिमांव ह्या शेतांत वर्सान वर्स कणगां, वायंगीं, मिरसांगो, कोंकणदुदी, वाटकुळे भोपळे, तेंडलीं, पोडोळीं बी रोवन पीक काडटालो. पूण फाव तशें उत्पन्न मेळनाशिल्लें ताका. कारण ताची रोवपाची मांडणी आनी पद्दत शास्त्रशुध्द नाशिल्ली. ती तशी आशिल्ली जाल्यार उत्पन्न दोब्राद मेळपाचें, हें गुलूक कळून आयिल्लें.

गुलूच्या लक्षांत आयलें, सिमांव कणगां वाली रोवपाक माजे काडटा. पूण ते बरेच अशीर आसतात. कणगांची वाड जातली जाल्यार माती सैल आनी माजे पोकळ आसचे पडटात. दुसरी आनी एक म्हत्वाची गजाल गुलूच्या लक्षांत आयली ती म्हणल्यार, सिमांव कणगां माज्यांनीं मुळो, तांबडी–धवी भाजीय रोयतालो. मुळांत माती थोडी आनी तातूंत मुळ्या सारके हेर सोयरे. ताका लागून कणगांची वाड सारकी जायनाशिल्ली. तीं गिड्डीं आनी बारीक उरतालींच, ते भायर तांच्या सांगाताक आशिल्ल्यो भाज्योय गिड्डेवन अशक्त उरताल्यो. इतलेंच न्हय, ह्यो भाजयो सुकल्यो म्हणटकच तांचीं काटयारीं ताडां सुक्या वालींनी मिसळून वाली निरुपेगी करतालीं. काटयांक लागून सुकिल्ल्यो वाली गोरवां खांयनाशिल्लीं.

गुलू आतां उलयत उलयत दोगांकय घेवन शेता देगेर गेलें. दोगांकय, घोवाक आनी मांवाक शेता देगेर उबे केले. हातांत एक बडी घेतली. एक टिचर भुरग्यांक शिकयता तशें गुलू आतां दोगांकूय शिकोवंक लागलें.

ताणें आपल्या पुराय शेताचेर नदर मारली. शेताच्या पुराय आकाराचो, रेंवेंर एक नकसो तयार केलो. आपले तकलेंतल्या विचारां प्रमाण पुराय शेताची विभागणी केली. होंड्यांच्या लागसाराक तेंडलीं, पोडोळीं हांचे माटव अशे तरेन उबे केले, होंड्यांचेर सावळी पडून उदक सुकचें न्हय.

एका होंड्यावेल्या माटवाचेर फक्त पडोळ्यांची येवजण, दुसऱ्याचेर फकत तेंडलीं. माटवाच्या सरभोंवतणच्या म्हेडींचेर वालांच्या वालींची येवजण. होंड्याक तेंकूनच मिरसांगांक सुवात. मिरसांगांच्या सरभोंवतणी तांबडी भाजी, मुळो, वायंगीं, कोंकणदुदी आनी हेर तरेचे शाक भाजेक वेगळ्यो सुवातो. जी सुवात उरता ती कणगांच्या वालींक सोडटालो सिमांव. वालींनी मुळ्याबियां शिंपडावपाची संवंय आशिल्ली ताका. गुलून ती संवंय बंद करपाचो सल्लो दिलो. कारण गुलूच्या मत्तान सदांच एकमुळीं झाडां आसल्यार बरीं! सांगातान वाडिल्लें, खंयचेंय रोंपटें वो झाड सशक्त जावंक पावना.

अशें जरी आसलें, तरी गुलून मिरसांगांच्या रोंप्यानीं मदीं-मदीं रोजिणींचो रोंपो आसपाक आडमेळें हाडलें ना. कारण हीं तांबडीं-हळदुवीं रंगयाळीं रोजां, सिमांवाल्या शेताची सोबाय वाडयतालीं. रोजांक लागून अख्खें शेत फुलिल्ले वरी दिसतालें.

सिमांवन आनी लोरसून गुलूलें लेक्चर मन लावन आयकलें. असलें लेक्चर सिमांव पयलेच खेपेक आयकतालो. तोय गुलूचेर विश्वास दवरून गुलू कितें सांगता तें सारकेंच आसतलें म्हूण रावलो. बेटोच प्रतिप्रस्न विचारून स्वताचें हाशें करून घेवपाचें सिमांवन टाळ्ळें.

लोरसूक आतां शेतकामांत रुची आशिल्लीच. पूण ताचें चड लक्ष गुलूचें सौंदर्य ओडून घेतालें. गुलू उलयतासतना ताचें हांसतें तोंड तोखेत रावचें, ताच्या तोंडांतल्यान भायर पडिल्लीं उतरां आयकत रावचीं, ताका लागून गुलूलें उलप वेगीं थांबचें न्हय, अशें लोरसूक दिसतालें. पूण कसल्याय कार्याक मर्याद ही आसताच. गुलून आधुनीक आनी फायदेशीर शेतकामाचें थोडे भितर गिन्यान दिवन सिमांवक आनी लोरसूक शेतमळो फुलोवपाक सज्ज केले.

आपूण शिकलां बी म्हूण मॅडम कशी बसून रावलें ना गुलू. आपली आती आनी तिचो घोव, दोगांय शेतकारां. आतां आपूण तांची सून जालां. म्हणटकच आपुणूय शेतकान्नच.

आपली मांय-मांव शेतांत जाता-नज करून मरसर काम करतलीं आनी आपूण बसून रावतलें? अशें चिंतून गुलू लोरसू वांगडा काम करपाचे तयारेंत रावलें.

४४

**आ**तां ऑक्टोबर सोंपून नोव्हेंबर म्हयनो लागिल्लो. शिंयांची सुलूस लागिल्ली. सिमांवन सुलाभाटावेलें रेड्यां जोत हाडून आपलें शेत नांगरलें. सर्वो काडून शेत निवळ केलें. भायले रोंपे हाडूंक पडचे न्हय म्हूण माज्यांनी मिरसांगांचीं, वायंग्यांचीं, कांद्यांचीं बी बियां किल्लत घालीं.

गुलूले कल्पनेन आनी येवजणेन रोयिल्लें शेत, फावो तशें सारें-उदक पडिल्ल्यान थोड्याच दिसांनी गरगरीत वाडलें. फळां-फुलांनीं भरून गेलें.

मजा अशी की, सिमांव वांगडा हेर शेतकारांनीय आपापलीं शेतां रोवंक जाय म्हूण रोयिल्लीं. पूण ते शेतकारांकडे गुलू नाशिल्ल्यान तांचीं शेतां पुटाक आयलीं नात.

सिमांवलें शेत हे भशेन फळून-फुलून समृध्द जालां तें पळोवन गांवांतले हेर शेतकार अजापीत जाले. ते येवन येवन पळोवन वचूंक लागले सिमांवलें शेत! तशें

पळोवंक गेल्यार, आगशीची सगळीच फळावळ आनी भाजीपालो हेर गांवाच्या शेतकारांच्या दोळ्यांत भरऽ सारकी आसता. पणजे, मडगांव, फोणें, म्हापशें ह्या बाजारांनी आगशीचो मुळो आनी वायंगीं चडच फामाद. पूण हे वर्सा सिमांवल्या शेतांतली सगळे तरेची पिकावळ म्हणल्यार व्हडलो चमत्कार! हो चमत्कार देव-देवतांनी घडोवन हाडूं नाशिल्लो, तर तो घडोवन हाडिल्लो गुलूच्या पांयगुणान आनी हिकमतीन!

गुलून चिंतलें, आपलो मांव-मांय आनी गांवांतले हेर शेतकार आपल्याचेर खूश आसात. असल्या वेळार आपले नवे पद्दतीविशीं कितेंय सांगलें जाल्यार परंपरेक वेंग मारून बशिल्ले शेतकार आयकतले. आपल्याचेर विश्वास दवरतले आनी अशे तरेन फुडले वर्सा अख्ख्या गांवांतलीं शेतां, दोब्राद पीक दिवंक शकतलीं.

गुलून एके सांजवेळार गांवांतल्या कांय शेतकारांक आपल्यागेर आपोवन हाडले.

गुलू सिमांवली सून, शिकिल्ली, गोड आनी ल्हान उतरांची. ते भायर चिंतून उलोवपी. नातलू भशेन कित्या कितेंय, तोंडाक येता तशें बडबडपी न्हय. ह्यो सगळ्यो गजाली लक्षांत घेवन, सिमांवले इश्ट शेतकार व्हडा उत्सूकतायेन सिमांवल्या घरा बल्कावांत येवन बसले.

मनशाक आपल्या आंगांतले बरे गूण आनी निजाचें बरेंपण, समाजाक दाखोवपा खातीर संद मेळूंक जाय. आपलें व्हडपण हेरांक सांगले बगर आनी दाखयले बगर कशें कळटलें? आनी ताचें-आपल्या गुणांचें-प्रदर्शन घडयले बगर, तांचो उपेग समाजाक कसो जातलो?

गुलूक ही संद आयतीच मेळिल्ली. आपले पडवेर येवन बसकण मारिल्ल्या शेतकार भावांक हांसत्या मुखामळान येवकार दिलो. तांकां कितें जाय-नाका हाची चवकशी केली.

उपस्थीत शेतकार भावांनी, सिमांवलें सजयल्लें शेत बारकायेन पळयल्लेंच. पूण सजावटी फाटलें कारण मात कोणाकच खबर नाशिल्लें. गुलून तें स्पश्ट करून सांगलें.

गुलून आपले विचार, आपले भाशेन आनी थंय जमिल्ल्या शेतकार भावांक समजता तशे सोंपे भाशेन उलोवन दाखयले. ताणें म्हणलें, 'म्होज्या शेतकार भावांनो, तुमहां आमचें शेत पोवन चोड ओजाप दिसतोलें. कारोण हे भाशेन माण्णेन, येवजोणेन सोजोयल्लें शेत तुमहां ह्या गाआंत आनी हुंयच पोवोंक मेवचें ना.

माहां तुमहां सांगोन शें दिसता, की तुमींय हे फुडें ओहलेच येवजणेन आनी माण्णेन काम कोच्चें ओहें दिसता. तुमी कोहलेंच शिकोप झेयनासतोना शेतां रोयताय, देखून तीं लुकसाणाक पोडटाय.

कोहल्याय कामाक जाणकारां कोडल्यान शिकोप हें झेवचेंच पोडटा. हांव तुमच्याहून ल्हान आसून लेगीत तुमच्या सामकाराक उलोवपाचें धाडोस कोत्तां. हेचें कारोण, इस्कोलांत जाणकारां कोडल्यान हायें फावो तें शिकोप झेहलां. तुमींय तें झेवचें, ओहें माहां दिसता.'

सिमांवलें शेत आनी गुलू आतां गांवांत फामाद जालें. चड करून गुलूविशीं गांवांत चर्चा सुरू जाली. ही चर्चा सरकारच्या लेगीत कानार गेली.

एक दीस गुलूक सोदीत, शेतकी खात्याचे कांय अधिकारी आगशे आयले. तांणी सिमांवल्या शेताची पळोवणी केली. एक सिमांवलें शेत सोडलें जाल्यार आगशेंत, दुसरें शेत पळोवंक मेळ्ळेंना त्या अधिकाऱ्यांक! ही सगळी करामत गुलूची, हें जेन्ना अधिकाऱ्यांच्या लक्षांत आयलें, तेन्ना ताणीं गुलूची तोंडभरून तुस्त केली. गुलूच्या रुपान शेतभर फांकिल्ले आशेचे किरण पळोवन अधिकारी खुशालभरीत जावन गेले.

४५

**म**नशान सपनां पळेल्या बगर तांकां तो साकारूंक शकना. हाचो अर्थ असो, सपनां आकाराक हाडपाचीं आसल्यार आदीं तीं पळोवंचीं आसतात.

गुलू ल्हानपणांत सावन सपनाळू. तें एकेक सपन पळयत रावन साकाराक हाडीत रावलें. ताचें सगळ्यांत व्हडलें सपन आशिल्लें आपल्या बापायक सुखी करपाचें. ताचे एकुलते एक धुवेक लागून आलसूबा दुख्खी आशिल्लो. काजारा उपरांत धूव घोवागेर वतली आनी ताचें शेत-भाट उबंत पडटलें, हाची चिंता आलसूबाक आशिल्ली. आनी गुलू आपल्या बापायचें दुख्ख पयस करपाचें सपन पळेतालें.

गुलून हेंय आपलें सपन पुराय करून घेतलें. लोरसूक लोक वादीव समजताले तरीय गुलू ताचेकडेन काजार जाल्लें. एका वादीव तरणाट्याक सुदारून लोकां मुखार हाडपाचें सपनूय गुलू दिस-रात पळेतालें. तेंय सपन गुलून व्हडा कश्टांनी साकाराक हाडून लोकांक दाखयलें.

वायट गजाली पळोवन सदांच बरीं मनशां अस्वस्थ आसतात. गांवांतले शेतकार आपल्या शेतांकडे सदां आडनदर करतात. ही गजाल आलसूबाक आनी सिमांवक दुख्खदिणी आशिल्ली. ह्या दोगूय अणभवी आनी निजशेतकारांचें सुखी जिवीत तांकां भोगूंक मेळचें, गांवांतलीं सगळीं शेतां सासणाचीं तिगून उरचीं, गांवांत अन्न-धान्याची आनी भाजी-पाल्याची सवस्तकाय सतत तिगून उरची, असलें सपन बाळगून आशिल्लें गुलू!

आनी फुडें घडलेंय ताच्या मना सारकेंच–जानेराचो म्हयनो उदेलो आनी सिमांवालें शेत भाजी–पाल्यान फुललें. हळुहळू सिमांवल्या शेतांत वायंगीं म्हणू नाका, कोकणदुदी म्हणू नाका, तांबडी भाजी म्हणू नाका, मुळो म्हणू नाका – सगळ्या तरांच्या शाकभाजयांच्यो राशीच राशी.

कित्याक घालून दवरल्यात ह्यो राशी? कितें करतलो सिमांव ह्या भाजयांचें आतां?

एक तेंप असो आशिल्लो, नातलू भाजयांची पोटली बांदून बाजाराक व्हरतालें. तशें केल्ल्यान चार पयशे ताच्या हाताक लागताले. कश्टांचें फळ म्हणून चार पयशे किरवटेक सुगूर आसताले.

पूण आतां आदलो तेंप उरूंक ना. नातलून बाजाराक व्हरून शाक–भाजी विकपाचें बंद केलां. जायना ताच्यान आतां. बागवल्यार भेंडांत येता. ताका लागून बाजारकार बायलो शेतांत येवन पाटीं भरून शाकभाजयो व्हरतात आनी ताका लागून शेतकारांक फाव तशें कश्टांचें मोल मेळना.

ही गजाल आतां लोरसूच्या लक्षांत आयली. लोरसूक कश्ट करूंक आवडटा. पूण ताका कश्टांचो मोबदलो मेळना देखून तो बेजारता. एका तेंपार बरें बरें खावपाची संवय आशिल्लो लोरसू आतां आपल्याक जाय तशी उधळपट्टी करूंक शकनासलो. येणावळच ना जाल्यार आपल्याक जाय तसो खर्च कसो करतलो?

सपनां हीं सगळ्यांच्याच वांट्याक येतात. गुलूय अशीं सपनां पळेतालें. मात गुलूचीं सपनां त्यागाचीं आशिल्लीं आनी लोरसूचीं भोगाचीं. लोरसूक दिसतालें, गुलूच्या सपनां आड आपूण वचचो ना. पूण आपल्योय कांय इत्सा आसात, त्यो मारूंक दिवंचो ना, अशें ताच्या मनांत येतालें.

लोरसूलें घर सामकेंच बाबत नाशिल्लें. पूण भायर वचून आयिल्ल्यांचीं घरां देमायज व्हड, देशेंत आनी तिजुल्यांचीं आशिल्लीं. लोरसूकय गुलूक घेवन देशेंत घरांत रावन अशें दिसतालें. पूण देशेंत घर बांदतलो जाल्यार लाखांनी रुपये जोडचे पडटले आनी मरऽसर शेतांत घाम गळयलो जाल्यार लेगीत आपल्याक इत्सीत घर बांदूंक शक्य जावचें ना, हाची कल्पनाय आशिल्ली ताका.

हे आपल्या मनांतले विचार लोरसून एक दीस गुलू मुखार उलोवन दाखयले –

''गुलू, आमी जोल्मभोर ओहल्याच घारांत रावपा मुगो?''

''आनी हूंय रावतोलो तोर तूं, पालाशेंतू?'' गुलून लोरसूचें उलोवप फकांडार व्हेलें.

''पालाशेंत रावोंक हांव राजा न्होय गो. पूण आमच्या गांआंत आतां आदल्या मोदेलाचीं घारां चोड उरोंक ना. आहाय तीं थोड्या दिसांनी मोडोन काबार जातोलीं. माजीर आमी कितें कोत्तोलीं?''

''आमी आमच्या घारांत रावतोलीं. आमचें घोर आयट आहा तोर?''

''तुहां तें आयट दिसोना जायत. पूण माहां तें मानवोना. ह्या सोंवसारांत सोगल्यांचीं चिंतनां आनी नोदरो एका सारक्यो आसोनात. एकट्याक कितें मानवोता आनी बोरें दिसता, तें हेरांच्या माथ्यार थापपाचो येत्न कोणें कोच्चो न्होय, ओहें माहां दिसता.''

लोरसूच्या ह्या उतरांनी गुलू सट्ट करून जागें जालें. लोरसूलें उलोवप ताका मानवलें म्हूण न्हय. पूण लोरसू दिशीं दिशीं शाणो जाता तें पळोवन तें हर्शतालें आनी ताचेर विचारय करतालें.

गुलूच्या आतां मनांत आयलें,आपूण लोरसूचेर जबरदस्ती करतां, अशें बी ताका दिसना मू? ताका तशें दिसल्यार, आपूण जें कितें करूंक सोदतां, ताच्या विपरीत घडटलें. तशें ना घडपा खातीर लोरसूच्या कलान घेतिल्लें सगळ्यांच्याच फायद्याक पडटलें.

''तूं सांगता तें होरें रे लोरसू. पूण सादेपोणान जियेवप सोदांच बोरें ओहें दिसता माहां. जेजू क्रिस्तान आनी म्हात्मा गांधीन आमहां सोदांच सादेपोणान जियेवंक शिकोयलां. सोदांच सादेपोणान रावल्यार आमी सुखी आसतोलीं, ओहें माहां तोरी दिसता बाबा!'' गुलून आपलें तत्वगिन्यान मांडलें.

''तुहां दिसता तोहें माहां दिसोना. तोच आमचो प्रोब्लेम! हो प्रोब्लेम आतां फुडें आमच्या मोदेंच ऊच्चो ना. हाल्यां आमहां देवा कुरपेन भुरगीं जावपा आहाय. तेंहां कितें दिसतोलें तें आमी चिंतूं नाहां? गांवांतलीं सोगलीं भुरगीं बोऱ्या देशेंत घारांत रावताय तें पोवन आमचीं भुरगीं ओगी बोसोतू?''

लोरसू गुलू मुखार फटफटीत उलोवन गेलो. पूण कितें उलयलो तें गुलूक पटपा सारकें उलयलो. लोरसूलें उलप आयकून गुलू आतां चिंतूंक पडलें. लोरसून आपल्याक अजून जावंनाशिल्ल्या भुरग्यांचो विशय काडलो आनी गुलूक आपल्या इस्कोलांतल्या भुरग्यांची याद जाली. ह्या चडशा भुरग्यांचे आवय-बापूय फॉरेनांत आसताले. ताका लागून भुरगीं उदका भशेन पयसो खर्च करतालीं. गुलूक पयशे मेळनासले, अशें न्हय. पूण खर्च आलसूबाच्या नियंत्रणा खाला करचो पडटालो.

इस्कॉलांत बरींचशीं गरीबय भुरगीं आशिल्लीं. पूण कांय भुरग्यांक गिरेस्तांल्या भुरग्यां मुखार लेमशेवन दीस काडचे पडटाले. आपल्याक जाय तें मेळना जातकच, आपल्यो इत्सा भागोवपाक कांय भुरगीं चोरयोय करतालीं.

हें भयंकर चित्र गुलू मुखार उबें जालें आनी गुलू हाल्लें. सगळींच भुरगीं गुलू सारकीं बरे देखीचीं आसनात. आपल्याक जाय तें मेळना जातकच आपल्या आवय-बापायक मानीनात. तीं पारपोळ जातात. लोरसूचे बाबतींतूय अशें घडलां. ताणें एक-दोनदां घरांत चोरी केल्या. आमच्या भुरग्यांचे बाबतींत अशें घडूंक फावना. तशें ना घडपा पासत कितेंय तरी उपाय सोदून काडूंकच जाय. आनी उपाय सोदून काडटलें जाल्यार, तो लोरसूच्या आदारानूच, ताच्या मत्ताच्या तेंक्यानच तो काडचो पडटलो. अशें चिंतून गुलू लोरसूच्या म्हऱ्यांत वचून बसलें. गुलू ल्हवू वचून लोरसू म्हऱ्यांत तेंकून बसता तेन्ना समजुपाचें, गुलू लोरसूकडें कितें तरी म्हत्वाचें उलोवंक सोदता. आनी लोरसू आदीं उलोवन गेल्ल्या उलोवपांत थोडो तरी दम आसा-सो दिसलो जाल्यार, गुलू रोकडेंच बिलू जातालें. आपल्या घोवान सदांच आपल्या फाटल्यान शेपडी हालोवंची, ह्या मत्ताचें गुलू केन्नाच नाशिल्लें. आपलो घोव दिसान दीस शाणो जावंचो, ताचीं शाणेपणाचीं उतरां आयकून हेर शाणे जाल्यार ताचें श्रेय आपल्याकच मेळटलें हाची कल्पना गुलूक आशिल्ली आनी शाण्या घोवाची बायल म्हूण समाजांत वावुरपाक खंयचे शाणे बायलेक मानवचें ना!

''लोरसू, हांव तुकोडें कितें उलोवंक सोदतां.''गुलून गोड उतरांनी म्हणलें.

''कोवलें माहां.''

''कोहें?''

''तूं तेकोन बोसलां न्होगो?'' लोरसून मात्सें पयल्यान सरकत म्हणलें.

''ओहो पोयस वोसों नाहां. सांगतां तें बोरे भासेन आयक. तुज्याच फावोराचें आहा.''

''कितें सोत आहल्यार उलोय. म्होज्या फावोराचें म्होणोन नाहां.'' लोरसू सडसडीत उलयलो.

''तूं आमच्या फुडाराचें उलयलो तें बोरें उलयलो. हाल्यां आमचीं भुरगीं चिंतपान आमचे भासेनूच जातोलीं, ओहें कोणाच्यान पारखूं येता?''

''हांवूंय तेंच म्हुण्टां. हाल्यां आमच्या भुरग्यांनी हेरांचे देखीन हें जायें, तेंच जायें ओहें मुहल्यार आमी कितें कोरपाचें गो गुलू?''

आतां मात गुलू मातशें तिडकलें. ताका दिसलें, लोरसूचेर एक रस्तीन धेंगसो घालचो. तांकां भुरगीं जातलीं काय ना, हें कोणाच्यान सांगूं येता? आनी हो बसला सपनां रंगयत.

पूण गुलून आपल्या मनाक आवर घालो आनी लोरसूक फुडें उलोवंक दिलें.

''गुलू तूं चिंत आनी पोये. हाल्यां जोर आमी आमच्या भुरग्यांच्यो मागण्यो पुराय केल्यो ना गो, तोर तीं आमच्या पासून पोयस जातोलीं, आनी आमहां तेहां आटापा हाडूंक जोड जातोलें. देखून हांव म्हुण्टां, आमी तान लागतोच बांय खोणपाचें चिंतचें न्होय. हांव कितें उलयता तें तुहां सोजमोता?''

''होय सोजमोता!'' गुलून थंडसाणेन जाप दिली.

''तोहें जाल्यार आमी आमच्या भुरग्यांचो फुडार आतांच चिंतूंक नाहां?''

''चिंतूंक जावो.'' गुलून लज्जेन मान खाला घाली.

''तोहें जाल्यार शेतांतुली भाजी इकून आमच्या भुरग्यांचो फुडार बोरो जावपा ना. भुरग्यांक व्होडल्या इस्कॉलां घालून बोरें शिकोप दिवपा आहल्यार होजारांनी रुपये भायर काडचे पोडटाय. हुयचे हाडटोलीं गो इतले पोयसे आमी? शेतांतुली भाजी इकुनू? शेत आमचें जालें आनी आमी बोऽरी शेतकारां जालीं म्होणोन कितें जालें? आमच्या कोश्टांचो फायदो व्यान्नी झेताय.''

लोरसू आपल्या आड उलयता तें पळोवन गुलू चाळवलें.

''तोहें जाल्यार आमी शेत रोवपा सोडुया मुरे!''

''हायें तोहें हुंय मुहलां गो! शेत रोवपाचेंच. तें सोडूंक फावोना.'' लोरसून गुलूक धीर दिलो.

''तोहें जाल्यार तूं माहां कितें सांगोंक सोदताय तें मात्सें उकतेपणान सांग पोवया.'' बेजार जाल्ल्या गुलून थंडसाणेन म्हणलें.

''हायें एक उपाव सोदून काडला. तुहां मानोवता जाल्यार सांग.''

''उपाव? कोहलो उपाव? सांग तोरी! आयकोतां हांव.'' गुलून उत्सूकतायेन लोरसूच्या चेऱ्याचेर नदर मारली.

''हांव मुगो लोंडोना वोसपा चिंतां.'' लोरसूक दिसलें, आपले विचार आयकून गुलू चाळवतलें. पूण तशें कांय घडलें ना. थोडो वेळ तें लोरसूच्या तोंडाकडें पळेत रावलें. उपरांत ताणें मळबार पयस अस्तमेकडे नदर मारून केदो वेळ तें पळेत रावलें. लोरसूय गुलूचे प्रतिक्रियेची प्रतिक्षा, तोंड आंऽ करून पळेत रावलो. ताका दिसलें, जे अर्थान गुलू कांयच उलयना, ते अर्थान आपल्या उलोवण्याचो प्रभाव ताचेर पडला.

''लोरसू, तूं गिरेस्तकायेक लागोन भायर वोसोंक सोदता?'' गुलून निर्शेवन लोरसूक प्रस्न केलो.

''ना. हांव तुहां सुखी करूंक, आमचो फुडार पोरजोळीत कोरूंक पोरदेसांत वोसोंक सोदतां.'' लोरसून आत्मविस्वासान म्हणलें.

''पूण आमी गोंयांतूच रावन आमचो फुडार पोरजोळीत कोरूंक शकचीं नात रे लोरसू?''

''तुजे तोकलेंतलो पोरजोळीत फुडार कोहलो तो सोजमोता माहां. तुज्या सांगातान जायत्यो गोजाली शिकलां हांव. तुज्या चिंतपा प्रोमाण तूं सारकें आहा. माहांय दिसता, हायें तुजे प्रोमाण जावंचें म्हूण. पूण आमच्या भुरग्यांक आमी आमचे भाशेन कोरूंक शकतोलीं, हाची माहां खात्री ना. कारोण तीं जोल्मोतांच तेंचे नोदरेक रंगयाळ्यो आनी सोबीत बिल्डिंगो दिसतल्यो. त्या बिल्डिंगांनी रावपी मुनशां तेंहां व्होड आनी देशेंत दिसतोलीं. आमचीं घोरां तेंहा कोंबयां घूड दिसतोलीं. आमहां आवोय–बापूय म्होणोंक तेंहां लोज दिसतोली. तेंहां जाय तें मेवलेंना जाल्यार तीं आमच्या पसून पोयस वोयतोलीं आनी तीं एकदां पोयस जेलीं म्हुण्टोच,आमच्या आंट्याक येतोलें तं फोकोत दुख्ख आनी दुख्ख!''

गुलून लोरसुल्या उलोवपांत मातूय आडखळ हाडली ना. तो गुलूलें नावडतें उलोयतालो खरें, पूण जें कितें उलयतालो तें काळाक धरून आनी ताच्या अणभवावेल्यान उलयतालो.

गुलूकय लोरसूचें म्हणणें आतां पटूंक लागिल्लें. दोगांनींय हे आदीं गिरेस्तांल्या भुरग्यांचो अणभव पुरायेन घेतिल्लो. गुलून आतां चिंतलें, फाल्यां आपल्याय भुरग्यांनीं हेरांचें अनुकरण केलें जाल्यार? मनशाक बऱ्या वांगडा वायटाचेंय चिंतचें पडटा. अशें चिंतून गुलून लोरसूकडे संवाद चालू दवरलो.

''लोरसू, तूं होऱ्यांनीच लोंडोनाक वोसपाचें चिंता रे?'' गुलून रडकुरें तोंड करून प्रस्न केलो.

''आजून पोक्के कोरूंना. आनीक एक गोजाल गुलू, तुहां दुखोवन हांव केदनाच फुडलें पावल घालपा ना.''

''हांव जाणा रे तूं आमच्या बोऱ्याचें चिंतता तें! तूं कितें सांगता तेंय सोजमोता माहां. सोगलो लोक फुडें जेलो आनी आमी थिंगाऽ उल्लीं जाल्यार लोक आमहां पिशांत काडटलो, हें तुजें चिंतोप सारकें आहा.''

''आमी आपलें तेंच सारकें म्होणोन जियेल्यार आमी शेण्टोलीं. लोकां मोदें आमहां गोरजे भायर खालतेपोणान जियेवचें पोडटोलें. म्होकोडे फॉरेनाक वोसोन दुड्डू जोडपाची ताकोत आहा. ओहें आसतोना हांवें लोकां मोदें खालतेपोणाची जीण कित्या पासोत जियेवपाची? तूंच चिंत आनी सांग गो गुलू!'' लोरसून सगळें आतां गुलूचेरच सोंपयलें.

गुलू आतां पेचांत पडलें. धरूंक गेल्यार चाबता आनी सोडूंक गेल्यार पळटा अशें जालें ताका. शेतां सांबाळून गरीबकायेन दीस काडूंक गेल्यार लोकांमदें मान-रेस्पेद ना. आनी दुडवां आशेन लोरसूक लोंडोनाक धाडल्यार गुलूलें सपन भंगतलें. आपलें सपन कायम तिगोवन धरपाक ताणें लोरसूच्याच आदारान प्रस्न सुटावो करपाचें थारायलें.

लोरसू आतां गुलूचे देखीन कितलोय सुदारलो तरी गुलूकडे आसा तितली बारीकसाण ताचे कडे नाशिल्ली. फाटीं-फुडें पळोवन निर्णय घेवपाची तांक ताचेकडे अजून नाशिल्ली. विचार करतासतना तो एकेच दिकेन करतालो.

मात गुलूचें तशें नाशिल्लें. कसलोय निर्णय घेवचे पयलीं तें धा दां विचार करतालें. हाकाच लागून गुलूची बाजू सदांच उजू आसताली. आतांय तशेंच घडलें. ताच्या मुखार शेतां-भाटां सांबाळपाचो एकच प्रस्न नाशिल्लो. लोरसू लंडनाक गेल्यार फाटल्यान सगळी संपत सांबाळपाक तें सक्षम आशिल्लें. पूण ताच्या मुखार सगळ्यांत मोठो प्रस्न आशिल्लो म्हाताऱ्यांचो. लोरसू म्हऱ्यांत नासतना, सगळ्या म्हाताऱ्यांक सांबाळप म्हाकठीण आशिल्लें गुलूक. तीन म्हातारीं दोन गांवांनी विभागून आशिल्ल्यान तांची काळजी घेवप, तांची सेवा करप सोंपें नाशिल्लें गुलूक!

तरी गुलूच तें! उमाशेची पुनव करपाचीं सपनां रंगयत, मळबाकडे दोळे लावन, सैमांतलें वारें खायत सूख भोगप्यांतलें नाशिल्लें तें. केदींय व्हडलीं संकश्टां दांत विचकावन सामकाराक उबीं रावलीं जाल्यार, तांचेशीं लडो दिवपाची क्षमताय आशिल्ली गुलूकडे!

गुलून आतां सोतंत्रपणान आपल्या फुडाराचो विचार केलो. म्हाताऱ्यां सयत आख्खी संपत सांबाळपाची जापसालदारकी आपल्याचेर घेतली आनी लोरसूक लंडनाक वचपाचो निर्णय घेवपाची ताका मेकळीक दिली.

४६

लोरसूक आतां लंडनाक वचून पुराय तीन म्हयने जाले. गुलू कितलेंय धाडसी आसलें तरी सुर्वेक ताका लोरसूचें पयसपण आनी दुराय भासलीच. दीस-रात ताका लोरसूची याद सतावंक लागली.

तशें पळोवंक गेल्यार लोरसू गेल्या उपरांत एकटें पडूंक नाशिल्लें गुलू. वांगडा दादी आशिल्लो. भाडेकार आनी ताचीं बायल-भुरगीं आशिल्लीं. घोवागेर-म्हणल्यार आपल्या घरा मांय-मांव आशिल्लीं, गोरवां आशिल्लीं, कुकडां आशिल्लीं आनी चड म्हत्वाचें म्हणल्यार शिमांवक जीव की प्राण आशिल्लो, सगळ्यांचो राखणदार एक सुणोय आशिल्लो!

लोरसू लंडनाक गेल्या उपरांत शिमांवचें दुख्ख इल्लें चडच वाडलें. ताका दिशिल्लें, आपलो पूत आतां सुदारला. देवान ताका बरी बुद्द दिल्या. शेता-भाटाकडेन तो आतां आस्थेन लक्ष घालूंक लागला. आपणें ताका शेतांतलीं सगळे तरेचीं कामां करूंक शिकयला. बायलय ताका बरी मेळ्ळ्या. आतां आपल्याक सुखांत मरपाची वाट मेकळी जाल्या.

हें सगळें घडोवन हाडलें ते पासत सांत लॉरेसांचे ताणें काळजांत सावन उपकार मानले.

पूण घरांत आयिल्ल्या सुखाक नवीं पाखां फुटलीं आनी तें खंयचे खंय उडून गेलें. ताजेल्ल्या सिमांवाक आतां परत एकदां चिंतेन ग्रासलो. आपलो पूत दुडवां आशेक लागून, खरेल्या सैमीक सुखाचेर खोंट मारून, बेगडी सुखा फाटल्यान धांवलो तें पळोवन सिमांवक अतीव दुख्ख जालें.

भरींत भर म्हूण आनी एक दुख्खदिणो प्रसंग गुलू-सिमांवल्या जिवितांत घडून आयलो.

कोणेंय कितेंय म्हणूं, शेतकारांल्या कुटुंबांत मनीसबळाक चड म्हत्व. भारतदेस हो शेतकीप्रधान देस. शेतां रोवन तीं तिगोवन धरपाचीं जाल्यार, मनीसबळाची चड गरज पडटा. ताकाच लागून कांय सुवातांचेर एक शेतकार दादलो दोन-दोन, तीन-तीन बायलांक पोसून, तांकां शेतांत कामांक लावपी शेतकार आयज लेगीत-थोड्या प्रमाणांत जावं मागीर तें -हांगां थंय पळोवंक मेळटात आनी शेतकारांल्या बायलांक एकदां शेतांत काम करपाची संवय जाल्यार, म्हातारीं जालीं तरी शेतांतलीं कामां करपाचीं सोडिनांत.

नातलूलेंय तशेंच जालें. एका तेंपार ताका शेतांत काम करूंक नाका आशिल्लें. उबगतालें तें काम करूंक. पूण आतां आपलो घोव, नाका नाका म्हणटासतना झरतमरत काम करता तें पळोवन तेंय आपल्याच्यान जाता तशें काम करूंक लागलें.

एक दीस नातलू आमोरेर शेतांतल्यान घरा येतालें. वाटेर रूंदसो एक बांद लागतालो. बांदार एक वडा झाड आशिल्लें. झाडाचे थोडे उंचायेर एक घोल आशिल्ली. घोलींत कोंडाळें करून एक सोरोप बशिल्लेकडे आसतालो. सोरपाक येत्यावत्या लोकांची संवय

जाल्ली. ताका लागून कोणय लागसारच्यान गेल्यार लेगीत ताणें केन्ना कोणाचेर फोसां घालींना.

पूण वेळकाळ सदांच सारको नाशिल्ल्यान केन्ना कितें विपरीत घडत हें कोणाच्यान सांगूं जायना. चरवाक गेल्लो सोरोप शेतांतल्यान बांदार वयर सरलो. नातलूकडें आदले भशेन आतां धेंपांनी चलूंक जायनासलें. दोळ्यांनींय ताका आतां सारकें झळकनासलें. ताका लागून नेटान फोडां काडून बांदार आयिल्ल्या सोरपाचेर ना कळटां नातलूचो पांय पडलो. सोरोप आकांतलो. दुसरो पांय आपल्याचेर पडटलो अशें समजून सोरोप नेटान पिडो कसो उबो जालो. ताणें नातलुची हालचाल पळेली. जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हूण नातलून थंयच्यान पळ काडिल्ली जाल्यार तें बरे भशेन सुट्टलें आशिल्लें. नातलू बडी सोदूंक जळपता तें पळोवन सोरपान कळाव लायनासतना आपलें काम केलेंच.

सोरोप आसलो एके ओडीचो. म्हातारपणाक लागून नातलूचो आवाजूय क्षीण जाल्लो. ताका लागून ताची धडपड आनी आवाज कोणाच्या काना मेरेन पावलो ना.

नातलूची खरी गजाल जेन्ना घरच्यांक आनी शेजार–पाजाऱ्यांक कळ्ळी, तेन्ना खूब कळाव जाल्लो.

नातलू गेलें आनी गुलू खऱ्या अर्थान एकटें पडलें.

सिमांव तर आठ दीस मेरेन एक सारको दुकां गळयत रावलो. गुलूकय आपली आती मेल्ल्यान उणें दुख्ख जावंक नासलें. तरी तें आपलें काळीज घट्ट करून मांवाक धीर दियत रावलें. अशे तरेन घरांत वावरूंक लागलें की कोणाकय दिसचें, सुनेक सासूमांयच्या दुख्खाचें कांयच पडिल्लें ना. सिमांवन गुलूचें मन वळखूं नाशिल्लें जाल्यार ताकाय तशेंच दिसतलें आशिल्लें. पूण तो गुलूक पुरायेन वळखतालो. गुलूचो आपले आतेचेर खूब मोग आशिल्लो हाची कल्पना सिमांवक आशिल्ली. सिमांवक हेंय कळटालें की गुलू हेरां भशेन आपल्या दुख्खाचें प्रदर्शन करणारांतलें न्हय. गुलूचे देखीन आतां सिमांवनय आपल्या दुख्खाक आवर घालो. ओलेल्ले दोळे ताणें तुवाल्याक पुसले. गुलू म्हऱ्यांत वचून तो शांतपणान उबो रावलो. गुलूच्या केंसांवेल्यान ताणें मायेन दोन वेळां हात ओडलो. स्पर्श मांवाचो आसलो तरी आपल्या दादीचोच असो भासलो ताका. ह्या स्पर्शांतल्यान निर्माण जाल्लीं दुकां सादींसुदीं नासलीं. दर्याभरतेर ल्हारां उचांबळून येतात, तशीं काळीज उचांबळून दुकां निर्मिती जावन तीं दुकां सिमांवच्या दोळ्यां वटेन भळभळून गालां वयल्यान धतरिर टपटपूं लागलीं.

''बाबा, हे भासेन केन्ना लेगीत रोडोत बोसतोलो तूं? जावपा आहलें तें जावन जेलें.'' गुलून मांवाक धीर दिवन समजावपाचो प्रयत्न केलो.

काजरा आदीं गुलू सिमांवक बाबा म्हणनासलें. मात काजारा उपरांत तें केन्ना केन्नाय पाय म्हणटालें. आतां ताणें आपल्या मांवाक कुन्याद, पाय बी म्हणपाचें सोडून बाबा म्हणपाचें थारायलें. सिमावांकय आपले सुनेकडल्यान आपल्याक बाब म्हणून घेवपाक आवडसारकें आशिल्लें.

''बाय गुलू, म्होजे धुये! तुजी आती ह्या संवसाराक ओंतोरली. चोड आयट जालें गो बाय. पूण आमच्यांनी कितें कोरूं येता? सोगली देआची कोरणी!'' हें उलयतासतना सिमांवचे दोळे भरून आयले. ताणें दुकांक तशीच वाट करून दिली. नाक सोंक करून भायर आयिल्लें भेमरें खांदा वयल्या पातळ तुवाल्याक पुसलें.

नातलू भायर पडिल्ल्या दिसा पसून खांदार तुवालो घेवन भोंवतालो सिमांव.

मदीं मदीं गुलू मुखार दोन धिराचीं उतरां उलोवंक जाय म्हणून सिमांव उलयतालो. सिमांवक दिसतालें, तांचेवयलें संकट हें देवाची करणी जावन आसा. पूण गुलूक मात तशें कांय दिसनासलें. देव वायटाक वायट आनी बऱ्याक बरें दिता, अशें समाजांतले देवभक्त समजतात. पूण नातलूक मरणाची शिक्षा दिवपा सारकें ताचे कडल्यान वा ताच्या घराच्यांकडल्यान कांयच वायट घडूं नासलें. गुलू आनी सिमांव तर सारकीं देवाचीं मनशां आशिल्लीं. अशें आसतना देव तांचें वायट कशें करतलो?

देव आसूं वा नासूं. एक शक्ती आमचे मदीं अस्तित्वांत आसा आनी ती प्राणीमात्राची परिक्षा सतत घेत आसता आनी मनशांतलें दुबळेंपण पयस करून ताका सक्षम करपाचें कार्य ती शक्ती सतत करीत आसता.

नातलू गेलें आनी गुलूक दिसलें आपूण आतां एकटें पडलां. तरी ताणें धीर सोडलो ना. ताणें शक्तिदेवतेची याद केली. ती गुलूचे मजतीक धांवन आयली. जशी की ती गुलूचे यादीची प्रतिक्षाच करताली. गुलूक जेन्ना आपली गरज पडटा, तेन्ना तें आपली याद करतलें आनी आपूण कळाव करिनासतना खिणांत धांवन वतली, ह्या विचारांत आशिल्ली शक्तिदेवता!

हे देवतेचो एक नेम आसता. आपली मनापसून कोणेंय उपासना केल्यारच उपासकाचे मजतीक धांवन येता. आळशी आनी अपवित्र प्राणिमात्राक मात ती आपल्या दोळ्यां मुखार रावंक दिना.

गुलूचो पुराय घराबो शेतकारांचो. घराब्यांतले चडशे वांगडी विचारी, शक्तिदेवीचे उपासक आनी पूजक आशिल्ल्या कारणान तिची कृपादिश्टी ह्या घराब्याचेर सतत

आसताली. ताकाच लागून मरणाचे देगेर पाविल्ले दोगूय म्हातारे–आलसूबा आनी सिमांव–ताजेतवाने जाले. गुलूचो नेट पळोवन तांणीं आपल्या म्हातारपणांचीं सगळीं दुख्खां पयस केलीं. दोगूय म्हातारे गुलूच्या आधाराक खांबे कशे उबे रावले.

आनी कोणूय म्हातारे जाल्ले जाल्यार, आपलें म्हातारपण खाटीचेर लोळून काडपाचे तयारेंत आसतले आशिल्ले. पूण शक्तिदेवतेन तांकां तशें करूंक दिलें ना. ती तांच्या आंगांत बळ्ळी आनी सतत चिमटावन तांकां कार्याक प्रवृत्त करूंक लागली, उत्साहीत करूंक लागली.

४७

इंग्लंडाक वतासतना लोरसू गुलूकडसून खूबशो गजाली शिकून गेल्लो. शिकून गेल्लो म्हणचे परस गुलूनच ताका शिकोवन धाडिल्लो. लोरसू कितलोय हुशार आसलो तरी गुलू इतलें वेव्हारज्ञान ताचेकडे नाशिल्लें. एका वयल्यान दोन समजपाची ताकद गुलूकडे आशिल्ली. लोरसू ते बाबतींत शून्य आशिल्लो.

इंग्लंडाक पावतकच लोरसूक कसलीच अडचण पडची न्हय म्हूण गुलून हे बाबतींत सिमांवकडे उलोवणी केल्ली. कारण सिमांव व्हडलो दुडवांकार नासलो तरी लोरसूक भायर धाडपाचो खर्च तो सोंपेपणान करूंक शकतालो. ताचेकडेन भांगरा वस्तू आशिल्ल्यो त्यो घाण दवरून तो फाव तितलो दुडू उबो करूंक शकतालो. गुलूचे सल्लो मसलतीन ताणें तशें केलेंय बी.

पूण कोणाकय दिसूंक फावता की जो लोरसू गोंयां भायर केन्नाच गेलो ना तो इंग्लंडाक पावलो कसो?

तें जालें अशें, लोरसू शेतांत काम करतां करतां एक दीस पासकू येवन शेता धडेर उबो रावलो. लोरसू शेतांत चरी मारपाचें काम करतालो. झपाझप खोरीं मारतासतना पासकू शेताधडेर येवन केन्ना उबो रावलो, हाचो पत्तो लेगीत लागलो ना लोरसूक. लोरसूच्या आंगांतल्यान घामा धारो पाझरताल्यो आनी पासकू शेताधडेर उबो रावन, दर्यादिकेन व्हांवत आयिल्लो थंड वारो आंगार घेतालो.

हो पासकू लोरसूलो इश्ट. दोगूय एका तेंपार पाद्रील्या इस्कोलांत शिकपी भुरगे. पासकू आठवेक पावऽ मेरेन एकसारको फेल जायत गेलो. लोरसू मात मॅट्रीक शिकून परिक्षेक फेल जालो.

अशे तरेन फेल जाल्ले भुरगे एक तर हॉटेलांनी मेळत तें काम करतात, ना तर मटको लावपा घेवपाचें काम करून पोट भरतात. जांचे कडेन देसा भायर वचपाची तांक आसता, ते भायर वचून 'टेंपररी सायब' जावन परत गोंयांत येतात. तांकां टेंपररी सायब हे खातीर म्हणपाचें की एकामेकाचे देखीन, सोयऱ्यां धायऱ्यां कडल्यान रीण बुड्डून ते भायर वतात खरे, पूण थंय गेल्या उपरांत तांकां सत्य परिस्थितीची जाणीव जाता. हांगा ऑर्रान आनी स्वाभिमानान जगपी भारतीयांक नाइलाजान हलकींफुलकीं कामां करून अपमानाची जीण जगची पडटा. तरी ते केल्ले चुकीचें फळ भोगीत आंगांत उसणें बळ हाडून थोडे दीस तिगाव धरून रावतात. उपरांत तांचे जोडीचो आनी खर्चाचो मेळ बसना जाल्ल्यान, हरिल्ले अवस्थेंत परत गोंयांत येतात. तेच हे टेंपररी सायब.

कांय लोक निजाचेच हुशार आसतात. आपले हुशारकायेन ते वर्सांचीं वर्सां इंग्लंड-फ्रान्साक पांय रोवन आपली उदरगत करून घेतात. तांतलोच एक आसलो पासकू!

पासकू आंगलटीन घटमूट आसलो. फोफशा आनी लबलबीत आंगाचो. पोट सुटिल्ल्यान भेंडार कालसांव तिगपाक कठीण जातालें. उट्ठा-बसतना भेंडा वयल्यान भितरली तांबडी चड्डी आपलें दर्शन घडयताली. कॉंगऱ्या केंसांक पिंगसो रंग दिल्लो. गळ्यांत भांगराच्यो दोट्टी तिट्टी जाडजूड सरपळ्यो आपलें अस्तित्व दाखयताल्यो. दाव्या हाताच्या पांचय बोटांनी जडेल्ल्यो आनी थिकाळ्यो मुदयो चकचकताल्यो.

पासकू शेता धडेर येवन केन्ना बसलो हें लोरसूक कळ्ळेंच ना. तो आपलेच तंद्रेंत एक सारको खणत रावलो.

पासकूक दिशिल्लें, लोरसू थोडें काम करतलो आनी उसंत घेतलो. तेन्ना धांवून वचून आपूण आपल्या इश्टाक कडकडून वेंग मारतलों. ताका वेंगेंत घेवन पोशेतलों.

पूण रोखडेच ताचे विचार बदल्ले. ताका आपल्या भेसाची, आंगार मारिल्ल्या चेराची आनी रंगयल्ल्या केंसांची याद जाली. ताका घामाच्या वासा! परस चेराचो वास मोलादीक लागलो. आपल्या घामोळ्या आनी घाणयाऱ्या इश्टा पसून जाता तितलो पयसच रावचो अशें दिसलें पासकूक!

पासकून आतां आनीक कळाव केलोना. लोरसूचें लक्ष आपल्याकडे वळोवपा खातीर ताणें थंयचे थंयच उडकी मारून खोशेन 'हाय' केलें. हें 'हाय' आयकून, लोरसून फाटल्यान वळून पळेलें. तो धडेर उबो आशिल्ल्या मनशाक पळोवन अजापांत पडलो. वयल्या वयर पळयतकच ताका दिसलें, शेतांतलें बुजगावणें हाडून कोणेंय तरी शेता धडेर उबें केलां. लोरसून त्या बुजगावण्याचेर बारकायेन नदर मारली. पळे जाल्यार तें

बुजगावणें-बिजगावणें कांय नासून तो जावन आसा ताचे मायेमोगाचो इश्ट, पासकू. लोरसून आनी आनी कळाव केलो ना. ताणें हातांतलें खोरें मोखून थंयच भायर मारलें आनी तो आपल्या इश्टाक वेंग मारूंक धांवून पासकू म्हऱ्यांत आयलो. लोरसूची चड्डी आनी बानयान घामान भिजून चिपचिपीत जाल्लें. मात लोरसूक ताचें इल्लेंय भान उरूंक नासलें. पासकू मात सादूर आशिल्लो. ताणें दोनूय हात फुडें करून लोरसूक मुखार येवंक दिलो ना.

''लोरसू थिंगा राब. माहां म्हेवो कोश्शी.'' हें आयकून लोरसू लजेलो. ताणें थंयच ब्रेक मारिल्ल्या भशेन केलें.

''तूं ओहो कोहो रे लोरसू! शेतांत काम कोत्तायी?''

''होय. कोच्चें पोडलें बाडया.'' – लोरसू.

''कित्याहू? तूं व्हाडलो मुनीस जावंक सोदतालो न्हाय रे? आनी आतां कोहलो मुनीस जालो रे तूं? शेतांत काम कोत्ता? माहां पोय रे!'' पासकू आपल्या आंगा वयली एकेक भांगरा वस्त लोरसूक दाखोवंक लागलो. पूण लोरसूचेर ताचो कांयच परिणाम जालो ना. बुजगावण्याचे सुवातेर पासकू ताका आतां नरकासूर भासूंक लागलो.

पासकू आपले झेत मारतालो आनी लोरसू ते शांतपणान आयकतालो.

४८

एक तेंप असो आशिल्लो की, लोरसू मुखार कोणेंय पोके झेत मारल्यार तो रोखडोच प्रभावीत जातालो. पासकूक दिशिल्लें, आपले झेत पळोवन लोरसू भुल्लुसतलो. आनी म्हणटलो, आपूणय येतां, आपल्याकय व्हर लंडनाक. आपल्याक शेतांत काम करून करून उबगण आयली.

पूण पासकुल्या झेताचो कसलोच परिणाम लोरसूचेर जालो ना. पासकू बडबडत रावलो आनी लोरसू पासकूच्या तोंडाकडें थंडपणान पळेत रावलो. पासकूल्या उलोवपांत आपणें आडखळ हाडलिना जाल्यार, तो आपल्याक कसोच उलोवंक दिवंचो ना म्हणून लोरसून पासकूक मदेंच थांबयलो – ''तूं थिंगा कोहलें काम कोत्ता रे पासकू?'' हें आयकनाफुडें पासकून आपल्या तोंडाक ब्रेक मारलो. थोडो वेळ लोरसूच्या तोंडाकडें पळेत रावलो आनी परत एकदां तोंडाचो पट्टो सुरू केलो.

''थिंगा पावतोच मुरे, काम कोहलें तें पोवपाचें नासता. हुंयचेय वोगतार मेवता तें काम कोरपाचें आनी दुडवांचें कोंत कोरीत बोसपाचें.'' पासकून आपल्या पिंगशा केसांचेर हात ओडीत खुशालकायेन म्हणलें.

''तें बोरें आहा रे. पूण हांव थिंगा जेल्यार माहां कोहलें काम मेवतोलें? हांव मॅट्रीक हेल आहां म्होणोन जाणा मुरे तूं?'' आपूण पासकू परस चड शिकलां, हें दाखोवन दिवपा पासत लोरसून मुजरत म्हणलें.

''तुजी मॅट्रीक व्होरोन घाल भोकांक. थिंगा मॅट्रीकेक कोण हाता रे?'' पासकून आपल्यांतलो पासकू उलोवपांतल्यान दाखोवन दिलो.

''तोहें न्होंय रे. हांव लोंडोनाक जेलों जाल्यार, थिंगा माहां कोहलें काम कोच्चें पोडटोलें, तें कोवों नाहां?'' लोरसून आपली उत्सूकताय उलोवन दाखयली.

पासकूक लोरसूलें उलोवप मानवलें ना. पासकू इल्लो तापट आसलो. अन्नाडीय आसलो. पूण वगतार सत उलोवंक फाटीं–फुडें सरनासलो तो. लोरसू ताचो जिवाभावाचो दोस्त. वगतार रागा भारार बुरशो ज्यास्ती लेगीत मारपी आपल्या मोगाळ मनशाक.

पासकूच्या तोंडांतल्यान भायर पडिल्ल्यो ज्यास्ती, आयकतल्यांक कितल्योय बुरशो लागूं मागीर त्यो, पूण ताच्या मत्ता प्रमाण चुकिल्ल्याक जाग्यार हाडपाचें खर साधन आशिल्लें. आतांय लोरसू खातीर ताणें ह्याच साधनाचो वापर केलो. ताणें म्हणलें, ''चेडयेच्या, तूं कांय भियों नाहां, तुहां लोंडोनाक गोवेर्नादोराची सुवात तोयार कोरून दोवोरल्या.''

लोरसूक 'चेडयेच्या' हें उतर मानवलें ना. भुरगेपणांत तो सर्रास वापरतालो. आदल्या तेंपार शेतकार आपल्या भुरग्यांक आनी एकामेकाक रागान आनी केन्ना केन्नाय मोगानय चेडयेच्या म्हूण पाचारताले.

अशें आसलें, तरी आडवाद हो आसताच. आलसूचे बाबतींत तो आसलो. आलसूबाच्या तोंडांतल्यान बुरशीं उतरां चुकून लेगीत भायर पडनासलीं. ताचो परिणाम गुलूचेर जाल्लो. आनी आतां गुलूच्या संपर्कांत आयिल्ल्यान लोरसू सुदारिल्लो.

''पासकू, तूं माहां केरांव नाहां रे. हांव गोंय सोडून भायल्या देसांत केन्नाच वोसों ना. देखून माहां भिरांत दिसता.'' लोरसून येद्‌देंशें तोंड करून म्हणलें.

''भिरांत दिसता? कोहली? हांव आसतोना तुहां भिवपाची कोहलीच गोरोज ना. दुडू मात इल्ले चोड झे.''

''तें जाणा रे हांव. माहां दुडवांची भिरांत ना. थिंगा माहां सिरीस मात बोरी मेवल्यार पुरो, ओहें मागतां हांव देवा लागीं.''

''बोरी म्होणचे कोहली?''

''तेंच होबोर ना न्होरे माहां, हांव नोको देखून तुकोडल्यान होबोर झेवपाक सोदतां.'' लोरसून आपल्याक थंयच्या कामाची कसलीच खबर ना, हें उक्तेपणान दाखोवन दिलें.

पूण खरी गजाल तशी नाशिल्ली. लोरसून इंग्लंडाक वचपाचो बेत केलो, तेन्नाच थंयच्या कामाची कल्पना ताका आयिल्ली. ह्या विशयाचेर घोव–बायलेन दिसरात भासाभास केल्ली. उपरांत शेतकामाचें म्हत्व पटोवन दितना गुलून लोरसूक म्हणलें –

''तुहां आतां सोगल्या तोरांचीं शेतकामां कोवताय. हाल्यां इंग्लंडाक जेलो म्होण्टोच तूं थिंगा कोहलेंच काम कोरूंक भिडेवचो ना.'' लोरसूक गुलूल्या ह्या उतरांची याद जाली आनी ताणें पासकूक सहजतायेन प्रस्न केलो –

''पासकू, तूं इंग्लंडाक कोहलीं कामां कोत्ता रे?'' पासकू उक्ते मनाचो. लोरसूल्या प्रस्नाची जाप दिवंक तो मातूय अनमनलो ना आनी कोणाकूय जाल्यार पासकू सांगतलो आशिल्लो, आपूण थंय एके व्हडले कंपनींत एँप्रेगाद आसां. पूण पासकू लोरसूक तशें सांगूंक शकनासलो. कारण ते दोगूय एकामेकांचे इश्ट आशिल्ले. एकामेकांक पुरायेन वळखताले. तेन्ना पासकून चिंतलें, कांयच लिपोवन दवरिनासतना लोरसूक सगलें सगलें सांगल्यार बरें. पयलीं तो मात्सो आडखळल्या भशेस जालो. उपरांत कसलीच भीड धरिनासतना सडसडीत उलोवन मेकळो जालो –

''हांव मुरे इंग्लोंडाक ऑलरावंडोर म्हूण काम कोत्तां.''

पासकून हें आपल्या पिंगशा केसांचेर हात ओडीत व्हडा झेतान सांगलें.

''ऑलरावंडर मुहल्यारू?'' लोरसून अजापीत जावन प्रस्न केलो. हें उतर ताणें क्रिकेटी मळार आयकल्लें.

''ऑलरावंडर मुहल्यार मुरे, सोगल्या भासांचीं कामां कोरोप. इंगाचें सामान थिंगा पावोवप, थिंगाचें इंगा हाडोप. हे गाडये वोयलें सामोन देवोवन ते गाडयेंत घालप. हे भासेचीं ल्हान ल्हान कामां दिसभर मेवताय थिंगा. एक वोर काम केल्यार मुरे पोनास पौंड मेवताय.''

''इतलेचू?''

''तूं आनी कोण रे! पोनास पौंड मुहल्यार उणे दिसले तुहां? एक पौंड मुहल्यार कितले रुपये तें कोवता मुरे तुहां?'' लोरसू तोंड आंऽ करून पासकुच्या तोंडाकडेन केदो वेळे पळेत रावलो.

''तूं सांग रे, माहां कोहें कोवतोलें. हांव इंग्लोंडाक वोसोन येयलां काय कितें रे तुजे भाशेनू!'' लोरसून पासकूक फुलयलो.

''तोहें जाल्यार बोरेऽ भाशेन आयक. सोध्या इंग्लंडाचो एक पावंड मुहल्यार इंगाचे ओयशीं रुपोय. आतां तूं कोंत कोर आनी सांग माहां. पोनास पावंडाचे रुपोय कितले जाताय पोय ते.''

कोंत सोंपें आसलें. तरी तें सोडोवंक तकली खाजोवंची पडली. पासकुकडे जाप रेडिमेड आशिल्ल्यान ताणें ती सट्ट करून दिली –

''पोनास पावंडांचे जाले चार हाजार रुपोय.''

''बापाय! एक वोर काम केल्यार चार हाजार रुपोय मेवताय थिंगा?''

''व्होय, व्होय! मात सोगल्यांकूच मेवोनाय बाडया.'' पासकून सांगतना मात्सें तोंड वाकडें केलें.

''सोगलींच कामां सारकीं आसोनाय न्हूरे?'' पासकून लोरसूक मात्सो गोंदळायलो.

''मुहल्यारु? सारकें सांग रे माहां!'' लोरसून स्पश्टीकरण मागलें.

''थोडीं कामां मुरे स्पेशल आनी आरटीस्टीक आसताय. सोगल्यांकोडें जायनाय तीं. जाताय पूण कोरूंक लोजेताय. लोजेक जेल्यार पेजेक पावताय रे? हांव मात एक्सपॉर्ट जालां ते कामांत. माहां लोज बा कांय दिसोना. हेर ओहलीं कामां कोरूंक भिडेताय देखून, लोक माहांच सोदूंक येताय.'' पासकून व्हडा उमेदीन सांगलें.

''आब्बा! ओहलें कोहलें तोर तें तुजें कामू? माहांय सांग रे.'' लोरसून अजापान म्हणलें. लोरसूच्या मनांत असलोय एक विचार आयलो, की पासकू कांय शिकूनासतना एका वराक चार हजार रुपया जोडटा आनी आपूण तर मॅट्रीक शिकलां. आतां फेल जालो म्हूण कितें जालें? इतलीं वर्सां बांक तापयल्ले फुकट गेलें? तेन्ना आपल्याक उणेच वराक सात–आठ हजार तरी मेळूंक नाका? अशें मनांतल्या मनांत म्हणून ताणें कामाचें स्वरूप सांगपाचो हट्ट पासकूकडें धरलो.

''आतां तूं सांगूच म्हुण्टा जाल्यार आयक! हांव मुरे बाडया सोंडास साफ कोत्तां.'' पासकून कां–कूं करिनासतना सरळ सांगलें.

''शीऽऽ! सोंडास धुवपाचें काम कोत्ता रे तूं थिंगा? सांगोंक लोजूय दिसोना रे तुहां?'' अशें म्हणटना लोरसू विटेलो आनी ताणें ॲक्क केलें.

''हेय! ॲक्क कितें कोत्ता चेडयेच्या.'' अशें म्हणन पासकून आपल्या खरेल्या अवताराचें प्रदर्शन केलें. लोरसूक आपल्याक चेडयेचो बी म्हणलो म्हूण कांयच दिसलें ना. आगशीचे शेतकार आनी थंयच्या गावड्यां वाड्या वयले लोक खूबदां 'चेडयेच्या' हें उतर रागान आनी मोगानय वापरतात. हें उतर सगल्याक फामाद आसा थंय.

''आब्बा! थिंगा सोंडास धुवपाक एका वोराक इतके दुडू मेवताय?'' लोरसून अजापान म्हणलें.

''ऊंऽऽ! गोंयचे कुमांव तोर ते? थिंगाचे सोंडास मुहल्यार मुरे, सामको चोकचोक! सोंडासाचे आख्खे तिजुले सामके हारसे कोहे. तिजुल्यांचेर चुकोन लेगीत एक दाग

उरोंक उपकान्ना. कोहलोच आस (वास) येवंक फावोना. थिंगाची नितोवसाण पोवन कांय लोक सोंडासांत बोसोनासतोना हाटल्या पायांनी पोवताय.''

''तोहें जाल्यार तुजी कोहली गोरोज आहली तोर थिंगा? लोकांक नितोवसाण मानोवना जाल्यार ती तूं कित्याक कोत्तालो रे?'' लोरसून प्रस्न केलो.

''सामको येण्णो मुरे तूं. आपणाक चोड शाणो म्हूण सोजमोता.'' पासकू परत एकदां लोरसूचेर धेंगशेलो.

''माहां तुजे इतलें इंग्लोंडाचें गिन्यान ना न्हूरे, देखून इचात्तां. हांव माहां चोड शाणो सोजमोलेलो जाल्यार तुहां हूंय इचात्तोलों आहलों?'' लोरसून आपली ल्हानविकाय उक्तायली.

''तोहें जाल्यार शिंतिदान आयक. ह्या सोंवसारांत मुरे, चोडशे लोक ओहले आहाय की तेंहां सोंडास कित्याक म्हुण्टाय ती होबोर ना. ते होंपट्यांनीं रावताय आनी दोंगरार हुंयतरी उक्ताडार वोसोन हागताय. ओहल्या मुनशांक इंग्लोंडाच्या पॉश सोंडासांत वोसोन बोस मुहल्यार तेंहां हागोंक जातोलें?''

लोरसू आनी पासकू दोगूय गांवढळ शेतकारांले पूत. पूण पासकूल्या तोंडांतल्यान पोजडीं उतरां खंयच्याय वगतार भायर पडटात तशीं तीं लोरसूल्या तोंडांतल्यान पडनासलीं. कारण ताका गुलूची संगत मेळिल्ली. थोडो तेंप जावं मागीर ती.

लोरसून आतां चिंतलें. संडासाच्यो गजाली चड जाल्यो. त्यो आतां बंद केल्यार बऱ्यो.

पासकुल्या उलोवण्या वयल्यान लोरसूक कळ्ून आयलें की पासकू इंग्लंडाक संडास धुवन ते नितळ दवरपाचें काम करता. संडासय असले-तसले न्हय, वयल्या दर्जाचे. अर्थात तो आपल्या कामाचें समर्थन करतलोच. आनी कित्याक करचें न्हय ताणें समर्थन? कितें वायट करतालो तो! भरपूर पयशे मेळटाले ताका त्या कामाचे. दिसांतल्यान दोन-तीन आनी केन्ना केन्नाय तीन-चार संडासांचें काम मेळटालें ताका! सरासरीन दिसाक तीनच संडासांचें काम मेळ्ळें जाल्यार बारा हजार रुपये कोणे व्हरूंकच नाशिल्ले. जंय हेर मानायांक आनी कुलींक जितले पौंड मेळटात, ते परस डबल-टिबल पासकूक मेळटाले.

दुडवांचे आशेक लागून पासकू असले खूबशे लोक आपल्याक संडास धुवणेचें काम मेळचें म्हूण देवाकडे मागताले. पूण इंग्लंडवाल्यांक धरसोडीचें काम मानवनाशिल्लें. एकदां नेमिल्ल्या मनशाक काडून, दुसरो उण्या दुडवांक मेळटा म्हूण पयल्याक कामा वयल्यान काडून उडोवपाचें काम थंयच्या चडशा धनयांच्या तत्वांत बसनासलें.

पासकूची भेट जाल्या उपरांत लोरसू बरोच अस्वस्थ जालो. पासकूल्या गळ्यांतल्यो जाडजूड सरपळ्यो, मनगटांतलीं भक्कम माश्कोतां आनी दाव्या हातांतल्या बोटांतल्यो गडगंज आनी वजनदार मुदयो पळोवन लोरसू भुल्लुसलो. ताका दिसलें, पासकून ही संपत संडास धुवन कमायल्या. लोकांचे दिश्टीन संडास धुवपाचें काम कितलेंय उणाक आसलें तरी तें भरपूर पयसो मेळोवन दिता. पासकू आपलो इश्ट. ताच्या वांगडा वचून ताच्याच सांगातान संडास धुवपाचें काम केल्यार कितें वायट आसा? इंग्लंडाक वचून कसलेंय काम केल्यार हांगा गोंयांत कशें कळटलें? कोण सांगतलो गोंयकारांक, लोरसू आनी पासकू इंग्लंडाक वचून थंयचे संडास धुतात म्हणून? आनी कोणेंय सांगलेंच जाल्यार सांगूं. तातूंत कसली चोरी आसा? एक दीस गुलूच म्हण्टालें मनशान कसलेंय काम करचें, पूण चोरी करची न्हय.

गुलून कितेंय म्हणूं. पूण म्हज्या मनांतली ही गजाल गुलूच्या कानार घालूंकच जाय. मनशाचीं मत्तां केन्ना आनी कशीं बदलत हें कोणाच्यान सांगूं येता?

आपल्या विचारांत गूंग आशिल्लो लोरसू गुलूक सोदीत ताच्या म्हऱ्यांत गेलो. लोरसू ताकतिकेन आयला तें पळोवन गुलून चिंतलें, हाचें कितेंय तरी घडलां. ना जाल्यार हो असो आबूज जाल्ले भशेन चलत म्हजे दिकेन येवचो नासलो. अशें चिंतत गुलू आपूण जावन लोरसू म्हऱ्यांत वचून दुभावीत चेऱ्यान उबें रावलें.

''कितें जालें रे लोरसू? ओहो आबूज कित्याक जाला?'' गुलून उत्सुकतायेन प्रस्न केलो.

''हांव आबूज जावंना गो गुलू! हांव मुगो, तुहां कितें कितें इचारूं सोदतां.'' लोरसून गंभिरतायेन म्हणलें.

''तूं आनी एक. हुंयचेय ओगतार कितेंय चिंतता. उलोय झोडझोडीत, माहां ओगोत जाता. उदका हांड्याक उजो घालूंक जावो.''

''पासकू येयला होबोर आहा तुहां?''

''होय होबोर आहा. तेजें कितें जालें रे?''

''तेज्या आंगावोयलें भांगोर पोयलां गो तुयें?''

''ना.'' गुलून सादेपणान जाप दिली.

''आख्खो भांगरान भोल्ला. तूं पोयल्यार सामकें पिशें जातोलें.'' लोरसून गुलूक चाळोवन घालें.

''हांव कित्याक पिशें जातोलें, हायें केन्ना भांगरां पोवनाय काय कितें?'' अशें म्हणत गुलून लोरसूचेर आपलो राग उक्तायलो.

''तोहें न्हो गो गुलू! तूं मुगो, गोज्जेभायर चाव्वोता. हांव तुहां एक गोज्जेची होबोर सांगोंक सोदतां.''

''गोज्जेची होबोर, ती आनी कोहली?''

''पासकून ही गिरेस्तकाय कोही कोमायल्या जाणा तूं?''

''कोही म्हुणचे, कोश्ट कोन्न! इंग्लोंडाक वोसोन रात-दीस कोश्ट जेहल्याय तेणें.'' गुलून आपले कल्पनेतली म्हायती उलोवन दाखयली.

''कोहले कोश्ट झेता गो पासकू थिंगा? होरे कोश्ट हिंगा हांव झेतां. दिसभर होऱ्यांनी होणोन-होणोन हांव रोगताचें उदोक कोत्तां. आनी पासकू इंग्लोंडाक कोहले काम कोत्ता जाणां तूं? सोंडास साफ कोत्ता आनी तें काम करूंक हूंय तेहा वोराक चार हाजार मेवताय. वोराक चार हाजार रुपोय मुहल्यार थोडे जाले गो गुलू? देखून हायें आतां चिंतलां, हांवूंय पासकू बाराबोनूच इंग्लोंडाक जेल्यार बोरो. तो व्होरपाक तोयार आहा माहां. वोसों मुगो हांवूं?'' लोरसून खुशालभरीत जावन गुलूक प्रस्न केलो.

''तूं पासकू बाराबोन वोस. पूण पासकू कोत्ता तोहलें काम मात कोरूं नाहां.'' गुलून लोरसूक खर उतरांनी शिटकावणी दिली.

''कित्याहू? पासकू थिंगा वोसोन सोंडास साफ कोत्ता. सोंडास साफ कोरोप आयट काय कितें?'' लोरसून सताचो तेंको घेतलो.

''ना. हे सोंवसारांत मुरे, कोहलेंच काम आयट म्होणोन आसोना. ही गोजाल हायें तुहां हे आदीं सोमजावन सांगलेली. पुणून कोहलेंय काम मुरे, तें कोच्चे आदीं आपल्याक बोऱ्याक पोडटलें वो आयटाक तें थारावचें पोडटा. आडबोऱ्यां दुडू मेवताय म्होणोन कोहलेंय काम कोच्चें न्हो रे लोरसू!''

''तोहें जाल्यार पासकू कोत्ता तें काम आयट मुगो?''

''पासकुचे नोदरेन तें बोरें. पूण म्होजे नोदरेन तें आयटूच.'' हें आयकून लोरसू बुचकळ्यांत पडलो.

''ओहें कोहें उलयता गो गुलू तूं! पासकूक बोरें तें तुहां आयट कित्याकू?'' लोरसून आपलें बोड खरपीत म्हणलें.

''कित्याक तोर पासकूक चिंतप ना. आमहां तें आहा.''

''आमहां म्हुणचे?''

''माहां आनी तुहांय. तुहां कोणें कितेंय सांगल्यार तूं रोखडोच सोजमोता. पूण पासकूचे तोकलेंत सोजमोणी कोहीच वोसपा ना.'' गुलून आपली तोखणाय केली ती पळोवन लोरसू सामको खुशालभरीत जालो. ताणें गुलूक फुडें उलोवपाक प्रोत्साहन दिलें.

''गुलू तूं फुडें उलय गो. तुजें उलोवोप आयकोंक माहां बोरेंऽ लागता.'' लोरसून गुलूक मात्सें फुलयलें.

''तोहें जाल्यार बोरे भासेन आयक! तुहां सोजमोक कोठीण लागतोलें. देखून सामकें सोपे भाशेन सांगतां –

लोरसू, आमचो हो भारतदेस शेतकारांचो आनी दिसरात रोगताचें उदोक कोन्न काम कोरप्यांचो. इंगाचो चोडसो लोक अशिक्षीत, ओनाडी आनी बुरसो. तेहा लागोन घोराचो आख्खो पोरिसोर घाण कोरून सोडटाय.

कांय लोकांकोडें सोंडास आहाय. तेंहा कुमांव म्हुण्टाय. हे कुमांव चोड कोन्न दुकरांपासोत बांदताय. तेहा लागोन घोर आनी घोरा पोरिसोर घाणयारो जावंक पावता.

आतां लोरसू तूं माहां सांग रे! आपलें घोर, आपले सोंडास इंगा घाणयारे दोवरून, दुडवां आशेन ब्रिटिशांचे सोंडास धुवपा मुरे आमी? लोज मुरे आमहां ही! दुडवांक लागोन आमी आमचो मान–रेस्पेद ओगडावंक फावोना.

देखून हांव तुहां सांगतां आनी कितेंय कोर. पूण इंग्लोंडाक वोसोन, लाचार जावन त्या ब्रिटिशांचे सोंडास धुवंनाहां. तुहां सोंडास धुवपाक कांयच दिसोना जाल्यार आमच्या देशांतुले धू. तोहें कोरपांत कांयच आयट ना. पूण आदीं आपलें घोर, आपलो सोमाज आनी आपलो देस नितोव कोरूंक जावो.

देखून हांव म्हुण्टां, तूं पासकू बाराबोन इंग्लोंडाक जोरूर वोस. हांव तुहां कोहलीच आडकोव हाडिना. पूण एक, तूं थिंगा वोसोन त्या ब्रिटिशांचे सोंडास साफ कोरूं नाहां. माहां तें बिल्कुल मानपाचें ना.''

हें सांगतना गुलून आपल्या मनांतली तिडक उक्तायली.

गुलून हें उलोवप पासकू म्हऱ्यांत केल्लें जाल्यार ताचो कांयच उपेग जावपा नासलो. पूण लोरसूचेर मात ताचो खोलायेन परिणाम जालो.

लोरसून चिंतलें, पासकू वांगडा इंग्लंडाक वचपाक कसलीच हरकत ना. तो म्हजो जिवाभावाचो इश्ट जावन आसा. परदेसांत ताचो आदार घेतल्यार तें फायद्याकच पडटलें.

आनी एक गजाल लोरसूचे तकलेंत आयली आनी ती म्हणल्यार एका वेळार तो पासकू सारको जावंक शकता, पूण पासकू मात लोरसू सारको जावंक शकचो ना. कारण लोरसू फाटल्यान गुलू आसा. आनी पासकूक तेंको दिवन ताका मनशांत हाडपाचो कितलोय प्रयत्न केलो तर तो ओमथ्या कळशार उदक थारपाचो.

लोरसून आतां गुलूचो सल्लो गांठीक बांदलो. आनी सरस्पतीच्या आशिर्वादान तो पासकू वांगडा इंग्लंडाक गेलो.

४९

लोरसू इग्लंडाक गेलो आनी फाटल्यान गुलू विचारांत पडलें. गुलू सारके कांय लोक मनांतलें सडसडीत उलोवन वतात. उलयल्लें एके दिश्टीन पुराय सतूय आसता. पूण तें वेव्हारी नासता. गुलून लोरसूक दिल्लो सल्लो रास्त, प्रामाणीक आनी न्यायनितीक धरून आशिल्लो. पूण तो वेव्हारीक मात बिलकूल नाशिल्लो. न्यायनितीन भरिल्ले सल्ले मनशाचे उदरगतीच्या आनी सुखाच्या आड येतात. मनीस एका जबरदस्त चेपणाखाला, समाजांत आनी कुटुंबांत वावुरता. ताका लागून गुलूचे तकलेंत एक दुबावाचो किडो सतत वळवळूंक लागलो. ताका दिसलें, आपणें लोरसूचेर संडास धुवपाक बंदी घालून व्हड चूक बी केली ना मू? हय, व्हड चुकूच केली. खरें म्हणल्यार ताका इंग्लंडाक धाडूंकच फाव नासलो. वचूं नाका म्हणल्यार तो वच्चोय नासलो. पूण ताचीं संवसाराचीं कांय सपनां आसात, तीं तो दुडू नासतना पुराय कशीं करतलो?

हें जरी खरें आसलें, तरी लोरसू हो लोरसूच उरूंक जाय. तो पासकू जावंक फावना. आयज आमच्या देशांत पासकू खूब आसात आनी ते दिसान दीस वाडतूय आसात.

गुलून चिंतलें, लोरसूचो आपल्याचेर मोग आसा. तो मोग जर खरो आसत, तर लोरसू आपल्या उतरा भायर–सांगणे भायर कसोच वचपा ना. कितलेय पासकू वाटेर आड आयले तरी लोरसू आपलो उजू मार्ग सोडचोना हाची खात्री बाळगून गुलू निश्चिंत आपल्या कामांत मग्न जावन गेलें.

लोरसू इंग्लंडाक गेलो. नातलू सोरोप चाबून मेलें आनी गुलू आतां खऱ्या अर्थान एकटें पडलें.

मनीस जेन्ना एकटो पडटा, तेन्ना ताच्या सांगाताक कसलें ना कसलें काम आसुंकूच जाय. जावं मागीर तें काम श्रमाचें, मनाचें, बुद्धीचें वो हेर कसलेंय लाभदिणें.

मनशान हातांत घेतिल्लें काम सहेतूक आनी लाभदायक आसचें पडटा. तें पुरायेन नियोजीतूय आसचें पडटा.

गुलूच्या मुखार आतां कितलींशींच कामां पडून आशिल्लीं. गुलू सोडून आनी कोणूय शेतकार जाल्लो जाल्यार त्या कामांची परवा करचो नाशिल्लो. एक फोर्मालदाद म्हणून कशाकशींय कामां करून, पदरांत कितें पडटा तें घेवन सुशेगाद बसतलो आसलो. चडशे शेतकार लाव–लुकसाणीचो विचार करिनासतना अशेंच करतात. आनी लुकसाणांत पडले म्हणटकच बसतात रडत!

पूण गुलूक असलें लुकसाणाचें कार्य कोताक येनाशिल्लें. ते पासत ताणें शेता–भाटांतल्या कार्याचो आनी पिकावळीचो नियाळ आदींच करून दवरिल्लो. ते पासत हो नियाळ ताका हे वेळार उपेगी पडलो.

गुलून चिंतलें, दोनूय गांवचीं म्हणल्यार आगशी आनी भाटयेचीं – शेतां पिकाळ आसात. पूण आगशीचें शेत शाक–भाजेक उत्तम. मांय–मांवान ह्या शेतांत शाक–भाजी रोवन खूब जोडलां. ही गजाल गुलू पळोवन न्हय, तर आयकून जाणा आशिल्लें. पूण ती जोड श्रमाची, घाम गळोवन कमायल्ली आशिल्ली. पूण आतां शेतांत घाम गळोवपी नातलू ह्या संवसारांत नाशिल्लें. सिमांवचेय हात–पांयें आदले भाशेन काम दिनासले.

आदले तेंपार सिमांव शेतांत काम करून शाक–भाजी पिकयतालो. ही शाक–भाजी नातलू बाजाराक व्हरून विकतालें. ताका लागून खर्च व्हडलोसो जाय नासलो. घराब्याचे गांठीक चार पयशे उरताले.

आतां नातलूचें काम गुलू करूंक शकनासलें. आनी खंयचेय परिस्थितींत तर तें शेत पाड दवरूंक शकनासलें.

गुलून चिंतलें. भाटयेचें काम वेवस्थीत चल्लां. थंय विस्वासू मानाय आशिल्ल्यान हुसको करपाचें कारण ना. ताका लागून गुलून आतां आपलें लक्ष आगशीच्या शेताचेर चड केंद्रीत केलें.

आगशीच्या शेताचेर चड लक्ष दिवपाक आनीक एक म्हत्वाचें कारण आशिल्लें. आगशीचें शेत, भाटयेच्या शेता परस पीक बरें आनी अपेक्षे परस चड दितालें. मात गरज आशिल्ली कश्टांची.

सिमांवांत आतांय थोडेंभोव काम करपाची खुमखुमी आशिल्ली, पूण ताणें काम केल्लें गुलूक नाका आशिल्लें. ताका लागून ताणें एके कर्नाटकी बायलेक शेतांत काम

करूंक दवरली. बायलमनीसच कामाक हे पासत दवरली की तिचे लगाडीक लागून आपणाकूय काम करूंक मेळचें.

आनी एक बरी गजाल गुलून केली. बायलेक कामाक दवरच्या आदीं तिका पारखिली. तिचो सभाव पारखिलो. ती कामसू आसा की कामचोर तेंय पळेलें. तिचो पगारय तिचे अपेक्षे परस चड थारायलो. खंयच्याय सेवकाक बरो पगार दिल्यार, बरी वागणूक दिल्यार सेवक आपल्या धनयाकडे प्रामाणीक आनी एकनिश्ठ रावता, ही गजाल गुलू जाणा आशिल्लें. हें सत मतींत धरूनच गुलून फुडलो जीवनप्रवास चालू दवरलो.

गुलून कामाक दवरिल्ले बायलेचें नांव जानकी. जानकी हुशार आशिल्ली. एक सांगल्यार दोन समजपी. एक शिकयल्यार दोन शिकपी.

मालकीण आपल्याक समजून पगार दिता. आपल्याचेर माया करता हें लक्षांत घेवन जानकी आतां आंग सोडून कामाक लागलें. तें काम करता तें पळोवन गुलूय नेटान कामाक लागलें. वेळकाळ पळेनासतना, तानभूक विसरून दोगीय अस्तुऱ्यो कामाक लागल्यो.

ल्हान ल्हान शेतकारांचे फाटीक सदांच दळदीर लागिल्लें आसता. ताकाय जायतीं कारणां आसतात. जमनींत बीं पुरलें, रोंप लायलें, उदक-सारें घालून शेत वाडीक लायलेंच म्हणल्यार जायना. रोयिल्लें शेत फळाक येता म्हणसर ताची वत-पावसा पसून, किडी-मुयां पसून, दोळ्यांत तेल घालून राखण करची पडटा. इतलें करूनय कश्टांचें फळ शेतकाराच्या पदरांत पडटलेंच हाचो नेम नासता. हजार कटकटी ताचे फाटीक लागतात. पिकिल्लें फळ उचीत वेळार खपलेंना जाल्यार ताची नासाडी ही वाडून दवरिल्लीच आसता हाची पुराय जाणविकाय गुलूक आशिल्ली.

अशें आसुनूय गुलू शेत रोवपाचें सोडूंक तयार नाशिल्लें. कारण तें नीज शेतकाराची धूव आनी सून आशिल्लें आनी खंयचोच नीजशेतकार शेत रोवपाच्या वेळार लाव-लुकसाणेचो हिशेब करचो ना. शेतांत कश्ट करून पीक काडप ही आपली लागणूक, अशें तो मानता. गुलूय तशेंच मानतालें.

फरक इतलोच आशिल्लो, गुलू हेर शेतकारां परस हुशार आनी शाणें आशिल्लें. कसलेंय काम हातांत घेवचे आदीं तें विचार करतालें. कश्ट करपाची, शेत रोवपाची ताका उर्बा आनी इत्सा आशिल्लीच, पूण थोड्यांत थोडे कश्ट करून, चडांत चड लाव कसो उठोवंचो हाचेरय ताचें चड शिंतीद आसतालें.

एक दीस गुलून चिंतलें, शेतकार शेतांत खूब कश्ट करतात. पूण तांकां फाव ती येणावळ मेळना. हाचें कारण कितें आसुये? लोक तर सदांच ताजी भाजी मेळना, आनी मेळटा तीय म्हारग म्हूण करंदाय करतात. हें अशें कशें आनी कित्याक लागून घडटा हाचो सोद घेवंचो असो विचार गुलूच्या मनांत आयलो. असलो विचार हे आदीं खंयच्याच शेतकाराचे तकलेंत येवं नाशिल्लो आनी आयलोय जाल्यार ताचेकडें आडनदर जाताली.

एक दीस गुलू मुजरत व्हडले गोंयच्या बाजारांत गेलें. आगशी परस व्हडले गोंयचो बाजार व्हड! गिरायकांय चड. बरें बरें नुस्तें व्हरपाक लोक ह्याच बाजाराक, म्हणल्यार वडाकडेन येतात.

पूण गुलूक मात ताचें कांयच पडूंक नाशिल्लें. तें थेट भाजीविक्या व्यान्न्यांक सोदीत बाजारांत घुसलें.

आयज आसा तसलो बाजार नासलो त्या वेळार. सगळीं नुस्तेकारां आनी व्यान्न्यां वांटे घालून रस्त्या कुशीक बसतालीं.

गुलू नुस्तेकारांक वळखऽनासलें. पूण कांय व्यान्न्यांक वळखतालें. कांय व्यान्न्यां गुलूक आगशीच्या सिमांवची सून म्हूण वळखतालीं. गुलूक भाजये बाजारांत पळोवन तीं अजापीत जालीं, कारण गुलू नुस्तेकारांलें गिरायक जावंक शकता, पूण भाजेकारांलें न्हय. तरी तें बाजारभर भाजेचे दर विचारीत भोंवतालें. ताका लागून वळखिचीं व्यान्न्यां गुलूक पळोवन दुभावलीं. एकेन तर गुलूक प्रस्नच केलो – ''बाय तूं आगशीचें न्हो गो!''

''कितें, तूं आनी कितें गो! तूं ओवकोना तेहा?''दुसरेन म्हणलें.

''ओवकोना? ओवकोना कित्याहू. ती सिमांव इरमांवली सून मुगो. नागो बाय?'' पयली व्यान्न.

''व्होय मावशे.'' गुलून गोड उतरांनी जाप दिली.

गुलू आतां हातांत कागद आनी पेन घेवन भोंवता तें पळोवन व्यान्न्यांक परकेंशें दिसतालें. पूण आतां ताणें एके व्यान्नीक आपल्या गोड उतरांनी मावशी म्हूण उलो मारलो तें आयकून सगळ्या व्यान्न्यांनी आपले कान फांकारले. एक देशेंत भुरगें आपल्याक मावशी म्हणटा तें पळोवन व्यान्न इल्ली चडच खोशेली. एकलीच न्हय, सगल्यांच्या चेऱ्यार हांशें फांकलें. सगल्यांकूच गुलूविशीं आपुलकाय दिसली. येदोवेळ सुतकी चेरो करून गिरायकाची वाट पळेत बशिल्ल्यो कुडका गांवांतल्यो गावड्यो व्यान्नी आतां इल्ल्यो चडूच हर्शेल्यो. सकाळ पसून तांणी निर्शेवन आपलो बोंचडो हालोवं नासलो. आतां गुलूकडें उलयतां उलयतां एकेन किरवटेक हात घालो. बोटवो भायर काडून तो

सोडलो. बोटव्यांत खावचीं पानां, सुपारे कुडके, चुन्या दबी बी दिसभराची खावड भरिल्ली आशिल्ली. एके व्यान्नीन बेगबेगीन पानाक चुनो लायलो, सुपारी आनी चुनो घालून पाना गुठलो तयार केलो. तो तोंडांत घालून बोंचो फुगयलो. थोडो वेळ तोंडांतलो 'ग्रायंडर' चलत रावलो. उपरांत तोंडांतल्या चोथ्या पसून तांबडी तांबडीच, तोंडभर पीक तयार जाली. सगळें तोंड आनी ओंठ तांबडे गुंज जालें. व्यान्न पुट्ट्ट करून उठली. कुशीक वचून तोंडांतलो चोथो तिणें भायर मोखून मारलो आनी पिकेन भरलेले तांबडे ओंठ घेवन नटी कशी आपले सुवातेर वचून बसली.

५०

कांय बायलो अशिक्षीत आसल्यो तरी त्यो नखरे करूंक फाटीं आसनात. ह्या नखऱ्यांनीच त्यो पळेतल्यांक हुशार दिसतात. गुलुकूय खावचें पान खावन, मुजरत तोंड रंगोवन बशिल्ली नखरेकान्न व्यान्न हुशार दिसली. पूण गुलून तिका व्हडलेंशें म्हत्व दिलें ना. तरी ती हेरां परस इल्ली देशेंत आनी चुणचुणीत दिशिल्ल्यान गुलू तिज्याच म्हऱ्यांत वचून उबें रावलें.

''मावशे, आमकोडच्यान तुमी मुवो–आयंगीं आनी हेर वेरदूर चोड सोवाय व्होत्ताय मिजे, आनी इंगा इतलें म्हारोगू?'' गुलून तांबड्या वोंठांचेच व्यान्नीक प्रस्न केलो.

गुलूचो प्रस्न आयकून व्यान्न गोंदळ्ळी. कितें जाप दिवंची, तें तिका कळ्ळेंना. तिणें कुशीक बशिल्ले वयस्क व्यान्नेच्या तोंडाकडेन वळून पळयलें, कारण आनी कोणाचेय बाबतींत ती बंडल मारूंक शकताली, गुलूचे बाबतींत न्हय.

गुलू निजाची शेतकान्न आशिल्लें. ताका शेतांतलें वेरदूर विकून सदां कितले पयशे मेळटात ती खबर आशिल्ली.

''बाये, तूं ओहें कित्याक इचात्ता? हुंयच्याय म्हालाचें शेतांतुलें आनी बाजारांतुलें मोल एक कोहें आसूं येता गो बाये?'' व्यान्नेन खांकुडलेल्या भसेन जावन प्रतिप्रस्न केलो.

आपले चवकशेन व्यान्नी मात्शो काचाबूल जाल्यात हें गुलूच्या लक्षांत आयलें. गुलून तांकां धीर दिवपा पासत थंडसाणेन म्हणलें, ''मावशे, हांव तुमहां इचात्तां म्होणोन आयट धोरूं नाहांय आनी भियोंकूय नाहांय. तुमी तुमचो म्हाल तुमकां कोताक येता तोहो इकाय. माहां तेचें कांयच पोडलेंलें ना. हांव तुमकोडल्यान होबोर झेतां ती म्होज्या गिन्याना पासोत. घोडये ती तुमच्याय हायद्याक पोडोत.'' – गुलू आपुलकायेन उलयलें.

'घोडये ती तुमच्याय हायद्याक पोडोत' हीं उतरां कानार पडनाफुडें सोगळ्यो व्यान्यो जाग्यो जाल्यो. त्यो सावरून बसल्यो. व्हडा आशेन गुलूच्या चेऱ्याकडेन केदो वेळ पळेत रावल्यो. आयज मेरेन तांच्या फायद्याच्यो गजाली कोणेंच केल्यो ना. दिसान दीस सोंपो व्हरपाक मात चुकनासतना सगळेच येतात, म्हाल खपूं वो ना खपूं, सोंपो दिवंकूच जाय!

''तूं सोरकारी मुनीस गो बाये?'' एके व्यान्नेन गुलूक भियेत भियेत प्रस्न केलो.

''ना मावशे. माहां फोकोत तुमकोडल्यान होबोर जायी.''

''कोहली होबोर जायी तुहां?'' एके व्यान्नेन पिरंगत जाप दिली.

''लोक म्होण्टाय, बाजोरांत वेरदूर सोदांच म्हारोग.'' गुलून थंडसाणेन म्हणलें.

''लोक म्होणों. तुहां कितें दिसता तें उलोय गो बाये!''

''माहांय तोहेंच दिसता जे मावशे! आमी शेतकारां दीस-रात कोश्ट कोरूनूय आमहां फावो तें मोल मेवोंना, ओहें दिसता माहां.'' गुलू.

''कोणाक फावो तें मोल मेवता गो बाय! आमहां तोरी मेवता गो बाय? तूं पोयता मुगो? सोकायीं सावन वेरदुराचो पोसरो मांडून बोहल्यांय आमी. एक लेगीत गिरायक मेवोंक ना. देनपारचीं देड-दोन वोरां लेगीत बोहल्यार, एक-दोन गिरायकां मेवल्यार बोरें आहा. मेवताय केन्नाय थोडीं गिरायकां. ना तोर सोगलो म्हाल पाट्यांनी भोरून पोत्तून घारा व्होरोंक पोडटा. घारा व्होरोन एक तोर तो गोरवांक घालचो पोडटा, ना तोर तो सुकोवन आनी कुसोवन भायर माच्चो पोडटा. आयचो म्हाल उदकां शिंवोर मारून, हाल्यां पोत्तो बाजाराक हाडलो जाल्यार लोक झेताय गो बाडये! ताजी भाजी मेवतासतोना बावकी कोण हातोलो?

आमचे पोरोस शेतकारांचें बोरें. ते आपल्या शेतांतुलो वेपार इकून दुडू झेवन सुट्टाय. दुडू चोड थोडे जाल्यार लेगीत तेंहां कोताक येता. पूण आमचें तोहें नासता जे धुये म्होजे! आमकोडचे दुडू एकदां भायर जेले ते जेले! ते पोत्ते येतोलेच ओहे आमच्यांनी सांगोंक जायना.'' हें आयकून दुसरे एके व्यान्नीचे दोळे भरून आयले. तिणें आपल्या पदरान दोळे पुसले.

कोण तरी आपलें दुख्ख समजून घेवंक आयला हे जाणविकायेन व्यान्नेक खूब बरें दिसलें. तिणें आपलें उलोवप फुडें चालूच दवरलें, ''आनी एक सांगतां तुहां. मुनशाचे दीस मुगो बाये, सोदांच एक सारके आसोनाय. आनी ते आसूकूय फावनाय. मुनशाच्या जिवितांत बोदोल हो आसुंकूच जावो. मोनशाच्या जिवितांत सुक्ती-भोत्ती नासोत तोर तें ओवणी जाता. आमच्याय जिवितांत मोदेंमोदें सुक्ती-भोत्ती आहाच. तो कोणाकूच

चुकोना. देआ कुरपेन आमहां केन्ना केन्नाय गिरायक मेवता. ना ओहें ना. तेहाच लागोन आमी सोपो हारीक कोन्न, वोरांचीं वोरां गिरायकाची आट पोयेत बोसतां. जोर तोर आमच्या म्हालाक सोडसोडीत गिरायक मेवलेलें गो बाये, म्हाल म्हारोग इकपाची गोरोज पोडची नाहली गो बाय!'' व्यान्नेन आपलें रडगाणें सोंपयलें आनी एक लांब सुस्कार सोडलो. ह्या सुस्कारान तिजें मन थोड्या वगता खातीर तरी शांत जालें.

जणेकल्याक आपापलें दुख्ख आसताच. तें वगतार कोणाकडें तरी व्यक्त करचेंच पडटा. ना तर ताका भितरले भितर फुगासांव जाता आनी सूख लागना.

खूब जाणांक आपलें दुख्ख दुसऱ्याक सांगचेंशें दिसता. पूण आयकुपी आसूंक नाका? आनी एकाद्रो कोणूय आयकुपी गावलोच जाल्यार ताका दुसऱ्यान सांगिल्लें आवडूं नाका? चडशा लोकांक आपलेंच घोडें फुडें काडपाची संवय आसता.

गुलून मात व्यान्न्यांचें दुख्ख थोड्या आनी वांकड्यातिकड्या उतरांनी आवडीन आयकून घेतलें.

हें सगलें आयकून घेतासतना गुलूचें लक्ष बाजारांतल्या हेर लोकांचे हालचालींचेरूय लागून आशिल्लें. बाजारांतलीं व्यान्न्यां मुसकां मारीत बसिल्लीं आसतनाच कांय लोक कांदे-बटाट आनी हेर भाज्यांनी भरिल्ल्यो पिशव्यो झेलयत थंयच्यान पासार जाताले. खंयच्यान हाडटाले हे लोक भाजी?

बाजाराक तेंकूनच एक पसरकार पसरो थाटून आशिल्लो. गांवान बेळगांवचो. ताचेकडेन सगळें विकपाचो परवानो आशिल्लो. भाजी तो बेळगांवच्यान हाडटालो. पूण हेर सगळे तरेचो वेपार तो हांगचोच घेवन, हांगाच विकतालो. आपले मजतीक ताणें बेळगांवचे दोन मानाय हाडून दवरिल्ले. हे मानाय झिळमिळट्यार येवन पिकपीची वाट पळेत दुकाना सामकाराक उबे रावताले. पिकप पावतांच भाजी देवोवन सुटी करतां करतांच विकतालेय बी! सकाळींफुडें ताजी भाजी मेळटा, हें भाजी खावपी जाणां आशिल्ले. गोंयच्या व्यान्न्यां परस बेळगांवची भाजी सवाय मेळटा. ताका लागून खूबशे लोक सकाळीं दुदावांगडा खबरांपत्रां आनी ताजी भाजी घेवन घरा वतात आनी अशे वेळार व्यान्न्यां घरांत न्हिदून आसतात.

आमचे गोंयकार आदीं पसून सुशेगाद आनी ऑर्रद. तशें म्हणून घेवपांतूय तांकां व्हडपण दिसता.

पूण बेळगांवची भाजी हाडून विकपी हो धंदेकार मात सगळ्या राजकारण्यांचो हिरो आसता. सगळ्याच पक्षांचे वांगडी ताका सलाम मारून आसतात. भाजीवालोय तांकां

आपले सांकेतीक आनी गुपीत भाशेन दाखोवन दिता की फुडले वेंचणुकेक आपलीं सगळीं मतां तुमकांच. ह्या आश्वासनान, भाजीवालो घाटावेलो आसूनय ताका सगळ्या राजकारण्या कडल्यान पुराय राखण मेळटा.

व्यान्न्यां मात ह्या भाजीवाल्यांचीं दुस्मानां जावन आसतात. तीं जाणां जावन आसतात की जो मेरेन हो घाटी गांव सोडून वचना, तो मेरेन तो आमच्या पोटार आडवो येतलोच. तो तोंड घेवन वचचो म्हूण व्यान्न्यांनी खूब कितें करून पळेलें. सायबांक आंगोवण्यो केल्यो, खुर्साक वाती लायल्यो, हेर देवांक तेल घालें, घाडी खुदयले, देवचारांक सोरो–रोट घालें, गुंडांक सोरो पिवयलो, लिडरांगेर सागवादी पावयल्यो. पूण घाटयाचेर कसलोच परिणाम जालो ना. घाटी शिकिल्लो आशिल्ल्यान ताका कायदो खबर आशिल्लो. व्यान्न्यांनी कितलीय बोब मारली तरी तीं आपलें कांयच करूंक शकचीं नात हाची खात्री बेळगांवच्या त्या भाजीवाल्याक आशिल्लीच. चडच जाल्यार तीं आपल्याक गाळी घालीत आनी गाळय समजपा इतली ताची कोंकणी सामर्थ्यवान नाशिल्ली.

गुलून बाजारांत पासय मारून व्यान्न्यांचें दुख्ख समजून घेतलें. गोंयकारांचेर मात करून, भायलो भाजीवालो गब्बर कसो जाला, तेंय ताणें अणभवलें.

पूण वांगडाच आनीक एक गजाल गुलूच्या लक्षांत आयली. बेळगांवकार भाजीवालो देवांक वाती लावन व्हडलो जावंनाशिल्लो. तो सुशिक्षीत आशिल्ल्यान गिरायका कडें कशें उलोवचें, हें तो जाणा आशिल्लो. ताका लागून आपूण जावन गिरायक ताच्या दुकानार गर्दी करतालें.

गुलून चिंतलें, बेळगांवकारान आपले हुशारेन आनी कायद्यान आपली उदरगत करून घेतल्या. ताचें कोणूच वाकडें करूंक शकचो ना. एक दीस हो बेळगांवकार गिरेस्त जातलो आनी गांवचीं व्यान्न्यां मात भिकेक लागतलीं. तीं भाजी घेवन बाजारांत येवपाचींच बंद जातलीं. आनी तशें घडलें जाल्यार गांवांत उरल्यांत तींय शेतां पाड पडूंक चड वगत लागचो ना.

गुलून चिंतलें, गांवांतलीं शेतां पाड ना पडपा पासत, व्यान्न्यांची रोजी चालू उरपा पासत कितें ना कितें करचेंच पडटलें आनी तशें करपाक व्यान्न्यांली भाजी सवाय जावंक जाय. ती निदान बेळगांवचे भाजये परस तरी म्हारग आसूंक फावना.

गुलून चिंतचिंत चिंतलें आनी एक दीस मुखेल चार–पांच व्यान्न्यांक आपल्या घराकडे आपोवन घेतलीं. तांकां बरें उठबस केलें. कळाव करिनासतना उलोवपाक सुरवात केली –

''मावशे, चावबाव पितोलीं जे?''–गुलून उपचारीक प्रस्न केलो.

''नाहां गो बाय. आमहां चावबाव कांय नाहां, कित्याक आपोयलां तें सांग.'' मुखेल व्यान्नेन वाजेवन प्रस्न केलो.

''ओही वाजेवं नाहां जे मावशे! हांव जाणां तुमचेर केदें व्होडलें सोंकोट येयलां पोय तें!''

''हें सोंकोट आमचेर बेश्टें येंवना. तें चेडयेच्या घाटयाक लागोन येयलां.''

''व्होय व्होय. ते चेडयेच्या लागोनूच येयलां.'' एके वांगडी व्यान्नेन आपलो रागा पारो चडयलो.

''ते चेडयेच्याक धांवडोन घालूंक जावो इंगाचो.'' दुसरे एके वांगडी व्यान्नेन आपलो राग, हेवटेन तेवटेन पळेत उत्तायलो.

त्या शांत सबावाच्या भाजीवाल्याक एक अन्नाडी बायल गाळी घालता तें गुलूक मानवलें ना. तो गोंयां भायलो जालो म्हूण कितें जालें, कितें करता तें कायद्यान आनी बरेपणान करता. ताच्या फाटल्यान गांवचो लोक आसा. लोकांक तो भाजी बरी आनी सवाय दिता. ते भायर गिरायकाक बरें उतरय दिता. ताकाच लागून गिरायक ताच्या दुकानाचेर गर्दी करता.

तरी गुलून चिंतलें, व्यान्न्यां अशिक्षीत आनी अन्नाडी आसलीं म्हूण कितें जालें, तांकांय पोट आसा. जाता जाल्यार तांच्याच सांगातान तांचें कितेंय बरें जाता जाल्यार पळोवया.

''मावशे, तुमी म्होजेर रागार जावं नाहांय. हांव कितें सांगतां तें तुमच्या बोऱ्याचेंच आसतोलें.'' गुलू काळजांत सावन उलयलें.

''आमचो तुजेर भावार्त आहा गो बाय. उलोय तूं. आयकोतांय आमी. कितें म्होण्टा गो कातारीन?''

एके व्यान्नेन दुसरेचो आदार घेतलो.

''त्या बेलगांवकारांक धांवडावंक मुगो बाय, आमी कितेंय कोरूंक तोयार आहांय. हाल्यां मोंत्र्याक मेवोया, सांग. आमी हुंयच्याय ओगतार येवंक तोयार आहाय तुज्या बाराबोन्न.'' आनीक एके व्यान्नेक चडच नेट आयलो.

''आजे मावशे, बेलगांववालो कायद्यान सारको आहा. मोंत्र्याच्यान तेजें कांयच कोरूंक जावपा ना.'' गुलू बेजारलें.

''आब्बा! येद्या व्होडल्या मोत्र्याच्यानूय कांयच कोरूं जावपा ना? तोहें जाल्यार आमी मिनीस्टोराकोडें या.'' आनी एक व्यान्न फुरफुरली.

हे व्यान्नेचें अगाध गिन्यान पळोवन गुलूक हांसचें काय रडचें तें कळ्ळेंना. तरी तें ओगी रावलें ना. ताणें मुमुरक्यां हांसून म्हणलें–

''आजे मावशे! तुहां कितले फावट सांगों जायें जे?'' गुलू बेजारलें.

''कितें म्होणोनू?''

''बेलगांवकाराक कोणाच्यान धांवडावपा जावपा ना म्होणोन.''

''तोहें जाल्यार आनी कांयच उपाव ना गो बाये?''

''आहा.''

''कोहलो?''

''तुमी सोगल्या तोरांचें वेरदूर सोवाय इकूंक जायें.''

''सोवाय इकूंक कोताक येवंक नाहां गो बाये!'' व्यान्न.

''तिठ्यार बोसोन देनपार लेगीत मूस मारूंक कोता येता मिजे?'' – गुलू.

''कितें कोत्तोलीं बाये. घाराय बोसोंक जायना आमकोडे.'' व्यान्नेन जाप दिली.

''घारा कित्याक बोसोंक जायें? शेतांत काम केल्यार चार पोयशे मेवनाय?'' गुलू.

''शेतां कोणा कोडे आहाय गो!'' एक व्यान्न चाळवली.

''हे भासेन चाव्वों नाहां जे मावशे. चिंतून आनी सोवकासायेन उलोवया.'' गुलून व्यान्नेक थंडावपाचो येत्न केलो.

''कोर बाये तूं कितें कोत्ता तें. आमहां कितें सोजमोता!'' व्यान्नेन आपलें आंग काडून घेतलें.

''मावशे, तुमी आतां घारा वोसाय. माहां कोवलें, आमहां सोगल्यांक कितें जायें पोये तें!''

व्यान्न्यांय तितलेंच सोदतालीं. तांकां कोणूय तरी मुखेली जाय आसता. मुखेल्यान सांगलें कोणाक गाळयो घाल, घाल्यो. कोणाक मारफार कर, केलो. तें मागीर लाव–लुकसाण कोणाचेंय जावं, ताचें तांकां पडिल्लें ना. आपपाप मुखेली माथ्यार म्हणून आड्डेवपाचें काम तीं बेसबरें करतात. आडडेंव–आड्डेंवन थकतकीर सर्वसामान्यांक उदकाची गरज पडटा. पूण व्यान्न्यां आपल्या भेंडांतल्या बोटव्यांतलीं खाच्चींपाना (खावचीं पानां) खावन आपली तान भागयतलीं.

५१

**व्या**न्न्यांक घरा धाडून गुलू आपले मठयेर येवन चिंतूंक बसलें. बरोच वेळ चिंतल्या उपरांत गुलूच्या लक्षांत आयलें, बेळगांवची भाजी गोंयांत येवपाची बंद जातली

जाल्यार गोंयची भाजी आदीं सवाय जावंक जाय. आनी ती सवाय जातली जाल्यार शेतकारांनी चड फायद्याची आस धरूंक फावना. चड फायद्याची आस धरली जाल्यार कोणाचेंच बरें जावंक पावचें ना. आमच्या गोंयचीं चडशीं शेतां पाड पडल्यांच. उरलीं सुरलेलींय पाड पडटलीं. तीं तिगून उरतलीं जाल्यार फायद्याची न्हय तर त्यागाची भावना मनांत बाळगून आमकां सगळ्यांक फुडलें पावल मारचें पडटलें.

चिंतां चिंतां गुलूक आपले आतेची याद आयली. ती म्हातारी जाल्ली तरी तिका आपल्या शेतांत काम करचेंशें दिसतालें. सोरोप चाबून तिका अवेळार मरण येवनाशिल्लें जाल्यार फुडेंय ती काम करीत आसतली आसली. आजूनय गांवांत कितल्योशोच म्हाताऱ्यो आपल्या शेतांनीं काम करतात. अशें आसतना ह्या व्यान्न्यांनीं बाजारांतल्या तिठ्यार बसून मुसकां कित्याक मारचीं?

गुलू विचार करून ते वाऱ्यार सोडप्यांतलें नाशिल्लें. तें एक क्रियाशील भुरगें आशिल्लें.

ताणें आनीक एकदां व्यान्न्यांक आपल्यागेर एकठांय केलीं. आपले नवे विचार तांच्या मुखार मांडले.

''मावशांनो! हांव कितें सांगतां तें कान दिवन बोरे भाशेन आयकोयाय. तुमच्या बोऱ्याचें आनी हायद्याचेंच सांगोंक सोदतां हांव. तुमहां मानोवल्यार मोतींत धोराय, ना तोर सोडून दियाय.

मावशांनो, तुमच्या मोदल्या जायत्या जाणांक होबोर आहा, हांव कोण पोय तें.

हांव एक शेतकाराली धूव. म्होजो दादी, मुहल्यार पाय, दीस-रात शेतांत काम कोरपी. तोरी तेहा खुशालकाय म्हुण्टाय ती केदनाच मेवली ना.

म्होज्या दादीन माहां मॅट्रीक मेरेन शिकोयलें. आमच्या गांवच्या इस्कॉलाच्या प्रिन्सिपालाक म्होजी हुशारकाय दिसली. तो माहां आयज लेगीत टिच्येर म्होणोन आपल्या इस्कोलांत घेवंक तोयार आहा. माहां बोरो पागार झेवन सुशेगाद जियेवं येता.

पूण हांव टिच्येर जावंक सोदिना. हांव टिच्येर जाल्यार म्होज्या दादीलीं शेतां आनी भाटां पाड पोडटोलीं. आनी माहां तोहें जालेलें नाहां. माहां म्होज्या दादीलीं आनी म्होज्या सासूपायलीं शेतां राखोन दवरूंक जायीं. तें माहां कोणाय भासेन पुराय कोरूंकूच जायें.''

गुलू शिकिल्लें भुरगें. बोऱ्या आनी देशेंत लोकामदें भोंविल्लें. ताका बरी कोंकणी उलोवंक येताली. ते भायर ताणें मॅट्रीकेक कोंकणी विशय घेवन बऱ्या मार्कांनी पास जाल्लें. तरी तें आपल्या लोकांमदें आपलीच सदांची भास उलयतालें. ताचें म्हणणें आसलें की आपली भास सोपी आनी आपल्या मनशांक समजपा सारकी आसता. ही गजाल लक्षांत घेवन गुलू आपले निजाचे भाशेंतच व्यान्न्यांकडें आनी शेतकारांकडें

उलयतालें. ताका लागून तें भायल्यान कितलें देशेंत दिसलें तरी तांकां तें भितरल्यान आपलेंचशें दिसतालें.

गुलून आतां आपली येवजण थंय जमिल्ल्या व्यान्न्यां मुखार मांडली. ताणें म्हणलें–

''मावश्यांनो, माहां फोकोत म्होजें एकट्याचेंच पोडलेलें ना. तोहें आहलोलें जाल्यार हांव शेतां–भाटांक हाट कोन्न, मेवता ती सिरीस कोन्न, म्होज्या दादीचो सांबाव कोरपाचें. पूण हायें तोहें कोरूंक ना. कित्याक तोर म्होजीं शेतां पाड पोडलेलीं माहां नाहां.

आनी आतां तोर तुमचें दुख्ख म्होज्यान पोवंक जायना. तुमचे मोदलीं कांय जाणां म्हातारीं जाल्यांय ओहें तुमहां दिसता. पूण होरें मुहल्यार तुमी म्हातारीं जावंक ना. आजून तुमचे कुडींत ताकोत आनी शेकोत उप्पाट भोरलेली आहा. ती तुमी वोरांचीं वोरां तिठ्यार बोसोन वोगडायताय.

जोरतोर तुमी ही ताकोत शेत रोवपाक वापोरली, आमचीं शेतां फुलतोलीं–फोवतोलीं. आमहां बेलगांवचे भाजेची गोरोज पोडची ना. तुमच्या कोश्टांनी तोयार जालेली भाजी आमहां सोआय इकूंक कोताक येतोली. उलोयाय, आहा तुमची तोयारी कोश्ट कोरपाची?''

गुलूचो प्रस्न आयकून सगळीं व्यान्न्यां एकामेकाच्या तोंडाकडें पळेत रावलीं. तांतले एकेन उलोवंक तोंड हालयलें तेन्ना हेरांनीं आपलीं तोंडां बंद केलीं.

''तूं एकटेंच उलोय गो. आमी आयकोताय.'' सगळ्यांचे वतीन एक बुदवंत व्यान्न उलयली.

''आमकोडें शेतां हूंय आहाय गो? शेतां नासतोना कोश्ट हूंय कोत्तोलीं?'' एके व्यान्नेन उबगून म्हणलें.

''शेताचें तुहां नाहां जे मावशे, तें हांव पोयतां.'' गुलून आपले मोवाळ भाशेन जाप दिली.

''व्होई! शेताचें आमचें बायन पोयलें. तुमकोडें शेतांत काम कोरूंक जातोलें जाल्यार सांगाई, न्हो गो बाये?'' अकस्मात न्हिदेंतल्यान जागी जाल्लेवरी एके व्यान्नेन मदेंच पच्च केलें.

''आनी आमी केन्ना शेतांत काम केलां गो बाये?'' फुडल्या दातांमदलें खावटें लिपयत आनी एक तरणी व्यान्न ल्हवू उलयली.

''आदीं केन्ना कोरूंना तोर आतां कित्याक पासोत कोच्चो न्होय?'' गुलू.

''आमचो व्यान्न्यांचो धोंदो बुडचो ना गो बाये?'' एक जाण्टी व्यान्न.

'बुडों बुडल्यार. कोहलोच हायदो नाहलेलो धोंदो कोणाक जावो?' गुलून आपल्याकूच भितरले भितर गुणगुणून प्रस्न केलो.

गुलून आतां चिंतलें, अशे तरेन व्यान्न्यांक प्रस्न विचारून ताचें मत्त घेवपांत कांयच अर्थ ना. दुसऱ्यांचें आयकून आपलो निर्णय घेवपाची ताकद तांच्यांत ना. तांचे कडल्यान निर्णयाची अपेक्षा करचे परस, तांचें हीत कित्यांत आसा हें तांकां दाखोवन तें पटोवन दिवप उचीत थारतलें.

गुलून आतां व्यान्न्यां वांगडची भासाभास थंयच थांबयली आनी आपल्या मुखेल मुद्याक हात घालो. ताणें म्हणलें– "मावश्यांनो, तुमी म्होज्याऊन जाण्टीं आहाय. देखून तुमहां म्होज्याऊन चोड सोजमोता. पूण हांव तुमहां एकूच सांगोंक सोदतां की तुमी मोतींत हाडल्यार जायतें कोरूंक शकताय.

तुमी सोताक म्हातारीं आनी उणे सोजमों नाहांय. तुमच्या आंगांत शेकोत आहा. ती तुमहां फावता आनी कोताक येता तेन्ना शेतांच्या उपेगाक हाडाय. तुमहां तुमच्या कामांचे दुडूय मेवतोले आनी तुमी केलेल्या कोश्टांचें फोव म्होणोन लोकांक भाजी सोवाय आनी ताजी मेवतोली. तुमच्या कोश्टांची शाकभाजी गांवांत मेवल्यार लोक गोंयां भायली भाजी कित्याक हातोले?

गाआंत कितलींशींच शेतां पाड आहांय. शेतकार तीं सोडून गोल्फांत जेल्याय. बेकार शेतां तुमकोडें आशेन पोयताय. आमी सोगल्यांनी एक जावन तीं रोयल्यार देव आमचेर बेसांव घालतोलो. शेतां पाड दवरून गोल्फांत जेलेल्या शेतकारांकोडें आनी सोरकाराकोडेंय कितें उलोवंक जायें तें हांव पोयतां. तुमी तें मोकोडे सोंपोयाय!"

गुलूलें म्हणणें सगळ्या व्यान्न्यांक पटलें. चड करून तांच्या आंगांत ताकद आनी शक्तीची गिरेस्तकाय भरल्या हाची जाणविकाय गुलून तांकां करून दिली. गुलूचे हे जाणविकायेन सगळ्या व्यान्न्यांच्या आंगांतली आळसाय खंयचे खंय उडून गेली. एक नवें बळगें तांच्या आंगांत संचारलें. तांच्यांतलो ज्ञानदीप खीणभरांत परजळ्ळो आनी तांच्यांत स्वयंस्फूर्त जागरूकताय निर्माण जाली आनी सगळीं व्यान्न्यां आतां गुलूच्या मुखेलपणा खाला कामाक लागलीं.

आतां व्यान्न्यां कितें आनी कामेऱ्यां कितें, काम हें सगल्यांकच करचें पडटालें. खरें म्हणल्यार काम करतात तीं कामेरीं. पूण व्यान्न्यां आपल्याक कामेरीं म्हणून घेवपाक उणेंपण मानतालीं. स्वताक तीं वेपारी मानतालीं. पणजी–मडगांव सारक्या शारांतले कांय वेपारी आनी आपलें सगलें वाऱ्यार सोडून, तिठ्यार बसून पन्नास–साठ रुपये जोडपी व्यान्न्यांय वेपारीच! हांगा जोडीक म्हत्व दिसनासलें. म्हत्व दिसतालें तें 'वेपारी' ह्या उतरांत.

ही गजाल आतां गुलूच्या लक्षांत गेली. व्यान्न्यां स्वताक व्हड समजतात. काम करून कामेऱ्यां म्हणून घेवपाक तांका उणेवपणाचें दिसता. तेन्ना गुलून चिंतलें, आपणें स्वता काम केल्यार व्यान्न्यां आपूण जावन शेतांत देंवतलीं. आपल्याक शेतकाम कळना म्हणून तांणीं कितलेय झेत मारले जाल्यार आपल्या वांगडा तांकां काम करचेंच पडटलें. आयज मेरेन तांणीं आसा फटें खाता शीं म्हणून दीस काडले. हे फुडें तें चलचें ना. हे फुडें आपूण तांकां कोणायभशेन शेतांत काम करूंक लायतलें म्हणल्यार लायतलेंच.

गुलूक आतां आपले आतेची म्हणल्यार नातलूची याद जाली. नातलू शेतांत काम करतना कासाटो मारतालें. उपरांत ताणें साडी न्हेसपाचें सोडून व्हिस्तीद न्हेसपाक सुरू केलें. गुलू ताच्या दोनूय न्हेसणाचो नियाळ करीत आयिल्लें. साडयेचो ना तर घागऱ्याचो कासाटो मारून शेतांत काम करप सुखदिणें आनी फायद्याचें आसा, ही गजाल गुलूच्या मनान पक्की करून घेतली आनी रोकडेच ताणें दोन घागरे शिवून घेतले.

गुलू जानकी वांगडा शेतांत काम करता तें पळोवन व्यान्न्यां अजापलीं. दुसरी गजाल म्हणल्यार, गुलू शिकून सवरून लेगीत कासाटो मारून शेतांत काम करता तें पळोवन व्यान्न्यांचें खिणांत गर्वहरण जालें. एक शिकिल्लें आनी देशेंत भुरगें जर कासाटो मारून शेतांत काम करता, तर आमचे हे पोके झेत कित्याक उपकारता? गुलू जर आमकां शेत मेळोवन दिता, तर थोडो वेळ आमी शेतांत काम करून चार पयशे कित्याक कमांवचे न्हय?

व्यान्न्यांनी आपल्या मनांतले विचार गुलूक उलोवन दाखयले. तीं शेतांत अर्दवेळ काम करूंक एका पांयांर तयार जालीं. पूण गुलून तांकां थोडो वेळ धीर धरूंक सांगलें. आपली येवजण माण्णेर पडसर व्यान्न्यांनी आपल्या धंद्याक हात लावचो न्हय, अशी शिटकावणी गुलून तांकां दिली!

गुलून चिंतलें, आपूण जें कितें करतां, तें कोणाच्या वायटाक आनी लुकसाणाक पडूंक फावना. ताका लागून आपल्या मनांतले विचार ताणें प्रत्यक्षांत हाडपाक ताका उणेच स म्हयने लागले.

ह्या काळांत ताणें सरकारी अधिकाऱ्यांच्यो भेटी घेतल्यो. एला फार्मांत वचून नव्या लागवडीच्या बियांची चवकशी केली. शेतकारांक नव्यो सवलती बी कसल्यो आसात काय कितें, हाची म्हायती मेळयली.

आनी एक म्हत्वाची गजाल गुलून केली, गांवांत कोमुनिदादचीं शेतां पाड दवरून बरेच शेतकार परदेसांत गेल्यात. बेकार आशिल्लीं शेतां, गांवांतल्या बेकार लोकांक कसूंक दिवचीं, अशी सुचवणीय गुलून सरकारी अधिकाऱ्यांक केली. तांकां ताणें हेंय

सांगलें की भायर गेल्ले शेतकार परत गोंयांत येवन आपलीं शेतां रोवंक तयार जाले, तर तांचीं शेतां तांकां परत रोवंक दिवचीं. तांकां आपलीं शेतां रोवंक कोणेंच आडखळ हाडची न्हय.

हे आदीं अशे तरेचे प्रस्ताव घेवन अधिकाऱ्यांच्यां म्हऱ्यांत सट्ट करून केन्नाच कोण आयले ना. गुलूची शेताविशींची आस्था पळोवन अधिकारी हर्शेले. एका अधिकाऱ्यान तर गुलूची आस्थेन चवकशी केली आनी म्हणलें, तुका कसलीय मजत जाय जाल्यार केन्नाय यो, आमी करूंक तयार आसात.

गुलूकूय हेंच जाय आशिल्लें. ते भायर गुलूच्या लागसारा आशिल्ल्या शेतकारांनी आपलीं दोन शेतां गुलूचे सुवादीन केलीं. गुलूचेर तांचो पुराय विस्वास आशिल्लो.

अशे तरेन बरें मागत्यां कडल्यान मेळिल्लें बळगें पांगरून गुलू नेटान कामाक लागलें.

आपणें हातांत घेतिल्लें कार्य आपल्या फायद्याचें न्हय, तर तें समाजकार्य आसा. आपूण शेतां वसोवन तीं तिगोवन धरूंक सोदतां. तीं आपली मुखेल मोख आसली तरी शेतां वांगडा व्यान्न्यांचेंय कल्याण घडोवन हाडचें, अशें गुलूक दिसतालें. ताणें आतां कांय व्यान्न्यांक सतत आपल्या संपर्कांत दवरलीं. तांकां पारखिलीं. तांच्या कार्याची तळमळ लक्षांत घेतली. कामाची आस्था जाणोवन घेतली. आंगांत घटाय आनी शकत आशिल्ल्या व्यान्न्यांकच ताणें शेतांत काम करपाक वेंचून काडलीं.

आनी एक म्हत्वाची गजाल गुलून केली. शेतकामाक वेंचून काडिल्ल्या व्यान्न्यांच्यो काळ-वेळा नुसार अडचण्यो जाणोवन घेतल्यो. बारकायेन नियाळ केल्या उपरांत गुलूक कळून आयलें की सकाळची सातापयलीं आनी सांजेची पांचा उपरांतची वेळ व्यान्न्यांक शेतकामाक बऱ्याक पडटली. गुलून हीच वेळ शेतकामाक उत्सूक आशिल्ल्या व्यान्न्यांक थारावन दिली.

गुलून आपलीं सोडून, आनी दोन शेतां फैदा करून तीं व्यान्न्यांचे सुवादीन केलीं. व्यान्न्यांनीं तीं दोन गटांनी वांटून घेतलीं आनी गुलूच्या फुडारपणा खाला ताणीं शेतांत काम सुरू केलें.

५२

गुलूच्या सल्ल्या प्रमाण व्यान्न्यांनीं आतां दोनूय कामां चालू दवरलीं. थोडीं-शेतांत काम करूंक जमनाशिल्लीं - तिठ्यार सदां भशेन वेरदूर विकूंक लागलीं तर थोडीं आपले तांकी प्रमाण दोनय कामां करूंक लागिल्लीं.

आपले येवजणे प्रमाण सगळें जाग्यार घालतां घालतांच गुलूच्या लक्षांत आयलें, आतां वेरदूर रोवपाचो रुतू सुरु जालो. ताणें आतां शेतकी खात्याची वाट धरली. सगळे तरेच्या शाकभाजयांचें सुदारीत बीं-बियाणें हाडलें. हें बियाणें मोव जमनींत पुरलें. मात, तें केन्ना कोमेलें, केन्ना गरगरीत वाडलें आनी केन्ना फळेलें, हें कोणाक कळ्ळेंच ना.

गुलूचे देखरेखी खाला रोयिल्लीं शेतां आतां शाकभाजयांनीं वेगवेगळ्या अंतरान फुलूंक-फळूंक लागलीं. ऑक्टोबर ते मार्च मेरेन शेतांनीं कसल्यो ना कसल्यो शाकभाजयो दिसताल्योच. ज्यो भाजयो बेळगांवांतल्यान येतात, त्योच आतां आगशेच्या शेतांतल्यान बाजाराक येवंक लागल्यो. आगशेचो आनी व्हडले गोंयचो बाजार आतां गांवच्या शाकभाजयांनी फुल्लो. इतलेंच न्हय, तर बेळगांवच्या भाजयां परस गोंयच्यो भाजयो, ताज्यो आनी सवाय मेळूंक लागल्यो. बेळगांवकाराक दिसलें, हो बदल खिणयाळो आसतलो. पूण कांय दिसांनी ताका कळून आयलें, की व्यान्न्यांची उदरगत दिशींदिशीं जायत आसा. तेन्ना ताणें आपलो भाजयेचो धंदो गुठलावपाचो विचार केलो. गोंयच्या भाजयां परस बेळगांवच्यो भाजयो सवाय विकप ताका आतां शक्यच नासलें. गुलूच्या ह्या प्रयोगान व्यान्न्यां खूश जालींच, ते भायर पडीक शेतांक जिवदान मेळ्ळें.

गुलूचें हें कार्य म्हणल्यार ताचे दिश्टीन एक नवो प्रयोग थारलो. हो प्रयोग जर गोंयभर जालो, तर गोंयचीं शेतां पाड उरचीं नात आनी गोंयकारांक रोजीय प्राप्त जातली. हें चिंतून गुलून आपलें काम फुडेंय चालू दवरपाचो निश्चेव केलो.

गुलू आतां आपल्या आगशेच्या शेतां बाबतींत बरेंच समाधानी आशिल्लें. ताका आतां भाटयेच्या बेंसाची थोडी काळजी लागून आशिल्ली. तशें पळोवंक गेल्यार काळजेचें व्हडलेंशें कारण नाशिल्लें. दवरिल्लो मानाय सगळें बेस बरें पळेतालो.

पूण आगशेभशेन भाटयेचें शेत उत्पन्न दिना हाची काळजी ताका लागून आशिल्ली. गुलून आपली काळजी शेतकी खात्याच्या अधिकाऱ्यांकडेन उलोवन दाखयली.

अधिकाऱ्यांनी शेताची माती तपासून घेतली. तेन्ना तांच्या लक्षांत आयलें की गुलूल्या शेतांतली माती आसूंक जाय तशी सुपीक ना. कसलेंच पारंपारीक बियाणें शेताची माती मानून घेना. ताका लागून आलसूबा आपल्या शेताची काळजी घेवंक जाय तशी घेनाशिल्लो. कारण हें ताचे कल्पने भायलें आशिल्लें.

आतां गुलून तज्ञांचो सल्लो घेतिल्ल्यान ताका नवो हुरूप आयलो.

तज्ञांनी गुलूक सांगलें की आगशेचे आनी भाटयेचे मातयेंत खूब फरक आसा. आगशेची माती रेंवट आनी फसफशीत. ती उदक-सारें रोखडीच ओडून घेता. पूण

भाटयेचे मातयेचें तशें ना. हे शेतजमनींत खूब दीस ओलसाण उरता आनी खणली म्हण्टकच थंय दिफळे तयार जातात. हांगा अळसांदे, चवळी आनी काळंगां रोयल्यार बरें आनी भरपूर पीक ये सारकें आसा.

पूण एक, हांगा बांय मारून उदका सांठो तयार केल्यार मात सगळे तरेचें भरपूर पीक घेवं येता. हे मातयेक फावता तसलें बियाणें फयदो करून सरकार शेतकारांक दिता.

बांय मारून ती बांदपाक आनी पंप लावपाकय सरकार मजत करता. ही सगळी मजत मेळोवन दिवपाचें काम आमचें, अशें अधिकाऱ्यांनी गुलूक सांगलें. फकत सांगलेंना, तर तांणीं ताका आस्वासनय दिलें.

अशे तरेन सरकारी मजत मेळटा, ही गजाल आलसूबाक खबर नाशिल्ली.

सरकारा कडल्यान मेळटा ती मजत घेवन गुलून आतां आपलो मळो फुलयलो.

गुलूक आतां कळून आयलें, मनशाच्या मनांत आयल्यार तो खूब कितें करूंक शकता. करपाची फकत इत्सा मात आसूंक जाय.

गुलून आपलें मन घालून आनी मानाय कामेऱ्यांनी मन लावन केल्ल्या वावराक लागून, दोन गांवांनीं देखदिणे पांचवेचार मळे फुल्ले. गांवांत आनीकय खूबशे मळे दिसताले, पूण ते म्हऱ्यांत आवय-बापूय नाशिल्ल्या, रडकुऱ्या आयिल्ल्या पोरांभशेन दिसताले. गुलू आतां आपल्या लवलवीत आनी पांचव्याचार मळ्यांक पळोवन खुशालभरीत जाल्लें. लागसारच्या हेर शेतांतले बावके मळे मात गुलूक आनी ताच्या मळ्यांक पळोवन निर्शेताले. ते मनांतल्या मनांत म्हणटाले, आमकांय बी देवान एक गुलू सारकी मालकीण दिवची!

गुलू आपल्या वावराचेर खूश आशिल्लें. हेर शेतकार आनी शेतकी खात्याचे अधिकारी दिसरात गुलूची तोखणाय आनी कवतूक करताले. गुलूय आपल्या कार्याच्या गर्वान इल्लें चडच फुलतालें. ह्या फुडें गांवांतलीं शेतां तिगून उरलीं जाल्यार सगळीं आपल्या मळ्यां सारकींच सकस, पिकाळ, रसरसीत, टवटवीत आनी सदांकाळ पाचवींचार उरचीं, ह्या फुडेंय आपले कडल्यान असलें कार्य घडचें अशें ताका दिसलें.

गुलूचे खोशेक आतां भरती आयिल्ली. पूण मनशांच्या जिविताक आयिल्ली सुखाची भरती केन्ना कायम उरना. सैमाच्या नेमा प्रमाण सुखा फाटल्यान दुख्ख, काळखा फाटल्यान उजवाड, गोडसाणी फाटल्यान कोडसाण ही मनशांच्या वांट्याक वाडून दवरिल्लीच आसता. संवसारांत देव म्हूण वावरून गेल्ले श्रीराम-कृष्ण लेगीत सूख-दुख्खांतल्यान सुटलेनात, थंय गुलू सारक्या क्षुद्र जिवाचें कसलें कोंत!

मनशाकडेन बरें उतर आसल्यार, ताच्या जिवितांतलीं खूबशीं कामां सोंपीं जावन पडटात. बऱ्या उतरा वांगडा आंगांत ल्हानविकाय आसत जाल्यार दुदांत साकर! गुलूकडेन हें सगळें आशिल्लें. तें बऱ्या उतरा वांगडाच दुसऱ्याक माया-मोगूय दितालें. आपल्या मांव-बापायचो तर तें जीवप्राण आशिल्लें.

मानाय-कामेऱ्यांक तर तें आपलेंचशें दिसतालें. गांवांतय ताका वांकडे नदरेन पळोवपी मनीस मेळप कठीण आशिल्ले.

तरी मनीस कितलोय बरो आसलो तरी देवाक ताची परिक्षा घेवची अशें दिसताच.

देव, म्हणल्यार ईश्वर हो शेटी भशेन आसता. खंयचोय शेट भांगर कसाक लावन पारखिल्या बगर ताचें मोल थारायना.

गुलू देवाचें मनीस आशिल्लें. देव बावळट मनशाकडेन आपलें मोलादीक कार्य केन्नाच सोडिना. आपलें कार्य करतल्याक तो सर्वांगान घटमूट करता आनी उपरांतच ताका तो आपल्या पवित्र कार्याक लायता.

देवाक गुलूकडल्यान भविश्यकाळांत खूब कितें करून घेवपाचें आशिल्लें. ताका लागून ताची मानसीक ताकद वाडपाची चड गरज आशिल्ली देवाक! ताका लागून ताणें गुलूचेर वांकडो प्रसंग हाडलो. तें जालें अशें-

कितलेय कश्ट केल्यार कश्टांचें फाव तें फळ मेळना म्हूण आलसूबाक एकटो सोडून ताचे वांगडी हांगा थंय फाफसल्ले. ह्या वांगड्यां मदलें एक रोजा. काजार करून दिल्ली फामिलेंतली एक धूव.

गुलूच्या जल्मा आदीं रोजा राशीच्या घरांत नाचलें-खेळ्ळें. उपरांत ताचें काजार जालें आनी घोव ताका आपल्या वांगडा इंग्लंडाक घेवन गेलो.

रोजा आलसूबाल्या घराब्यांतलें खरें, पूण आलसूबाले गूण ताच्यांत रिगलेनात. नातलू आनी गुलू परस तें सामकें वेगळें. इंग्लंडच्या वातावरणाक जमता आनी विरगळटा तसलें. चार बुकां इंग्लिश कशेंबशें शिकलें खरें, पूण बुकांतलें गिन्यान रोजाचे मोव तकलेंत रिगचे पयलींच पांखां फुटून उडून वतालें.

बरेच दीस इंग्लंडच्या वातावरणांत घोळून लेगीत तें ब्रिटीश जावंक पावलें ना. दिसान दीस ओंठ तांबडे करून करून हारशांत पळेत उबें रावलें. गालांक गुलाबी रंग पोशेय-पोशेय पोशेलो. केंस कोंगरे करून पिंगसायले. इंग्लंडी लोकां भशेन हेळ्यांची इंग्लिश उलोवपाचे खूब प्रयत्न केले. पूण गोंयची भाटयेकान्न रोजा, रोजाच उरलें. तें गुलाब जावंक पावलें ना.

रोजाच्या घोवाक हे अडेचे नखरे आवडनासले. पूण तो तोंडांतल्यान कोंकणी ना तर कोंकानी उतर भायर काडूंक शकनासलो. कारण रोजाक कोंकानी गाळी इंग्लिशींतल्यान मारूंक बरें जमतालें! ताका हेंय खबर आशिल्लें, की आपल्यो इंग्लिश गाळयो, आपल्या घोवाक सोडून हेर ब्रिटीशांक कशोच समजुपाच्यो नात.

अशें जरी आसलें, तरी आमचें गोंयचें रोजा थंयच्या सुंदऱ्यांक मातय आवडनासलें. आमच्या रोजाचो चेरोच सामको रागीट दिसतालो. ताका लागून ताच्या ओंठांची हालचालच कोणाकय गाळयो मारताशी दिसताली.

बऱ्या वायट सभावाचीं मनशां देवान सगळ्याकच निर्मून दवरल्यांत. आपलें कार्य साधोवन घेवपाक तो आपल्याक जाय त्या मनशांचो जाय तेन्ना उपेग करून घेता.

गुलूक सक्षम करपा खातीर ताणें इंग्लंडाक मुजरत दोन झगड्यांकार अस्तुऱ्यांची येवजण केली. तें घडलें अशें -

इंग्लंडच्या एका फुटपाथा वेल्यान, एक दीस रोजा नटून थटून, हालत धोलत आनी मुरगटत चलतालें. तेन्नाच ताच्या मुखावेल्यान एक इंग्लंडकान्न आपलें भेंड हालयत येताली. तिजें सगळें निजाचें आशिल्लें आनी रोजाचें अडेचें.

रोजाची नदर आतां सहजतायेन इंग्लंडकान्नीचे चालीचेर पडली. रोजाक दिसलें, आपणेंय तिचे प्रमाण आपलें भेंड हालयत चलचें. रोजाच तें! ताणें फाटलो फुडलो विचार ना करतां, आपलें भेंड हालयत चलपाक सुरवात केली.

बायलो-त्यो मागीर खंयच्याय तेर्राच्यो आसूं ! एके बायलेची वायट बरी करणी रोखडीच दुसरे बायलेचे नदरेंत भरले बगर रावना.

हांगाय तशेंच जालें. ब्रिटीश बायलेची नदर रोजाच्या हालत्या भेंडाचेर पडली मात, गोरीपिट्ट आसूनय तिणें काळे म्हशीभशेन, दोळे मोट्ठे करून रोजाचेर रागान नदर मारली.

रोजाय उणें नाशिल्लें. एक गोरें आनी दुसरें काळें आसलें म्हूण कितें जालें? रागाक जात-धर्म लागना. माडामीन आपलो राग दोळ्यांनी उक्तायलो तर रोजाबायन दांतांनी.

दोगीय बायांच्यो काती वेगळ्यो म्हणल्यार एकेची काळी आनी दुसरेची गोरी. दोगांयचेय दांत मात एकाच रंगाचे म्हणल्यार धवेफुल्ल आशिल्ले.

रोजान माडामीक दांत दाखयले ते दाखयले वयल्यान ते किटकिटावन आपलो रागूय व्यक्त केलो.

खंयचीय इंग्लीश गोरी कात, इंडियन काळे कातीन केल्लो अपमान सोंसूंक कठीण! माडामीन आनी वगत केलो ना, तिणें रोजाचेर मांजरा भशेन उडी घेनासतना, फकत फॅस–फॅस करून दांत दाखयले.

आमचें रोजाय उणें नाशिल्लें. ताका माडामीक चाबचें काय चाबनासतनाच गिळचें अशें जालें.

ताका दिसलें, माडामीचेर उडी घेवची आनी तिका तिच्या केश्ट्यांक धरून जमनीर आपटची! गोंयांत जाल्यार तें तशें करतलें आशिल्लें. पूण तें आशिल्लें इंग्लंडाक. सत्तेफुडें शाणेपणा चलनात हाची जाणविकाय आमच्या रोजाबायक आशिल्ली. राज्य गोऱ्यांचें आशिल्ल्यान काळ्या रोजान चड ताणून धरलेंना. आपलो राग व्यक्त करपा खातीर ताणें आपलो एक पांय रस्तीन जमनीर आपटून, 'हूं!' करून तें चालीक लागलें.

गोरिणीकूय दिसलें जावंये, काळेकडल्यान मार खावंचे परस–अपमान करून घेवंचे परस थंयच्यान सटकलेली बरी.

झगडेकारांचें गुपीत झगडेकारांच जाणां आसतात. झगडेकारां–तीं मागीर गोंयचीं आसूं वो इंग्लंडचीं सगळीं सारकींच.

५३

रोजा, कशेंय आसूं मागीर तें, ताका आपल्या गांवांची, गांवांतल्या मनशांची आनी सैमाची चड ओड.

तें आतां आपल्या घोवाक घेवन गोंयांत आयिल्लें आशिल्लें. घोवाक आपल्या घरा दवरून तें आपल्या आवयल्या गांवाक भेट दिवपाक भाटये आयलें. ह्या आदीं तें व्हडले गोंयच्या सांतां फेस्ताक केन्ना केन्नाय येवन वतालें.

नातलूक तें वळखतालें, पूण ताका तें केन्ना वचून मेळूंक नाशिल्लें. एक नंबरची झगड्यांकान्न आशिल्ल्यान ताचें कोणाकडेन पट सारकें नाशिल्लें. तरी तें व्हडले गोंयचे इश्टिणीकडेन येवन वतालें.

आयजूय रोजा येवन आपले इश्टिणीगेर राविल्लें.

सांजेचीं पांच वरां जाल्लीं आसुंये. येदो वेळ भाटये वयलीं सगळीं शेतां भांगराळलेलीं आशिल्लीं आतां तीं सावळेल्लीं.

थंड वारो शेतभर वावरून, भाजीपाल्याच्या पानांनी शिरून तांकां खातकुतल्यो करतालो. दिसभर वताच्या तापान बाविल्ल्यो, शेतांतल्यो सगळ्या तरांच्यो वाली,

थंडसाणेन तरतरीत जावपाचे वाटेर आशिल्ल्यो. चवळी-अळसांद्यांचीं फुलां पानांनी लिपिल्लीं, तीं आतां तकली वयर काडून वाऱ्याक आपल्या वांगडा खेळूंक येवकारूंक लागलीं.

वाली आनी पानां-फुलांचें बेसबरें जमलां तें पळोवन आतां सुर्यादिव अस्तंतेकडेन ताकतिकेन देवूंक लागलो. अशे तरेन धावंक लागलो की, एक वजनदार फुडारी सभेक भाशण दिवंक धांवता!

असल्या ह्या शांत आनी रम्य वातावरणांत, एक चाळीशेक वर्सांची अस्तुरी, आपल्या वाडवडलांचे कृशिसंपदेचो नियाळ करून खुशालभरीत जाताली.

कोण आशिल्ली ही देशेंत अस्तुरी? देशेंत आसुनय तें गुलू नाशिल्लें. गुलू कितलेंय पयस आसलें, तरी थंयचे लोक गुलूक वळखताले. पूण हें गुलू नासलें. तर मागीर हें आसलें कोण?

तें आसलें माडाम रोजा. दोनूय हात भेंडार धरून व्हडली भाटकान्न कशी आपल्या मुखावेल्या शेताक तोखेताली.

रोजा हे आदीं आपल्या पुर्वजांच्या शेताचेर विश्त मारून गेलां. पूण तातूंत ताणें केन्नाच रस घेतलोना. कारण ताच्या घराब्यांचे दिश्टीन ती फायद्याची बाब नाशिल्ली. तें येतालें फकत आपल्या काळजांत गांवांचो मोग जागो जाता म्हणून.

पूण आतां मात शाकभाजयांनी आनी पालेभाजयांनी पांचवेचार जाल्लें शेत पळोवन रोजा भुल्लुसलें. ताच्या मनांत आस निर्माण जाली. सरकारच्या आदारान शेत फुलिल्लें पळोवन ताका दिसलें की आपणेंय शेतांत लक्ष घालचें. शेत आपल्या पुर्वजांचें. आपल्याक वांट्याक झगडपाक कोण आडावंक शकना.

रोजाच्या मनांत असले सुवार्थी विचार घोळटासतनाच गुलून फाटल्यान येवन म्हणलें, ''गुडिवनींग.''

''गुडिवनींग.'' रोजान फाटल्यान वळून दांत दाखयले.

''कोण तूं, कोणाक सोदता?'' गुलून हांसून गोड उतरांनी प्रस्न केलो.

''आय एम रोजा. आयमीन रोजालीन.'' रोजान आपले स्टायलीन जाप दिली.

''ओहें, हायें तुहा हे आदीं आमच्या गाआंत केदनाच पोवोंक ना.'' गुलून उत्सूकतायेन रोजाच्या चेऱ्याकडे पळेत म्हणलें.

''आय एम नॉट स्टेयींग हेअर'' रोजान कोंकानी येतासतनाय आपली इंग्लीश मारली.

''बाय कोंकानी उलोय गो मोकोडे! माहां इंग्लिश बोरी सोजमोना. रागार जावनाहां. तूं माहां आमचेंशें दिसता देखून म्होण्टां.'' गुलूच्या तोंडांतल्यान सत भायर पडलें.

''ऑके–ऑके. डॉन्ट व्होरी. तुहां इंग्लीश कॉवोना जाल्यार आमी कोंकानीच उलोवया.''

''व्होय, तोहेंच केल्यार बोरें!''गुलून खोस उक्तायली.

''आतां माहां सांग, तूं कोण? आनी ह्या शेतांत कित्याक येयलां?'' ह्या प्रस्नांन गुलू मात्शें मनांतल्या मनांत तिडकलें. खरें म्हणल्यार हो प्रस्न गुलून रोजाक विचारूंक जाय आसलो. तरी ताणें शांत रावून प्रस्नाची जाप दिली–

''म्हॉजें नांव ग्लोरिया. लोक माहां गुलू म्होण्टाय. ह्या शेतकाराली धूव हांव.''

''नांव कितें तुज्या पायचें?''

''आलसू. हांव तेहा दादी म्हुण्टां. तेणेंच शिकोयलां माहां दादी म्होणोंक.'' दादी हें उतर आयकून रोजान सोंडो वांकडो केलो. दादी हें कोहण्यांलें उतर. रोजाक कशें मानवतलें? ताका आदीं सावन बाप्पा, मामा, मावशी बी कोंकण्यालीं उतरां मानवनासलीं आनी आतां तर तें इंग्लंडाक – व्हडल्या मनशांल्या देशांत – पाविल्लें. ताचे दिश्टीन तें व्हडलें जाल्लें.

''बाय, हांव कोण तें तुहां कोवलें. पूण तूं कोण तें कोवलेंना माहां.'' गुलून रोजाचो मात्सो दुबाव घेतलो.

''हांव हेच गांवचें. पूण रावतां इंग्लोंडाक. आतां म्होज्या हाजबोंडा आंगडा गोंय भोंवपाक येयलां.''

''व्होईऽ, एकदोम बोरें. हुंय आहा तोर तुजो घोरकारू?'' गुलून खुशालकायेन प्रस्न केलो.

''म्होजो हाजबोंड हेटार आहा. कालांगूट हेट जेहलां आमी. थोडे दिसांनीं थिंगा रावोंक येवपा आहांय.'' रोजान गर्वान म्हणलें.

गुलून रोजाच्या घोवाक मुजरत घरकार म्हणलें. पूण 'हाजबांड' ह्या उतरांत रोजाली खुशालकाय भरल्या, हें आमच्या गुलूबायक कशें कळटलें?

रोजा इदादीन गुलूपरस दोब्राद आसलें. आलसू आपलो बापोलयो, हेंय तें पुराय जाणां. गुलू आपली बापोलभयण हेंय ताका गुलूल्या उतरांनी कळून आयलें. पूण गुलू आपल्या नात्या गोत्यांतलें ही गजाल मात ताणें गुपीत दवरली. आपूण ह्या गांवचें, आनी ह्या गांवचो मोग आपल्याक ओडून हाडटा, ते पासत आयज आपूण हांगा मुजरत आयलां, अशें ताणें गुलूक उलोवन दाखयलें.

गुलू-रोजाचीं उलोवणीं बरोच वेळ चललीं. गुलू उकत्या मनान उलयतालें. आपूण आपले बापोलभयणीकडेन उलयतां, हाची मात लेगीत कल्पना गुलूक नाशिल्ली. ताका खरी गजाल खबर आशिल्ली जाल्यार तें खोशेन भरतलें आशिल्लें.

पूण रोजाचें तशें नाशिल्लें. गुलू आपली बापोलभयण हें जाणां आशिल्लें. पूण तें कुसक्या आनी दुश्ट मनाचें आशिल्ल्यान, ताका आपलें नातें लिपोवन दवरपाचें आशिल्लें. आपली वाटूय तेच दिकेन सुरू केल्ली ताणें.

आतां सांज जाल्ली. सुर्या बुडपाचो वगत जाल्लो. अस्तंत दिका तांबशेल्ली. कावळे आनी हेर सुकणीं आपापल्या घोटरांकडेन उडूंक लागिल्लीं. पयसुल्लीं शेतां धुक्याचीं पांगरुणां ओडपाचे तयारेक लागल्यांत, अशें दिसतालें.

''रोजाबाय, आयमोरेचो वोगोत जालो. माहां आगशी पावोंक जायें. म्हातारो वाट पोयतोलो म्होजी.'' गुलून आपली चिंता उक्तायली.

''आनी हांव कितें इंगा रावोंक येयलां कितें गो!''

''तूंय यो गो बाय आमजेरू. हाल्यां सोकायीं वोस!''

''आब्बा! म्होजो हाजबोंड म्होजी आट पोयचोना वो कितें गो!''

गुलू आनी रोजा आपापले वाटेन गेलीं. गुलू आपल्या नितळ आनी पवित्र मनान गेलें, तर रोजा आपल्या कुसक्या काळजांतल्या, दुश्टांतल्या दुश्ट सैतानाक जागयत गेलें.

५४

कळंगुटे पावता म्हणसर रोजाक आतां रातीचीं णव जालीं. किस्तू-रोजाचो घोव-हॉटेलांतलें जेवन-खावन, फ्लॅटार टिवी पळेत बशिल्लो. रोजा येवपाचें आसा म्हूण ताणें दाराक खिळी घालूंक नाशिल्ली.

रोजान आवाज करिनासतना अचळय दार उगडलें आनी तें सरळ टॉयलेटींत गेलें. गिझर चालूच आशिल्लो. दार बंद करून ताणें गरम उदकान झडझडीत न्हावन-पुसून घेतलें. नायटी चडयली आनी बॅडार घालून घेतलें सोताक!

''किस्तोद, लायट पालोय आनी न्हिदे आतां. माहां हूब पुरो जालां रे! आनी एक गोजाल मोतींत धोर. माहां सोकाडीं सोकाडीं पोत्तें व्होडल्या गोंयां वोसोंक जायें.''अशें म्हणटां म्हणटांच ताणें बॅडाचेर हातपांय ताणून दिले.

न्हिदचे पयलीं तें एक पेग मारूंक विसरलें ना.

रितच आशिल्ली ताची ती.

किस्तून आपली कसलीच प्रतिक्रिया उक्तायली ना. रोजान उलोवचें आनी किस्तून फक्त आयकुचें अशेंच चलतालें त्या घोव–बायले मदें.

दुसरे दिसा सकाळीं रोजा अपेक्षे पेक्षा वेगीं जागें जालें. जागें जालें म्हणचे परस ताका ताच्या तकलेंतल्या सैतानान जागें केलें म्हणूंक जाय. कारण सैतानाच्या आदेशानच ताका फुडल्यो राटावळी करपाची गरज आशिल्ली.

रोजा आतां व्हडले गोंयच्या एका वळखीच्या घरांत भितर सरलें. भितर सरलें म्हणचे परस तें भितर घुसलें अशेंय आमच्यांनीं म्हणूं येता. आपलें काम सादोवंच्या वगतार तें मात्सी वळख काडून कोणागेरूय आनी केन्नाय भितर सरपी.

''हो घरांत!'' रोजान फिलसूल्या दाराचेर बेधडक थाप मारली.

''कोण?'' फिलसून जाप दिली.

''हांव रोजा.''

''कोण रोजा?'' – फिलसू.

''कितें? तूं माहां ओवखोना?''

''ना गो बाये. गोये सायबाच्यान तोर!''

''हांव रोजालीन गो. इंग्लोंडाक रावतां पोये तें!'' रोजा.

''हां... रोजालीन गो?''

''व्होय गो. पोरूं पार्सोल झेवन येवंना? तुजे देरान धाडलेंलें पोय तें गो!''

''व्होय व्होय. आतांय कितें धाडलां कितें गो तेणें? ओहलो देर सोगल्यांक मेवों. आपले व्होनयेक उगडासान कितें ना कितें धाडटा पोये तोहलो. तूं भितोर यो गो. भायर कित्याक रावलां?'' फिलसून शिंतीदार येवन म्हणलें.

''हांव इंग्लोंडाक पोत्तें वोयतोकोच तुज्या देराक मेवतां आनी तेहा सांगतां कोणा बोराबोन पार्सोल धाडूंक. आतां मुगो मोकोडे ओगोत ना. माहां तुकोडल्यान एका मुनशाची होबोर जाय. तूं शेर्त ओवखोतोलें त्या मुनशाक.'' रोजा फिलसूकडें भावार्तान उलयलें. कामा पुरतो मामा करपाक तें हुशार.

''तूं ओहें उबें रावन उलोंव नाहां गो बाये. यो बॉस पोवया ह्या कॉदेलारू!'' फिलसून रोजाक बळयां ओडीत व्हरून कदेलार बसयलें. तें कदेलार बसचें पयली फिलसू आपल्या व्हिस्तिदान कदेल पुसूंक विसरलें ना.

''फिलसूबाय!'' – रोजा.

''उलोय बाय.'' फिलसून आपले किडेल्ले दांत दाखयत जाप दिली.

''तूं भाटये वोयल्या जायत्या लोकांक ओवकोता.'' – रोजा.

''इल्ल्या? चोड कोन्न सोगल्या लोकांक ओवकोतां मुहल्यार जाता.'' फिलसून रोजाकडे उत्सूकतायेन पळेत म्हणलें.

''तूं आलसूक ओवकोता?'' फिलसून मात्सो वेळ चिंतून, सट्ट करून म्हणलें –

''व्होय व्होय. तेजो जावोंय इंग्लोंडाक जेला.''

''व्होईऽ!'' – रोजा.

''तुहां होबोर ना?'' फिलसू.

''हायें शिंतीद कोरूं ना.'' रोजा.

''तूं आलसूले धुवेक ओवकोना?'' फिलसूचो प्रस्न.

''मात्सी ओवोक जाल्या. तेणेंच सांगलां माहां, आपूण आलसूची धूव म्होणोन.''

''व्होय–व्होय! भुरगें एकदोम बोरें. रेश्पेदाचें. घोव भायर आहा, पूण ह्यूच्याच दादल्याकोडे तोकली वोयर काडून पोवपा ना.'' फिलसून भायर गेल्ल्या कांय दादल्यांच्या बायलांचें गुपीत उक्तें करपाचो येत्न केलो. भायर गेल्ल्या दादल्यांच्यो कांय बायलो कशो वागतात हाचेर फिलसू दोळो दवरून आसतालें.

''फिलसूबाय, तूं माहां कोहल्योय नोसत्यो गोजाली इचान्नासतोना सांगता.''

रोजाय फिलसू सारकेंच. पूण आपूण वेगळें अशें दाखोवन दिवपाची ताणें संद सोडलीना.

रोजान आलसूल्या सद्याच्या घराब्याची म्हायती बारीकसाणेन, फिलसू कडल्यान घेतली.

रोजाक आतां कळून आयलें, की गुलू आलसूली धूव. पूण तें एकटें पडलां, सासूमांय आतां ह्या संवसारांत ना. घोव आसा तो भायर गेला. मांव आनी बापूय म्हाताऱ्यांचे वळेरेंत पडल्यात. घोवालें आनी आवयलें – दोनूय घरां आनी संपत एके बायलेक सांबाळची पडटा.

रोजाचे तकलेंतलो सैतान आतां जागो जालो. तो रोजाचे तकलेंत आपल्याक जाय तसो वळवळूंक लागलो. फाटलो फुडलो कसलोच विचार करिनासतना सैतान आपल्याक जाय तसो आदेश दीत सुटलो आनी रोजा तो बिनधास्त मानीत रावलें.

आयज आमच्या जावं देशांत, जावं ल्हान–व्हड घराब्यांत, एक गजाल सर्रास अणभवाक येता आनी ती म्हणल्यार जंय थंय ऐतखाऊ भाऊ पळोवंक मेळटात. जे सुवातेर फायदो जावपाची शक्यताय अणभवाक येता, ते सुवातेक ऐतखाऊ नागोबा जावन आयत्या बिळांत रिगपाचो प्रयत्न करतात.

रोजाय तसलेच वृत्तीचें. ताच्या आतां लक्षांत आयलें. गुलूच्या ताब्यांत आतां खूब शेतां आसात. हांगा-म्हणल्यार भाटयेर आनी आगशेय बी! आगशेच्या शेताची आस धरपांत कांयच अर्थ ना. पूण भाटयेचीं शेतां मात आमच्या कुटुंबाचीं. तीं लुकसाणाक पडटात म्हूण डॅडी शेतां-भाटां पसून पयस रावलो. आलसू अंकलान तीं सांबाळ्ळीं. आतां ताका तीं खूब फायद्याक पडटात. हो फायदो ताणें एकट्यानूच कित्याक घेवंचो? आपणें वांट्याक कित्याक झगडचें न्हय?

आमचो घराबो ह्या शेतां-भाटांचो मुंडकार. आलसू अंकल मुंडकार तसो म्हजो डॅडीय मुंडकार. गुलू मुंडकान्न तशें हांवूंय मुंडकान्न! आनीकूय आमच्या घोराब्यांतले वांगडी आसतले. तेन्ना कोर्टांतल्यान वांट्याक झगडल्यार तें म्हारग पडटलें. जैत मेळटलेंच हाची खात्री ना. तेन्ना आड मार्गान गेल्यार जैत मेळपाची चड शक्यताय आसा. आयजच्या काळांत सरळ मार्गान चलप्यांचे दीस उरूंक ना. अशें चिंतून रोजान वांकडो मार्ग पत्करलो. तेंक्याक ताचे तकलेंतलो सैतान आशिल्लोच!

रोजान चिंतलें, लडाय सुरू केलीच जाल्यार ती गुलू आड करची पडटली. गुलू बळीश्ट आसा. ताका हांगाचो लोक बरो आसा. तेंय लोकांक बरें करता. कसलीय लडाय सुरू करतलें जाल्यार, गांवांतल्या लोकांचें बळगें म्हत्वाचें आनी लोकांचें बळगें मेळोवपाचें आसल्यार लोकांमदें मेळून मिसळून रावपाची चड गरज आसता.

रोजान आतां आपल्यांतल्या सैतानाक कौल लायलो. रोजाक जेन्ना जेन्ना वायट कर्मां करचींशीं दिसता, तेन्ना तें सैतानाक जागयता. आतांय ताणें तशेंच केलें.

सैतानान रोजाक इंग्लंडाक ना वचपाचो आदेश दिलो. गुलूक बुध्द शिकयतलें जाल्यार रोजान इंग्लंडाक वचनासतना गांवांत लोकांमदें मिसळून रावचें पडटलें. वायट आनी कुकर्मी लोकांची संगत धरची पडटली. गुंडांकडें इश्टागत जोडची पडटली. तांकां सोरो-मटन खावोवचें पडटलें. असल्या दुश्ट लोकांक रोजाक भेटोवपाची जापसालदारकी सैतानान आपल्याचेर घेतली.

रोजान आनीक कळाव केलो ना. ताणें आपल्या घोवाक इंग्लंडाक वचपाचो आदेश दिलो आनी आपणें कळंगुटच्या फ्लॅटार रावपाचो बेत केलो.

रोजान आतां चिंतलें. शेता-भाटांच्या वांट्याक झगडटलें जाल्यार फ्लॅटार न्हिदून उपकारचेंना. गुलूकडे इश्टागत करून, ताका आपली खरी वळख पटोवन दिवपाची चड गरज आसा. वळख फायद्याक पडली जाल्यार बरें आसा. ना तर गुलू वांगडा संघर्श हो करचोच पडटलो.

रोजाचें आतां भाटयेर येवप–वचप सुरू जालें. बार्राचेर उठप–बसप जावंक लागलें. तरणाट्यां कडे पळोवन दोळे मोडणी जावंक लागली. कांय तरणाटे रोजाचे सावळे पसून मुजरत पयस रावंक लागले. रोजाचे दोळे तांकां विखाळे दिसूंक लागले.

५५

गांवांत एक नवी अस्तुरी आयल्या. नवी म्हणपाचें कारण हे आदीं ती कोणाचे नदरेक पडूंक नाशिल्ली.

ही नवी अस्तुरी पळोवंक नखरेबाज दिसताली. ही अस्तुरी तांबड्या ओंठांची, गुलाबी गालांची, रंगयाळ्या भुंवयांची आशिल्ली. ती बार्रांचेर आनी तावेर्नांचेर वरांचीं वरां बसून आसताली. हे अनवळखी आनी नखरेबाज अस्तुरेचें वावरप गांवांतल्या लोकांक मानवनाशिल्लें. हे अस्तुरे पासून गांवच्या लोकांनी जाता तितलें पयस रावचें, अशें गांवच्या वडील आनी बरे देखीच्या मनशांक दिसतालें.

घाण आसा थंय मूस रोखडेच धांवन येतात. एक दीस एका बेबद्या तरणाट्याची नदर रोजाचेर पडली. हो बेबदो बिनधास्त रोजाच्या म्हऱ्यांत वचून उबो रावलो. रोजाकय तेंच जाय आशिल्लें. ताणें बेबद्याक वयर–सकयल पारखून घेतलो. ताचो रागीट चेरो आनी तांबडे दोळे पळोवन तें खोशेलें. हाका जाय तितलो सोरो पाजल्यार तो आपल्याक जाय तें करतलो, हाची खात्री रोजाक जाली. ताणें ताका तोर्राद फेणयेंत बुडयलो आनी आपलो गुलाम केलो.

ह्या बेबद्याचे संबंद गांवांतल्या हेर बेबद्यांकडे आशिल्ले. तातूंत थोडे गूंड प्रवृत्तीचेय आशिल्ले. सोरो आनी चिकन–मटण मेळता तें पळोवन हे सगळे तरेचे बेबदे आनी गुंडा रोजा मॅडमीच्या आलाशिऱ्याक एकठांय जाले. तेंय तेंच सोदतालें. ताणें सगळ्यांक येवकार दिलो. रोजाच्या फोर्सार आतां गांवगूंड गांवांत धुमाकूळ घालूंक लागले. तांची नदर चड करून आडसरांच्या पेंडयांचेर आसताली. ह्या आदीं तांणीं खूब फावट भाटकारांल्या माडांचीं आडसरां काडून विकल्यांत. ते पासत तांणीं पुलिसांचो मारय खाला. पूण आतां कोण भाटकारांलीं आडसरां चोरपाची रिस्क घेवंक तयार नाशिल्ले. कारण पुलिसांनी पकडल्यार तांकां सोडपी कोण नाशिल्लो गांवांत. आतां रोजाचो आदार मेळिल्ल्यान सगळे गूंड बिनधास्त जाले.

रोजाक मात ह्या गांवच्या गुंडांक थोडो वेळ कामा पुरते मामा करपाची गरज आशिल्ली. आपलें काम जातकच, काम जालें वैज मेलो म्हूण सोडून दिवपाचो बेत आशिल्लो रोजाचो.

रोजान आतां चिंतलें, आयजच्या राज्यांत उजू मार्गान गेल्यार कांयच सादपाचें ना. आपल्या फाटल्यान थोडे जावं मागीर ते – गुंड आसाच. सगळेच पुलीसांत आसनात. कांय जाणांच्या दोळ्यां मुखार पांचवीं कागदां हालयल्यार ते आपले दोळे मुजरत बंद करून दवरूंक शकतात. गांवांत कांय लोक अशेय आसतात की, रोजान तांबड्या ओंठांतल्यान तांबडी इंग्लीश भायर फेंकली जाल्यार, तांच्या मुखार थोडींशीं लागोळेपणां केलीं जाल्यार ते पिगळूं शकतात, भुरकुटून वचूंक शकतात. रोजाक जाय तें करूंक शकतात.

रोजाक हेंय कळून आयलें की, गुलूक पिढीजात संपत्तीपसून पयस करतलें जाल्यार कायद्याचो उपेग करून चलचें ना. तें काम भंय घालूनच करचें पडटलें. बाबा पुता करून चलपा सारकें ना.

रोजा आतां दिसपट्टें कळंगुटे सावन भाटयेर येवंक लागलें. आपले मर्जेंतल्या लोकांकडे मेळून मिसळून रावंक लागलें. आपले मर्जेंतल्या वांगड्यांक घेवन शिर्दनचे वेळेर पिकनिको करूंक लागलें. आपल्या वांगड्यांक आलसूबाल्या माडांर चडोवन आडसरां देवोवंक लागलें. आपुणूच थंयच्या शेतां–भाटांची धनीण, अशें वागूंक लागलें.

सांजवेळार शेतांतलीं बरीं–बरीं कणगां आनी वायंगी पिशव्यांनी भरून घरा व्हरूंक लागलें. पिशव्यो हातांत धरूंक लज दिसता म्हणून वांगडा तें सर्वंटाक हाडूंक लागलें. रोजालीं हीं कुकर्मां बिनधास्त चलतालीं.

गुलूक आतां दिसूंक लागिल्लें की गांवांत आपल्याक दुस्मान असो कोणूच ना, हे कल्पनेन तें बिनधास्त जियेतालें. पूण ताची ही कल्पना फट थारली.

एक दीस गुलूच्या लक्षांत आयलें, ताच्या शेतांत कोणतरी चोर रिगला. तो झिळमिळट्यार शेतांत देंवता. कणगां उस्तिता, वायंगीं तोडटा, मिरसांगो खुट्टा, वाल आनी अळसांद्यांच्यो सांगो काडटा.

हेर शेतकारांक दिसतालें, झिळमिळट्यार शेतांत देंवपी दुसरो–तिसरो कोण नासून तो गुलूलो मानाय आसतलो.

पूण ही गजाल खरी नाशिल्ली. मानायानच ती गुलूच्या कानार घाली.

गुलू आतां बेजारलें. भरिल्ल्या शेतांत गोरवां देंवलीं जाल्यार तांचे फाटीर दांडे घालून तांकां धांवडावंक जाता. बिळांतल्यान उंदीर भायर सरून शेताची नासाडी केल्यार तांचोय बंदोबस्त करूं येता. पूण मनशांकडे सांबाळून रावंक जाय.

गुलू आतां चिंतूंक लागलें. आपल्या भरिल्ल्या शेताचेर वांकडी नदर घालपाचें धाडस कोणाक जालें काय? आपणें तर कोणाचें केन्नाच वांकडें केलें ना. हांगाच्या लोकांनीय

आपल्या बापायक – आलसूबाक – सदांच मान– रेस्पेदान वागयला. हें भाट आनी शेत आपल्या बापायचें हें सगळ्यांक खबर आसा. अशें आसतना आपल्या शेतांत चोरी?

गुलू आतां सामकें बेजारलें. तें करूंक सोदतालें बरें आनी घडलें भलतेंच. तरी घडटा तें पळोवन हात पांगरून बसपी नाशिल्लें गुलू! ताणें चोराचो सोद घेवपाचें थारायलें. तें काम ताणें आपल्या विस्वासू मानायांकडे सोंपयलें.

आपले धनिणी पासत मानाय कितेंय करपाक एका पांयार तयार आशिल्लो.

मानायान अदमास केलो. चोर शेतांत देंवलो जाल्यार तो खंयच्या वेळार देंवतलो? देंवतकीर ताका चोरी करूंक कितलो वगत लागतलो हाची कल्पना मानायांक आशिल्ली.

एक सैनीक लडायेक वचूंक तयार जाता तसो मानाय चोरांक पकडपाक शेतादिकेन हड्डें फुडें काडून चलपाक लागलो. भायर सरचे पयलीं ताणें माथ्यावेल्यान काळ्या बुरणुसाचो बुरखो घेतलो. शेताची धड सोडून थोड्या अंतरार एक वडा झाड आशिल्लें. मानाय झाडा आडसाक वचून गुठली करून बसलो...

५६

**शे**तांतलें आनी सरभोंवतणचें निरव वातावरण, थंड वारें, पयसुल्ल्या शेतांतलें पातळशें धुकें, मळबांतलीं निश्तेज नखेत्रां, गांवांतल्या एखाद्रया कोंब्याच्या गळ्यांतल्यान भायर पडिल्लो क्षीण साद. हें सगळें पळोवपी रसिकांक ह्या गजालींची मिसळ सूखदिणी आशिल्ली. पूण ह्या सगळ्याचो रस घेवपी रसीक थंय कोण नाशिल्लो. आशिल्लो तो लिपून बशिल्लो गुलुलो इमानी मानाय. पूण ताचें लक्ष केंद्रीत जाल्लें चोराचे वाटेकडेन!

मानाय जाची वाट पळेतालो तो आतां शेतांत देंवलो. खरें म्हणल्यार तो देंवलोना. ताणें आड्यावेल्यान उडी मारली.

धाडसी मानायान चोराक आपलें काम करूंक दिलें. ताका पुरावो जाय आसलो.

चोरान आपलें कार्य आतां झटपट पुराय केलें. दोन साका पोतयो भरून खांदार मारल्यो. कशेभशेन तो आतां शेता भायर आयलो.

मानाय निर्व्यसनी आशिल्लो आनी चोर बेबदो. असल्या चार–पांच बेबद्यांक लोळोवपाची ताकत मानायांत आशिल्ली. ताणें धांवन येवन पयलीं चोराचेर झोपय घाली. उपरांत ताचो हात अशे तरेन पिळ्ळो की चोराक किंवाट्यान किंळाच आनी बोब मारले बगर दुसरो पर्याय उरलोना.

चोराक सोन्यान पोखरून सोडिल्लो. तरी ताची किळांच जबरदस्त आशिल्ली. किळांच आयकून सरभोंवतणचे लोक धांवन आयले. चोर वळखिचो आशिल्लो तरी ताका लोकांनी थापटावपाचो सोडलो ना.

''बाबांनो, माहा मारूं नाहाय. हांव चोर न्होय.'' अशें म्हणून चोरान मानायाचे पांय धरले.

''तूं चोर न्होय जाल्यार हें कितें चेडयेच्या.'' पोतयांनी भरिल्ल्या व्हेर्दुराकडेन बोट दाखयत एका तरणाट्यान चोराच्या भेंडार रस्तीन खोंट घाली. दुसरी खोट घालचे पयलींच मानायान तरणाट्याक आडायलो. मानाय 'मानाय' आसलो तरी हुशार आशिल्लो. तरणाट्याचे देखीन हेरांनी खोटो घाल्यो जाल्यार विपरीत घडपाची शक्यताय आशिल्ली. तेन्ना मानायान चिंतलें, चोराक मार फार करचे परस ताका पुलिसांकडेन दिल्यार बरें.

थंय जमिल्ल्या लोकांकय तेंच जाय आशिल्लें. आयज गुलूलें शेत चोरता, फाल्यां सगळीं शेतां–भाटां चोरून खातलो.

''ह्या चोराक पुलिसांकडेन दिंवचे पयलीं माडाक बांदून दोवोराय रे.'' एका गांवकारान सुचयलें.

''तेजेर सूर ओतोवन हुमले सोडाय.''

आनीक एकल्यान उपाय सुचयलो. हो उपाय आयकून चोराच्या हात–पांयांक कडकडो भरलो.

''नाहां सायबा. माहां बांदून दवरूं नाहांय, पुलिसांकोडे दिवनाहांय. म्होजेर हुमले सोडू नाहांय. देआच्यान, गोयें सायबाच्यान तोर हांव चोर न्होय.'' अशें म्हणून त्या बेबद्यान मानायाच्या पांयार घालून घेतलें.

''तूं चोर न्होय तोर येद्या सोकाडीं कावकांत शेतांत कित्याक देंवलो?'' आनी एकल्यान मूठ आवळीत–दांत किल्लीत आपलो राग उक्तायलो.

''माहां माडामीन सांगलें देखून हें वेर्दुर काडलें हायें.''

''माडाम, कोण माडामू?'' एका शेतकारान आबूज जावन प्रस्न केलो.

''ती माडाम रे. इंग्लंडा सावन येयल्या पोय ती. गाआंत भाटकान्न कोही भोंवता पोय ती.'' चोर कोणाक भियेनासतना सडसडीत उलयलो. हें आयकून थंय जमिल्ले शेतकार तोंड आंऽ करून एकमेकाकडेन पळोवंक लागले. हें रॉजाचेंच काम जावन आसा म्हणपाचें आतां सगळ्यांक कळून आयलें.

''तियेन सांगलें आनी तुयें आयकोलें रे चेडयेच्या.'' अशें म्हणून एका रागीट शेतकारान चोराचेर खोट उबारली. चोर भियेलो. ताणें आनी एकदां मोठ्यान किळांच मारली.

''तेहा मारूं नाकाय रे. मोरोत तो!'' कोणें तरी गर्दैतल्यान म्हणलें. गुलूल्या मानायाक्य तें खरें दिसलें. ताणें चोराक सोडलो ना. पूण माडाक चरचरीत बांदून घालो.

इतले म्हणसर थंय गुलू आयलें. कोणेंतरी शेतांत घडिल्ली गजाल ताज्या कानार घाली.

''तुहां म्होजेंच शेत मेवलें रे चोरूंकू? हेका सोडाय रे. पुलिसांकोडे दिवया. तेंहांच कोरूं दी कितें कोरपाचें तें!'' अशें म्हणून गुलून चोराक फाट केली.

''बाय माहां पुलिसांकोडे दिवंनाहांय गो. इतूंत म्होजो कोहलोच गुन्यांव ना. हें हायें सोऱ्या आशेक लागोन केलां. सोरो नासतोना म्होज्यान कोहोच रावोंक जायना गो बाय!'' चोरान काकुळटेक येवन म्हणलें.

''सोरो, कोण दितारे तुहां सोरो? नांव सांग माहां तेजें.'' गुलून उत्सूकतायेन म्हणलें.

''बाय तेहा आनी कांय इचारूं नाहां. हांव सांगतां तुहां सोगलें.'' एका गांवकारान गुलूक मदेंच आडावन म्हणलें. इंग्लंडची माडाम आपल्याक सोरो दिवन काम करून घेता हें चोरान आदीं सांगिल्लेंच. आतां गांवकारांकडच्यान हे गजालीक दुबाव विरयत तेंको मेळ्ळो. आतां सगल्यांक कळून आयलें, हें कुकर्म दुसऱ्या तिसऱ्याचें नासून, शेर्त त्या रॉजाचेंच जावन आसा. ह्या दिसांनी गांवांतल्या बारांचेर आनी तावेर्नांचेर बसून ती गुंडांक सोरो पिवयता म्हणपाचें गांवांतल्या खूबशा लोकांनी पळयल्लें. तातूंत होवूय बेबदो सामील आशिल्लो.

ही गजाल एका गांवकारान गुलूच्या कानार घाल्ली. पूण गुलून ती कानामनार घेतलीना. इतली बरी देशेंत बायल येवन मुजरत आपल्याच शेतांत चोरी करीत-चोरी करपांत फुडाकार घेत हें गुलूच्या ध्यानीमनी नासलें. पूण रॉजा मात आपल्या काळजांतलें काळेंबरें घेवन, आपली येवजण साध्य करपाक गांवांत नेमान फेरे मारतालें.

आयजूय रॉजा सदांभशेन कळंगुटे सावन भाटयेर आयलें. वाटेर ताका दोग-तीग गूंड वांगडी मेळ्ळे. तांकां घेवन तें गुलूल्या शेताकडेन गेलें. आतां सकाळचीं सात-साडेसात वरां जाल्लीं. शेतकारांली सकाळ चालूच आशिल्ली. आपापल्या शेतांतलीं कामां सुरू करपाचे तयारेक लागिल्ले ते.

गुलूल्या शेताकडेन इल्ली इल्ली वाडत आशिल्ली गर्दी पळोवन शेतकारांलीं पावलांय गर्देकडेन वळूंक लागिल्लीं. रॉजाय शेताकडली गर्दी पळोवन अजापीत जालें. गर्देंतल्यान वाट काडीत तें फुडें आयलें. पळे जाल्यार ताचे दिश्टीन थंय विपरीत घडलां. ताच्या बेबद्या वांगड्याक माडाक बांदून घाला.

गुलूय गर्देंत सगळ्यांत फुडें उबें आसा. रॉजा कितें समजूंक जाय तें समजलें. ताणें चिंतलें, फाटलो-फुडलो विचार करिनासतना गुलूचेर घालो घालूंक हीच वेळ बरी आसा. सरळ मार्गान वचचे परस आड मार्गान वचून, आपली खरी वळख दाखोवपाची आयतीच संद गावल्या. ती वगडायल्यार पिशेपणां थारतलीं.

रॉजान सरभोंवतणी नदर मारली. गर्दी बरीच वाडल्या. गर्देंत ताचे मर्जेंतले लोक पळोवन ताका फुरफुरी मारली. तें युध्दाक तयार जालें.

रॉजान आतां सगळ्यांत पयलीं आपली दिश्टी गुलूचेर वळयली. तें रागान तांबडें जालें. दोळे ताचे निजाचेच मोटे. रागान आनीकय मोटे करून, भेंडार हात धरून उबें रावलें.

''तेहा कोणें बांदून दोवोरला गो चेडये?'' रॉजान गुलूक प्रस्न केलो.

''हायें सांगला तेहा बांदूंक.'' गुलून शांतपणान जाप दिली.

''कित्याहू?'' रॉजा ताणशेलें.

''कित्याह म्हुणचे? तो म्होज्या शेतांत देंवलो. चोरूंक. तें पोय कितलें वेर्दुर चोरलां काय म्होणोनू!'' गुलून सवकासायेन सांगलें.

''तूं वोग्गी बोस. तुकोडें माजीर उलोयतां हांव.'' अशें म्हणून रॉजान मोठ्यान शिळोण्यो घाल्यो. त्यो आयकून गर्देंतल्यान दोन खडेगांठ गूंड हड्डें फुडें काडून रॉजा म्हऱ्यांत उबे रावले.

''चोलाय रे त्या गाब्रूक सोडाय.'' दोगूय गुंड लकत-लकत धांवले. ताणीं त्या चोर बेबद्या गाब्रूक खिणांत सोडयलो. रॉजाल्या फुडल्या आदेशाची वाट पळेत रॉजा म्हऱ्यांत येवन मोन्यानी उबे रावले.

गर्देंत आपले वशींचे लोक पळोवन रॉजाक भलतोच चेव आयलो. ताणें गुलूच्या नांवान गाळयां शिंवर केलो. गुलू गाळयो आयकून काचाबूल जालें. गुलू असल्यो गाळयो भुरगेपणांत सावन आयकत आयिल्लें. तांचो अर्थय पुराय नासलो तरी मात्सो-मात्सो समजतालो ताका. पूण आलसूबाच्या संस्कारांत वाडिल्ल्या गुलूक गाळयांचो उपेग करपाचें धाडस केन्नाच जावंक नाशिल्लें.

आनी एक गजाल गुलूक खटकली. इंग्लंडाची वारी करून आयिल्लें, दिस-रात तोंडांतल्यान इंग्लीश लेफडावपी रॉजा इतलें अनाडी? खंयच्यान आयलें हें अकस्मात? ना वळखपाळख, ना नातें गोतें. एक दीस अकस्मात शेतांत येता कितें, रोमता कितें आनी कोणाक सांगिनासतना दसता कितें! हीं सगलीं गुलूक विकृत अडाणीपणाचीं लक्षणां दिसलीं. असले विकृत बायलेच्या तोंडाक लागच्या परस ताचें तोंड वाऱ्यार सोडून, ताज्या तोंडांतल्यान भायर पडिल्लें गिन्यान थंडसाणेन आयकून घेवपाचो निर्णय गुलून घेतलो. ह्या निर्णयान गुलूचो व्हडलो फायदो जालो. जमिल्ल्या लोकां मुखार रॉजा आपल्याक जाय तशें कित्या कितेंय बडबडूंक लागलें. चड करून ताणें आपल्या घराब्याच्या इतिहासाचेरच भर दिलो. हेत हो की आपूण ज्या शेतांत उबें आसां, त्या शेताचेर आपल्या घराब्याचो हक्क आसा. आपूण ह्या घराब्याची धूव आशिल्ल्यान, घराब्यांतल्या शेतां-भाटांचो वांटो हक्कान आपल्याक मेळूंक जाय. आलसू आपलो खासा अंकल आनी गुलू आपली बापोलभयण. ह्या दोगांनीय आमच्या घराब्याचीं भाटां-बेसां बळकायल्यांत.

हांव म्हज्या वांट्याक झगडटां आनी तो मेळयल्या बगर कशेंच रावचें ना.

हें सगळें सांगपा खातीर रॉजान आपले तीख जिबेचो उपेग केलोच. ते भायर ताणें आपल्या सर्वांगाचें प्रदर्शनय केलें. छातयेचो वयलो भाग मुजरत हालयलो. भेंड हालोवंकय तें विसरलें ना. मदें मदें ताणें एक-दोन वेळां आपलो व्हिस्तीदय वयर काडलो. राग व्यक्त करपाचो ताचो एक तो खाशेलो प्रकार! असले प्रकार गांवांत केन्ना केन्नाय पळोवंक मेळटात.

रॉजान सादर केल्लो खेळ कोणाकच मानवलो ना. थंय जमिल्ल्या चडशा लोकांक तो मानवलोनाच, ते भायर थंयच्या सैमांतल्या चराचराकय तो भावलोना. झाडांपेडांनीं मौन धारण केलें. किडी-मुयो कसलीच हालचाल करिना जाल्यो. सूर्या मळबांत वयर येवनय उदास जालो. ल्हान-व्हड सगळीं सुकणीं ध्यानस्त जालीं.

५७

सगळो लोक आपापल्या कामाक लागल्या उपरांत गुलूय ताकतिकेन आपल्या घरा गेलें. ताणें शेतांत घडिल्ली गजाल आपल्या दादीक सांगली.

ही गजाल आलसूबाक दुख्खदिणी आशिल्ली. तरी ताणें विचार केलो. गुलू कितलेंय सादेंसरळ आसलें, शिटूक आनी बळिश्ट आसलें तरी ताचो रॉजा मुखार तिगाव लागचो

ना. रॉजा खंयच्याय थरार वचून गुलूक दुख्खांत उडोवंक शकता, हाची पुराय खात्री आलसूबाक आशिल्ली.

ताणें गुलूक सांगलें – धुवे, आमकां इंग्लंडाचे दुडू नाका. शेत राखून दवरपाची चड गरज आसा. चीट बरोवन लोरसूक घरा आपोय. हांव रॉजाक वळखतां. तूं एकटें ताचेकडेन झूज दिवंक शकचें ना.

मनीस कितलोय बुदवंत आसलो तरी तो अणभवान शाणो जाता. मनशान शिकून कितल्योय पदव्यो घेतल्यो तरी अणभवा मुखार त्यो फिक्यो पडटात. गोंयांत ल्हानाचो व्हड जातासतना लोरसूक फॉरेनरांचें सगळेंच बरें दिसतालें. खावप–जेवप, न्हेसप, पांगरप, इतलेंच न्हय तर इंग्लेज–पोर्तुगेज भास लेगीत ताका देवांची भास दिसताली. गोंयच्या अर्दकच्च्या शिक्षणान ताची तशीच समजिकाय करून दिल्ली.

आतां तो इंग्लंडाक पावलो आनी ताका दिसलें आपूण देवांच्या राज्यांत पावलां. थंयचो चकचक, थंयचो झगझग, थंयचें संगीत, थंयचें नृत्य, थंयच्या लोकांची शिस्त आनी वागणूक पळोवन लोरसू सामको भुल्लुसलो. इंग्लंडाक येवन आपल्या जिविताचें सार्थक जाल्लेवरी दिसलें ताका.

अशे तशे आठ दीस ताचे बरे गेले. चेंपणा विरयत. ताच्या वांगडा पास्कू आशिल्लोच. ताच्या धिरान आनी आदारान लोरसूचे दीस कशे वतात हें ताका कळ्ळेंच ना. पास्कूनय ताका तें कळूंक दिलें ना. आपल्यागेर एक सोयरो आयला, अशे तरेन बडदास्त दवरली पास्कून लोरसूची.

पास्कू लोरसूचो इश्ट आशिल्लो. तोय एकाच गांवचो. पास्कून लोरसूपासत केल्लें बरें–वायट दोगांय इश्टांच्या काळजांत रिगून उरतलें हाची जाणविकाय चड करून पास्कूक आशिल्ली.

''पास्कू, माहां हिंगा नोयें–नोयें आनी पोरकें–पोरकेंशें दिसता रे.'' लोरसून मनांतली खंत उक्तायली.

''आतां तुहां सोगलें नोयें नोयें दिसता मुरे? दोन दीस राव. सोगलें पोन्नें पोन्नें दिसतोलें. आतां तूं हिंगा नोवो आहा. एकदां कामांक लागलो म्होण्टोच सोगलें नोयें–पोन्नें इसोत्तोलो.'' पास्कून आपलो अणभव उलोवन दाखयलो.

''आमच्या गाआंतले जायते लोक येयल्याय मुरे हिंगा. कोणूच दिसोनाय.'' – लोरसू.

''तुहां इंग्लोंड मुहल्यार आगशी आनी व्होडलें गोंय दिसलें कितें रे! हिंगाचे गोंयकार शिपडोन आसताय. एकामेकाक मेवतोले जाल्यार लिव झेवची पोडटा.'' खरें म्हणल्यार

ही गजाल लोरसूक समजूंक जाय आशिल्ली. ताणें आपलें अगिन्यान पास्कू मुखार उत्तायलें. आपूण जाणा जावन पिशेपणां उलयलो हाची लोरसूक मनांतल्या मनांत लज दिसली.

''लोरसू, तूं हांव आसतोना भियों नाहां रे. तुज्या मनांतुले सोगले दुबाव पोयस करपाचें काम म्होजें.'' पास्कून आपल्या कर्तव्याची जाणविकाय करून दिली. कांय ना म्हणलें तरी लोरसू गोंयांत सावन आपल्याचेर पातयेवन इंग्लंडाक आयला. कितलेंय जालें तरी. इंग्लंड हें दोन दिसांचें आनी तात्पुरतें. केन्ना ना केन्ना आमकां गोंयांत वच्चें पडटलेंच, हाची जाणविकाय त्या अशिक्षीत पास्कूक आशिल्ली. ते पासत तो लोरसूक कसलेच बाबतींत दुखोवंक सोदीनासलो. जाता तितलें ताचें तो बरेपणच घेवंक सोदतालो. ताज्या प्रत्येक उतराची तो कदर करतालो.

''पास्कू, आगशीचो जाकी म्होणोन एक तोरणाटो कांय दिसां हाटीं इंग्लोंडाक येयला. तुहां ओवकोता तो. तेणेंच सांगलां रे माहां.'' लोरसून खुशालभरीत जावन म्हणलें.

''व्होय व्होय. हांव ओवकोतां तेहा. तेचें कितें जालें?'' पास्कू मात्सो दुबावलो.

''माहां मेवोनशें दिसता तेहा.''

''कित्याहू?''

''आमी दोगूय एका गाआंतुले न्होय रे? ते भायर दोगूय बाराबोन शिकपी. मेवल्यार तेहा चोड बोरें दिसतोलें.'' लोरसून आपली आस उत्तायली.

५८

तशें पळोवंक गेल्यार लोरसूक थंय उबगपाचें कारण नाशिल्लें. तो ज्या राबित्यार रावतालो तो पॉश आशिल्लो. ताचें काम मानायांचें आनी तसलेंच कसलेंय तरी आसतालें. तरी तांच्या राबित्याची कूड बरी देशेंत आशिल्ली. सगळे तरेच्यो सूखसोयी आशिल्ल्यो तांच्या राबित्याचेर. एका रुमार फकत तीग-चौग आशिल्ल्यान गर्देंत दीस काडपाचो प्रस्नच नासलो. जेवणखाण आनी न्हेसण पांगरून थंयच्या वातावरणाक फावता तशेंच आशिल्लें. तशी वेवस्था करचीच पडटाली तांकां.

एक मात, शाराचे मागणे प्रमाण, दिसभर मानायांक भायर रावचें पडटालें आनी लोरसूक तर हेंच मानवनाशिल्लें. गांवगिऱ्या वाठारांत स्वतंत्रतायेन दीस काडिल्ल्या लोरसूक, कोणाच्या तरी चेपणाखाला जिवीत सारप जिवार येतालें.

ही गजाल पास्कूच्या लक्षांत आयली. ताणें चिंतलें, लोरसूचें मन हांगा लागना. ताचें मन थीर जावन कामाक लागूंक आनीक कांय दीस वचपाची गरज आसा. तो मेरेन ताका थोडो आदार दिल्यार बरो.

लोरसू आतां काम करतालो. पूण मनापसून न्हय. ताजेकडेन जाता तसलें कसलें ना कसलें काम केले बगर दुसरो आनीक पर्याय नाशिल्लो. ताका लागून ताज्या हात–पांयांची कूड इंग्लंडाक आसली तरी ताचें मन मात दीस–रात गोंयांत आशिल्लें.

इंग्लंड सारक्या चकचकीत आनी झगझगीत, सूखदिण्या वातावरणांत वावरूनूय लोरसूचें मन खिणांत गोंयांतल्या आगशी गांवांत पावतालें. तेन्ना तो एकांताचो सोद घेत भ्रमिश्टा सारको हांगा–थंय पासयो मारतालो. सुवात मेळटा थंय बसून आगशी गांवाचें चित्र नियाळटालो. त्या चित्रांत ताका हालीं हालींच मेल्ल्या नातलूचें – ताचे मम्मीचें– मरण दिसतालें. आगशीच्या भाटांतल्या' झाडां–पेडांनी बोवाळपी चानयो आनी कांव कांव करून गांवांत जाग हाडपी कावळे, मदीं–मदीं एकाद्र्या कोंब्याचो साद, दर्यावेळेवेलो मंद गाज आनी थंड वारो लोरसूक ताच्या गांवाची याद करून दितालो.

हे यादी मुखार लोरसूक इंग्लंडाची गिरेस्तकाय नगण्य आनी तुच्छ लागताली.

लोरसू चिंतीत बशिल्लेकडेन आसतना पास्कू दुखेस्त जावन ताच्या म्हऱ्यांत गेलो. लोरसूची जाल्ली अस्वस्तकाय पळोवन पास्कूच्यान स्वस्त बसूंक जालेंना. ताणें लोरसू म्हऱ्यांत वचून म्हणलें–

''लोरसू, तुहां हिंगा सुसेग लागोना तें कोवता रे माहां. पूण कितें कोत्तोलो? नोशिबांत आहा तें भोगूंकूच जायें न्हो रे!'' पास्कून आपल्याकडेन शाणेपणां आसात, हें लोरसूक दाखोवन दिलें.

''माहां आतां घोच्ची चोड याद येवंक लागल्या रे पास्कू. माहां पोत्तो–पोत्तो गुलूचोच उगडास येता रे.''

''येवपाचोच. नेयीं काजारी न्होयरे तुमी.'' पास्कून लोरसूचीं फकांडां केलीं.

''ओहीं फोकाणां कोरूं नाहां रे पास्कू. होरें मुहल्यार हायें हिंगा येवंकू हावनाहलें बाडया! आतां माहां पिकासांव जाता. म्होजें गुलू थिंगा एकटें पोडलां रे पास्कू. ओहल्या ओगतार म्होजो वांगोड जाय आहलो तेहा. दोन घारांतुल्या दोन म्हाताऱ्यां वांगडा गुलू कोहें जियेता देवाक होबोर.''

पास्कून आतां चिंतलें लोरसूचें आतां खरें लागना. तो हांगा चड तेंप तिगतसो दिसना. ताचें हांगा मन लागपा सारकें कितेंय तरी करूंक जाय आनी प्रयत्न करूनय तो ह्या वातावरणांत थिरावलोना तर हांगा रावन तरी कितें फायदो?

''लोरसू, हाल्यां आमी भोवपाक या मुरे?'' पास्कून लोरसूक अकस्मात प्रस्न केलो.

''हुंयीं!'' लोरसू फुल्लो.

''तुहां जाकीक मेवोंक जावो म्होण्टालो न्होय रे तूं.'' – पास्कू.

''व्होय बाडया. होऱ्यांनीच माहां मेवोनशें दिसता तेहा.'' – लोरसू.

''तोहें जाल्यार हाल्यां नाहां. आमी पोरवां या. हाल्यां हांव जाकीक रोकाद धाडटां. आमी येताय, घारा राव म्होणोन. आगशीच्या आनी हेर वाठारांच्या लोकांकूय एकठांय कोत्तोलो तो.'' हें आयकून लोरसू आनीकूय फुल्लो.

''तोहें जाल्यार ही चोड बोऱ्यांतुली गोजाल सांगली तुयें.'' लोरसू खुशाल भरीत जालो. तो फायचो दीस कसो उलगतलो आनी परवांचो केन्ना उदेतलो, ह्या ध्यासान अस्वस्थ जालो. जाकी आनी ताच्या वांगड्यांक केन्ना भेटतलों आनी तांचेकडेन कोंकानीन सोवकासायेन पोटभर केन्ना उलयतलों, अशें जाल्लें ताका.

५९

जी गत लोरसूची जाल्ली, तशीच जाकीची आनी ताच्या वांगड्यांची जाल्ली. कसोय जालो जाल्यार लोरसू तांचो गांवभाव आशिल्लो. ताच्या येवकाराचो दबाजो बरो जावंकच जाय. जाकी आनी ताचे वांगडी लोरसूच्या येवकाराक अशे तरेन वावरूंक लागले की लोरसू म्हणल्यार तांकां गोंयचो एक मंत्री कसो!

थंयचे वेळेप्रमाण अजूनय सकाळ आशिल्ली. पास्कू आनी लोरसू जाकील्या रुमार हाजीर जाले. जाकीन तांकां हुनहुनीत येवकार दिलो. येवकाराक खासा चित्रविचित्र पोशाक करून आयिल्ले इंग्लंडचे गोंयकार भाव! तरेतरेचो सोरो आनी पॅटिसांचो आक्त करून दवरिल्लो जाकीन. पूण हांव येतां, तूं येतां करून जाकिल्या रुमार अपेक्षे भायर गर्दी जमली. लोक थाएक आसले तरी जाकील्या रुमार गर्दी मोठी दिसूंक लागली. जाकीन चिंतलें, रुमार बोवाळ नाका. तो सगळ्यांक घेवन लागसारच्या हॉटेलार गेलो.

आमचे कांय गोंयकार मात्से बोबाटे. चोवगजाण एकठांय जाले म्हण्टकच मोन्यांक लेगीत कंठ फुट्टात. पूण हांगा चडशे कोण कोणाक वळखनाशिल्ले. जाकीन सगळ्यांची वळख करून दिली मात, एकट्या एकट्याची चुळबूळ सुरू जाली. आपूण गोंयच्या न्हय, तर इंग्लंडच्या हॉटेलांत बसल्यात हें विसरून आपल्याक जाय तसो बोवाळ घालूंक लागले. एक लोरसू आनी जाकी सोडलो जाल्यार सगळ्यांचो बोवाळ बेताल आशिल्लो.

जाकीन ऑर्डर दिल्लें रुच्चीक जेवण ताळ्यार पडसर हो बोवाळ असोच चालू उरपाचो आशिल्लो.

ह्या हॉटेलाचेर नेमान येवपी तीग-चोवग इंग्लिश तरणाटे आशिल्ले. पळोवपाक शांत आनी थंड दिसताले. पूण इंग्लंडा भायले - चड करून काळे-सावळे, भारतीय दिसले जाल्यार तांचें पित्त खवळटालें. सदांभशेन आयजय हे तरणाटे भितर सरले. पळे जाल्यार आपलें सदांचें मेज कोणेंतरी काळ्यांनी आडायलां. हे काळे दुसरे तिसरे कोण नासून, ते इंडियन आसात हें त्या गोऱ्यांनी ताडलें. ते खिणांत भडकले. तांतल्या एकान म्हणलें, ''यू इंडियन डॉग्स, गेट आवट फ्रॉम देअर!'' हें आयकनाफुडें जाकीले वांगडी फट करून उठून उबे जाले. लोरसू मात तसोच बसून रावलो.

लोरसूची ही बसून रावपाची करणी ब्रिटीश तरणाट्यांक मानवली ना. ते पिसावल्ल्या सुण्यावरी लोरसूचेर तुटून पडले. ताका हाताक धरून ओडीत व्हेलो आनी हॉटेलाच्या दारा भायर धुकलून दिलो.

एक गजाल आमी मतींत धरूंक जाय की गूंड हे सगल्याक आसतात. ब्रिटनांत आसात तशेच भारतांतय आसात.

खरें म्हणल्यार ब्रिटीश तरणाटे तीग आशिल्ले आनी गोंयकार धा. धा आसुनूय तिगांची दादागिरी ते मोन्यांनी पळेत रावले. कांयच करूंक शकले नात. कारण ६ते ब्रिटिशांचे सेवक आशिल्ले. गोंयांत सावन इंग्लंडाक वचून थंयच्या लोकांची गुलामगिरी करताले. राज्य तांचें आशिल्लें. सत्ता तांची आशिल्ली. गोंयकारांनी थंय कितलींय शाणेपणां सांगपाचो प्रयत्न केल्लो, तरी सत्तेफुडें शाणेपणां चलपा सारकीं नाशिल्लीं.

लोरसूक दिसतालें ते ब्रिटीश गूंड चुकल्यात. हॉटेलाचो मॅनेजर तांचेर फाव ती कारवाय करतलो.

पूण तशें कांय घडलें ना. ते ब्रिटीश तरणाटे गूंड आसले तरी ते मॅनेजराल्या देसांतले आशिल्ले. वेळ प्रसंगार ते ताका उपेगाक पडपाचे. लोरसूचेर अन्याय जाला, अत्त्याचार जाला हाची जाणविकाय आसुनूय आपूण त्या गांवचो न्हयच अशें करून दाखयलें ताणें.

हे घडणुकेचें वायट दिसलें तें फकत जाकीक. ताच्यांतलो स्वाभिमान जागो जालो. ताका दिसलें, हॉटेल मॅनेजराकडेन कागाळ करची. तशें ताणें वांगड्यां मुखार उलोवन दाखयलेंय बी! पूण वांगड्यांनीं ताचें कानामनार घेतलेंना. ते आपआपलो स्वाभिमान गोंयांत दवरून, गिरेस्त जावपाच्या इराद्यान इंग्लंडाक आयिल्ले. तांच्या मुखार उजवाड

दाखयताले ते फकत इंग्लंडांतले पौंड. जाकीले वांगडी लोरसूचे मजतीक धांवन तर गेलेच नात. उलट तांकां लोरसूचो राग आयलो. तांकां दिसलें लोरसू जर बसून रावूंक नाशिल्लो तर असलो वगत आमचेर येवंचो नासलो. आमी कितलेय व्हडले जाल्यार, गोंयांत हांगा चलतासतना पांय शितिदानच घालचो पडटा. ह्या लोरसूक फुडें जाग्यार हाडचो पडटलो.

जाकीक आनी ताच्या वांगड्यांक हुसकावन ब्रिटीश गुंडे, आपले आवडीचे सुवातेर बसून जाकीक आनी लोरसूक कोरें करून पळोवंक लागले. आमच्या गोंयकारांक त्या गुंड्यांच्या दोळ्यांत दोळे भिडोवपाचें धाडस जालें ना. आनी तशें धाडस केलेंच जाल्यार तांकां धीर दिवपी थंय कोणूच नाशिल्लो. ताणीं चिंतलें, ऑर्डर दिल्ली  खावड खावन, दुडू फारीक करून थंयच्यान मोन्यांनी पो काडल्यार बरो! आनी ताणीं तशेंच केलें.

आपलो गांवभाव जाकीक मेळटलो म्हणून लोरसू व्हडा उमेदीन गेल्लो. पूण हॉटेलार असली वायट घडणूक घडटली हाची कल्पना कोणाकूच नाशिल्ली. लोरसूचो स्वाभिमान जागो जावंनाशिल्लो जाल्यार सगळें वेवस्थीत निभावन वचपाचें.

पूण जें कितें घडपाचें आसता, तें केन्ना आनी कशें घडत हाचो नेम आसना. लोरसूच्या ध्यानीमनी नासतना थंय ताचे दोळे उगडले. इंग्लंडाक येवचे पयलीं, गोंयांत जे गजालीचो तो विचार करतालो, ती प्रत्यक्षांत आतां ताच्या दोळयांकडेन उबी रावली. आपल्या देशाक आपल्या सारक्यांची चड गरज आसा, ते पासत तो आपलो देश सोडून परदेशांत वचपाक फाटींफुडें जातालो. गुलूचेय तेच विचार आशिल्ले. पूण नाइलाजान म्हणात ना तर अगिन्यानान म्हणात तो इंग्लंडाक आयिल्लो.

पूण इंग्लंडाक ताचें मन कशेंच रमलें ना. मेळटा तें काम तो सोडिनासलो. पोटा खातीर आनी फुडारा खातीर ताका काम करचेंच पडटलें, हाची जाणविकाय ताका आशिल्ली.

पूण आयजचे हॉटेला वयले घडणुकेन लोरसूचें मन इल्लें चडच उचंबळ जालें. आपले गांवभाव हांगा येवन सुण्याची जीण जियेतात, खूब वायट दिसलें ताका हें पळोवन. खंयच्याय तेर्रार वचून, कश्ट करून संपत जोडप पाप न्हय. पूण स्वाभिमान घाण दवरून, मनीसपण सोडून गिरेस्त जावपाची आस बाळगप लोरसूचे दिश्टीन व्हडलें पाप आशिल्लें.

आमच्या देसांत आतां उपाशी पडपाची स्थिती ना. परदेशांत वचून गडगंज संपत कमावचे परस, आपल्या देशांतच रावन, चार पयशे मानान जोडून, सूखसमाधानाचो

संवसार करपाची स्थिती आमच्या गोंयांत तरी आयज आसा म्हणपाची गजाल लोरसूक होलमली. पूण हजारांनीं गोंयकारांक ती उमगनासली. सगळ्या गोंयकारांक समजावपाची ताकत लोरसूकडेन नासली. तरी जाकीले वांगडी ताका आयतेच सांपडिल्ले. लोरसून चिंतलें जाकी समजदार आसा. ताचे मध्यस्तेन थंय मेळटा त्या गोंयकारांक एकठांय करून, आपल्या मनांतले विचार तांच्या मुखार मांडल्यार कितें वायट आसा? मानवल्यार मानूं! ना तर न्हयकारूं. प्रयत्न करूंक कितें हरकत आसा? उलोवंक कितें दुडू पडटात!

''जाकी, तुहां बोरें दिसलें मुरे?'' लोरसून थंडसाणेन प्रस्न केलो.

''कित्यें! ओहें कित्याक म्होण्टा तूं?'' जाकी उलयलो.

''माहां त्या गुंड्यांनी हातीक धोरून भायर माल्लो. आनी तुमी पोयत रावले. बोरें दिसलें मुरे तुमहां हें?'' लोरसू चवताळ्ळो.

''तुमहां मुहल्यार कोणाकू?'' जाकीन उबगून जाप दिली.

''तुमहां मुहल्यार तुहां आनी तुज्या आंगड्यांक!''

''म्होज्या आंगड्यांचें हांव सांगोंक नोको. पूण माहां ती घोडणूक मातूय मानवोंक ना बाडया! पूण आमच्यांनी तोरी कितें कोरूंक जातालें? हें गोऱ्यांचें राज्य. आमचें राजांव कोरूंक कोण आहा हिंगा? आमहां तोर ते इंडियान डॉग्स म्होणोन हिणायताय.'' जाकीन सुणो शेंपडी बागोवन कॉं-कॉं करता तशें केलें.

''इंडियान डॉग्स जायते बोरे. ते गुरगुरताय आनी भोंकताय. चाबूंक हाटीं रावों. भिवोयताय तोरी! तुमकोर्डे तेंय जायना.'' लोरसू निर्शेलो.

''जायना कित्याक, सोगलें जाता. पूण दोंके मोडून झेवचे पोडोत म्हूण भिरांत दिसता न्होरे.'' जाकीन आपली खंत उक्तायली.

''फार मारून झेवन मोराय रे. शेंपडी बागोवन कित्याक जियेताय?'' लोरसूलो रागा पारो चडलो.

''तुजो राग कोवता रे माहां लोरसू. पूण म्होजेर रागार जावन कोहलो हायदो आहा? आमचे कितलेशेच गोंयकार हिंगा येवन सुण्याजीण जियेताय. तेहां सोजमोता तोहें तेंच्या मुखार उलोय. हांव आहां तुज्या हाटल्यान.'' जाकीन लोरसूक मोलाचो तेंको दिलो.

''तोहें जाल्यार तूं तुज्या ओवकीच्या चोडांत चोड गोंयकारांची एक मिटींग आपोय. आमच्या आगशी-व्हडले गोंयचे लोक आहल्यार चोड बोरे.''

जाकीन लोरसूचो प्रस्ताव मानून घेतलो. शारा भायर एका हॉलांत एक मिटींग आपयली. जाकील्या तोंडाक लागून बरेच लोक मिटींगेक आयले. आगशीचे कांय लोक लोरसूचे वळखीचे आशिल्ले. लोरसूक पळोवन तांकां बरें दिसलें.

हॉलांत बरेच लोक आशिल्ले आनी आमंत्रीतांची संख्या एकेक करून वाडत गेली. वट्ट पन्नास–साठ कुली–मानांय एकठांय जाले थंय.

आमंत्रीत मर्यादीत आशिल्ल्यान मायकाची वेवस्था मुजरत करूंक नाशिल्ली. आनी म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार जाकीक मिटींग जाता तितले वेगीं सोंपोवचीशी दिसताली. लोरसूचे बाबतींत घडिल्लो प्रसंग जाकीच्या लक्षांत आशिल्लो. ताणें वगत लायनासतना लोरसूक भाशण सुरू करपाक सांगलें.

लोरसू तसो भाशणबिशण करपी मनीस न्हय. पूण आतां उलयले बगर ताजेकडेन दुसरो पर्याय नाशिल्लो. ताका तोंड उगडचेंच पडलें.

थंय एक लेगीत भयण नाशिल्ली. तरी लोरसून भावांनो आनी भयणींनो म्हणलेंच.

''म्होज्या गोंयकार भावां–भोयणांनो, तुमी हिंगा जाकीच्या उल्याक जाप दिवन सोगले एकठांय जाल्यात तें पोवन माहां चोड खोस भोगता. पूण तुमहां होबोर ना, तुमहां हिंगा कित्याक आपोयल्याय पोय तें.

तुमी गिन्यानी आसून लेगीत न्हिदोन आहाय. दुडवांक लागोन तुमी शाणे आसून लेगीत पिशां भाशेन वागताय. मोनीस आसुनूय तुमी जोनवोरांभोशेन जियेताय. कोणेंय येवपाचें आनी तुमचे हाटीर दांडे घालपाचे. आनी तुमी तें मोन्यांनी सोंसपाचें.''

''आरे लोरसू तूं कितें बोडबोडटा. आमहां जाल्यार कांय सोजमोना रे!'' गर्दैतल्यान कोणाचो तरी आवाज.

''होई. आमहां कांय सोजमोना.''

''आमहां सोजमोता तोहें उलोय रे.'' गर्दैतल्यान एका फाटोफाट आवाज आयले.

''सांगतां. गोरजे भायर आबूज जावं नाहांय.'' हें आयकून सगळे जाण शांत जाले. आतां लोरसून चिंतलें. हांच्या मुखार फुडाऱ्या भशेन लांबलचक भाशण दिवन कोताक येवपाचें ना. ताणें मुद्याकूच हात घालो–

''म्होज्या भावांनो, पोयर हिंगा घोडोंक फावोना तें घोडलें. आतां हिंगा हाजीर आहलेल्या कांय गोंयकार भावांनीं तें पोयलां.''

''आरे बाबा, कितें पोयलां ते जाता तितलें वेगीं सांग.'' गर्दैतल्यान एकलो ताणशेलो.

''पोयर मुरे, आमी एका हॉटेलांत जेवणाक जेले रे! आमच्या हाटल्यान तीन-चार गोरे गुंड भितोर सोरले आनी तेणीं आमकोडे झोगडीं केलीं मुरे! कोहलोच गुन्यांव नासतोना आमचो.'' लोरसू मात्सो तिडकलो.

''हिंगा तोहेंच चोलता बाडया!'' जाकी उलयलो.

''आनी तुमी ओगीऽ रावताई?'' लोरसू.

''आनी कितें कोत्तलोय? गांव तेंचो.'' जाकी.

''गांव तेंचो म्होणोन आमी भियेत भियेत मार हावन जियेवपाचें मुरे? पोयर तेणीं हाती धोरून माहां भायर माल्लो. हाल्यां तुमचेरूय तोच ओगोत येतोलो.''

लोरसून आपलें दुख्ख काळजांत सावन मांडलें.

''तूं उलोयता तें होरें रे! पूण आमी कितें कोरपाचें?'' जाकीन प्रस्न केलो.

''तुमी गोंयांत वोचपाचें. तुमचीं शेतां-भाटां सांबावपाचीं. हांव जाणां, तुमचे मोदें कोण शेतकार आहाय, कोण रेंदेर आहाय, कोण पोदेर आहाय, कोण ठोवोय आहाय. तुमी सोगले आपापलीं कामां सोडून हिंगा येयल्याय आनी थिंगा तुमचीं कामां सांबावपाक गोंयां भायले लोक येवन भोल्ल्याय. गाडेकार, नुस्तेकार, फोवां-फुलां विकपाचे सोगले धोंदे आतां गोंयां भायल्या लोकांकोडे जेल्याय.

कांय लोकांनी भायल्यान येवन बारीक बारीक धोंदें कोरून जोमिनी झेवन व्होडलीं-व्होडलीं घारां बांदल्यांय. कांय जाणांनी-गोंयां भायर जेलेल्यांनी सोबीत घारां बांदून भायल्यांक भाड्याक दिल्यांय, आनी आपूण खोपटांनी रावताय. आनी तुमी? तुमी हें सोगलें जाणां जावन लेगीत, सोगलें कोवोन लेगीत गोऱ्यांची गुलामी कोत्ताय थू तुमचे ओकलेक!

आरे पापयांनो, तुमी हिंगा येवन दुडू जोडटलेय. गोंयांत वोसोन व्होडलीं सोबीत कायेचीं घारां बांदतोलेय. तुमी दुडू हिंगाचे व्होत्तोले आनी शेतां पुरोवन घारा बांदतोलेय. पूण म्होज्या भावांनो, फुडें तुमचेर ओहलो ओगोत येवपाचो आहा, शेतां रोवपाक तुमहां एक वेंतभोर जोमीन मेवपाक कुस्तार जातोलें. उपाशीं मोरपाचो ओगोत येतोलो तुमचेर. तेन्ना म्होज्या भावांनो, गोंयां वोसाय आनी शेतां-भाटांचो सांबाव कोराय. गोंयकारापोण सांबावाय.''

''तोहें जाल्यार तूं कित्याक येयला रे हिंगा!'' गर्दैंतल्यान एक किंवाट्याचो आवाज.

''व्हडली चूक जाली बाडया. ती आतां सुदरोवंक सोदतां. नाहां माहां हें इंग्लोंड आनी नाहां माहां हिंगाची गिरेस्तकाय. हांव चोल्लों गोंयां.''

६०

**स्वा**भिमानी लोरसूक आतां इंग्लंड नाका जाल्लें. ताका गोंयांत सावन गुलूची चिट्येर चीट येताली. रॉजाचो उपद्रो दिसान दीस वाडत आशिल्लो. गुलूलें शेत बळकावपाची तयारी केल्लीच ताणें. ते भायर हेर शेतांय गुंडांच्या आनी राजकारण्यांच्या तेंक्यान बळकावपाची तयारी चलताली रॉजाची. आगशीच्या शेतांनी उब्यो जाल्ल्यो व्हडल्यो व्हडल्यो इमारती पळोवन तर गुलूचें काळीज दिसान दीस वयर सकल येतालें.

आनी खऱ्यांनीच लोरसू एक दीस गोंयांत पावलो. अकस्मात आयिल्ल्या लोरसूक पळोवन गुलूच्या जिवांत जीव आयलो. लोरसूल्या आगमनान गुलूल्या सपनांक पालय फुटली ती फुटलीच, ते भायर हांतरुणार पडून आशिल्ले दोगूय म्हातारे तरतरले. चड करून रॉजाच्या त्रासांनी आलसूबा खंतेल्लो. आतां तो लोरसूच्या आवाजान फुल्लो.

लोरसू थोडेच दीस इंग्लंडाक उरलो. पूण थंय तो खूब कितें शिकलो.

सगळ्यांत म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार ताणें गोंयकारां मुखार इंग्लंडाक केल्लें भाशण बरेंच प्रभावी थारलें. ताच्या भाशणान गोंयकारांचो स्वाभिमान जागो जालो. एका म्हयन्या भितर ते इंग्लंड सोडून गोंयांत आयले. येना बराबर तांणीं लोरसूची भेट घेतली.

लोरसून आनी गुलून तांकां येवकार दिलो. इतलेंच न्हय, हाचे फुडें सगळ्याच बाबतींत तांच्या फाटल्यान उबीं रावपाचें उतर दिलें.

गुलून आतां विचार केलो. शेतकार आतां आपापलीं शेतां सांबाळटलेच. पूण जांकां शेतां नात तांचें कितें? तांचीं पोटां कशीं भरतलीं? सगळे धंदे तर आतां गोंयां भायल्यांनी आपणायल्यात.

गुलू विचारी अस्तुरी. ताणें चिंतलें, सरकार ह्या ना त्या कारणांक लागून कोट्यांनी रुपयांचें अनुदान वाट्टा. आतां बेकार पडिल्ल्या गोंयकारांक, तांकां फावता तसलीं कामां, फावता तसले धंदे गोंयांत उबारले जाल्यार तांकां भायर कित्याक वचूंक जाय? तांकां जाय तें गोंयांत मेळत जाल्यार तांकां भायल्या देसांची गुलामी कित्याक करूंक जाय?

लोरसून बेकार लोकांची मिटींग आपयली. ताणें बेकार लोकांक फावता तें काम दिवपाची येवजण तयार केली. सरकारी मजतीन एक संस्था स्थापन केली. खंयचेय परिस्थितींत, खंयच्याच शेतकाराचें वा फिशाल कारागिराचें लुकसाण जावंचें न्हय, हाची काळजी संस्थेन घेवंची अशें मिटींगेंत थारलें.

ह्या आदीं गुलून व्यान्न्यांचो प्रस्न सोडयल्लो. तांचें जिवीत आतां बरे तरेन चालीक लागिल्लें.

आतां एकामेकाचे देखीन शेतकारांनी आपापलीं शेतां रोवपाक सुरू केलीं. मुखेल काम शेतांचें आनी सरकारी मजतीन जोड धंदे सुरू जाले गांवागांवांनी.

लोरसून आनी गुलून गांवांत अशी एक शक्ती निर्माण केली, जिचे फुडें ह्या मुखार गोंयांत खंयचींच रॉजालीनां आनी राजकारणी तग धरूंक पावचे नात म्हणपाची खात्री तांकां जाल्ली. तीच तांच्या मुखामळार निशेताली.





नं.ध. बोरकार

निवृत्त शिक्षक, कॉन्वेंट हायस्कुलांत ३३ वर्सां हिन्दी, मराठी आनी कोंकणीचें अध्यापन. शिक्षणः एम्.ए., हिन्दी पंडीत, एस्.एच्.एस्.एस्. एका हायस्कुलाचो २५ वर्सां वेवस्थापक, एके शिक्षणीक संस्थेचो २५ वर्सां सरचिटणीस, एके सहकारी सोसायटीचो १० वर्सां अध्यक्ष.

हिन्दी भाशेचो प्रचारक आनी प्रसारक. आवय भार्शेतल्यान शिक्षण मेळचें म्हण यत्न, प्रौढ शिक्षणां खातीर तशेंच विडी-तंबाखू विरोधी वावरांत योगदान.

कोंकणी आनी मराठी कितल्याशाच नाटकांतल्यान अभिनय.

'नवप्रभा' दिसाळ्यांतल्यान तशेंच 'बिम्ब' मासिकांतल्यान सातत्यान लेखन.

तांची 'मम्मी' आनी 'वावराडी' हीं विनोदी नाटकां गाजल्यांत.

'पोको' हे कादंबरीक मनीपालच्या डॉ. एम्.ए. पै फाऊन्डेशनचो २००६ वर्साचो उत्कृष्ट पुरस्कार, तशेंच साहित्यांतल्या तांच्या योगदाना खातीर 'बिम्ब प्रकाशनाच्या ज्ञानपीठकार रवीन्द्र केळेकार पुरस्कारा'न भोवमानीत.

तांचीं आतां मेरेन 'गोंदू', 'पोको', 'समर्पण' ह्यो कादंबऱ्यो, 'कुळागरांतलो सर्गानंद', 'आंकवार' हीं ललित पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. तांचें 'पवित्र बंधन' हें नाटक प्रकाशनाचे वाटेर आसा.






ISBN 978-93-85654-24-4
9 789385 654244



Price: ₹ 200/-